# कोड हंऽऽ



आशा शानभाग

बिम्ब
प्रकाशन

प्रकाशक / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
दूरध्वनी / (०८३२) २४३८३५५.
प्रकाशन क्र. / १०९. अक्षर जुळणी / बिम्ब प्रकाशन.
छापणावळ / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

पयली आवृत्ती / २९ जुलय २०१५.
मुखपृश्ठ / हर्षदा केरकार.
**कोऽ हंऽऽ** (कथा संग्रह) आशा शानभाग.
**Ko Aham** (Stories) ***by Asha Shanbhag.***
मोल : ₹ १८०/-

बिम्ब
प्रकाशन

ISBN : 978-93-84951-97-9

अशें म्हणटात...
जंय देवी सरस्वती वसता
थंयची लक्ष्मी शाश्वत आसता
ते देवी सरस्वतीच्या
पांयांर....

# कोऽहंऽऽ न्हय सोऽहंम्

**आ**शा शानभागाचें एक पुस्तक काडूंक जाय असो विचार खूब काळा सावन मनांत घोळटालो. फाटलीं पांच वर्सां आशा सातत्यान बिम्बांत बरयता. बिम्बांत आनीकय जायतीं जाणां कॉलम बरयतालीं, बरयतात. पूण घालून दिल्लो वेळ उलगलो तरी तांचें साहित्य पावना. तांकां पराथचें पडटा. पूण आशाचे बाबतींत तशें केन्नाच घडलें ना. आदल्या म्हयन्याचो अंक मार्केटांत पावचोच आसा, आशाचो फुडल्या अंकाचो लेख दत्त म्हूण हजर. कॉलम बरोवपी लेखकाच्या बरपाक मर्यादा आसता. कॉलम दिवंक जाय, घालून दिल्ली वेळेची मर्यादा सोंपत आयल्या म्हणटकच कितेंय तरी बरोवन दिवंक जाय म्हूण पाडप जाता. अशें हें बरप बरें उतरतलेंच अशें नासता. सिध्दहस्त लेखकाचे बाबतींत म्हणना हांव, तांचें वेगळें आसता, बरोवंक लेखणी हातांत घेतली काय ती स्त्रवपाक लागता. आशाचे बाबतींत अशेंच घडटा अशें म्हणपाचें हांव धाडस करिना. कित्याक आशाक आपणें घेतिल्ल्या कॉलमाची गंभिरताय आसा हें ताच्या दर लेखांतल्यान जाणवता आनी आपल्या बरपाक तें प्रामाणिकपणान न्याय दिवपाचो यत्न करता म्हणपाचें होलमता.

गुरूनाथबाब केळेकार संद मेळटा तेन्ना म्हजी तोखणाय करतात. हांवें खूबश्या लेखिकांक प्रोत्साहन दिवन तांकां घडयल्यांत म्हणत म्हाका ते क्रेडीट दितात. पूण तें खरें न्हय. हांवें बिम्ब मासिकांत मुद्दाम जावन खंयचेच लेखिकेक प्रॉजेक्ट करूंक ना. पूण लेखिका सातत्यान बिम्बा खातीर लेख, कविता, कथा

धाडटात आनी तांचें सातत्य पळोवन हांवें दर म्हयन्याक तांच्या साहित्याचो आस्पाव करून घेतिल्ल्यान तांचो कॉलम जालो इतलेंच. आशा शानभाग, अपर्णा गारूडी, हर्षा शेटये, रूपा कोसंबे हांची वाचक अर्थअपुर्बाय करतात ती तांच्या आंगच्या कलागुणां खातीर. तीं जें कितें साहित्य धाडटात तें बिम्बाच्या दोण्यांत घालून हांव वाचकां मेरेन पावयतां इतलेंच म्हजें काम. म्हणटकच हांवें गरजे भायर कित्याक म्हूण क्रेडीट घेवप?

पूण एक गजाल खरी! हांव चोखंदळ वाचक जाल्ल्यान कोण कितें बरयता आनी तांचो फुडार कितें हाची हय न्हयशी म्हाका जाण आसा आनी तेच पासत हांचें पुस्तक येवप गरजेचें अशें म्हाका दिसूंक लागता तेन्नाच हांव तांकां विचारतां, आतां पुस्तक काडुया न्हय?

एक प्रकाशक जेन्ना कोणाकय पुस्तक काडुया म्हणटा तेन्ना तो लेखक भुरकुटून वचना जाल्यारूच अजाप म्हणूंक जाय. कित्याक आपलें पुस्तक येवंचें अशें दर एकल्या नवोदीत लेखकाक दिसता आनी जांचीं खोटलोभर पुस्तकां आयल्यांत तांकांय दिसता. पूण हांगाय आशा वेगळें. ताका पुस्तक आयलें म्हणटकच सर्गाक हात लायला अशें दिसना. आपल्याक ती भानगड नाका म्हणत, आतां मरेन ताणें कडेकच रावप पसंत केल्लें. आपूण व्हडलें लेखक जावपाक बरयना, फकत आपल्या मनाक समाधान लाभता म्हूण आपूण बरयतां अशेंच पालुपद ताणें लायिल्लें.

पूण ताच्या बरपाची हांव एक विस्कटावणी करून ताची साहित्यांतली वाटचाल तेळटालों. कांय लोकांक फुडें फुडें करपाची संवय मुळांतच नासता आनी तांच्या ह्या सभावाक लागून तीं कायमचीं फाटीं उरतात. हाका लागून घडटा कितें तर सादारण गुणांचे लोक फुडें फुडें करतात आनी तांकां पर्याय नाशिल्ल्यान तांचोच थातोमातो जाता.

'तुजें पुस्तक आतां येवंकच जाय' असो हांवें आशा मुखार आग्रो धरलो तेन्ना ताणें शेवटाक 'तुमकां जाय तें करात' म्हणत मान्यताय दिली. 'कोऽ हंऽऽ' हें नांवय ह्या संग्रहाक ताणेंच दिलें. ह्याच नांवाची एक कथा ह्या संग्रहांत आसा. खरें म्हळ्यार हें 'कोऽ अहम्' अशें आसूंक जाय आशिल्लें. 'कोऽ

अहम्' म्हळ्यार 'आपूण कोण?' हो मनशाक पडिल्लो प्रस्न. मनीसजात जल्माक आयल्या बराबर ती रडटा वो रडना जाल्यार तिका रडयतात. तेन्ना तिच्या मुखांतल्यान हो रडपाचो सूर आसता तो 'कोऽहंऽऽ, कोऽहंऽऽ' असो! आपूण कोण? असो प्रस्न करीत जल्माक येवपी ही मनीस जात फुडाराक आपूण कोण हाची वळख सोदपाक विसरून वता. जी कोण ती सोदता तिका ती पुरायेन गावता अशें जरी नासलें तरी जल्माक येवन आपलो ठसो हे गर्देंत दवरून वता.

आशा शानभागाच्या बरपांतल्यान ताची वळख घडत वता आनी फुडाराक ती ठळक जायत रावतली हाची सुलूस दिता. आतां ह्या संग्रहांत आशाचें जें बरप संग्रहीत जालां तें अचूक खंयच्या साहित्य प्रकारांत आसपावता असोय प्रस्न वाचकांक पडूं येता. जरी ह्या संग्रहाक 'कथा संग्रह' अशें म्हळां तरी तातूंतले सगळेच लेख 'कथा प्रकार' हे फास्कें‍त बसतलेच अशें सांगू येना. साहित्याचे विंगविंगड प्रकार वो तांच्यो ह्यो 'फास्क्यो' बरोवप्यांची गरज न्हय. ती ॲकॅडेमी-शियनांची गरज. बरयतलो बरोवन चल्लो. बरोवप हें अभिव्यक्तीची एक निखळ अशी प्रगटणी. ती सैमीक तरेन आपशींच घडटा. जशें फुल फुलता, फळ धरता आनी मागीर आपले परीन आकार घेत रावता. ह्या आकारांत मागीर कोणाक गणपती दिसता वो कोणाक आनीक कितें! तेच वांगडा हालीं हालीं नवी टूम आयल्या. फुलाक फळ धरले बराबर त्या फळाक कांय लोक चौकोनी, त्रिकोनी वो आपल्याक जाय तश्या आकाराच्या फॉर्मांत लोटतात. तें फळ जसजशें वाडटा तशें तें त्या फॉर्माचो आकार घेत रावता. फॉर्म तयार करप्याक त्या फळान घेतिल्लो आकार पळोवन खोस भोगताय आसत! पूण तो आकार सैमीक न्हय म्हणपाची हुरहूर, किचमणी ताका खायत रावता, त्या फळाचो आस्वाद घेता आसतना लेगीत!

आमचे मदीं अशे जायते बरोवपी आसात, जांकां समिक्षक, ॲकेडेमिशियन बी समर्थ लेखक म्हण तोखेतात! कित्याक ताणीं तयार केल्ल्या फॉर्मानी घालून वो दाखोवन दिल्ले वाटेन वचून हे लेखक, साहित्यिक आपली साहित्य निर्मणी करतात. पूण तांकां खऱ्यानीच साहित्य निर्मणेचो सैमीक आनंद मेळटा?

काय कोणेंतरी स्वताक विद्वान म्हणोवप्यान, आपले गरजे पासत तयार केल्ले फास्केंत आपणें ज्युस्ता ज्युस्त आपलें साहित्य बसयलें म्हण समाधान मानून घेतात? तांचे हे यशस्वी कारागिरीक पुरस्कार, भोवमान मेळतय बी पूण हेंच अंतीम सत्य काय कितें हाची जाप काळूच दितलो.

आशा असले कसलेच भानगडींत पडना. ताचें जगप 'आयलें तशें गायलें' तो काणकोणच्या वाठाराचो प्रभाव आसूं येता. काणकोण वाठार हो कुचकुचीत रानांचो वाठार. ह्या रानांत जितली रूखावळ वाडल्या ती सैमीक रूपान वाडल्या. जितलीं फुलां फुल्ल्यांत तीं निजाचो सभाव घेवन फुल्ल्यांत. देखून तांची आगळी, खाशेली सुंदराय भावता. तीच गजाल म्हाका आशाच्या ह्या संग्रहांत दिसून आयली. आशाक विशयांचो पातसो ना. आपणें हे विशय हाताळल्यार आपलेविशीं लोकांचें मत कितें थारू येता? हाची आशाक पर्वा ना. ताच्या ह्याच बिनधास्त सभावाक लागून ह्या संग्रहांत आयिल्ल्या कथांचे विशय, आशय आनी एकंदर मांडणी वाचकांक धक्को दिवपी थारू येता.

आशाक मेळूंक सादोळशां वतना कांय लोकांकडेन हांवें ताचो पत्तो विचारलो, ताचें घर सोदपा खातीर. जांकां जांकां विचारलें ताणीं 'आशा म्हळ्यार टॉमबॉय' म्हणपाची कल्पना दिली. आशा स्कुटर घेवन गांवभर हुंदडत आसता, बसींक सायड मारून वता, स्कुटर चलयतना कोणेंय हटकिलें ताका जाल्यार तेंय हात वयर करून तांकां हटकिता. हांव घर सोदतां हें ताका कळ्ळे बराबर, आसा थंयच राव अशें म्हणत तें स्कुटर घेवन दोंगराळ वाटेंतल्यान भुर्रर करून आयलें. हांगच्याच ताच्या भाटांत तें आंबे, पणस, काजू, जांबळां, काण्णां असली फळावळ आनी तरातरांची रूखावळ तोखेत भोंवता. तोच ताचो भोवतेक वेवसाय आसूं येता. अशें करतना ताका तांचे मर्दींच कथाबिजां, व्यक्तिचित्रां सापडत रावतात. तांकांच तें आपले कळाशीन ह्या कथांनी बंदिस्त करून दवरता. तेच पासत ताचें बरप सैमीक अशें दिसता. देखुनूच ही कथा? हो ललित लेख मरे, हो निबंद मरे असोय आभास वाचतल्याक जावं येता. पूण आशाच्या सभावाक धरून तें आयलां देखून ताका येवकार.

आशान म्हाका ही प्रस्तावना बरोवंक सांगूना. म्हाकाच दिसलें आशाचें हें पुस्तक कोंकणी साहित्यांत आपलो खाशेलो असो ठसो निर्माण करतलें. तेन्ना म्हाका जें कितें दिसलें तें बरोवया. देखुनूच हांवें हातूंतल्यान खंयचेच कथेचो ही बरी, ती बरी असो उल्लेख करूंक ना. तें काम वाचकांचें. हांव तांचे पासत मार्गदर्शक जावंक सोदिना. प्रत्येकान आपले नदरेन, आपले समजणे प्रमाण आशाचें हें पुस्तक वाचचें. तातूंतच तांकां एक निर्भेळ खोस भोगतली.

आशान आपल्या पुस्तकाक 'कोऽ हंऽऽ' अशें नांव दिलां तें आपूण कोण? ह्या अर्थान न्हय. 'तर कोण हांव? कोऽ हंऽऽ?' हे कथेंतल्या नभाक आपलें अस्तित्व कितें असो प्रस्न निर्माण जाता तेन्ना पयसुल्ल्यान कानार पडपी कोगळाचो 'कुहूऽ कुहू' आवाज कोऽ हंऽऽ असो भासता देखून.

आशाकूय जिणेंतल्या अणभवांतल्यान कोऽ हंऽऽ? हो प्रस्न पडला. ताच्या कथांनी जितलीं बायल व्यक्तिचित्रां आयल्यांत तांकांय तो पडला. तेंच आपल्या कथांतल्यान व्यक्त करतां करतां आशा कोऽ हंऽऽ? ह्या प्रस्नांतल्यान भायर सरून सोऽ हंऽऽ म्हणपाचें सिध्द करता.

आशा, पुस्तकरुपी कोंकणी साहित्य विश्वांत तुजें स्वागत...!

**– दिलीप बोरकार**

## मनोगत

कोऽ हंऽऽ? हांव कोण हें म्हाका केन्नाच कोणाकच आड्ड्यो मारून सांगचें पडलें ना. हाका कारण? म्हजो हांसो... हांसत्या मुखामळाच्या मनशांक अनवळखी लेगीत विसरनांत. ह्या काणयां झेल्यांत एक काणी 'कोऽ हंऽऽ' म्हणून आसा. देखून झेल्याचें नांव हेंच.

ह्या संवसारांत जल्मल्लो दरेकटो आपली तुस्त आयकून खुशाल जाता. पूण मागीर खूब जाणांचे पांय जमनीक विसरतात. तीं मनशां हवेंत तरंगतात. आनी हेरांक किकोंत थारावन आपलें व्हडपण हेरांच्या बोडक्याचेर जबरदस्तेन थापतात. तें पळोवन म्हाका म्हज्या पांयांचो हुस्को जालो. देखून पयल्या पुस्तकाकय जल्म घेवपाक इतलो कळाव.

आमचो भाई... अनंत अग्नी केन्ना सावन म्हाका पुस्तक काडपाचें सांगतालो. भौ. फटीमास्तरांनीय म्हाका उपदेशामृत पळोवन सांगलें. देवीदास कदमसर तर कारवारी हेलांत म्हाका गाळी घालून पुस्तक काडपाक सांगताले. खरें सांगतां... म्हालगड्यां जोतांचे चालणुकेचेर फाटलीं जोतां चलतात. पूण... आसूं तो पूण... समजनेवाले को इशाराही काफी है. हांव सगल्यांक न्हयकारत रावलें.

पूण भौ. दिलीपसरांनी गनिमी कावा खेळून आमचे दोनूय गडे.... विवेक

आनी अश्वेक... फारायले. आतां पुस्तक काडया म्हणपी दोगजाण आनी न्हयकारपी हांव एकलेंच. 'एकला चलो रे' अशक्य. म्हणून हांवय तांकां मेळ्ळें आनी हें म्हजें पयलें पुस्तक जल्माक आयलें. हाचें स्रय दिलीपसर आनी कामिनीताई हांकांच.

म्हजें बरोवप थोड्यांक आवडटा... खूऽब्ब जाणांक घडये मानवना. तांची तासंपट्टी हांव कानामनारय घेना. म्हाका जाय तें... म्हाका जाय तशेंच हांव बरयतां. आतां तर म्हजी कात गेंड्यापरसय दाट जाल्या. खरें सांगतां... देवाच्यान... हांव जातीचें बरोवपी न्हय. तर अभिमानान सांगतां हांव एक बरें पयकी वाचक. हांगा अश्वेकाचो शेरो... 'मम्मा वाचून फक्त वक्लाचो नंबर वाडयता.' भंय दिसता... म्हजे फाटल्यान आमच्या घरांतलें वाचप सोंपतलें काय?

बस्स... चड कांयच नाका. हांव 'हॅपी गो लकी' जगपाक जल्माक आयलां हें ठामपणान थारावन हांव दरेक खीण जगतां. टेन्शन कायकू लेनेका??? हें यंगीस्तानचें टायटल साँग हांवें उश्णें घेतलां आनी सगलें टेंशन विवेकाचे तकलेर सोडलां. पुरावो जाय? दोन वर्सां रावात. पुराय पुनवेचो चंद्रीम जाता काय ना पळयात.

थँक्स....

**– आशा शानभाग**

सादोळशें,
काणकोण–गोंय.

## मांडावळ

# उक्तावण... अशेंय

**आ**यज मेरेन ह्या गांवांक आमदारांक पालाशींत धाडपाच्यो, खासदारांक बद्द दिल्लीक धांवडावपाच्यो आनी गांवच्या उडाणटप्पू नेत्यांक पंचायतींत धाडपाच्यो तीनच वेचणुको खबर आशिल्ल्यो. हालीं तेपार तर ह्या वेचणुकांनी कोण वेंचून येता हाची लोकांक मात लेगीत उमळशीक म्हणटा ती नाशिल्ली. पूण खूब इंटरेस्ट आसतालो तो वेचणुकां आदीं जें कितें झडोवन घेवंक मेळटा तातूंतच. ह्या अशा वेचणुकांनी तीन फामिलींचो संवसार बेस बरो चलतलो हाची पांच वर्सां तरी सरकार जतनाय घेतालें. हे वटेन शिक्षणगंगा दरेकाच्या दारांत पाविल्ली आनी वाडिल्ली शिक्षीत बेकारांची संख्या आनी एकान कमी करून ताका पांच वर्सांत लखपती, (थुंबेकाल) करोडपती करपा खातीर सरकारान जिल्हा पंचायत नांवाचो अगडबंब धवो हती तयार केलो. ही जिल्हा पंचायत खंय आसता, करता कितें आनी कितें खावन कशी जगता हें गांवकारांक खबरच नाशिल्लें.

एक दीस रोजी आंटील्या ताव्हेर्नाचेर किस्तु, दियोग आनी रूजार बसून घोंट घोंट भर मोडक पियताले. ''पाड पोडों तेंचें इलेसांवां येयाय म्हुणोन इस्कोलां व्हयले आमकां. कोणी किदें झोडयतो म्होण थिंगा अर्देवर उबो राविलो. मोरो तेंचो. कोणें पांच रुपोय लेगीत झोडोयले नांय.'' किस्तु जळजळीत मोडक ताळ्यांत ओतयन फडफडटालो. ''म्हागेली बीन हीच तोरा. पोयर फाटीं जाल्या इलेसांवां टायमार चिकन-सोरो आनी मोता फाटल्यान हाजरां नोटी मेवताल्यो. हे पावटीं सगलें फुकेट. म्हागेलोय दिसवोडो बुडलो. आँटी आयज उदारी गे.''

दियोगय दांत वोंठ चिड्डीत भरभरतालो. रूजार मात कांयच  उलयनासतना रूचीन बरो पेटयतालो.

तेवटेन मोर्तुलाले गादयेर वासू, भागडू आनी सोनू नव्या काजुच्या हुर्राकाची रूच घेताले. तांचींय विमानां बरीं वयर वयर उडटालीं. थंयय तींच नाटकां. झेडपी इलेसांवांच्या नांवान बोब चलिल्ली. ''मोरो तेंचो. दिसभर लोकांक घरांतल्यान आफोवन हाडपाचें काम केलें. आनी मेल्ल्यान दिले कितले काय म्हळ्यार शंबर रुपय. हांये चोयना आस्ताना बोलसां घायले. सोरो ना, चिकन ना. पाड पोडो तेंचें.'' भागडून झेड.पी.च्या नांवांन शिगमो सुरू केलो. ''आरे तेका किद्या गाळ्यो सोवता? तो पोडलो आनी दुसरो येयलो झेड.पी. जांवन.'' वासून ताका समजायलो. तिंगायनी आपले ग्लास रिकामे केले आनी एकमेकांकडेन झांकत, एकमेकांक आदार दियत रस्तो जोकत चलपाक लागले.

अशे तरेन झेड.पी.चीं इलेसांवां आयलीं आनी गेलीं. कोणतरी वेंचून येवन अध्यक्ष जालो. मागीर कांयच आवाज ना. आमदार दारांत येवंक अजून कळाव आसलो. पंचायतीची वेंचणूक लागसार नाशिल्ल्यान फुडल्या निवडणुकीच्या फंडिंगाचे तयारेंत दोगूय आसतनाच अचकीत एक व्हड काळ्या हारशांची चकचकीत रूपयाळी गाडी गांवांत येता. तातुंतल्यांन दोगजाण सकयल देंवतात आनी गाड्यावेल्या मोर्तुक हटकितात. ''ए हांगा यो रे.'' कोणतरी सायब आफयता तें पळोवन मोर्तुची फें फें जाता. ''आरे एक सांग हांगाचो पंच कोण?'' आता मोर्तुक आवाज फुट्टा. ''सायबा, आफोंव तेका?''  ताची हालता ती गोमटी पळोवन मोर्तु फुजो मारता. ''पात्रांव, पात्रांव. तुका सोदुं कोणतरी येयला.'' पंचाच्या हिरो होंडाचेर बसून मोर्तु गाड्याकडेन पावता.

झेड.पी. आनी पंच एकमेकांक पळयतात. जोखतात आनी एकमेकांचो हात धरून गाडयेंत वचून बसतात. ''पळय हांव जिला पंचायतीचे वतीन हे गांवांत कितेंय कामां करपाक सोदतां. तूं कोणाय काका-मामांच्या नांवार कंत्राटां घे. म्हजे फिफ्टीन पर्सेंट फिक्स. बाकी तुका जाय तें कर. ओके?'' पांच मिनटां पंच कोतां करता. फिफ्टीन गेल्यार उरले एटीफाय. हांकां तांकां खावोवन लेगीत चाळीस टक्के आपले बोल्सांत शेर्त. 'डन' पंच म्हणटा आनी दोगूय हातांत हात

घेवन गाडयेभायर येतात. ''ए मोर्तु कामां आसात रे?'' पंचाल्या उल्या बरोबर धांवून आयल्लो मोर्तु मान हालयता. ''हो झेड.पी. सायब गांवची उदरगत करपाक सोदता. तेन्ना देवळाकडच्या पारार पांच वरांचेर गांव जमपाक जाय. घे हे शंबर रुपया.'' मोर्तुल्या दोळ्यां मुखार आयज ओल्ड मॉन्काची बाटली नाचता. ह्या शंबर रुपयांच्या नेटार मोर्तुन गांवाक पांच वरांचेर पारार एकठांय जमयलो.

चार साडेचारां सावनूच ब्रह्म्याचो पार मनशानी फुलून गेलो. तातूंत तोपयो, फेटे, मुंडाशे, चेपीं आनी उगड्यो तकल्योय दिसताल्यो. झेड.पी.न गाडयेंतल्यान देंवल्या बरोबर चड कळाव लायनासतना सुरवात केली. ''गांवचे भाटकार लोक आपल्या घरचीं मरणां आपल्याच भाटांनी साकसून घेतात. भाटां नाशिल्ल्यांनी हीं दहनाचीं कामां खंय करपाचीं? तांकां तांच्या घरच्यांचीं मरणां करपाक कोण जागो दिता?'' इतल्यांत जाण्टो कुष्टआना उठलो. ''बाबा, तूं किदें गांवांत खोदोळ घालूंक येयला? आमच्या वाडवडलांचीं मरणां भाटकारालेच दोंगुल्लेचेर जातात.'' ते बरोबर कुष्टआनाक चेड्यान तापोवन चूप केलो. आतां पंच उठलो. ''झेड.पी. सायबाचें म्हणणें आयकून घे कुष्टआना. ताका सगल्यांच्या घरचीं मरणां-दहनां त्रास जायनासतना जावंचीं अशें दिसता. ते खातीर सायब एक मसुंडी बांदपाचें चिंतता. तेंका कोणेंय तरी जमीन दान करपाक जाय.'' ''ए. पंचा तूं तर व्हडलो भाटकार मरे! तुजे दोंगुल्लेचेर दी मरे इल्लोसो जागो.'' बुदवंत रायुदादान म्हळें. हो पंच नेण्टो खरो पूण गळोभर उदकांत बुडून देखून सुकी काश्टी दाखोवपी बेरकी मनीस. ''आरे दादो. हांव दोनूय हातांनी दान करपाक तयार. पूण तूं जाणां आमची जमीन कोमु. हेरांनी काब्ज घाल्यार जापसालदारकी तूं घेता तर उलय.'' रायुदाद चूप पडलो. इतल्यांत भिकू भाटकार उठलो. ''हांव दितां जमीन तुमकां पूण म्हजी एकच अट आसा. गांवांत कोंकण्या वांगडा क्रिस्तांवय आसात. तेन्ना आमचे मसुंडेक तेकूनच तांकांय शिमतर बांदून दिवची. जमनीचें म्हजेर पावलें.''

ताचें उलोवप सोंपचेंच आसा. कृष्णभावोजी बोंबीदादाल्या कानांत फुतफुतलो. ''इतलीं वर्सां इनाशिनाक सांभाळ्ळें हाणें तें रिण पावयता हो चोर.'' तांचें

किटकींटप पळोवन भिकू भाटकारान दोळे मोटे करून तांकां पळेले. हेवटेन पंच आनी झेड.पी. देवान न मागतांच दोन दोळे दिले म्हणून खूश. पंचाच्या ट्रकान रात–दीस फेरयो मारून दोंगुल्लेवेली माती आनी रोबोल फोडून विकून पयसो पयलींच गांठीक लावपाक सुरवात केली. हळुहळू गांवचींच कामेरीं घेवन मुसुंडी आनी शिमतर मदीं एके वण्टीचो वेगळेचार घेवन तयार जाली. चार पयशे किरवंटेक लागले म्हणून वासू, भागडू आनी सोनू मोर्तुलागेर वचून पोरणी काजू फेणी पेटोवन आयले. ते वटेन किस्तू, दियोग आनी रूजार तांबडी बाटली रिती करून आयले. जाल्यार पंच आनी झेड.पी.न आपापल्या गडगंज पर्सेंटेंजीच्या खोशेंत व्हडल्या हॉटेलांत फामिली सयत पार्टी केली.

सुशेगाद गांवकार आतां बेकार आशिल्ल्यान हेवटेन तेवटेन दिसवड्याच्या कामांचो सोद घेताले. बेकार जाल्ल्यान तिनसांजेचें कोप उदारेचेर चालू जाल्लें. मोर्तुलाचे गादयेर तिनसांजेची भासाभास रंगली. ‘‘ये वासू, आतां चोवूं जाय इतलेंच की रेडी जाल्ल्या मसुंडेचें पयलीं उक्तावण जाता काय शिमतरीचें तें.’’ भागडून मात्सो कुरकुरीत जातकीर बाण सोडलो. ‘‘भागडू हांव हुंदराचें वीख दितां तें तूं खा रे. रोखडीच मोरतोलो. तुका लासोंन जातलें मसुंडे उक्तावण.’’ मोर्तुल कोपांक ओततां ओततां फुतफुतलें. ‘‘सामकी फुटकी माळती शें पचपचलें मुगो. म्हागे कांय जावो ना आजून. चेड्या फुडारा, गुडी दिवों जाई. तुका चोय, ना घोव ना भुरगीं. तूंच घे तें वीख. कटकट नाका मागीर.’’ भागडुले तकलेंत कोपाचें बरेंच वयर चडिल्लें. ‘‘हांव? हांव मेल्यार म्हाका तुमची मसुंडी नाका रे. म्हाजे घोवान इल्लो कुडको घेवन दवरला. तितुंकच म्हाका लासतले म्हागे देरा चेडे.’’ उरिल्लें कुट्टेल ताळ्यांत ओतोवन तिगय एकमेकांक सांबाळत गेले.

दुसरे दिसा सकाळीं फुडेंच घांटींचो घणघण सुरू जालो. सगळो वाडो एकठांय जालो. ‘‘आरे पापया. आमी कोंकणे सदचे भाशेन हांगाय फाटींच मरे?’’ जाण्ट्या रायुदादालीं उतरां आयकून गांव अजापलोच. मागीर भासाभास रंगली ती घांटी भायल्यांच्या मरणाच्यो काय गांवच्या! बशींच्या घरघराटांत आनी वाऱ्याच्या फरफऱ्यान घांटी सारक्यो कळनाशिल्ल्यो.

तेवटेन इगर्जेवाड्यार सगले क्रिस्तांव कपलाक हात लावन बशिल्ले. ‘‘जुजे किदें रे. शिमतर उबी कोरपा आमी गांवकारांनी मोर-मोर-मोरप. आनी उक्तावण ह्या मेंगलोरकार यारून कोरोप?’’ रूजार कपलाक हात लावन आड्डलो. ‘‘हेरशीं कितेंय दिता म्हळ्यार सोगले धांवताय. मोरोंन शिमतरी उक्तावण कोरपाक कोणू गांवकार नासलो रे देवा?’’ दियोग पोटांतल्यान तिडक उक्तायतालो. इतल्यांत हळूच वासू आनी सोनू इगर्जेवाड्यार पावले. ‘‘हे चोय कोण मेला तें चोंवूं येयल्याय. आमगे गांवचे क्रिस्तांवागे कोण मोरो ना तो नां. ह्या कोंकण्यापुणी कोणू मरो जाय आसलो. किदें जावं. जावं कोकणों वा क्रिस्तांव पूण मसुंडेचें आनी शिमतरी उक्तावण गांवच्यान कोणी कोरों जाय आसलें.’’ जुजेन फोग काडलो.

‘‘जुजे, ए जुजे. कोण मेला रे?’’ सोनून हळूच विचारलें. ‘‘पाय म्हागेलो. तो पायशांवांगे मेवणो मेगलोरा सावन हिंगा येयलो. थिंगा उदका सोऱ्या भाशेन हिंगाचो म्होणोन तेणी भट्टी ढोकलो. मेल्लो कोंनेस मारोंन रातीभितर सोपलो.’’ जुजे तावान उलयलो आनी अचकीत ताणें सोनूले गोमटेक धरलो. ‘XX’ च्या चोय. आमगे शिमतरी उक्तावण भायल्या गांवच्यान केलां. तुमगे कोणूय गांवचो मोराय आनी कोराय. भायले कोणी येयल्यार तेंका धांवडोन घालाय. सोयरे-बियरे. ना जाल्यार तुगे गोमटी मुड्डीतां आनी कोत्तां मसुंडे उक्तावण. जुजेले तांबडे गरगर फिरपी दोळे पळोवन सोनून दोळे धवे केले.



# घाडीपण...!

नेण्टेपणांत खंय घारू खूबच देखणो आशिल्लो. भुरगेंपणांतच आवय-बापूय भायर पडिल्ल्या घारूक शंभुभाटकारान घरांत घेतलो आनी भाटकान्नीन आपल्या भुरग्यां वांगडाच ताकाय व्हड केलो. तांच्या वांगडा शाळेंत वचपी घारून मात खूबच आडांगिपणा करून एक दीस मास्तरा कडल्यान भरपूर शेपडावन घेतलें आनी ताचे उपरांत परतो तो शाळेंत वचुनां. बरें खाण-जेवण पडिल्ल्यान आनी सगलीं कश्टांचीं कामां सहजतेन करपाक शकिल्ल्यान घारू आंगापेरान बरो भरलो. ताची भिरभिरी नदर वळखून भाटकान्नीन अठरा-एकोणीस वर्सांच्या घारूलें साळुल्या चेडवाकडेन लग्न करून सोडलें. भाटकारान आपल्या भाटांतलें एक चार कुडींचें लॉज घारूल्या नांवार करून दिलें.

घारू नेमान भाटकारागेर वतालो. कामां कितेंय करतालो आनी भाटकान्नीन दिल्लें खाण-जेवण घरा घेवन येतालो. मोगाक म्हळ्यार घारूले बायलेक तें पटनाशिल्लें. तें हेरशीं सादेंच पूण आपल्या घरकारान आपलो संवसार आतां तरी आपल्या बळग्याचेर करचो इतलीच ताची इत्सा. कितलोय समजायल्यार घारू कांयच कानांमनांर घेनाशिल्लो. आतां मोगाक आदार एकच तो म्हळ्यार भाटकान्नीचो. भाटकान्नीन मोगाचे विचार आयकून घेतले. तिका पोराची अपुरबाय दिसली. ''मोगा, तुजो सभाव म्हाका आवडलो. तूं धाकुदादाक मेळून रापणीचेर लागपी मनशांची चवकशी कर. हांव घारूक तयार करतां.''

सांजवेळचो घारू जुस्त चावेच्या टायमार भाटकान्नीगेर पावलो. ''घारू, यो रे. हांव तुजीच वाट पळेतालें. घे च्याचें कोप. तोंडाक लाय हें.'' आनी मागीर

भाटकान्नीन मोगाचें नांव लेगीत घेना आसतना घारूक कासावले रापणीचेर वचपाक तयार केलो. रातीकडेन जेवणां जातकीर घारून मोगाक मांदरेचेर घट वेंगेंत घेतलें. "मोगा, हांव फाल्यां सावन रापणीर वयतां. धाकुदादाक म्हाजे खातीर भाटकान्नीन सीट दवरूं लायल्या खंय. तूं भाटकान्नीक धरून राव. खरी देवताच गो आमची भाटकान्न." उमेदीन भुल्लुशिलें मोगा ते रातीक सामकें घारू मदीं सरमिसळ जावन मना-कुडीन एक जालें. सकाळीं उठून आपली मुस्तायकी घेवन घारू कासावले वचपाक गेलो. मोगाक भाटकान्नीन आपल्या पाखां पोंदा घेतलें.

घारू आठ-पंदरा दिसांनी बरें व्हडलें नुस्तें घेवन घरा येतालो. भाटकान्नीगेर सुखांत रावपी मोगाक मेळून दोन-दिसांनी परततालो. ह्या तांच्या भेटीचो फायदो सैमान घेवन तांकां तिसऱ्याच्या येवपाची सुलूस लायली. आतां घारूल्या हातांत पयसो बरो घोळटालो. हेरशींचीच ताची भिरभिरी नदर आतां हेवटेन तेवटेन चडूच भिरभिरूंक लागली. बांदावेल्या सुरंगान ताची नदर हेरली आनी सुरंगाचीं सोपणां चडपी घारू सोरो आनी सुरंगा हाच्या मदीं सामको घुस्पलो. घरा येवप कमी जालें. मोगा बाबडें बावील्लेवरी जातालें. पूण जाप काडपाची नासताली. ना जाल्यार तापट घारू ताचेर दोन फुलोवपाकय फाटी फुडें करिनाशिल्लो.

अचकीत एक दिसा घारूक माचुलांत घालून चार जाण घरा घेवन आयले. "मोगा, हो पय घारू, तायट जावन होडेक आपटलो. आनी तेजें कंबर लेजाद जालां. आतां पात्रावान घरा पावय म्हणोंन सांगलें देकून आमी तेका पावोवुं येयल्याय. ही तेगे जोड!" व्हडलें पोट घेवन घुसमटून रडपी मोगाक पळोवन घारू शाबुद्देर येतालो. आपली वाट पळोवपी मोगा आनी पयशांक लागून आपल्याक लागीं करपी सुरंगा हांचे मदलो फरक ताका जाणवतालो. कसोय करून बेगीन निवळूंक जाय हे इत्सेन घारून नेट धरलो. हा-हु करून पंदरा दिसां भितर घारू आपलीं कामां आपणे करपा इतलो सावरलो.

आपले पांयाचेर चलपाक लागतकीर घारू पयलीं पावलो मोर्तुलाचे गादयेर. उदारेचेर दनपरां-तिनसांजेचें कोप सुरू जालें. तातूंतच मोगा बाळांत जावन चेडूं

जालें. भाटकान्नीन सांबाळिल्ल्यान सगलें सारकें जालें. मोगा घरा येतकीर कापाजदादीन दिसवड्याच्या कामांक वचून संवसार चलोवंक लागलें. एक दिसा तिनसांजेर घरा येतनां मोर्तुलान ताका आडावन घारूल्या उदारेचे पयशे मागले. चंडिकेचो अवतार घेवन मोगान ताची भरपूर धुलाई केली. ''रांडला पावली मगो उदारी? आतां हेचे फुडें जाय तितलो उदार सोरो म्हागे घोवा दी. आनी वसुली करोंक म्हाजे फुड्यां यो.'' दुसरे दिसा दनपरांचेर घारू मोर्तुलागेरच्यान सुक्या ताळ्यान आनी गरम बोडान घरा आयलो. ''मोगा, XXX तूं मोर्तुला फुड्यां झगडों गेल्लें?'' म्हणून ताणें मोगाचेर हात मात उखल्लो. मोगानच ताचेर दोन फुलयलीं. त्या दोन फोगेट्यांनी वागमाम जाल्ल्या घारूक मेणाच्याकय मोव केलो. ते दिसा साकून घारून घरांतच रावन घरकान्नीचो रोल करपाक सुरवात केली. घराकडेन रावन ताची तकली पिड्ड्यार जावपाक पावली. विडयांचें बंडल लेगीत घेतलो म्हळ्यार मोगाक पांय पडचे पडटालें. ताका कासावलेची रापण, सुरंगा सगलें येवजतालें. पाडा पडूं! त्या वेसनांनी घात घेतलो म्हणून तो कपलाचेर हात मारतालो. कितें करपाचें ह्या चितनांनी तो पिसो जावंक पाविल्लो. अचकीत ताणें 'आयडियार' म्हळें. एक दिसा सकाळींच घारू खुदपाक लागलो. 'हां-हांहु' 'आंहां-हां' ताचो सांवार पळोवन मोगाय भियेलें. वाडिल्लें खाड, गरगर करून फिरपी दोळे पळोवन मोगान एक नाल्ल ताचे भोंवतणीं उवाळ्ळो. ''देवा वेताळा. पाव रे. म्हारवान धरला सो दिस्ता.'' ते बरोबर इतलो वेळ खुदपी घारू धाण्णकन जमनीचेर उदारोच पडलो. मोगान ताच्या दोळ्यांक उदक लायलें. ''हांव खंय आसां? कितें जालें गो मोगा? बाय खंय?'' अशे प्रस्न करीत मोगाक पळेलें. मोगा अजापलें. अर्दवर खुदपी, बोबो मारपी ह्या दादल्याक कांयच याद नां?

येदें म्हणीसर फुडल्या-फाटल्या दारांतल्यान तांच्या घरांत लोकांच्यो झुंडी घुसल्यो. पुतुदाद फुडें सरलो. ताणें एक नाल्ल आनी पडभर तांदूळ घारू मुखार दवरले. ''देवा, राखणदारा, ह्या वाठाराच्या पुरसा... खूब वर्सांनी तूं परतो आमचे गांवांत येयलो. आतां हेंच झाड धरून हिंगाच राव देवा.'' 'हय देवा' म्हणून गर्देन ताका साथ दिली. घारूक आपलो बाण वर्मार बसला हें उमगलें.

आतां दर आयतार-बुधवार घारूल्या घरा हीऽऽ गर्दी जावंक लागली. घारू नदर लागपा सारको खुदतालो आनी कसलीं कसलीं कुवाडीं करतालो. करण्यो मोडटालो आनी परतयतालोय बी. कितें खरें आनी कितलें फट हें देवाक लेगीत खबर नासलें. पूण हातूंतलीं गुड्डुलसांवां घारू बेस बरो जाणटालो. ताणें मोगाक दिसवड्याच्या कामाक वचपाचें बंद केलें. कारण आयतार-बुधवाराची जोड पुंजयतलो कोण? नाल्ल, तांदूळ, कोंबे आनी पयशे हांच्यो राशी घरांत पडूंक लागल्यो. एक गजाल मात खरी की दोतोर-वैज करून खर्शेल्ल्या लोकांक लेगीत घारूल्या कुवाड्यांनी गूण पडलो आनी आतां घारूक लोक लागसारच्या गांवांतय आफोवंक लागले. आतां मोगाच्या आंगार, हातांत चार वस्ती चकचकपाक लागल्यो. एकंदर घाडीपणान घारूल्याय संवसारांत सूख आयलें.

अचकीत एक दीस पायतोडी वाड्या वयल्यान भिकू भाटकारालो मनीस रकाद घेवन आयलो. ते गांवचो हो पेजाद मनीस भाटकाराली वाडून पडिल्ली मेवणी थंय खंय शिगमो घालताली. घारून आपली पोती सासपिली. काळे तीळ, ऊद, धूप, पिंजर, दोन-तीन हाडकां अपुरबायेन पळेली आनी येत्या बुधवारा येतां म्हणून परतो रकाद दिलो. बुधवारा सकाळीं मळार वचून कडुलिंबाचे बरेऽ टाळे मोडून घेवन घारू घरा आयलो. सांजवेळा बेगीनच तो भाटकारागेर गेलो. थंय पळेल्यार भाटकाराली मेवणी चार-चार जाणांक आटपना आसतनां धुमशेणां कांडटाली. घारून थंय पावतासर आपलें हा-हु सुरू केलें. आतां दोगांयची जणू जुगलबंदीच सुरू जाली. अचकीत घारून उजो पेटयलो आनी तातूंत ऊद आनी धुपाचो बचकोभर फवारो मारलो. घर-दार धुंवरान दाटलें आनी त्याच खिणाचो लाब उठोवन घारून मेवणेची केशटुलां धरलीं आनी कडुलिंबाच्या टाळयांनी ताका यतिश्ट शेपडायलें. चार बरेच धपके पडतकीर भुत-बित नाच्च जालें. "कोण गे तूं? आनी ह्या घरांत कितें करपाक आयल्या?" घारू सामको जुवीज कसो प्रस्न करतालो. मेवणी बरीच भियेल्ली. तिचे बाबडेच्या तोंडांतल्यान उतर फुटनाशिल्लें. घारून कडुलिंबाचो टाळो हालयलो मात. ती लागली बोब मारपाक. "वतां, वतां. ह्या झाडाक सोडून हांव वतां." "आगे तूं कोणाच्या रूपांत वयता. सांग?" घारून घणघणीत

प्रस्न केलो. जाप ना दिल्यार मार पडटलो हें चिंतून मेवणी पयलींच म्यांव-म्यांव करत हात-पांयांचेर चलत भायर गेली. आनी थंय वचून निपचीत पडली.

“भाटकारा, पाळणींतल्या चिचेरूखा वेली आलवांतीण ही. थिंगा वचोन कुवाडें करपा जायें. दोन कोंबे आनी सोऱ्या पाव हाडाय बेगीन.” घारूल्या ओर्दी नुसार बेगबेगीन सगळें सामान, वांगडा तांदूळ, नाल्ल आनी रोकड दुडू घारू मुखार येवन पडलें. घारून पाळणींतल्या चिंचे पोंदा दोनूय कोंबे कापले. तांच्यो मानो थंयच वडयल्यो आनी मोगाल्या हातच्या सुरबूस सागोतीची रूच काडत घारू घरा वचपाक भायर सरलो. मळावेल्यान गेल्यार अर्दवराची वाट म्हणून घारू बेगोबेग चांटयो मारपाक लागलो. पाळणींतल्यान वयर मळार पांय दवरतनां हाचेंय आंग मात्शें शिरशिरलें. घारून फेणयेची बाटली उगडून घोटभर घेतलें आनी फुडें पळयत चलपाक लागलो. फाटल्यान सुकीं पानां चिड्डल्लो आवाज येता म्हणून खिणभर तो रावलो. तर आवाज बंद. हाका पापयाक फाटल्यान पळोवपाचें काळीज ना. हाणें आपली पोती सांबाळत धांवपाक सुरवात मात केली. एकदम फाटल्या चार पांच जाणांनी हाका धरलो आनी यतीश्ट शेपडायलो. हाचो विडो, दोनूय सोऱ्याच्यो बाटल्यो आनी मानो नाशिल्ले कोंबे घेवन चारय जाण फुज्जो जाले. हो बाबडो लंगडत भिकूभाटकारागेर आयलो. “भाटकारा दार उगड.”

“आरे घारू तुजी अशी दशा कोणे केली रे?”

“भाटकारा, पयलीं भितर येतां. बाबा घोटभर फेणी दी पळोवया. मारिल्ली तिवूय देंवली.” घोटभर मारतकीर घारूक नेट आयलो. “भाटकारा, तुजे मेवणेवयल्यान देवयिल्ल्या आलवंतीणीन चिंचेवेल्या रौद्रयाक आनी मुंज्याक जोडये घेवन म्हाजेर हल्लो केलो. हांवें कुवाडें करतांसर तांणी म्हाका बडयलोच. मागीर मात ती पळ्ळी!” भाटकान्नीन दिल्ली पेज जेवन घारू थंयच लवंडलो.

दुसरे दिसा सकाळीं मात्शें उजवाडतकीर घारू घरा वचपाक भायर सरलो. पाळणींतल्यान हेवटेन-तेवटेन पळयत मळार चडलो. घरच्या ओडीन झपझपीत चलपी घारूली नदर कडेक वळ्ळी. थंय ताचे रातीचे दोनूय क्वार्टर रिकामे पडिल्ले आनी जमनीर उजो पेटयिल्ल्या जाग्यार कोंब्यांचीं हाडकां आनी दोकेय

आशिल्ले. 'आरे हे कोण तरी मनीसच मरे!' अशें चिंततल्या घारूक गाब्रु, राणू, किस्तु आनी रंगून आडायले. ''घाडया, कालचे कोंबे रूचीक बरे आशिल्ले. चोय. हेचेफुडें मार खावों नाका जाल्यार आमकोडें हात मेळोय. आमी वांटणी करया बरेपणान. तू विड्याचे पयशे वाडय जाय जाल्यार. ते सगले तुका. कोंबे आनी क्वार्टर मात आमकां!!'' आनी व्हडाव्हडान हांसत ते फुडें गेले. घारू मात ह्या जिव्या म्हारवां खातीर कसलें कुवाडें करूं हें चितत घरा वचपाचे वाटेक लागलो.



# सांद

सकाळचीं घरचीं सगळीं कामां आनी भुरग्यांची च्या-खावपाची तयारी करतां मेरेन सकाळ सोंपता. घराकडेन दिसभर चर्वण करीत राविल्ल्यान हांव इंग्लीश तातयागत गोलमटोल जायत गेलें. लोक मॉर्नींग वॉकाक वचून खंय बारीक जातात. म्हणून हांवय वतलें म्हळ्यार सकाळ च्या आनी गिळपाचें हातूंतच सोंपता. तरी हांवें बारीक जावपाचें सामकें मनार घेतिल्ल्यान मॉर्नींग न्ही जाल्यार इव्हनींग वॉकाक तरी वचपाचें थारायलें आनी बेगोबेग सुरूय केलें. दोन-तीन कि. मी. लांब पासय मारतकर बरोऽ कळसो भर घाम आंगांतल्यान व्हांवतालो. तानसोर लागिल्ल्यान घटघट करून उदक पियेतालें. ताका लागून म्हजें गिळप मात्शें कमी जालें. घडये, म्हजी कुडय हय न्हयशी बारीक जाली ती इव्हनींग वॉकानच जायत. म्हणून हांव हो वॉक केन्नाच चुकयनाशिल्लें.

पयर अशेंच सांजवेळचें मात्शें वत मोव जालेंशें पळोवन हांव पासयेक भायर सरलें. पाळणींतल्यान रस्त्यार चांटी मात तेंकयल्या हांवें. थंय पळयल्यार सवीतबाय, मोर्तुलाका आनी ठकी मावशी उर्बी आसात. 'देवा, आयज कोणालें धुवपाक घेतलां काय ह्या वारगतीणींनी?' हांवें मनांतच देवाक प्रस्न विचारलो. ही तिगांय एकठांय आसप म्हळ्यार किदेंय तरी, खंय तरी घडलां हें शेर्त आनी ती गजाल फाल्यां मेरेन गांवभर जावप हें डबलशेर्त. कोणालो म्हयनो चुकला! कोण कालच न्हाल्या.... इतलेंच न्हय तर कोणालें कोणांकडेन हुंहुं चल्लां, सगल्यांचें लिस्ट हांचेकडेन हजर. इंटरेस्ट आसल्यार थोडो वेळ हांचे म्हऱ्यांत थारचें. आपसूक सगल्यो गजाली कानार पडल्योच म्हणून समजयात. सगल्यांच्यो

कसल्योय गजाली हीं तिगांय फातरीचेर आपटिल्ल्या कपड्यांवरी धुयतात. हांकां टाळून वचप अशक्यच म्हणून मात्शें हांसून कूस मारपाक केल्यार ठकी मावशेन फाटल्यान हाताक घट्ट धरलें. ''सुंदऱ्या, तरतरत खंय वता? खिणभर राव हांगा.'' पाडापडलें! हांचें धुवप आतां आयकत रावपाचें हांवें. इव्हिनींग वॉक आयचे दिसा पाडा पडलोच. मनांतच गाळी घाल्यो हांवें ठकीमावशेक.

''ए सुंदऱ्या. केसराकाल्या सुनेचो गडगड आयकला मुगो? नेण्टो घोव मरून देड वर्स लेगीत जालें ना. हें लागलें मुगो नाचपाक. दिसपट्टी दादले घिट्ट्यो घालतात पळय ताचे घराकडेन.''

''झक मारूं गे ताचें. म्हज्यान म्हजीच कूड आनी जीव सांबाळपाक जायना. ताचें आनी कोणाक पडलां हांगा?''

''आगो अशें म्हणून कशें जातलें? आमी, तुमी कोणेंयतरी फुडें सरून ताका समजावंक जाय, घोव नाशिल्ले बायलेन कशेतरेन, रितीन रावंक जाय ते.'' सविताबायेल्या हे जापेचेर मात हांव तिडकलें.

''आगे घोव ताचो मेला. लुकसाण जावपाचें तें ताचेंच बाबड्याचें चड जालां. तुमी ताचें धुयनाकात ओगीच.''

फुडें वचपाक हांवें दोन चांटयो मारल्यो. इतल्यांत बाला, केसराकाली सून कोणातरी पायलटा वांगडा देंवलें. पाळणींत देंवतनां म्हजेर ताची नदर गेली. ''सुंदरमावशे, आयज तुंवय बी हे कंपनीत शी? इव्हिनींग वॉक शेळेलो तुजो आतां!'' म्हाका हटकीत बाकी महिला मंडळाक थोमणो मारीत तें गेलेंय बी.

''आगो सुंदऱ्या तुजो आनी ताचो बरो घस्टो आसा मुगो. तूंच समजाय ताका आनी बरे तरेन मानान जगपाक शिकय.'' मोर्तुलाकान म्हाका म्हणतकीर हांव पुरसभर वयर हुडलें. खरें पळेल्यार दरेकान आपली जीण कशी जगप हो ताचोच विचार, ताचोच अधिकार. आपली जीण आपल्याक जाय ते तरेन जगप हो दरेकाचो सैमीक अधिकार. तो कोणेंच कोणाकच दिवपाचो नासता वा कोणायकडच्यान घेवपाचो नासता. पूण हांचे मुखार असलें कितेंय उलयल्यार

हीं फाल्यां मेरेन म्हज्याच नावान गांव भरतलीं ही भिरांत म्हाका पडिल्ली. ‘‘बरें पळयतां हांव.’’ अशें ओठांतच पुटपुटत हांवें कूस मारली.

आयज शेनवार जाल्ल्यान आमचो पसरो रातचो णवमेरेन उगडोच उरपाचो. हातावेल्या पोटाचे लोक आयज पागामेंत जातकीर गेल्या सुमानाची उदारी पावोवन नवें सामान व्हरतात. देखून आमगेले हे शेनवारा णव–साडेणव मेरेन पसरो बंद करिनात. आयज तिनसांजेर बालाक मेळपाक वचपाचें हांवें थारायलें. सांजची पासय कॅन्सल केली आनी हांव बालाल्या घराचीं सोपणां चडलें. ‘‘सुंदरमावशे यो गे. बस!’’ तोंडभर हांसून बालान म्हाका येवकारलें. ‘‘आगो, पोरा एकटेंच आसा गो तूं?’’ येद्र्या व्हडल्या घरांत मांयची कांयच जाग ना हें पळोवन हांवें म्हळें. ‘हय’ एकाच उतरान ताणें प्रस्नाचें वारेंच काडलें.

निवळ पेल्यांतल्यान नितळ उदक म्हाका दितनाच बालान विचारलें. ‘‘मावशे पयर रस्त्यार त्रिकूट म्हजेंच धुयतालीं मगे?’’ जाप दिनास्तना हांव ओग्गी रावलें. हांवें तोंडाक लायिल्लो उदकाचो पेलो रितो करून सकयल दवरलो.

‘‘बाला विचारता म्हणून रागार जावं नाका. तुवें विशय काडलाच तो. एक सांग ते दिसा तीं तिगांय तुजेविशीं म्हणटालीं ती गजाल खरी? तिवूंय मुगो बेश्टेंच कोणायचेंय धुयतात.’’ बाला दुख्खदिणेंशें हांसलें. ‘‘मावशे, तुजो म्हाका वालोर दिसता. हांगा थंय कांयच पचपचना आसतना तुवें डायरेक्ट म्हाकाच विचारलें हें खूब बरें केलें.’’

‘‘बाला, आतां म्हाका तांचें उलोवप फट म्हणून सांग पळोवया.’’

म्हज्या साद्र्या पूण मोगाळ उलोवण्यान बाला भारावन गेलें.

‘‘सुंदरमावशे ती व्हडली काणी आसा. वेळ आसा मुगे तुजे लागीं?’’

बालाचे आवय–बापूय गरीबशे. कश्ट करून पोट भरपी. चली वाडलें ते बराबर ताचो बापूय बाबडो आनीकच थकलो. इतल्यान एकल्यान बालाखातीर सोयरीक हाडली. घालपा–करपाची कांयच अट ना. न्हवरेकारांक गरीब आसूं पूण बरे रितीचें चली जाय इतलेंच. हे गजालींनी बालाचे आई–बाबा बाबडीं

फुल्लीं. न्हवरो बरे शिर्विसेकय आसा आनी फोटो पळेल्यार न्हयकारपा सारको न्हय. इतल्याचेर पळोवपाची कार्यावळ थारली.

"बाला, तुवें धनंजयाचोच फोटो पळोवन पास केल्लो मगो?" हांवें बालाक मदींच विचारलें.

"मावशे थंयच तर आमी फटवलीं गे." दोळ्यांतलीं दुकां पुसत बालान सांगलें.

बालाच्यो नण्डो, धनंजयाचे काका व्हडल्यो व्हडल्यो गाडयो घेवन चली पळोवंक आयिल्लीं. हाडलो नाशिल्लो तो न्हवरो धनंजयाकच. पळोवपाक न्हवरो म्हणून ताचो भाव सुरेंद्र आयिल्लो. ताकतिकेन, उमेदीन थोड्याभितर लग्न करपाचें थारलें. सव्यार बशिल्लो धनंजय पळयतकीर बालाच्या घरच्यांचो आवरो उडलो. गरीब आसलीं तरी लग्न मोडल्यार अब्रू वतली हे खातीर उमेदी, कंवळ्या मनाच्या बालाचो बळी थंय सव्यार चडयलो. ही सगळी काणी आयकतना हांव दोळे पुसत रावलें. "मावशे, दिसपट्टी ताचे वासनेक बळी पडलें गे हांव. ना भावनीक मोग ना लागचार. फकत कुडिची भूक पडिल्ली ताका. ताच्या तोंडाक आनी सगल्या आंगाक येतल्या गुटख्याच्या आनी विडी-सोऱ्याच्या वासान ताका म्हऱ्यांत येवपाक हांव विरोध करतालें."

"मागीर?"

हाणें बाबड्यान ताका विरोध केल्यार मांयन धनंजयाक फोर्स दिवप.

"पुता, बायल हाडल्या ती तुजे सेवेक आनी तुकांच हात लावंक दिना ती? दोन फुलय आनी तुका जाय तें वसूल कर." ह्या फोर्सार तो आनीकय फुलतालो आनी बाला नेमान दीस-रात केन्नाय बायलेचें कर्तव्य ह्या कर्माआड शारिरीक आनी मानसीक बलात्काराचे भकीक पडत रावलें. शेवटाक तो वेसनांक लागून पोकळ जालो. आतां कुडीचो भोग घेवंक शकना जालो तेन्ना ताणें विकृत वागपाक सुरवात केली.

"देवा सायबा! बायलमनशेक मन हो दिसनाशिल्लो अवयव कित्याक दिला रे तुवें?" म्हज्या ह्या उतराचेर बाला मात्शें हांसलें.

''मावशे म्हजें सांगप आयकून तुवें देवाक प्रस्न केलो. हांवें भोग भोगता आसतना देवाक उले मारले. पूण तो म्हाका तेन्ना पावलो ना. पूण वेसनांनी पोकळिल्ल्या धनंजयाक सोपोवन मात ताणें म्हजेर सासणाचे उपकार केले.''

''खूबच भोगलें गो पोरा तुवें. शेजरा बी कोणाकच खबर नासतल्यो ह्यो गजाली. ना जाल्यार सवितबाय बी तुजें धुंवपाचीं न्हय.''

''सगळ्यांक खबर आसा गे ह्यो गजाली. फुडें आयक. धनंजयाचें मडें घरांतल्यान भायर काडचे पयलींच सविताबाय, मोर्तुलाका आनी ठकीमावशेच्या घोवांनी केल्ली करणी सांगतां.''

धनंजयाक दहन करपाक मसुंडेंत व्हरपाची तयारी चलिल्ली. अचकीत सविताबायेचो घोव ताच्या म्हऱ्यांत आयलो खंय!

''बाला, घोव गेलो म्हणून भियेवं नाका हां. हांव आसा तुका पळोवपाक.'' बाकिचे दोगूय हींच उतरां सांगून धनंजयाच्या दहनाक गेले.

''आवयस, तुज्या काका-मामाच्या वयाचे मुगो ते! बरीऽ खाज आसा मुगो हांकां.'' हांवें तिडकून एक उतर म्हळें.

''मावशे हांकां म्हजी मजत करपाची नासली. तर हांकां जाय आसली म्हजी कूड भोगपाक. हांवेंय चिंतलें म्हाका गरज पडल्यार मागीर पळोवया. पूण हांकां लागीं करप ना.''

''बाये किदें आनी कितलें भोगलें गो तुवें?'' हांवें चुरचुरत म्हणलें.

''मावशे इतलेंच न्हय, त्या ठकीमावशेलो घोव म्हजे फाटीर हात फिरयतालो. हय मावशे म्हज्या घोवाच्या मड्या सामकार. मावशे तो म्हजे कुडिचो अदमास घेतालो गे. हळूच सांगता माकोड, आगो तुका गरज आसल्यार कुरू केल्यार पुरो हांव हाजीर जातां आं.'' बालाचीं उतरां आयकतना आंगार काटो शिरशिरलो. बायलेच्या आवयपणांक देवतेच्या रूपांत पुजप, भजप हें आमचें दायज. तरी बायलमनीस ही कुडीचो भोग घेवपाची एक मासाची वस्तच?

''आगो, पूण मांय खंय गो तुजी?''

“हो सोंपलो ते दिसाक हांवें आपल्या पुताक खालो अशो बोबो मारताली पळयली मुगे तुवें? आतां आपली साटली-पोटली बांदून धुवांगेर घश्टो करपाक पडल्या. म्हजो फुडार हांवेंच पळोवपाचो म्हणून हांवेंच आतां धिटायेन भायर चांटयो मारपाक आरंब केला. मेळिल्ले संदीचो लाव घेवन हांव हांगासर पावलां. शेर्त हाच्याकय फुडें वतलें हांव.”

खरेंच बाला हुशार म्हणपा सारकें. फाटल्या दिसांनीं जाल्ल्या पंचायतीच्या इलेसांवानी आपल्या पॅनलाच्या उमेदवाराचो प्रचार करपाक मतदारसंघाचो आमदार ह्या वार्डांत आयिल्लो. ताची भिरभिरपी नदर बालाच्या चेऱ्याचेर थिरावली. नदरेक नदरेन पारखून ताणें आपल्या चमच्यांकडच्यान बालाक आपोवणें धाडलें. आपल्या पक्षाच्या बायलां मोर्चांत काम करपाक ताका तयार केलें. कमी शिकिल्लें तरी चुणचुणीत बालान बायलांचो बऱ्या पयकी तेंको आमदाराक मेळोवन दिलो. हांतुमर्दी केन्नातरी आमदाराचें आनी बालाचें मन जुळ्ळें. आतां राज्या भायर वतना ऑफिशीयल सेक्रेटरी म्हणून बालाच ताचे वांगडा आसता. हेरशीं बॉस आनी पी. ए. अशें तांचें उगड नातेंच आसता तरी तांचे मदले लागींचे संबंद ताच्या बायल-भुरग्यां सयत समेस्तांनी मानून घेतल्यात.

“मावशे ही म्हजी चूक गे?” बालाच्या अचकीत प्रस्नान हांव विचारांतल्यान भायर सरलें.

“आगो, चूक वा बरोबर हें तुजें तुवेंच थारावपाचें. तुजे स्वताचे जिणेंत हात-पांय सारपाचो म्हाका कांयच दिरेत ना. पूण उलोवपी लोकांक तूं हें कशें सांगतलें?”

“मावशे तांकां पटोवन दिवपाची म्हाका कांयच गरज ना. म्हाका जिणेंत एके संदीची गरज आसली. आमदाराच्या रूपान हांवें ती घेतली आनी ते संदीचो लाव घेवन हांव वयर वयर चडत वतां. गांवच्या जाण्टेल्यांक लागीं करून फुकटची कूड दिवन घाण करचे परस मेळिल्ले संदीचो लाव घेवपाचें चिंतून हांवें आमदाराक लागसार केलो. म्हजी बाजू तुका मुद्दाम हांवें सांगल्या. तुका दिसता जाल्यार कोणाकय सांग. तें तुजेर सोडटां हांव. पूण म्हजी एक

विनवणी मानून घेवन म्हजें धुयतल्या त्या तिनूय गांवभवान्यांक तांच्या घरकारांचें कर्तूब मात सांग आनी तांकां जाण्टेपणांत सारकें मुठींत दवरूंक सांग.''

पयर, त्या भवान्यांक 'पळयतां' अशें सांगून हांवें कूस मारिल्ली. आयज पर्थून तीच वेळ आयली म्हजेर. ''बरें गो बाला. पळयतां तांकां सांगून.'' म्हणून मुळमुळीत उलयत हांव भायर सरलें. आंगणाचे मेरेर रावन हांवें फाटल्यान पळयल्यार संदीचो लाव घेवपी बाला म्हाका हात हालयतालें. आतां ताणें म्हाका दिल्ले संदीचो लाव घेवन लोकांचें धुवपी सावितावाय, मोर्तुलाका आनी ठकीमावशेच्या कानार तांच्या घोवांचें कर्तूब घालून तांचे दोळे उगडपाक जातले म्हज्यानी?....



# 'मीऽऽ राधिका...
# मी प्रेमिका...

भुरग्यांच्या शाळांक सुटी लागली मात तांचो बोवाळ सुरू जालो. 'आई, आमकां मामागेर पावय.' तिगांयचो कलकल आयकून कान फुटपाचेच. हय. म्हाका तीन भुरगीं. पयले दोन चले. पूण आमच्या हांकां चलयेची खूबच अपुरबाय. देवान तिसरे फावट तरी चली दिल्ल्यान सालवार. भुरग्यांच्या बोवाळान हेवूय म्हणपाक लागले -

"चल गो पावोवन यो तांकां मामागेर. आनी तुवंय कुळाराचें सूख चार दीस भोगून यो. हांव हांगा काकागेर रावतां." आतां तर म्हाका सर्ग दोन बोटांच्याकय सकयल सो भासलो.

दोन दिसां भितर कुळारा वचपाची तयारी केली. तीन बशी बदलून हांव कुळारच्या गांवांत भितर सरलें. तो वारो, तीं झाडां, न्हंय, शाळा, देऊळ पळयतनां भुरगेंपण दोळ्यांमुखार उगडत गेलें. बस घरामुखावेल्या स्टॉपार थांबली. भुरगीं ऊडी मारून मामाच्या घरांत पावलींय बी. हांव मात बॅगां घेवन देवतां थंयच आसां, "निशा, कशें आसा बाये? मेळुया मागीर." ह्या उतरांची धनीण इतलेंच म्हणून हांसत बशीर चडली. बारीक, लांबशें तें चली वळखी-वळखीचें शें भासलें. इतल्यांत म्हजो भाऊ बेगीबेगीन भायर आयलो. हांसत्या मुखामळान येवकार दीत म्हजीं बॅगां घेवन चलपाक लागलो. "भाऊ, आत्तां बशीचेर गेलां तें कोण रे?"

“शाणी, म्हजीं भाटां, म्हजी पुजा आनी नुस्त्याचें जेवण हाचेशिवाय हांव कांयच पळयनां.” भाऊकडच्यान जापेची अपेक्षा धरप चुकच हें उमगलें.

कुळारचें उदकच गोड. वयनीन मोगान दिल्ल्या उदकान कुळारपण सोबयलें. आई-दादा नात खरीं पूण वयनीन दिल्ल्या मोगान कुळारची ओड तिगून उरल्या म्हणल्यार अतिताय न्हय.

“वयनी, तूं म्हाका हांगा कांयच करूंक दिवची ना हें हांव जाणां. हांव मात्शें अशें न्हंयचेर वचून येवं?”

मुमुरखें हांसत वयनीन हयकार दिलो.

“पेवतलें जाल्यार कोणीर वचूं नाका आं.”

“ना गे आतां पेंवपाची उमेदच उरली ना.” म्हणून हांव घराफाटले पांयवाटेवेल्यान बागांत गेलें. न्हंयच्च्या खाऱ्या उदकांत धोपरांमेरेन पांय बुडयले. सगळे कुडीक सूख भोगलें. इतले म्हणसर न्हंयचेर दोन नंबराक आयिल्लो शीतबाब धुवंक वयलेवटेन उदकासरी येता तो पळयलो आनी हांव बेगीबेगीन तडीक गेलें. तशेंच जांबळी पोंदा वचून जांबळां खावया म्हणून शेतांतल्यान बांदार चडलें. इतल्यान पयसुल्ले मेरेर सकाळीं हटकिल्लें तेंच चली दिसलें. घडये दिडसी तारीवेल्यान चलत घरा येतालें तें. हय शशीच तें. म्हजी बालमैत्रीण. एकमेकांची वळख पटतकीर दोगांयनी एकामेकांक घट्ट गोपांत घेतलें. लक्षांत आयलें की हाच्या गळ्यांत मंगळसूत्र आसा.

“शशी, गडगड केन्ना केलो गो? म्हाका बी सांगपच ना?” ते बरोबर ताणें म्हजे भोंवतणी रेवडायिल्ले हात एकाएक काडून घेतले.

“तुका आतां दनपार मेरेन हांगा म्हजेलागीं उलोवपाक वेळ आसा? नासतलोच. तूं सांजचें पांच वरांचेर हांगा जांबळी पोंदा यो. उलोवया मागीर.” आनी कुसडें कशें तरतरत चलपाकय लागलें. मेरेवेल्यान वयर भाटांत तें पावलें तरी फाटीं पळयलें ना ताणें. म्हाका म्हजें चुकलें कितें तेंच कळ्ळें ना.

दनपरां भावजयेच्या हातचें सुरबूस सुंगटां आनी शांगांचें हुमण, खतखतें आनी घराव्या खोबरेलांत तळिल्ले चरचरीत बरे धोडयारे हांचेर ताव मारतकीर दोळ्यांचेर कडक सुस्ती चडली. “वयनी हांगा वासरेंतच एके मांदरेचेर आड

पडटां गे हांव.'' म्हणटांसर वयनीन मांदरी हाडून पातळायलीय बी. खूब वर्सांनीं लव्याचे ते मांदरेक फाट लागली आनी सर्गसूख भोगोवपी न्हीद लागली. जळट्या इंगळ्यांच्या वासान एकदम जाग आयली. बेगीबेगीन वणटीवेल्या घड्याळाचेर नदर मारली. 'आवयस' साडेचार जाल्लीं थंय. तोंडार उदकाचो थपको मारून येता मेरेन वयनीन च्याचें कोप हाडून दिलें. खूब तेंपान धुंवराच्या वासाचे च्यान मनाक धादोसकाय दिली आनी भुरगेपणाची याद मात गळ्याकडेन हुंदकुटो हाडून गेली.

गरम च्या पियेवन तोंडार मात्सो पोवाचो हात फिरोवन हांव जांबळीपोंदा वचपाक धांवलें. शेताचे मेरेर पांय दवरून वयल्या बांदार नदर मारल्यार थंय एक आकृती बशिल्ली झळकली. हांव धांवतच फुडें गेलें. ''सॉरी, शशी म्हाका येवपाक मात्सो कळाव जालो. सॉरी.''

''कांय ना गो. फ्रेन्डशिपीमदीं सॉरी आनी थँक्यू हे शब्द हाडिनाका. हांवय आतांच आयलां. यो बस हांगा.''

हांवय थंयच बसलें. न्हंयचेवेलो खारो वारो दोळ्यांचेर एकतरेची धुंदी चडयतालो.

''शशी खूब वेळ वचूं. पूण तुवें निमणें लग्नाचो निर्णय घेवन बरें केलें.'' ताच्या गळ्यांतलें नाजूक मंगळसूत्र पळोवन हांवें म्हळें. ''चंद्रहासान विश्वासघात केल्लो विसरून तूं तुज्या संवसारांत रमलें हें खूब बरें जालें.'' आमी शिकतालीं तेन्ना हाचें आनी चंद्रहासाचें जमिल्लें हांव जाणतालें.

म्हजें उलोवणें चलतना शशी नदर शेणिल्लेवरी बुडट्या सुर्याक पळेतालें. ''निशा तो सूर्य आनी हांव समसमाच. आमी दिसभर लोकांमुखार चकचकतात. रात मात दोगांयकय लिपोवन दवरता. सूर्य दुसरे खंडांत तोंड तरी दाखयता. तर हांव मात रातभर तोंड उशामदीं चेपून रडटां.''

''अशें कितें घडलां तुज्या जिवितांत?'' तेबरोबर मेल्ले नदरेन आनी भरिल्ल्या ताळ्यान ताणें ताची काणी सांगली.

चंद्रहास आनी शशी एकमेकांचो उपाट मोग करतालीं. जातीपातीचो प्रस्न नाशिल्ल्यान दोगांयच्या घरच्यांनी तांचो मोग आपणायिल्लो. हें नर्सींग करपाक

शारांत रावतालें आनी तो गांवगिऱ्या वाठारांतच नोकरी करतालो. तें घरा येता तेन्ना वो तो शारांत वता तेन्ना तीं एकामेकांक मेळटालीं. ही गजाल हांवय जाणतालें.

"शशी पूण अचकीत चंद्रहासान तुका सोडून दुसरेकडेन कित्याक लग्न केलें गो?"

चंद्रहासाल्या भयणीचें घर शशीच्या शेजराच आशिल्लें. ताणेंय शशीक भावज म्हणून स्वीकारिल्लें. पूण अचकीत शशीचे गिरे फिरले म्हणपा सारकें घडलें. चंद्रहासाल्या भावोजीन देवळांत कोमिसांव म्हणून काम करतना अर्थीक गडबड केली. देवाले लाखांचे सागवान कापून आपलीं बोल्सां भरलीं. बाकीच्या वांगड्यांनी ताका रंगे हात धरलो. ताचो गुन्यांव साबीत जातकीर गांवपंचायतीन ताका जाती भायर दवरून बहिष्कृत केलो. ह्याय निर्णयाक सगल्यांबरोबर शशील्या फामिलीकय तेंको दिवचो पडलो. आनी हाचें बळी थारलें शशी.

चंद्रहासाल्या भावोजीन लजेक लागून गांव सोडलो आनी रागाचो सगलो भार ताणें शशी आनी चंद्रहास हांचें जवळ जवळ थारिल्लें लग्न मोडून काडलो. ताणें चंद्रहासाक शशीकडेन लग्न जावशी तर भयणीच्या कपलावेलो कुकूम पुसून उडोवशी अशी स्पश्ट धमकी दिवन आपणें सोदिल्ले दुसरेच एके चलयेकडेन लग्न जावपाक सांगलें. चंद्रहासान ही सगली घडणूक रोखडीच शशीक कळीत करून दोगांयनी वांगडा जीव दिवन एक दुजे के लिये करपाची तयारी दाखयली. शशीन थिरपणान ताका विरोध केलो. "चंद्रा, आमी एकामेकांचेर उपाट मोग करतात. पूण मोगाचो शेवट लग्नांतच जावंक जाय अशें ना. आमी वाट पळोवया. केन्नायतरी आमचो मोग सगल्यांक समजतलो. तूं घरच्यांच्या म्हणण्यानुसार लग्न कर." आनी दोगांय एकमेकांचे वेंगेंत घुस्पलीं. भावनेमुखार दोगां न्हंयच्या उदकांत व्हांविल्लेवरी व्हांवलीं आनी दोगांयच्योय कुडी एकमेकांभितर मिसळल्यो.

"शशी, पापया कितेंय वापरिल्लें गो? काय गुरवाचार बी आयलो गो मागीर?" म्हज्या प्रस्नार हांवच अजापलें.

"ना तेन्ना आयचे सारखी आय-पील बी नासली न्ही गो. हांवय भियेलें. पूण देवाचो उपकार, कांयच घडलेंना. निशा तो खीणच याद धरून हांव आजून मेरेन जितें आसां."

"ओगी राव गो. आतां लग्न जालां तुजें तरी तोच खीण याद करता आजून? तुज्या घोवाक कळ्ळ्यार...?"

"निशा, म्हजो घोव कोण जाणा तूं?" म्हजें उतर अर्देंच तोडून ताणें विचारलें.

"कोणाकडेन लग्न जालां तर गो तूं?"

"चंद्रहासालागीं."

शशीची जाप आयकून हांव पुरूसभर वयर उडलें. म्हजें उक्तें उरिल्लें तोंड, अजापान भरिल्ले दोळे आनी चेरो पळोवन शशीन म्हजो हात धरलो.

"हय निशा चंद्रहास म्हाका सोडून दुसरे चलयेलागीं लग्न जालो खरो. पूण तो आपलें दादलेपण मात होगडावन बसलो."

शशीची काणी आयकतना म्हजेमुखार वावटळ उडटाली. खरेंच, इतलो उपाट मोग आनी अशे मोगी आसूं येतात? आपणें मोग केल्ले चलये वांगडा लग्न जावंक शकलो ना जाल्यार आपलो पुरूषार्थ, आपली मर्दानगी होगडावपा इतलो धक्को दादल्यांक बसूंक शकता? असले कितलेशेच प्रस्न म्हजे सामकार गोफ करून नाचपाक लागले. शशी मात उलयत रावलें. "आमचे मदले जाती भायर दवरपाचे रितीक लागून आनी सामाजीक बहिश्कारा सारकिल्या गजालींक लागून तिगजाणांचीं आयुश्यां दावार लागलीं. चंद्रहास, हांव आनी ताची बाबडी निश्पाप बायल."

शशी सांगतालें... वर्स जालें तरी गुरवाचार येना म्हणून चंद्रहासाले आवयन आनी भयणीन ताचे बायलेक वांजूड, हिजूड म्हणून हिणसावपाक सुरवात केली. तिचो बाबडेचो हून उदकाचो घोट जाल्लो. कोणाचकडेन मन मेकळें करपाक ती शकली ना. शेवटाक वंशाक दिवो जाय म्हणून तीं सगळीं सुनेक घेवन दोतोरालागीं गेलीं. दोतोरान सांगलें तें आयकून चंद्रहासाची आवय फीट येवन

पडली. दोतोराच्या म्हणण्यानुसार चंद्रहासाची बायल निव्वळ कुमारिकाच आशिल्ली.

चंद्रहासाच्या मेवण्यांक ही गजाल कळतकीर ते धांवत आयले. चंद्रहासाचेर षंढपणाचो आरोप करून घटस्फोट दिवपाची मागणी करून ते भयणीक घेवन गेले. आयज तें आपल्या संवसारांत सुखी आसा. दोन सोबीत चलयो आनी फामिली वांगडा मजेंत जगता. शशी उलयत आशिल्लें आनी हांव फकत आयकुपाचें काम करतालें. चंद्रहास घटस्फोटा उपरांत बावळेपणां करपाक लागलो. सामाजीक कुचिद्रांनी ताचो बळी वतलो हें पळोवन शशी आपलो बळी दिवंक तयार जालें. चंद्रहासाक मेळून ताणें बळयां आपलेकडेन लग्न करपाक ताका तयार केलो. केन्नातरी चंद्रहासाचें दादलेपण परतें येतलें हाची शशी वाट पळयत आसा. भुरगेबाळांनी भरिल्ल्या घराचीं सपनां रंगयत बसता. चाळिशी हुपिल्लें शशी आपली कूस फळपाचीं, आवय जावपाचीं सपनां पळयत वाट पळयता आनी भोगता आपल्या समर्पीत मोगाचे भोग...

पयस रेडियोचेर मराठी पदां चल्ल्यांत. म्हज्या कानार तें पद पडटा. ‘‘मीऽऽ राधिका... मी प्रेमिका...’’ दोळ्यांमुखार राधेच्या अभिसारिकेच्या वेशांतलें आतूर शशी झळकता आनी दोळे दुकांनी भरून वोततात.



# तुळा

“मम्मी, हांव आयलेंऽऽ” दुसरेंतलें आभा फाटीवेलें वेंतभर बॅग, गळ्यांतली नाजूक वॉटरबॉटल आनी मानेर धोलपी हातभर विणयो हालयत स्कुलबशींतल्यान धांवत आयलें. घरांतल्यान धुवेचे ओडीन धांवपी अनिता आनी आभा हुंबऱ्याचेरच एकामेकांच्या गळ्यांत पडलीं. खूब वर्सांनी मेळिल्लेवरीं आठ ते देड मेरेनच्या विरहानंतर तीं एकमेकांचे वेंगेंत रिगलीं. जशी दुदांतली साकर.

“मम्मी, अंदू आमचे शाळेक फिफटी इयर्स जातात. म्हणून फाल्यां सगळ्या पेरेंट्सांची मिटींग दवरल्या.” घरांत येईमेरेन आभान टिचरीचो रकाद आवयच्या कानार घालून आपलें काम सोपयलें. अनिताचें तोंड वाकडें जालें.

“शाळा सुरू जाता थंय आसा. जाल्यो हांच्यो कटकटी सुरू. अंदू वर्सभर कार्यावळी करात आनी भुरग्यांचें घट्टाण जाता तें आनीकय वाडयात.” तोंडांतल्या तोंडांत अनिता पुटपुटलें.

सांजचो विश्वास कामावेल्यान येतकीर इन-मिन-तीन मनशांचें तें घर खोशेच्या हाशांनी पर्जळीत जालें. गरम कॉफी आनी आतांच केल्ल्या ढोकळ्याचेर ताव मारतनांच अनितान विश्वासाच्या कानार आभान दिल्लो रकाद घालो.

“विश्वास, आभाचे शाळेची अंदू पन्नाशी खंय रे. प्रत्येक भुरग्याच्या आवय-बापायन फाल्यां कंपलसरीली येवंकच जाय म्हळां खंय. कितें करूया?”

“आगो अशें कशें जातलें? म्हाका तर जमचेंच ना. हांव फोन करून कळयतां तांकां, हांव पावचो ना म्हणून.”

“बरें तर” अशें म्हणून उठतल्या अनिताच्या कानार विश्वासालें एक उतर पडलें आनी तें अजापितच जालें.

'मागीर विचारतां' अशें म्हणत अनिता रातच्या जेवणाची तयारी करपाक किचनांत गेलें.

रातच्या जेवणा उपरांत आभाक न्हिदोवन अनिता बेडरूमांत आयलें.

"विश्वास, तुवें ओदोळ आतां फुडें लिवो मारच्योच पडटल्यो अशें कित्याक रे म्हणिल्लें?"

"अनु आतां न्हिदतना प्रस्न करप नासतात जाणा मगो तूं?"

तरीकय अनितान आपलो हट्ट सोडलोना.

"अनु, तूं सामकेंच विसरलें मुगो. आमीय हेच शाळेचीं भुरगीं. हांगाच हांव तुजे खातीर पिसो जाल्लों हें विसरलें तूं?"

"ताचो आनी तुजे लिव्हेचो कितें संबंद?"

"हांवें चितलां आमी दोगांयनी एकठांय बसून आमच्या वर्गांतल्या सगल्या भुरग्यांची लिस्ट करून तांकां ह्या वर्सा एकठांय हाडून एक कार्यावळ करप. आनी हां त्या वेळावेल्या बाई-मास्तरांचीय लिस्ट करूया आनी तांकांय आपोवन आमच्या वर्गांतल्या भुरग्यांतर्फे तांचो भोवमान करप. ते खातीर लिवो जाय न्ही?"

दुसरे दिसा सकाळीं अनिता आभा वांगडा शाळेंत पावलें. तीच शाळा, तींच झाडां. फकत शाळेक नवो रंग लागिल्लो. आनी तेन्नाचीं धाकटुलीं रोपटीं आतां रूख जाल्लीं. ताणें आनी विश्वासान वनमहोत्सवांत वांगडा रोयिल्लें पेरांचें झाड पेरांच्या धोड्यांनी भरिल्लें. त्या झाडाकडेन पळयतना अनिताक त्या रोपट्याक माती लोटतना जाल्लो विश्वासाचो पयलो स्पर्श याद जालो. ताच्या आंगार कांटो फुल्लो.

"मम्मी, शीं खाता गो?" ह्या आभाच्या प्रस्नान तें सावशीद जालें.

चडशीं भुरगीं आवय-बापाय वांगडाच आयिल्लीं. भुरगीं आपापल्या क्लासींनी धांवलीं आनी सगल्या पालकांक येवकारून हेडमास्तरांनी तांकां हॉलांत आपयलें.

"येते पंदरा तारखेक आमची संस्था पन्नास वर्सांची जातली. पन्नाशी पुराय जाता देखून आमीं हें वर्स भांगराळें वर्स म्हणून मनोवपाक जाय. वर्सभर विंगड विंगड कार्यावळी, व्हडा लेखकांचीं व्याख्यानां, संगीत कार्यावळी घडोवपाक

जाय. भुरग्यां वांगडा पालकांचें सहकार्य मेळ्ळ्यारच हें शक्य आसा. तुमचो तेंको खूबच गरजेचो.'' हेडमास्तरांच्या ह्या आव्हानात्मक भाशणाक पी.टी.ए. ट्रस्टी आनी सगल्या पालकांनी आवाजी तेंको दिलो आनी च्या-बटाटवडे जावन मिटींग सोंपली.

सांजचो विश्वास घरा येतकीर तांची कौटुंबीक बसका सदचेवरीं कॉफी-भजीं सांगाताक घेवन जाली. अनितान मिटींगेचो नियाळ ताच्या कानार घालो.

''एकंदर माजी विद्यार्थी वा माजी शिक्षक हांची कोणाकच याद जावूं ना तर? अनु आमी तयारेक लागुया. तूं मात्श्यो तुज्यो कार्यवळी कमीच कर अंदू प्लीज.''

तशें पळेल्यार अनिता पुराय वेळची घरधनीण. पूण ताणें ल्हानपणासावन आपणायिल्ल्या गावपाच्या छंदान ताका आयज खूबच नामना मेळोवन दिल्ली. ल्हानपणांत ताच्या बापायन ताका तेंको दिवन शास्त्रीय संगीत शिकपाक लायिल्लें. शाळा, कॉलेजींत गायन सर्तींतलीं कितलींशींच बक्षिसां ताका मेळिल्लीं. लग्ना उपरांत विश्वासाच्या फाटबळार तें आपल्यो स्वतंत्र कार्यावळी घडोवन हाडटालें. सप्तकांतल्यान दोन दीस तरी ताच्यो खंयतरी संगीत बैठको आसताल्योच. तरी शिकतना शाळेच्यो तेन्नाच्यो हेडबाई सखुबाई ताचो उध्दार करताली. ताचो विसर ताका कसोच पडनाशिल्लो.

''जावन जावन बाय जातलें कोण? तर खंय गायिका! वयल्या जातींतलें आसुनय कसलीं अवलक्षणां येवजल्यांत गो तुका?'' अनिताक समजूंक खूब कठीण जालें. हांगा गावपाचो आनी जातीचो संबंद कितें? तें तर आपलो आवाज, आपली कला ही देवाची देणगी मानतालें. घरा पावतकीर बापायन ताका समजायलें.

''बाय, कला जातीचेर निंबून नासता. जाचेर सरस्वतीचो वरदहस्त आसता ताकाच कलाकार म्हणटात. तोच खरो सरस्वतीचो पुजारी. तुजें काम तूं प्रामाणीकपणान करत राव. लोकांचें काम लोकांक करूं दी.'' बापायचे विचार आयकून अनिता खुशाल जालें. तरी लेगीत आयजूय ताका अदीं-मदीं सखुबाई याद येतालीच.

दुसरे दिसा सावन अनिता आनी विश्वास तांच्या बॅचीच्या तेन्नाच्या भुरग्यांचे नामे मेळोवपाच्या यत्नांक लागलीं. सगली म्हायती जमतकीर विश्वासान सगल्यांक कॉन्टेक्ट करून आपली येवजण कळयली. सगल्या बॅचींचो घसघशीत तेंको मेळ्ळो आनी चेक धाडून सगल्यांनी एक दिसाच्या कार्यावळीची आर्थीक तरतुदय केली. उपरांत अनिता-विश्वासान सगल्यांचे सवडीनुसार अंदुवर्साचे गुरूपौर्णिमेच्या दिसाक सगल्यांनी एकठांय जावन एक गुरूवंदनेची कार्यावळ करपाचें थारायलें. आपली शिर्वीस आनी गायनाच्यो कार्यावळी हांच्यो वेळो सांबाळून अनिता-विश्वासान तांच्या वेळावेले सगळे गुरूजन, क्लार्क आनी प्युनांक लेगीत सोदून काडून कार्यावळीचें आमंत्रण दिलें.

हळुहळू कार्यावळीचो आयतार उदेलो. ते खाशेले बॅचीचे तेन्नाचे सगले भुरगे आपापल्या बायल-भुरग्यां वांगडा शाळेकडेन पावपाक लागले. गांवच्यो लग्न करून दुसरे गांवांनी गेल्ल्यो तेन्नांच्यो चलयो आपापल्या घोवां वांगडा भुरग्यांक सांबाळत आयल्यो. सगळेकडेन हाय/हॅलो आनी आंवय, शी, ना गो बाये ह्या उतरांचो शितोडो पडटालो. तेन्नाचो स्टाफ आपले तेच शाळेंत शिकपी नातरांचे हात धरून सभाघरांत पावलो. च्या, उपीट, बटाटवडे आनी चटणी हांचो बोकणो भरून मुखेल कार्यावळ सुरू जाली. तेन्नाचे सुत्र-संचालन करपी गांवकर गुरूजीन मायकाचो लटपटत ताबो घेतलो. कवळेच्या दातांतल्यान खणखणीत उतरांनी ताणीं एकाएका माजी विद्यार्थ्याचें नांव घेवंक आरंभ केलो. आज्ञाधारकपणान भुरगीं सान जाल्लेवरी येवन मायकामुखार आपापलें मनोगत उक्तावंक लागलीं. सकयल तांचीं भुरगीं मम्मी-पप्पा भाशण करतात तें पळोवन तांकां तोखेवंक लागलीं.

''आमचे शाळेक गायनाच्या मळार खूबशीं बक्षिसां मेळोवन दिल्लें अनिता आयजय त्या मळार आपली नामना जोडून आसा. आतां ताणें आपलें मनोगत उक्तावचें.''

गांवकार गुरूजींचीं उतरां आयकतकीर अनिता विश्वासाच्या फाटीं लिपलें. हरशीं तंबुऱ्याचे सूर आयकले की हजारांच्या जमावाक विसरपी अनिताक चार उतरां मायकाचेर उलोवप कठीणच थारतालें. आभा आवयक स्टेजीर यो म्हणून

ओडटालें. इतल्यांत विश्वासच उठलो. अनिताचो भाशणाचो फोबिया वळखून ताणें ती जापसालदारकी स्वताच्या भुजांचेर घेतली आनी दोगांयचे वतीन सणसणीत भाशण ठोकलें.

दनपारची चमचमीत जेवणावळ सोंपली. आता उरिल्ल्या सात-आठ जाणांनी आपलीं मनोगतां उक्तायलीं. शेवटाक तेन्नाच्यो हेडबाई सौ. सखुबाई माचयेर चडल्यो. धवीशुभ्र सिल्काची पांचवे बॉर्डरीची साडी, ताच्याकय धवेफुल्ल केंस, भरगच्च आंबाडो, ताचेवेली मोगऱ्यांची फाती आनी कपलावेलो आठआण्यांयेदो व्हडलो कुकूम. फकत केंसांचो रूप्याकोर सोडल्यार आनीक कांयच फरक ना. तेन्नाच्यो दोन सुबेज चलयो भुरग्यांक सावरीत एकामेकांच्या कानांत फुतफुतल्यो.

''बाई, फेसपॅक खंयचो वापरता पळोवंक जाय.'' बाईचो तोच दरारो, तीच स्टायल पळोवन तेन्नाचीं चडशीं भुरगीं कांचवेलींच. आपापल्या कांचवेल्या आवयबापायक पळोवन तांचीं पोरां मात दांत धांपून हांसतालीं. इतल्यांत बाई सुरू जाली.

''मोगाळ भुरग्यांनो आनी तांच्याय भुरग्यांनो. म्हजे विद्यार्थी आयज स्वता आवय बापूय जाल्यात तरी याद दवरात तुमी म्हजे खातीर तेच विद्यार्थी आसात. तुमी आयज व्हड जाल्यात, यशस्वी जीण जगतात ताचें श्रय तुमी तुमच्या मनोगतांतल्यान आमकां सगल्या गुरूजनांक दिलां. तें स्वीकारतना हांवें केल्ल्या कांय चुकांची हांव जाहीर कबुली दितां. संगीताक सरस्वती मानपी अनिताचो हांवें उतरा पावलार थोमणे मारून अपमान केल्लो. पूण ताचेंच म्हणणें खरें थारलें. सरस्वतीच्या ताच्या आराधनेन लक्ष्मीय ताचेर प्रसन्न जाल्या. नांव आनी संपत्ती-गिरेस्तकाय दोनूय ताका फाटोफाट मेळ्ळां.'' हें आयकून विश्वासाची छाती आंगूळभर वयर सरली. तर अनिताच्या तोंडार अजापच-अजाप दिसलें. बाईचें चालूच आशिल्लें.

''हांव सुण्यांवरी अनिताक हिणसायतालें. ताची वयली जात याद करून दिवन जातीचें नांव राखपाक सांगतालें, ताची तुळा वर्गांतले हुशार चली शोभनाकडेन करतालें. अरेच्या... शोभना येवंना काय तुमी ताका सांगलेंना?''

विश्वास आनी अनिता एकामेकांक पळयत रावलीं. दोगांयनी एकामेकांक कुरू केली आनी अनितान तोंड घट्ट धांपून घेतलें.

सखुबाई आपलें उलोवप सोपोवन माचयेवेल्यान देंवली. अनितान बाईच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो.

"बाई, म्हज्या यशाचें श्रय तुमकांच. तुमीं खंयचीच चूक केलिना. तुमी सदचेवरी बरोबरच आसात. कारण दैवान तुमचेकडच्यान करून घेतिल्ली म्हजी हिणसावणी म्हजो तेम वाडोवपाक कारण थारली. हांवें तुमच्या म्हणण्याचो राग धरिनासतना आनीकय नेटान संगिताकडेन प्रामाणीक रावन सरस्वतीची पुजा केली. ताचेंच हें फळ."

सांजवेळ मेरेन सगलीं भुरगीं परतलीं.

घरा वतना अनिता गाडयेंत चूप बशिल्लें. जाल्यार आभा केन्नाचें येवन फाटल्या सिटार गाढ न्हिदिल्लें. विश्वासाक अनिताच्या मनाची चलबिचल जाणवली.

"अनु, तुवें खरें म्हळ्यार शोभनाची रियलीटी बाईक सांगपाक जाय आसली. सदांच तुका हिणसायताली न्ही गो ती?"

"ना रे. मेल्ल्यांक आनी मारप नासता हें म्हाका बाईनूच शिकयल्लें. हांव तशेंच वागलें." चुपचाप जाल्ल्या अनिताक विश्वासान आनीक कांयच म्हळें ना. अनिताच्या दोळ्यां मुखार शोभनाचें तें रूप आनी कानांमदीं ताचेविशीं आयकल्लीं उतरां गुणगूण करपाक लागलीं.

मुंबयच्या गच्च भरिल्ल्या हॉलांत गोंयकन्या अनिताचो आवाज कानांत भरून घेवंक आयिल्लो जमाव ताची वाट पळेतालो. माचयेर येवन सरस्वतीच्या फोटयाक नमस्कार करपी अनिताक येवकारपाक सगलें सभाघर आपल्या पांयार उबें रावन ताळयांचो कडकड करतालें. लोकांकडेन वळून नमस्कार करतल्या अनिताक दुसरे वळेरेंतलें तें मुखामळ वळखीचेंशें दिसलें. इतल्या फुडें बसपी म्हणटकीर कोणतरी व्ही. आय. पी पासांची धनीण. उदकाची बाटली दवरूंक आयिल्ल्या आयोजकाक ताणें सहज विचारलें.

“अहो ती दुसऱ्या रांगेतली बाई आहे ना ती कोण? ओळखिची वाटली म्हणून म्हटलं.”

आयोजक हांसत म्हणपाक लागलो.

“नाही, अनिताजी तुमची तिच्याशी ओळख असणे शक्यच नाही. कारण ती मुंबईचे बडे अद्योगपती कोठारींची मिसट्रेस आहे. अनेक किप पैकी एक आहे.”

अशी वळख करून जातकीर ताणें सहज एक नदर सकयल मारली. शोभना ते खुर्चेवयल्यान नाच्च जाल्लें.



# फटींग-फटींग

बिल्डींगेच्या पांचव्या माळ्यावयल्या निमण्या सोपणाचेर चांटी दवरतना जयम्मान व्हडलो उस्कारो सोडलो. हय, निमण्या माळयेवेलें जावं पूण तें ताच्या हक्काच्या घरा सामकार पाविल्लें. चावयेन दार उगडतकीर मागीर भितर तांचेंच साम्राज्य. तांचें म्हळ्यार ताचें आनी ताचे एकसुरे धुवेचें, सोनीचें. होडविकेन ताणें दार उक्तें केलें. त्या वनरूम किचनाच्या ताच्या घराचे वण्टीर लायिल्ल्या घोवाच्या हार घाल्ल्या फोटवा सामकार तें खिणभर उबें रावलें. फोटवांतल्या मुथय्याच्या मुखामळार हात फिरयतना जयम्माचीं दुकां दोळ्यांतल्यान व्हावलींच. ''मुथु, तुज्या भरवंशाचेर तामिळनाडु सोडून हांगा मुंबय शारांत आयलें. तुज्या मोगाच्या विस्वासार हांगचे झोपडपट्टींतय सर्गसूख अणभवलें. आमच्या मोगाची खूण म्हजे कुडींत रोवन तूं मात आमकां ऊकाशी करून गेलो. तुज्या मरणाची किंमत म्हणून मेळिल्ले शिर्विशेच्या पयल्या पगारांतली पयली खरेदी म्हळ्यार हो हार.'' अशें म्हणून परमळीत फुलांचो एक हार ताणें त्या फोटवाक घालो.

नेण्टें जयम्मा दुकां व्हांवयत फोटवाचेर हात भोंवडायतालें. 'अम्मा' सोनीचो उलो आयलो. आवयच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकांनी सोनी ऊमगलें अम्माक अप्पाची खूब याद येता.

''अम्मा, अप्पाची याद आयली गे? म्हाकाय येता. हांवें तर म्हजे अप्पाक पळेला तोच ह्या फोटवांत.'' धुवेचीं उतरां आयकून जयम्मा सांवरलें. तेंच अम्मा आनी अप्पाचोय रोल धुवे खातीर जगतालें.

''बाय जे देवाक आवडतात तांकां देव आपलेसरीं आपयता. तुजो अप्पाय तसोच. सगल्यांकच आवडटालो. घडये देवाकय तोच आवडलो. आनी ताणें

ताका आपयलो. आमचेर अन्याय जातलो अशें देवान चितलें ना. कारण ताका अन्यायाची जाप विचारतलो कोणच ना न्ही?'' जयम्मा उलयलें. धुवेक समाधान दिवपाक तें कितेंतरी उलयतालें. पूण ताका याद जातालो तो.. तो दीस.

सदचेवरी जयम्मा धारावींतले एके झोपडेंत आशिल्लें. जाता तितल्या घाणीमर्दी नितळसाण दवरपाचो ताचो यत्न चालूच आशिल्लो. मुथय्या कामाक गेल्ल्यान दिसभर झोपडेचें दार बंद करून स्वताक थंय कोंडून घेंवनच तें जगतालें. केन्नाकेन्नाय ताका गांवचो नितळ, सर्गीक सैम येवजतालो. पूण मुथुल्या मोगा सामकार तें सगल्या हेर गजालींक किंकोंत करतालें. अचकीत दनपारचेर हावेळ उठली की रेल्वेस्टेशनाचेर बॉम्बस्फोट आनी फारपेट जाल्या. जयम्माच्या आंगार कांटो शिरशिरलो. ''देवा, अय्यप्पा, मुथुक बरो करून घरा पावय.'' स म्हयन्याचें पोट घेवन जयम्मा भायर-भितर काडाओडी काडत रावलें. तिनसांज जाली तरी मुथु आयलोना. ताचो आवरो उडलो. कसोय तरी धीर करून ताणें एके झोपडेचें दार गडगडायलें.

''कौन है?''

''मैंईच हुँ जयम्मा.''

''रांड साली. याकुब की सारी कमाई के साथ उसे भी खा गई अब यहाँ क्या करने आई है रंडी?'' बडबडत कोणें तरी दार उगडलें. युनुसचाचा भरभरून दोन फुलोवपाचे तयारेन भायर सरलो. दारांत मुथुलें जयम्मा पळोवन तो निर्शेलो.

''माफ करना बेटा. आजा अंदर आजा.''

''चाचा, मुथु अब तक घर नहीं पहुचा. मुझे तो डर है की...''

''आरे बेटा डरना नहीं. मुथुको कुछ नही होयगा.''

दुसरे दिसा सकाळीं मात जयम्मा सामकेंच पोवशेलें. रातभर मुथु आयलो ना. 'अय्यो अय्यप्पा' म्हणून तें कळवळ्ळें. तरी धीर करून युनुसचाचाक घेवन तें हॉस्पीटलांनी दवरिल्ल्यो बॉडी पळोवपाक भायर सरलें. हॉस्पीटलांत हीऽ गर्दी आशिल्ली. जांच्या वळखीच्यांचीं मडीं मेळिल्लीं ते बाबडे कोसळून रडटाले.

जांकां कांयच सुलूस मेळनाशिल्ली ते आशेर रावताले. घडये तांचो मनीस खंयतरी जितो आसतलो! थंय मेल्ल्यामदीं आनी रडतल्यांमदीं हिंदूय आशिल्ले आनी मोयरय आशिल्ले. चाचान एका दोतोराक मुथुचें वर्णन सांगतकीर ताणें दोगांयकय मड्यांचे कुडींत व्हेलीं. दाराआडच्या थंड हवेच्या झोतान जयम्मा कडकडलें. दोतोर दाखयतालो त्या मड्यांक जयम्मा पळोवन ना अशी तकली हालयतालें. अचकीत ताची नदर एके कुडी म्हऱ्यांतल्या तुटक्या हाताचेर पडली. त्या तुटक्या हाताच्या बोटांतली मुदी तें वळखलें. ते मुदयेचेर तमीळ भाशेंत बरयिल्लें 'मुथु-जया' वळखून ताणें आकांत मांडलो. फकत मांसाचो गुळो आशिल्ले मुथुचे कुडीक ताणें वेंग मारली. चाचान झोपडपट्टींतल्या हेरांचे मजतीन ती कूड पोतयेंत भरून वस्तेंत हाडली आनी तिचेर निमणे संस्कार केले. चार दिसांनी चाचानच मुथुल्या मरणाचो दाखलो जयम्माक हाडून दिलो.

सरकारी आनी बिगरसरकारी संस्थांचे मजतीन जयम्मा जगतालें. ताणें एके चलयेक जल्मय दिलो. अचकीत एक दीस पोशटमनान एक सरकारी पत्र हाडून ताका दिलें. सरकाराकडच्यान बॉम्बस्फोटांत मेल्ल्यांच्या घरच्यांक मजत म्हणून धाडिल्लो एक चेक तातूंत आशिल्लो. एके समाजसेवी संस्थेन ताका थळाव्या हॉस्पीटलांत दाईची नोकरी मेळोवन दिली. आनी ताका हो ल्हानसो फ्लॅट घेवंक आर्थिक मजतय दिली. आतां जयम्मा आपल्या पांयार समर्थपणान उबें जालें.

दीस वताले, म्हयने वताले. वर्सांय गेलीं. नाना तरेच्या दुयेसांचे रोगी त्या हॉस्पीटलांत येताले. कांय आपल्या पांयांनी तर कांय बाकीच्यांच्या खांद्यावयल्यान पयस वताले. ताचो वावर सगले हॉस्पीटलभर चलतालो. एक दिसा जनरल वार्डांत तें जमीन पुसपाक गेल्लें. ताची नदर एक हात-पांय नाशिल्ल्या लुंड मनशाचेर पडली. ताचे फकत दोळे तितले बिटीबिटी हालताले. इतलीच त्या लुंडाची जितेपणाची खूण. जेन्ना तें जमीन पुसत त्या धडा म्हऱ्यांत पावलें तेन्ना ताका त्या चेऱ्याची वळख पटली शी दिसली. त्या निर्जीव चेऱ्याचेर मात्शें हांसू शें लिकलिकलें आनी तें लुंड आपली मान-तकली आनी हात-पांय नाशिल्लें धड जोरजोरान हालोवंक लागलें. ताच्या तोंडांतल्यान मात कांयच उतर फुटनाशिल्लें. जयम्मा साप्प भियेलें. दोन-चार खीण ताणें त्या लुंडाच्या चेऱ्याकडेन

पळेलें. हय. वळख पटली. मुथुच तो. जयम्मान आपल्या हातान आपलें तोंड धापून आयिल्ली किळांच थांबयली. वळख दाखोवं काय नाका ह्या विचारांच्या झोपाळ्याचेर ताचें मन धोलतालें. हय काय ना? ह्या विचारांत आसतना ताचे मुखार चलयेचो फुडार, माथ्यावेल्या छपराचो आदार, मुथय्याच्या मरणाची किंमत म्हणून मेळिल्ली शिर्वीस, दुडू, मुथय्याचो मोग, मोगाचे खीण सगळें सगळें झळकलें आनी निमणो वेव्हारी न्हयकार जिखलो. थंडसाणेन उदकाची बालदी घेवन तें वॉर्डाभायर वचपाक लागलें. दारांतल्यान फाटीं वळून पळेल्यार त्या लुंडाची नदर ताचेरच रोखिल्ली. तें फटाफट भायर गेलें.

हात-पायां वांगडा उलोवपाची शक्त होगडावन बशिल्ल्या मुथय्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची धार व्हांवताली. पिटपिटपी पातकड्यो दुकां थारावंक अपेशी थारताल्यो. दनपरां नर्सी फाटल्यान जेवणाचो गाडो धुकलीत जयम्मा आयलें. दारांतल्यान पळेल्यार मुथय्याचें लुंड दाराकडेनच रोखून पळेतालें. ताची ती नदर पळोवन जयम्मा मनांतल्या-मनांत घुस्मट्टालें. नर्स जेवणाचीं ताटां वाटत मुथय्यासरी पावली. तिणें ताट खाटीर दवरून मुथय्याक सारको करपाक हात लायलो आनी ती एकदम किंळचली.

"आवयस, हो तर केन्नाचो मरून गेला बाबडो."

तिच्या ह्या उतरांनी जयम्मा थंयच फातर जावन पडलें. मुथुची ती नदर जयम्माचेर एकच आरोप करताली.

"फटींग तूं सामकें फटींग."



# चोरी? च्यँ... हें तर ताच्यावेलें

**घ**रधनी जाल्ल्यान लायट, उदक आनी फोन उजार करपा वांगडा बिलां भरपाक बँकेंत धांव मारून थंयचे लायनींत झक मारपाची जापसालदारकी मागनासतनांय म्हज्या बोडारच पडटा. ते दिसाक हीं दोन-तीन कामां सोपोवन भाजीवाली आनी नुस्तेकान्नीकडेन वार्जिक करून हांवें सगली खरेदी केली. हे म्हारगायेन म्हणून जीव सामको बेजारला. पर्सभर दुडू मोडून पोतीभर लेगीत सामानाची खरेदी जावं नाशिल्ली. जीव म्हणून त्रिशंकुचो अवतार कसो जाल्लो. पाडापडिल्लो वच म्हळें म्हणून वचना आनी वीख खावन वा गोळ घेवन तो दिवपाची कापाजदाद ना म्हणून जगपाचें. केन्नाय तरी सवस्काय येतली म्हणून सदचे भशेन दीस धुकलपाचे. त्याच विचारांत स्कुटरीक कीक मारली. रोकडीच व्हडली देंवती आसा म्हणून गियर न्युट्रल केलें. दोन किलोमिटरांचें पेत्रोल वाचलें. म्हारगायेक लागून हांगा नाजाल्यार थंय बारीकसाण करपाची. पायांकडची नुस्त्या पोती हुमकळत आशिल्ली. सवायच ती. मदींच फुटली. फार्टी वीस रूपयांक मेळटल्या त्या करबटांचो पन्नासांची नोट दिवन घेतिल्लो वांटो. एक लेगीत सकयल पडल्यार लुकसानच. हांवें ब्रेक मारलो. स्कुटर स्टँडार काडली. सायडीच्या सागवानाचीं पानां घेवन तातूंत तें करबट गुटलायलें. पायांकडेन ब्रेका पोंदा येवचें ना अशें दवरलें. अचकीत नदर कडेचे स्कुटरीचेर पडली. फाटली नंबरप्लेट नाशिल्ली स्कुटर. मागीर ती शेर्त रघुनंदनालीच.

हाका आमी हरशीं रगुच म्हणटात. हो आनी स्कुटर हांगा दवरून कितें करता काय? हेवटेन तेवटेन नदर फिरयली. मात्शें फुडें एका पागरा भितर आशिल्ल्या

झाडाचेर कोणतरी हालिल्लेवरी दिसलो. माकोड बी जातलो घडये! अचकीत एका मनशालो हात दिसलो. म्हाका थंयच्यान एक कसलेंतरी झाड आड येतालें. देखून त्या हाताचो धनी त्या कसल्यातरी झाडार कितें करता तें कळनाशिल्लें. स्कुटरीक चावी लायली आनी हांवें हातांनीच धुकलून ती फुडें घेतली. कित्याक? तर बेकार अशिल्ल्यान त्या झाडार कोण, कितें करता हें सोदपाक. अचकीत वयल्यान मसका सांगो सकयल पडपाक लागल्यो. ह्यो हातभर लांब आनी तट्टटीत आशिल्ल्यो सांगो पळोवन तेफळांच्या वासाचो दाळी रोस जिबेर लाळ हाडपाक लागलो. इतल्यान त्या झाडावेल्या मनशाचें मुखामळ दिसलें. 'चौदवीका चाँद' दिसचो अशें म्हाका जालें. आतां दोन-तीन फावट तरी सांगांचो दाळी रोस शेर्त. कारण तो आशिल्लो म्हजो शेजारी रगुच.

खरें पळेल्यार ताणें सकयल वडयिल्ल्यो मसका सांगो ताका आनी म्हाका दोन-चार फावटी बस्स आशिल्ल्यो. पूण अती सुवार्थ मनशालो घात घेताच. चड जाल्ल्यो सांगो गांवभर हाका ताका वाटून, नस्तें बरेपण जोडपाचो रगुलो विचार ताका नडलो. सुक्या पत्र्याचेर पटापट पडपी सांगांचो आवाज आयकून एक धटींगण असो दादलो मुखावेल्या घरांतल्यान भायर सरलो. "कोण रे थिंगा? मसकारूखार कोण चोरूं बसला रे?" ताच्यो आड्ड्यो आयकून हांवें मनांत म्हळें. 'मेलो आतां रगु.' हांवें बेगोबेग स्कुटरीचें पॅनल उगडलें. नवोताल्ल प्लग ओगीच बोतरान पुसपा सारको केलो आनी मजा पळोवया म्हण रावलें. साधल्यार दाळ सांगाचो रोस नाजाल्यार रगुक पडिल्लो मार तरी पळोवपाचोच. "आरे, पापया रगु, तो दादलो येता तुजेसरी. मेळ्ळ्यात त्यो सांगो पुरो. धांव." पूण म्हज्या तोंडांतल्यान एकय उतर फुटलेंना. आतां हो मेलो, मेलो करून मनांत चिंततनाच रगुन झेतान सकयल्यो मसकाच्यो सांगो वेचपाक सुरवात केली. आतां तो मोटव्या काल्सांवांतलो धनी खावं काय गिळूं ह्या अवतारांत रगु म्हऱ्यांत पावलो. "ए, सगल्यो सांगो चुपचाप म्हज्या हातांत दी. येयलो, चडलो रूखार, काडल्यो सांगो, गेलो घरा. हो कितें पुर्तुगाल रे? काय सालाजारा राज्य आहा हिंगा? आनी तूं तेगे जांवय बी?" ह्या उतरांचो संगीत

कोंकणी कार्रेगाद गाळयांसयत रगुचेर शिंवोर जालो. पूण हां ना की चूं ना. रगु मोन्यांनी आपलें सांगो वेचपाचें काम करीत आसा.

पाडपडिल्लो हांवें चिंतिल्ल्या परसय निर्लज्ज! राजकारणांत गेल्यार सात पिढ्यांक, थुमेकाल, सतरा-अठरा पिढ्यांक तरी भांगरा ताटांत जेवपाची तजवीज करून अजरंवर जावपाचो हो! इतल्यांत रगुल्यो सकयल पडिल्ल्यो सांगो पोतयेंत भरून जाल्यो. इतलो वेळ आड्ड्यो मारपी धनयाक ताणें जणू पळोंवकच नाशिल्ले भशेन केल्लें आनी आतां अचकीत रगुन ताच्याकय आपलो आवाज वाडयलो. "कोण रे तूं? येदोळच्यान पळेतां तुका हांव. दात नाशिल्लें मोडकें तोंड उगडटा-बंद करता. तोंडांतल्यान उतर फुटना तुज्या काय मोनो तूं? उलोवंक येता जाल्यार आतां सांग कितें तें?" पुरायपणान आयकवपाक येतल्या रगुचें हें रूप पळोवन म्हाका म्हज्या सांगो आनी दाळीच्या रोसाची खात्री पटली. हांवें बेगीबेगीन पॅनल लायलें आनी पळेलें. जाल्यार रगु सांगांनी भरिल्ली पोती घेवन येता. आरे पूण येदो वेळ आड्ड्यो मारपी तो अदूर्या काल्सावांतलो दादलो गेलो खंय? पळेल्यार आपूण अर्दवर एका साप्प भेड्ड्या मुखार बोब मारतालों हो धक्को सहन न जावन बाबडो उदाऱ्यांनी जमनीचेर पडिल्लो. तोवूय दोळे धवे करून. रगुन म्हाका पळेलें लेगीत ना. पोती पायांकडेन दवरून एकेच किकींत ताणें स्कुटर स्टार्ट केली आनी तो फुज्जो.

हांवेंय म्हजी स्कुटर स्टार्ट केली. दिडकेतारीवेल्या फुटब्रिजाचेर फुडल्यान लायट लावन येवपी गाडयेक लागून रगु थारिल्लो. ताच्या फाटल्यानच हांव रावलें. "आगो, चावडेर गेल्लें बाजार करपाक? दिसलेंच ना मुगो तूं! थंय बाजारांतच आगोंदचो म्हजो आमीग रामदास मेळ्ळो. सोबीत सांगो दिल्यात पळय ताणें म्हाका. घे तुकाय चार व्हर. दाळीचो रोस करून घाल घोवाक." रगुलो फुलुखुस्तार पेटयिल्लो खोजनो म्हजे तकलेर आपटलो. हांसो दामून हांवें पयलीं सांगो मेळयल्यो.

दनपारचें रांदून बेकार जातकीर म्हज्या बाबान सांगिल्ल्यो असल्योच कांय गजाली तकलेंत आयल्यो. आनी हांव एकलेंच पिशांवरी हांसपाक लागलें.

इतल्यांत कॉलेजिंतल्यान घरांत पांय दवरपी चल्याची जाग लागली. हांसो थांबोवपाचो यत्न केलो पूण थारना. चलो हुस्क्यान म्हऱ्यांत आयलो. "मम्मा!"

"आरे हांव पिशें बी जांवुना आनी म्हजो मायूय तापलो ना. जेवतकीर उलोवया हाचेर. हांव पयलीं म्हजो हांसो सोंपयतां."

जेवन सदचेवरी हांव आनी चलो चणे-भिकणां खायत वॉल्तेरांत गजाली करपाक बसलीं. तेन्ना ताका हांवें पयलीं रगुली खबर सांगली आनी मागीर म्हज्या बाबान सांगिल्ल्यो खबरो सांगल्यो.

म्हजो बाबा नेण्टो आसतनां ताची एका क्रिस्तांव भाटकाराल्या नेण्ट्रया चल्याकडेन घट आमीजाद आशिल्ली. तांणी ती आपापल्या निमण्या श्वासामेरेन बरेतरेन चलयलीय ब्री. तर त्या भाटकाराच्या भाटांतल्या भरपूर नाल्ल लागपी कवाथ्यांचे नाल्ल अचकीत चोरयेक वचपाक लागले. मानायांक कांयच सुलूस लागनासतना चोरी जाताली काय तेवूय तातूंत वांटेकार आशिल्ले देव जाणा! नाल्लांच्यो पेंडीच्यो पेंडी शेवकासयत कापून नाच्च जाताल्यो. म्हज्या बाबान ताच्या मानायांचेर विश्वास दवरिनासतना नेण्ट्रया भाटकाराक आपल्या वांगडा रातचो भाटांत पासय मारपाक तयार केलो. एके रातीकडेन ताणीं पळयलें की एका कवाथ्यावेल्यान बारीक शेलीचो पोड लोंबता. हांकां संशय येवन बॅटरेचो झोत वयर मारल्यार कोणतरी बसला तो कळटा पूण आपणांक वळखूंक जायना म्हणून तो तोंड व्यवस्थीत लिपयता. हांच्या बॅटरेच्या उजवाडाक भियेवन ताणें कंबराची काश्टी काडून चेऱ्याचेर बांदून चेरो धांपलो आनी हाताक मेळटा तो नाल्ल, मेळटा तें आडसर आनी दिसता तो बोंडो तोडून सकयल हांचेर शेंवटुवपाक सुरवात केली. हे दोगूय काचाबूल जावन बरेच फाटीं सरले. ते बरोबर दिगंबरावस्थेंतलो चोर सरसर करून कवाथ्यांवेल्यान सकयल देंवलो. आनी तोंड काश्टेन धांपिल्ले परिस्थितींत म्हजो बाबा आनी ताचो आमीग हांच्या फाटल्यान हातांतलो कोयतो नाचयत धांवपाक लागलो. हे दोगूय जीव आसल्यार भीक मागून खावया म्हणून पळ्ळे.

हरशीं चोरां फाटल्यान पोलीस वा तांका धरपी साव लागतात. हांगा मात उरफाटें आशिल्लें. बाबा आनी ताचो आमीग, जो त्या भाटाचो धनी आशिल्लो, ते दोगूय जीव वाटावपाक धांवतात आनी चोरी करपी चोर हांका धरपाक, भेसडावपाक हांच्या फाटल्यान धांवता. हाका चोरी करता म्हणप? च्यॅ... हें तर ताचेपरसय वयलें...



# धूव दिली, पूत मेळ्ळो

मिता, कॉलेजींत म्हजेच वांगडा शिकतालें. आमच्या चल्या-चलयांच्या ग्रुपामदीं हें म्हजी पाठराखीण कशें वावुरतालें. तरीकूय तें म्हाका आमचे परस अलिप्तशें भासतालें. खूब सुंदर न्ही तें, तरी चार-चवगांमदीं नदर ताचेर वचपा इतलें बरें आशिल्लें. हाचे भोंवतणीं चले घिट्टयोय घालताले. कितले जाणांनी हाका डायरेक्ट वा थ्रू आमचे कडच्यान प्रपोजय केल्लें. पूण हाचो नानाकारच. ''आगो मिता सगल्यांक फक्त भाव मानी नाका. एकट्याक तरी भोगशीय हातूंतल्यान. निमणें हांतल्या कोणाय कडेन सोयरीक जमल्यार दादाभाईंक नवरोजी करपाक कुस्तार जातलें आं तुका.'' हांवें अशें म्हणलें की ताची तट्टकन जाप येताली. ''हांव बिनलग्नाचेंच रावतलें.'' हाचे मदीं शेर्त बरेंच कमी आसा हो आमच्या ग्रुपाचो तेन्ना शेर्त जाल्लो अदमास.

खरें पळयल्यार हाचे फाटली फाटभूंय अशी. मिता आवय बापायली एकली एकसुरी धूव. धावेक पावतासर कानार पडिल्ल्या आज्जेच्या उतरांनी ताची मानसीक घडणच अशी विचित्र जाल्ली. आनी ताच्या मनांत लग्नच न करपाचो विचार थिरावलो. 'म्हज्या कृष्णाक चार-पांच भुरग्यांक पोसपाची तांक आसा. पूण देवान ताका एकच भुरगें दिलां. जावं चली वा चलो पूण आनी एक भुरगें ताच्या पोटाक पिकूंक जाय आसलें. पूण शेवटाक देवाची करणी... देवूय म्हणून नाका थंय बारीकसाण करता आनी तांक नाशिल्ल्यांगेर खंडीभर पोरां जल्मांक घालता.' ही बारा-बत्तीस काळ चलपी आजयेची कॅसेट भुरगेपणांतच मिताच्या कानार पडटाली. 'फाल्यां व्हड जावन मिता घोवागेर गेलें की म्हजो कृष्णा आनी बायल सामकीं एकमुळीं जातलीं.' कॅसेटीची हो उत्तरार्ध ल्हान

मिताची जापसालदारकी वाडोवन ताका नेण्टेपणांतच 'जाण्टें' करून गेल्लो. मितान ते भुरगे पिरायेचेरूच थारायलें लग्न करप ना. कॉलेजींत ह्याच विचारांचेर ठाम रावन ताणें सगलीं प्रपोजलां न्हयकारलीं.

शिकतां शिकतां कॉम्प्युटर टॅक्नोलॉजींत मास्टरी मेळयिल्ल्या मिताक एके बरे कंपनींत भक्कम नोकरी मेळ्ळी. ग्रुपांतल्या सगल्या भुरग्यांच्यो वाटो पोटा-पाणयाचे चिंतेन विंगड-विंगड जावन पडल्यो. सगळींच नोकरेमदीं गुल्ल जाल्ल्यान फ्रेंडशीप हे गजालीक आतां दुय्यम जागो उरलो. नोकरी, पगार, थंय वयली सुवात मेळोवपाची सर्त ह्या धबडग्यांमदीं आमी घड्याळाच्या काट्यापरसय वेगान वचत उरलीं. सुरवेचे धांवपळीचे दीस सोंपून दरेकान आपापल्या जाग्यार ध्रुवाभशेन बसका घेतकीर लग्नाबिग्नाचे विचार सुरू जाले. लग्ना उपरांत तर आमी आनीकय फुटून पडलीं. आमच्या ग्रुपामदले चडशे जाण चतुर्भुज जालेच. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार हांगा पयली सुवात मेळ्ळी मिताक. सदांच लग्नाक ना ना म्हणपी मिता 'चट मंगनी पट ब्याह' करून मेकळें जाल्लें.

ताचें घडलें किर्ते, गणपतीच्या उत्सवा वेळार शेजाऱ्यांगेर मुंबयच्यान आयिल्ल्या सोयऱ्यां मदल्या एका देखण्या भुरग्याच्या मनांत मिताचें रूप रूजलें. घरा गेल्या उपरांत ताणें आपलें मन आनी मत आवयक सांगलें. आवयन ताकतिकेन आपल्या सोयऱ्यांक फोनाफोनी करून मिताची चवकशी मेळयली. आनी ताच्या बापायक हींट दिवन आपली येवपाची वेळ निश्चीत केली. लांबरूंद, रूबाबदार आनी हॅंडसम संजयाक पळयतकीर मिता आपलो न्हयकार, आपल्या आवय-बापायचें एकाकी पडपी म्हातारपण साप्प विसरलें आनी फटाफट मिसेस संजय जावपाक धोंपरांक बाशिंग बांदून तयार जालें. लग्ना उपरांत मिताक शिर्विशेर बदली घेवंक अडचण जाली ना. कारण ताचे कंपनीचें हेड ऑफीस मुंबयच आशिल्लें. मिताच्या येवपान संजयाची त्रिकोनी फामिल आतां चौकोनी जाली. सकाळीं धांवपळ करून ऑफीसांत वचप आनी नव्या जापसालदारकेचे भुमिकेंत काम करप हातूंत मिता रंगून गेल्लें. सद्दां तिनसांजेर गोंयां फोन करून आई-आपाकडेन पोटभर उलोवप हेंय ताच्या रूटीनांत येतालें. आई-आपा ताच्या पयल्या बाळंतेरा वेळार गोंयां सावन मुंबय स म्हयने रावन परतीं गेलीं.

संजय-मिताच्या संवसार वालीर एका फाटल्यान एक सोबीत दोन कळयो फुल्ल्यो. आतां मेरेन धूव, सून आनी घरकान्न ह्यो भुमिका जगपी मिता समर्थपणान आवयची भुमिका वठोवंक लागलें.

वाडट्या संवसारा वांगडा करियरिस्ट मिता आपले शिर्विशेंत प्रमोशनां मेळयत गेलें. नवे टेक्नोलॉजींत पटकन शिकून घेवपी मिताची निवड अचानक अमेरिकेंत अर्विल्लें शिक्षण घेवपाक वचपी पंगडांत जाली. भुरगीं-संवसार हांचो विचार करून हय-नाच्या झोपाळ्याचेर झुलपी मिता मांय-मांवान आनी घोवान दिल्ल्या तेक्याचेर अमेरिकेक वचपाक नेटान तयार जालें. कंपनीन पासपोर्ट-व्हिसाचीं कामां फटाफट करून उडयलीं. फोनावेल्यानच गोंयांतल्या आई-आपाक नमस्कार करून मितान तांचो रकाद घेतलो. उमळशिकेन भरिल्लें मन एकेवटेन तर फामिलीच्या विरहाचें दुख्ख एकेवटेन अशा रूपांत मितान विमानांत पांय दवरलो.

अमेरिकेंत बरेतरेन पाविल्ल्याचो मिताचो फोन आयलो. मागीर बिझी शेड्यूल आनी रात-दिसाच्या वेळेच्या फरकान भुरग्यांकडेन उलोवपाच्यो संधी ताका खूबच कमी मेळूंक लागल्यो. तरी संजयाच्या मोबायलार फोन करून तें भुरग्यांची आवाजभेट घेतालेंच. लाँग-डिस्टन्स कॉलाचें दर ताका जपून उलोवंक लायतालें. गोंयां तर आई-आपाक दोन-तीन फोन जाल्ले ताचे. इतलेंच. बाकी तांची चवकशी संजयच घेवन खबर मिताक सांगतालो. कामाचे, नवें गिन्यान मेळोवपाचे धुंदींत तीन म्हयने सोंपत आयले. 'आवयस, तीन म्हयने हांवें एकट्यान सगल्यांपासून पयस, एकटें आनी तेंवूय अमेरिकेंत रावप? अशें जातलें?' अशें चिंतपी मिताक लेगीत कळ्ळेंचना की, परत मायभुंयेंत वचपाची वेळ केन्ना लागीं पावली. भुरगीं, मांय-मांव, आई-आपा आनी खास करून संजया खातीर यादीन खाशेलीं गिफ्टां घेवन मितान बॅगां भरलीं. दोन दिसां उपरांत स्वदेशाक हाडपी विमानांत ताणें चाटी दवरली. मदीं येवरोपांत हॉल्ट घेवपी विमानाचो ताका सामको राग आयलो. डायरेक्ट उडून मुंबय देंवपाक कितें धाड भरल्या हांकां? असो भुरग्यां सारको प्रस्न ताच्या ओढाळ मनांत आयलो.

मुंबयच्या विमानतळार काचेभायर ऊबीं रावन हात हालोवपी भुरग्यांक पळयतकीर मिताक सामकी ओड लागली. सगले कायदेशीर सोपस्कार सोपोवन तें फामिलीच्या मोगांत घुस्पत घरा पावलें तेन्ना फांतोडेवेलीं साडेतीन वरां जाल्लीं. झेमेल्लीं भुरगीं मम्मान अमेरिकेंतल्यान कितें हाडलां तें फाल्यां पळोवया म्हणून गाडयेंतच न्हिदून पडिल्लीं. शाण्या मांय-मावान तांकां तशींच उखलून आपले कुडींत व्हेलीं. ''मिता, तुंवय आतां विसव घे. चल. संजय ताका घेवन वच रे तूं. पुरो जालां आसतलें ताका. बॅगां बी फाल्यां पळोवया. आयकलां, तुमीय मेत्रावण्यो करूं नाकात. आमीय न्हिदुया.'' मांय मुमुरखी हांसत आपले कुडींत भितर सरली.

''ए संजय, गोंयां फोन केल्लो रे तुवें? हांव करत आसलें. रींग वताली पूण कोणच घेना आसलो फोन. घडये लायनींत बी फॉल्ट आसूं येता. हांवें आतां आपाक दिवंक मोबायल हाडला.''

''बायगो खूब दिसांनी, न्हय म्हयन्यांनी मेळटा तूं म्हाका. बाकी खबरी उलोवंक व्हडले व्हडले खूब दीस आसात. आतां नसत्यो खबरो नाकात. लागीं यो मात्शें. कितल्या दिसांचो उपाशीं हांव. आयज वाग जावन खावन उडयतां तुका.'' आपूण इतले दिसांनी आयलां तरी हाची आपलेविशींची ओढ तशीच आसा हें पळोवन मिता खोशी जालेंच. पूण तरी आपले आई-आपाची खबर हाणें घेवंक ना म्हणून तें खंतीय जालें. आपले सुखा मुखार बायलेचे आवय-बापूय लेगीत परकीच ह्या विचारांत दुखाविल्लें तें थंडसाणेनच संजयाचे सुवादीन जालें.

दुसरे दिसा सकाळीं वताचीं कडक किर्णां तोंडार पडिल्ल्यान मिताक जाग आयली. वण्टीबेल्या घड्याळाचेर साडे-धा जाल्लीं. आळसायत तें बाथरूमांत गेलें. तोंड धुवन थर्मासांतली च्या घेवन तें हॉलांत येवंक लागलें. आनी अजापीत जावन हॉलाच्या दारांतच गम लायिल्लेवरी घट जालें. हॉलांत मम्मी-पप्पा, संजय आनी भुरग्यांवांगडा ताची आई-आपाय बशिल्लीं. फकाणेर संजय दोळे मारत मिताकडेन पळोवन हांसतालो. ''अ गिफ्ट टु माय अमेरिका रिटर्न वायफ. सरप्रायजड?'' संजयाचो प्रस्न आनी वांगडा सगळ्यांचो हांसो.

“आई. तुमी केन्ना आयलीं हांगा?”

“आगो हांगा बस पयलीं.” संजयान आपसलेसरी ताका बसयलें.

“आगो बाये, तूं फोनार नमस्कार करून अमेरिकेक उडून गेलें. आमचो जीव हुस्क्यान कळवळ्ळो. सवकासायेन संजयान फोन करून सगलें सांगलें.”

“तें जालें गे आई. तुमी हांगा केन्ना आयलीं?”

“मिता हांव सांगतां.” म्हणून आपान सुरवात केली. मिता अमेरिकेक गेल्या उपरांत तांच्या मुखावेल्या फ्लॅटांत रावपी मद्रासी मामी अचकीत फ्लॅट विकून आपल्या चल्यासरी दिल्लीक वचपाची थारली. संजयान कशीयतरी धांवपळ करून, फोन घेवन तो फ्लॅट आपाच्या नांवार विकतो घेतलो. चार दिसांची सुटी घेवन मम्मी-पापा आनी भुरग्यां वांगडा गोंयां येवन घरांतलें सगळें सामान दोन कुडींनीं दवरून अकरा म्हयन्यांच्या कराराचेर बाकी घर भाड्याक दिलें. वतना पांच गेल्लीं. येतना आई-आपाक घेवन सात जावन आयलीं.

“आगो मिता, संजय आमकां अक्षरश: उखलून म्हणटात ते भशेन घेवन आयलो. खरेंच, जाण्टेल्यांची पुण्याय आमकां मेळ्ळी आनी धूव दिवन आमी जांवय न्हय तर पुतच मेळयलो.” संजयाक तोखेयत मिताची आई सांगताली.

“आनी ताचे वांगडा बाय वन गेट सम फ्री भशेन ताचे मम्मी-पापाय फ्री.”

“आमीय बी फ्री.” दोगय चिमण्यो चिंवचिंवल्यो.

कप दवरपाच्या निमतान दोळे पुसपाक भितर गेल्ल्या मिता फाटोफाट संजय हजर. ताका फाटच्या-फाटीं गोपांत गुठलायत संजयान ताचे मानेर वोंठ तेंकयले.

“आवडलें सरप्रायज? रातीं रागान म्हाका गाळी घाल्यो मगो?” ताचे वेंगेंत रिगत मिता ताच्या कानांत पुटपुटलें.

“गाळी काय कितें तें आयज रातचें तुका वागीण जावन खावन उडोवन सांगतां.”

“मिता आमकां सगल्यांक बरी ताजी च्या घेवन यो गो.” संजयाच्या वोंठांनी बंद केल्ल्या तोंडांतल्यान मिताची ‘हय हय हाडटां.’ अशी चोचरीं उतरां सुटलीं आनी हॉलांतलो हांसो वाडलो.



# आकांत

**आ**यज पयलींच घरांतल्यान भायर सरपाक कळाव जाल्लो. घरचीं सगलीं कामां करूनच म्हाका म्हजी तयारी करची पडटा. ल्हान कुटूंब खंय सुखी! म्हजे हे चौकोनी फामिलींत हांव शिर्वीस करतां तरी घरच्यांची शिर्वीस एक दिसय म्हाका चुकना. बेगबेगीन वचपाक जाय आतां. ऑफीसांत टायमार पावपाची घाई. पूण आतां हांगा सुमित्राच्या दारांत झक मारतां हांव. आमी दोगांय एकींचकडेन काम करतात. म्हारगाय तर खावंक उठल्या. पेत्रोलाचे पयशे वाचोवपाक हांव सुमित्राक म्हजेच वांगडा व्हर-हाड करतां. चार फावट हॉर्न मारलो तरी पाडापडिल्लें येना. आयज सकाळीं सकाळींच सायबाकडच्यान फायरींग खावपाची पाळी येता दिसता! म्हणटासर सुमित्रा भायर सरलें. ''जयु. वन मिनीट प्लीज'' म्हणून व्हाणो भायरच सांडून परतें भितर गेलें.

पाडा पडूं ती म्हारगाय आनी त्या कारणान करची पडपी बारीकसाण. स्वतंत्रपणान यो-वच करपाक मेळ्ळ्यार कटकट नाशिल्ली. ''सॉरी जयु. चल वचुया.'' स्कुटी सुरू करून हांव सुटलें. ''सुमित्रा प्लीज कळाव लावं नाका. म्हाका मागीर स्कुटर दामची पडटा. ॲक्सीडेंट बी जाल्यार दुश्काळांतलो तेरावो म्हयनो जातलो गो बाये!'' कशींय तरी हाती-पायी धड आमी ऑफीसांत पावलीं. धा मिनटां कळाव जालोच. नशीब आमचें! सायबाची पिडा अजून ऑफिसांत पावूंक नाशिल्ली. मेजा फाटल्यान आमी पावलीं. आतां सुशेगच. ''सुमित्रा, तूं ओदोळ भायर सरिल्लें तें व्हाणो काडून भितर कित्याक परतल्लें?''

''आगो जयु, हांव सद्दां कामाक येतनां म्हज्या सर्गेस्त घोवाच्या फोटवाक पायां पडटां. आयज ताकतिकेंत विसरलें. याद येतकीर पर्थून वचून पायां पडलें.'' उदक पियेतना ताची जाप आयकून म्हाका उस्तुरें वता काय जालें.

'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद' ही ओंपार रचपी कोणतरी कोंकणी म्हालगड्याक सलाम रे सायबा! सुमित्राचो घोव जितो आसतना फकत शीत आनी हुमण जेवपाक मेळप इतलोच ताचो पराक्रम. बाकी पयसो, पगार, सोरो, मटको आनी सोर्तीनी होगडावप. हेंच काम करपी मनीस मरतकीर देवपदाक पावप म्हळ्यार मनीसपणाचीच कमाल! खरें म्हळ्यार हें सुमित्रा म्हज्याच गांवचें चली. मात्शें मदांद. कोणायकडेन किटकिटपाची भारी संवय ताका. आंगानय घसघशीत वाडिल्लें. हाका उजो मारचे पयलींच कोणाचेय सुवादीन करपाचें ह्या एकाच हेतून, आवय-बापायन बरी सरकारी नोकरी करपी सुरेंद्राकडेन हाचें लग्न लावन दिलें. फाटली-फुडली कांयच चवकशी केली ना. फकत सरकारी नोकरी आसा तेन्ना फुडाराचो हुस्को ना ह्या एकाच विचारान ही लग्नगांठ बांदली. कसलेंच बंधन नासतना भयणीगेर रावपी सुरेंद्राक संवसाराचो पेज बोडार पडतकीर नाका-जीव जालो. भयणीन सुरेंद्राचें लग्न थारचे पयलीं लोनार घेवपाक लायिल्ल्या फ्लॅटाचो हप्तो, बायले सयत जुवळ्यां भुरग्यांचो खर्च पेलपाक गडबडून सुरेंद्राचो आवरो उडलो. फाल्तू खर्च, फोल्गां उणीं करिनासतना इझी मनी मेळोवपाच्या यत्नांत मटको, सोर्ती हातूंत व्हांवत-व्हांवत तो वेसनांत घुस्पलो. आतां हो चड दीस काडत अशें दिसना अशें जातनांच एकदीस शिर्वीशेक गेल्लो तो परतो घरा आयलोच ना. पेपर, टीव्ही सगल्यांचेर आवाहनां करून जालीं. अचकीत एकेकडेन कुसून गेल्ल्या मड्याच्या बोल्सांत सुरेंद्राचें मतदार वळख पत्र मेळ्ळें. सुरेंद्र सासणाचो सोंपलो म्हणून त्या मड्याचेर निमणे संस्कार जाले. आनी सरकारान सुमित्राक सुरेंद्राच्या जाग्यार शिर्वीस दिली. सुरेंद्राच्या मर्णा उप्रांत मेळिल्ल्या फंडाच्या आनी विम्याच्या पयशांचो सुमित्रान एक ल्हानसो फ्लॅट घेतलो. आनी मागीर तें पुरायपणान भुरग्यांसयत मेकळी, स्वतंत्र जीण जगपाक लागलें.

ही सगली गजाल हांव जाणतालें. ''जितो आसत्तना तो कशे तरेन दुख्ख भोगयतालो, आनी मर्णा उप्रांत तो देव कसो, कसो जालो गो तुका?'' हो प्रस्न हांवें ताका सांजचो घरा वतना विचारलो.

''जयु, तो जितो आसतना आमी जेवता-खाताली खरीं पूण दीस रात भियेवन-भियेवन दडपणाखाला जगचें पडटालें. ताच्या मर्णाची किंमत म्हणून मेळिल्ले पयशे आनी हे शिर्विसेन ताका हांवें फोटवांतलो देव करून सोडला.'' सदचेवरी 'बाय' करून तें गेलें. हांव म्हजे घरा कामांक वेंग मारपाक धांवलें. हाचे उप्रांत पांच-स वर्सां गेलीं. सुमित्राचीं भुरगीं अंदू धावेक आशिल्ल्यान ताची मात्शी गडबडच जाताली.

अचकीत एक दीस ऑफिसांत आसतनाच ताचो मोबायल वाजलो. ''बाय सांग गो. कितें जालें?'' चलयेचो फोन हें म्हाकाय कळ्ळें. फुडें-फुडें तें कांय उलयनासतना फकत आयकत उरलें. आनी ताचो चेरो मात पडत-देंवत गेलो. अरे देवा! कितें जालें काय हाच्या पोरांक? ''सुमित्रा, कांय गडबड ना मुगो? सगलीं बरी आसा खंय मगो?'' जाप दिवपाची सोडून सुमित्रा धवो फटक चेरो घेवन बशिल्लें. कितें जालें काय? कोण लागींचो मनीस भायर बी पडलो काय? काय भुरग्यांक बी कितें जालें? मन चिंतता तें दुस्मान लेगीत चिंतना. ''कांय ना. हांव घरा वतां.'' तुटकें कशें एकूच उतर उलोवन हाफ-डे मारून तें घरा वचपाक गेलें. आनी हांव म्हजे फायलींमदीं घुस्पलें. सांजचीं पांच वरां लागीं पावलीं आनी सगल्या ऑफिसाक घरची ओड लागली. घरा वतना हांव मुद्दाम सुमित्राच्या घरा गेलें. कितेंय गरज बी आसल्यार पळोवया होच हेतू मनांत धरून. पूण बॅल मारली तरी दार उगडूंक ना. घडये भुरग्यांक बी घेवन दोतोरागेर गेलां आसत. घरच्यान रातचो फोन करतलें म्हणून परतुवपाक फुडल्या फ्लॅटांतली शांताकाकी मात्शें दार उगडून म्हाका भितर येवपाची कुरू करता. हिचें आनी कितें पुराण काय ह्या विचारांत हांव तिच्या घरांत भितर सरलें. ''जाणां मगो जयश्री पांच-स वर्सां ना-ना म्हणून गडप जाल्लो सुरेंद्र काल दनपरां दिस्त हाचे घरांत भितर सरलो.'' म्हजें तोंड उकतेंच उरलें. तरीच सुमित्रा सामकें काचाबूल जाल्लें काल. ''शांताकाकी मागीर तेन्ना लाशिल्लो तो कोण तर गे?''

''कोण जाणां बाये. खरें खोटें देव आनी सुमित्राच जाणां.''

''आतां खंय गेलां तर गे तें?''

''ना गो. तें घरांतच आसा. काल दनपरां सावन ताच्या फ्लॅटाचें दार उगतें म्हणटा तें जावंक ना.''

दुसरे दिसा हांव सदचेवरी ऑफिसांत वचपाक आसलें. रातीं फोन केल्यार सुमित्रागेर कोणूच घेनाशिल्लीं. आनी सकाळीं तर सामको एंगेज येतालो. मोबायल तर स्वीच्ड ऑफच म्हणून हांव डायरेक्ट ताच्या घराच गेलें. बॅल मारल्यार सुमित्रानच दार उगडलें. ''कितें जालें गो? भुरगीं बी बरी आसात मुगो?'' हांवें कांयच खबर ना अशें केलें. ''जयु. सगळोच गडबड-घोटाळो जालो. आगो स वर्सां पयलीं त्या कुशिल्ल्या सांगाड्याचेर निमणे संस्कार केले. शेगीत स वर्सां श्राध्दां वाडलीं आनी आतां अकस्मात हो पर्थून उदेला. कितें जाल्लें देव जाणां!'' लग्नां उपरांतच्या बंधनांत घुसमटत काडिल्लो तेंप येवजून घडये सुमित्रा भियेल्लें. दुसरी गजाल म्हळ्यार सुरेंद्राचो विमो, प्रॉव्हिडंट फंड असल्यो येणावळी तें घेवन मेकळें जाल्लें. ताची शिर्वीसय सुमित्राक मेळिल्ली. ''आतां हांव करू तरी कितें? हाच्या मरणान मेळिल्ली स्वतंत्रताय आनी सगली येणावळ हाचें चिंतून म्हाका सामकें घपघपता.''

''सुमित्रा पूण तेन्ना दहन केल्ले ताचेसरी मतदार कार्ड मेळिल्लें न्ही गो सुरेंद्राचें?''

''तो सांगता, ते दिसा भिरके भितर गांव सोडून वतना ताचें पाकीट कोणेंतरी मारलें. घडये तो खंयतरी मेलो आसतलो आनी आमी ताचेरच निमणे संस्कार केले.''

''जयु प्लीज ऑफीसांत कोणाक कांयच सांगूं नाका आनी म्हजी ही चीट दिवन मात्शें म्हजे लिव्हेचें पळय. प्लीज हेल्प कर गो म्हाका.'' सुमित्रा म्हाका कळवळून सांगतालें. हांव ऑफिसांत गेलें. सायबाक चीट दिवन ताची लीव्ह सेन्क्शन करून घेतली. फाटीं सुरेंद्र भायर पडलो तेन्ना आपूण कशें जगतलें, भुरग्यांक कशें पळयतलें ह्या विचारांनी सुमित्रा सैरभैर जाल्लें आनी इतल्या वर्सांनी जित्या घोवाक पळोवन ताका कशें आनी खंय लिपोवन आपूण वाचतलें ह्या आकांतान सुमित्रा सामकें काचाबूल जाल्लें.



# डेडलायन...

आयज म्हज्या नांवार लाखो रुपया बँकानी साठल्यात. लॉकर्स भरून भांगर पडलां. आलमारी भरून भायर ओतपी कपड्यांच्यो राशी आसात. दारांत दोन-दोन गाडयो उब्यो आसात. सगळे समजतले सूख म्हळ्यार आनीक कितें? आयची, फाल्यां-परवांची कांयच आनी कसलीच चिंता नासप म्हळ्यारच सूख. आतां सांगतां तें आयकात. म्हजे हे कुडींत म्हजो मरता मेरेनचो साथीदार कांक्र आसा. म्हजें वैभव, गिरेस्तकाय दाखोवपी ह्यो सगल्यो गजाली हांव दिसल्यार फकत पळोवंक शकतां. कोणेंय चडयलो आंगार तो कपडो म्हजो. भांगराच्या वस्तींचें वजन पेलपाची शक्त हातांत ना. गाडयो म्हजेच नांवार आसल्यो तरी तातूंतल्यान फिरपाचो म्हजो एस्ताद ना. उलयतलें म्हळ्यार वाचा बंद. कोणाकय गरज पडटा तेन्ना अर्दवर रावन - रावन हांव सय मारतां. ही तर निमणीच. वरभर लागिल्ली सय. म्हाका शेर्त खबर आसा आतां हाचेफुडें म्हज्या सयांची गरज पडची न्हय म्हणून ही निमणी सय. सय घेतिल्ल्यांचीं खुमणीं म्हाका हें कळीत करतात. म्हजे भोंवतणी आसा फकत काळोख. चारूय वटांनी दांटिल्लो काळोख.

उमेदीच्या वयार कोणाचीच साथ मेळ्ळी ना. मन मेकळें करून जगपच जमलें ना. ना घरच्यांनी, ना नशिबान. कोणेंच साथ दिली ना. फकत मन मारून जगलें आनी नकली उमेद दाखयत रावलें. आयज सगळें भरलां. पूण भोगपाक नशीब ना. तेन्ना मरणाचो निस्तो विचारय करनाशिल्लें. मरप म्हळ्यार भिरांत कशी दिसताली. आयज मरणाक यो म्हणून शरण गेल्यारूय तें लागसार लेगीत

येना. कितेंय करून मरणाक वेंग मारतलें म्हळ्यार म्हजे कुडींत तितलीय तांक ना. लोकांक कांक्र जाला हें कळटा आनी लोक गळसणून वतात. पूण हांव मात आसां तो मेरेन म्हज्या ह्या कुडसाथी वांगडा जगपाचें थारावनच बशिल्लें. एक खरें, कूड फ्राक जायत वता पूण पाडापडिल्लो मेंदू मात पयलींच्या परस घटमूट जाला सो दिसता. मृत्यूचो चक्रव्यूह नाच दोळ्यां मुखार दिसतनाय सगल्यो घडणुको पटापट याद जातात ताका.

आमच्या एका मरड शेताक अचकीत भांगराचो दर आयलो. लक्ष्मीचे आशेन कुळांनीय मामलेदारा सामकार बरोवन दिलें की तांचें नांव चुकून लागलां. हायवेचे कडेक आशिल्ले ते पडंग जमनीची किंमत लाखो रुपयांची आसली. थोडें भोव कुळांक, तर भरपूर आमच्याच घरांत पावलें. आमी निम्नमध्यमवर्गीय अचकीत गिरेस्त जालीं. सगलीं सुखां घरा-दारांतल्यान ओतपाक लागलीं. वांगडा ह्या सुखा वांगडाच लागपी पिडा म्हळ्यार दोन 'द'कार. देव आनी दोतोर. अचकीत जाल्ल्या गिरेस्तांक हे पिडटातच.

म्हज्या घरकाराक दुसरो 'द'च बादलो. ब्लॅक पयसो कसोयतरी मोडपाचो म्हणून ओगीचच तो दोतोराचीं दारां झरोवंक लागलो. दोतोरय व्हडले स्पेशलिस्ट. 'आगो आमी मणिपाल वा बेळगांव वचून चेकींग करून घेवया.' आयुश्याचीं पंचेचाळीस वर्सां सगल्यांक 'मम' करत काडिल्ल्यान म्हजो आशिल्लो विरोध गुठलावन हांव भायर सरलें. थंय वचून आमचें रक्त, थुकी आनी पाडा पडूं नाका तेंवूय चेक केलें. रिपोर्ट दुसरे दिसा मेळपाचो. जिवाचो बेळगांव करूया म्हणून फिर-फीर फिरलीं. भरपूर खरेदी केल्ली. कश्टाची कमाई मोडिनाशिल्ल्यान दुखशें दिसनाशिल्लें असो पयसो मोडटना. जाणट्यांच्या कश्टांचें, घामाचें फळ म्हणून ताणीं घेतिल्ले जमिनीची किंमत आमी सहज मोडटालीं. नव्याच क्रेडीट कार्डान तर घोवाक आनी चल्याक खरेदी फिवराचीच साथ लागिल्ली. रातचो मस्त रंगिला सिनेमा, पयशांची किंमत दाखोवपी हॉटेलांतलो राबितो, सकाळचो भरपेट नाश्तो करून रिपोर्ट घेवंक हॉस्पीटलांत गेलीं.. ''मिस्टर तुमी लकी आहात. तुम्हाला काही डिसीज नाही. नो शुगर, नो हायपरटेन्शन नथींग. बट मिसेस XXX तुम्हाला आणखी काही तपासण्या कराव्या लागतील'' म्हजो

घरकार अजापलो. लोखणाची कांब कशी घटमूट हांव भितरल्यान पोकळ?... आतां पडिल्लेकडेन परतो काळोख दाटलो. यादींचें चक्र, चक्रांत चक्र करीत घुस्पत गेलें.

चाळिशी सोंपिल्ली तेन्नाची गजाल. आमी तेन्ना सामान्य स्थितींत जगतालीं. अचकीत म्हज्या पोटांत, सामकें सकयले वटेन जडसाणशी जाणवूंक लागली. घरकाराक म्हळें, 'पस्तीशी उपरांत खंय केन्नाय मॅनापोज येवंक शकता. पोट मातशें जडशीळ भासता. दोतोरागेर वचून येवया?' इतलेंच. मात तो दादलो पुरूस दोन पुरूस उसळ्ळो. ''म्हजें कमर बाराय म्हयने दुखता. हात-पांय मोडून येतात. म्हणून हांव दिसपट्टो दोतोरागेर वचूं? नसती वान्सा दोतोराची. वायेन आसतलें तें! जिरें खा मुठभर.'' दोतोराक पयशे दिवप दुखता हें समजून हांव वोंठ आवळून रावलें. सोंसत रावलें. ताचे उपरांतचीं सगळीं वर्सां त्रास भोगले. आतां तर त्रास, वेदना हें वेगळें दिसना. म्हजे कुडीचोच भाग कशे जाल्यात ते त्रास आतां.

म्हजेच कुडिंतल्यो म्हज्योच पेशी पिशो जावन अहिकाय महिरावणावर्त वाडटात. नाचतात त्यो म्हजे कुडींत. तांच्या पिशेपणाचें फळ म्हळ्यार हांव आसा मेरेन ताणीं म्हाका दिल्लो कायमचो साथीदार... कांक्र, कॅन्सर. आतां ताचेच वांगडा आसात ते दीस बरे करून सारप इतलेंच म्हज्या हातांत उरलां. पयलीं दिसाक फकत चोवीसच वरां? अशें प्रश्नचिन्न उबें रावतालें. आतां चोवीस वरां म्हळ्यार एक दीस हें गणीत नाका दिसता. धर्तरीन जोरान जोरान फिरचें आनी हीं वरां बेगीन बेगीन सोंपचीं अशें दिसता.

तेन्ना दोतोरान अचकीतच सांगलें की कांक्र जाला. तोवय थर्ड स्टेजिवेलो. हांवें थंडसाणेन एकच प्रस्न केलो. 'डॉक्टर माझ्याकडे किती दिवस आहेत?' जाप मेळ्ळी फक्त दोन उतरांची. 'सहा महिने!' तेन्ना दिसतालें दिसाचीं अठ्ठेचाळीच वरां आसपाचीं. पयलीं हांव दीस मेजतालें. पांच म्हयने बावीस दीस, चार म्हयने अठ्ठावीस दीस. इतलेंच उरलां म्हजें आयुश्य आतां. मागीर हांवें हें गणीतच सोडलें. घरांतलीं सगळीं कॅलेंडरां भाणाच्या उज्याक घालीं. वार, तिथी, म्हयनो हांका म्हजे यादी भायर धांवडावन घाले. येतो दीस म्हजो.

गेलो तो कालचो शेळो म्हणून मनाक येता तशें जगलें. केन्नाच तकली वयर करून घरकाराक परतें उतर न दिवपी हांवें ताका लेगीत व्हडलीं शाणेपणां आयकयलीं. ताणेंय फकत स म्हयन्यांची कटकट म्हणून घडये आयकुनय घेतलीं आसतलीं. आतां तर म्हजी चामडी आनी हाड एकमेकांक घट्ट वेंग मारून बसल्यांत. जानी यार कशीं! एक बरें! वाचा गेली तरी कान आनी दोळे तेज चलतात. पयलीं पयलीं हांव पाटयेर बरोवन हेरांकडेन कितेंय भासाभास करतालें. आतां सगल्यांचें कितेंयतरी उलोवणें आयकवपाक तरसता.

नशीब म्हजें. पयलीं सगल्यांचें आयकत जगलें. दुर्येसाचें कळतकीर मात्शें हांवें हेरांक आयकयलें. पूण म्हज्या नशिबांत हेरांक आयकवपाचें ना तर फकत हेरांकडसून आयकुपाचेंच आसा हें दैवान म्हजी वाचा व्हरून शेर्त केलें. केन्नातरी ह्या दिसांत, चल्यान दिसता, सहज एक नवें कॅलेंडर म्हज्या रुमांत लायिल्लें.

हालत, फडफडत रावतालें तें! आयज सहज तें थिरावलां म्हणून हांवें ताचेर नदर मारली. बरोच वेळ तेळून पळयलें. आरेच्च्या! २०१५... म्हळ्यार हांव चार वर्सां जितेंच आसां? दोतोराची फकत स म्हयन्यांची डेडलायन सोंपली तरी हांव आसां! उमेदीन कितेंतरी उलोवंक हांवें यत्न केलो. आनी हांव फटकन हलकेशें जालें. आनंदान, खोशयेन मेकळो श्वास घेत हांवें चोयवटेन पळेलें. अरेच्च्या घरांतलीं सगलींच रडटात. कित्याक काय? कोणांक कितें जालें काय? घरकाराक, चल्याक? ना ते तर रडतात. मागीर? अरेच्च्या पूण ते थंय खाटीर कोण आसा? आंवय!! ती तर म्हजीच कूड. कूड थंय आनी हांव हांगा? म्हणून हांवें म्हजे कुडीर हात फिरयलो पूण म्हजे हात? चोयवटेन फकत कापुसच. जळामळाक कापूस आशिल्लो..... म्हळ्यार हांव????







# विस्वासघात

**पा**वसाचे ते दीस. तातूंत काल सावनच घोग्यांनी पावस ओततालो. आयज सकाळच्यान पार फांतोडेर सावन तर ताणें आपलो जोर खूबच वाडयिल्लो. परतो तेन्नाचो दोन ऑक्टोबर जायना जाल्यार पुरो म्हूण हांवें देवा सामकार न्हिदून नमस्कार केलो. बरेंऽ आलें घालून केल्ल्या च्याचो मग घेवन हांव सकाळींच वारांदाचेर बसलें. सदांच पयलो च्याचो घोंट भायर, उक्ताडार बसूनच घेवप हो म्हजो नित्यनेम. पावसाच्या दिसांतय तेंच. सैमान पांगुरिल्ले पांचवेचार शालीक तोखेत हांवें च्याचो घोंट घेतलो. थंड हवेंतल्यान गरमागरम झोत पोटांत पावतकीर बरोच नेट आयलो म्हाका. म्हज्या घरचें आंगण आनी रस्तो हातूंत मदीं धुंवटीचो एक पड्डो कसो जाल्लो. सैमाचें हें अपरूप पळयत हांव रूचीन च्या पियेतालें. इतल्यांत तेच धुवटेंत लिपिल्ले गेटीकडेन कितेंतरी हालचाल जाल्लेवरी म्हाका दिसलें. कितेंतरी गेटीर चडपाचो यत्न सो करता. घडये मावंडोळ काय? कच्च जालें म्हाका. तरी पळोवया म्हणून कप दवरून हांवें सत्री पेटयली.

कोणतरी मनीस रस्त्यार पडला आनी गेटीक धरून उठपाचो यत्न करता. बारीकसाणेन तेळल्यार दुमिंग! हो रातीं केन्नातरी तर्र जावन दारांतच घोऽ जालो जावंये!

“आरे, दुमींग असो गेटी भितर यो. इल्लीशी गरम च्या घे. बरें दिसतलें तुका.”

हांवें ताका बाबापुता करून घराकडेन हाडलो आनी भायरच खुर्चेर बसयलो. बेगीबेगीन भितर वचून व्हडल्याशा पेल्यांत च्या घेतली. चार फाती बिस्किटीं वांगडा ताका च्या पियेवपाची तयारी केली. च्याचो पेलो घेतना ताचे धवेफटक हात सामके थरथरताले.

‘‘दुमिंग, रातीचें देवोवपाचें वखद आमगेर ना.’’ हांवें आंगठो वोठांक लावन म्हळें.

‘‘पूण ही गरम च्या पी. तो मेरेन हांव मिलाग्रिनाक कळयतां.’’

मिलाग्रीन ताची व्हडली भयण. भितरल्यान फोन करतना हांवें पळयल्यार च्या पितल्या दुमिंगाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात. च्या-बिस्कीटी सोपोवन दुमिंग वचपाक गेलो.

‘‘येतां बाय. देव बरें करूं तुजें.’’ खाड-बोड पिकून धवें जालां, हाता-पायांच्यो काडयो जाल्ल्यान त्या दुमिंगाचे फाटी वांगडा म्हाका ताचो फाटलो काळ येवजलो.

म्हज्या भुरगेपणांत दुमिंग म्हणल्यार गांवचो हिरो. देखणो, मोगाळ दुमिंग क्रिस्तांवांभशेनच कोंकण्यामदींय प्रिय आशिल्लो. जाण्टो मनीस, जावं कोंकणों वा क्रिस्तांव तांका बाप्पा वा तितीव म्हणून आवाज दिवन मानान वागोवपी दुमिंग गांवकारांक आपलोच दिसतालो. कोणायल्या काजराक नेण्टयां चेडवां बरोबर नाचपाक हेर सगळे नेटान फुडें सरताले. दुमिंग मात ल्हान-ल्हान पांच-स वर्सांच्या चेडवांक डान्साच्यो स्टेपी शिकोवपांत रंगतालो. गांवांत कोणाचेंय लग्न थारलें रे थारलें. मोटवें कालसांव आनी एक बानयान घालून आंगणातलो माटोव उबो करपाक दुमिंग सगल्यांत पयलीं पावतालो. पंचवीसेक वर्सांच्या दुमिंगाक अचकीत ताच्या कुन्यादान दुबायसावन विजा आनी तिकेटीय धाडल्यो. पासपोर्ट तयार दवरिल्लो दुमिंग भुर्रकन दुबाय उडलो.

दोन वर्सांनीं आयिल्लो दुमिंग रस्त्यान गेल्यार फाटल्यान सेंटाचो परमळ धा मिन्टां तरी तसोच उरतालो. म्हाका दिल्ल्या दोन चॉक्लेटिंचीं कागदां स म्हयने लेगीत अभ्यासाच्या पुस्तकांमदीं परमळ सोडटालीं. म्हयन्या, देड म्हयन्यां उपरांत दुमिंग परतो दुबाय गेलो. आतां चार पयशे गांठीक लायिल्ल्या दुमिंगाचें

काजार करपाची मांय तयारी करपाक लागली. चार-पांच इत्सूक चेडवांचे फोटो चिटी वांगडा मांयन दुमिंगाक पावयले. दुमिंगान ते फोटू पर्थून धाडले आनी मांयक बरयिल्ले चिटयेंत आपलो एकसुरो मोग उक्तो केलो. आपल्या मनांत रूजार आंकोलालें कॅमी आसा हें ताणें कळयतकीर मांयचो आवरो उडलो. सगळो गांव जाणटालो, कॅमीनान बारा वाग पचयल्यात. ह्या तेराव्या वागाकय ताणें आपल्या नखऱ्यांनीं पचोवपाची तयारी केल्या हें जाणिल्ले मांयन आपल्या चेडवागेर, मिलाग्रिनागेर धांव घेतली. ''बाये, चोय ही XX आतां आमगे दुमंगा फोटोवूं उठल्या. किदें कोरचें तें कोळनां.''

''मांय आमी तेका फोन कोन्न हें सांगून चोवया. आयकल्या आयकलो. ना जाल्यार जेजू बोरें कोरूं म्होणया.'' मांय पायन, मिलाग्रिनान - कुन्यादान ताका नाना तरांनी समजावपाचो यत्न केलो. दुमिंगाली जाप एकूच 'ओन्ली कॅमी अदरवायज नोबडी.'

तोंड धांपून मांय-पायन वचून रूजारीगेर चेडवाली सोयरीक मागली. दुमिंगालें गोंयां पावपाचें थारतकच काजराची तारीख फिक्स केली. दबाज्यान पयशाक चार पयशे मोडून काजार जालें. खासा कोंकण्यां खातीर कोंकणो रांदपी व्हरून कोंबड्यो शिजल्यो. सगल्या गांवान घरचें कार्य जाल्लेवरी काजार मनयलें. दुमिंग दोन म्हयन्यांनी वचपाचो आसलो. ताचे पयलींच कॅमीन ताका 'गुड-न्युज' दिवन घी में शक्कर केलें. मांय-पाय, भाचरां सगलीं दोगां मदल्या तिसऱ्याच्या सुलुसान खुशालभरीत जालीं. दुमिंग उमेदीन दुबाय गेलो. गुरवार कॅमी दुमिंगाल्या मांय-पाय वांगडा रावपाक लागलें. ''पोर बोरेंच. लोक किदुयाय किदें सोवताय कॅमी नांवान. हेरां गे सुनो घोव भायर गेलो रे गेलो धांवताय आपल्या मांयगेर. पूण कॅमी चोय आमकां धोरूनू रावलां.'' मांय रातीकडेन आपल्या घोवाक खुशालकायेन सांगताली. णवो म्हयनो लागले उपरांत दोन तीन दिसांभितर कॅमी सुटलें. चेडो जालो. मांय-पायन आंगणांत फोगेट्यांचो धुंवोर काडलो. दोन वर्सांनीं दुमिंग आयलो. चेड्याक पळोवन खुशाल जालो.

"दुमिंग, बाब आतां व्होड जाता. म्हाका मुरे घाराको बेजार येता. हांव बाजरां ब्युटी पार्लर घालुं रे?" इतली सुंदर बायल दोन वर्सांनी आयिल्ल्या दुमिंगाचे वेंगेंत आसतना विचारता जाल्यार तेन्ना तिका न्हयकारपाचे स्थितींत तो आसतलो? नाच्च. ताणें हयकार दिलोच. दोन-चार दिसां भितर दुमिंगान कॅमीखातीर सगळी तयारी करून दिली. ना म्हळ्यार कॅमीन सगळें तयारच दवरिल्लें म्हणां. "आरे नेव्या बिझनेसामदीं दुडवांची गोरोज लागतली न्हूं. तेन्ना सोगले अॅकावंट आमी जॉयंट करया रे."

विश्वामित्री पवित्र्यांतलो दुमिंग पाघळ्ळो. कॅमीच्या मनांतेकीत सगळें जालें. दुमिंग आनीक एक वियाजी खातीर दुबाय गेलो. हेवटेन कॅमीक सगळें मेकळेंच मेळ्ळें. चेड्याक मांय-पायचे सुवादीन करून तें ब्युटीपार्लरांत वचपाक लागलें.

गांवांत परतें कुचुकुचू सुरू जालें 'कॅमीगे पार्लर बोंद आसता आनी हें मात शारांनीं हॉटेलांतले रूम उबयता.' हळुहळू हें दुमिंगाले भयणीच्या आनी थंयच्यान ताच्या मांय-पायच्या कानार पावलें. खरें खोटें पारखून घेतकीर दुमिंग तेरावो वाग थारलो. ह्या धपक्यान मांयक वारें मारलें. ती अर्द आंग धरून पडली. मिलाग्रिनाचेर आकांत आयलो. खंयच्या तोंडान आनी कितें म्हणून तरी दुमिंगाच्या कानार घालतलें ह्या विचारांत ताणें आपल्या घोवाक चीट बरोवन सगळी घडणूक कळयली. ताणें बाबा पुता करून लागसारच्या गांवांत शिर्वीस करपी दुमिंगाक हें सांगलें. विस्वासघाताचे भिरके भितर भांगराचीं तातयां दिवपी शिर्वीस सोडून दुमिंगान घरा येवपाची तयारी केली. कॅमीक हाची सुलूस लागतकीर तें चेड्याक घेवन नाच्च जालें.

दुमिंग घरा पावलो. येवन मेळ्ळी ताका सुकून बडी जाल्ली, अर्धांगान धरून पडिल्ली मांय आनी बोडार हात घेवन बशिल्लो पाय. आपलो चेडोय घरांत ना ह्या आकांतान पिशांवरी जाल्ल्या दुमिंगान कॅमीचो सोद घेवपाचो यत्न केलो. पयसुल्ल्या शारांत कॅमी फ्लॅट घेवन आपल्या शेटी वांगडा रावता हें कळतकीर दुमिंग थंय धांवलो. "कॅमी, कितें कमी केलें गो हांवें तुका? तुजेर जिवापरस चोड मोग केलो. मांय-पाय पोरोस चोड विस्वास दवरलो तेजें हेंच देणे गो

म्हाका?'' दुमिंग ताचे पांय धरून रडलो, तकली आपटिली. पूण फातराच्या काळजाचें कॅमी बदल्लें ना. निमणें दुमिंगान भिकाऱ्यावरीं आपले हात फुडें केले. ''कॅमी घरांतुलें भांगर-शिंगर, पयसो सोगलें तुयें व्होयलांच. पूण म्हागे चेडो तरी म्हाका दी. तेगे तोणा चोवन तरी जितो रावतां हांव.'' खोखो करून हांसत कॅमीन आपल्या शेटीक उलो मारलो. ''मायकल हिंगा यो रे. चोय तुगे चेड्यागे बापूय म्हण्टा हो. दुमिंग आयक हांव तुकोडें काजार जांवचे पोयलींच प्रॅग्नेंट आसलोलें. हे चेड्यागे बापूय हो मायकल. तूं न्हूं.''

ह्या उतरांच्या बॉम्बान दुमिंग काळजांतल्यान दुखलो. पांय ओडीत, पराभूत मनान, खचिल्ल्या शरिरान दुमिंग बिल्डींगेची इस्काद देंवलो. बोल्सांत आशिल्ल्या पयशांचो जाता तितलो सोरो ताणें पचयलो. दोळ्यां सामकारली कॅमी आनी चेड्याची मुर्त पुसपाचो पिसो यत्न तो करतालो. दिसरात सोऱ्यांत बुडून लेगीत तांकां विसरप ताका शक्य जालें ना. केन्नाच सोऱ्याक हात न लायिल्ल्या पुताची कॅमीच्या विस्वासघातांत सोऱ्यामदीं बुडिल्ली कूड पळोवन मांय-पाय पांय घसटून सुटलीं. मेलीं एकदांचीं.

आयज मिलाग्रिनाच्या घरांत जेवन खावन जगपी दुमिंग म्हळ्यार चलती-फिरती सोऱ्याची बाटली जाल्या. उटंगाराच्या पावसांतल्यान पिकिल्ल्या खाडबोडाचो दुमिंग वतना ह्यो यादी कच्च करून वयर आयल्यो. लकत-लकत वचपी, पावसाचें उदक पुसपाच्या निमतान आपले व्हांवते दोळे पुसपी दुमिंग पळोवन म्हाका नकळत म्हजेय दोळे गळ्ळेच.



# आनी एक लेखिका

# अकालीच मरता...

**आ**यज मूड बरोसो आशिल्ल्यान लेखिकेन आपली वही-पेन काडलें आनी बरोवपाची तयारी केली. मनांत ल्हारां भशेन विचार फुट्टाले. तकलेंत नव्यो नव्यो कल्पना उडक्यो मारताल्यो. सकाळची कंवळी वेळ मनाक आनीकूय ताजेपणा दिताली. पेन धरिल्लो हात तिचे विचार तितलेच नेटान कागदार देंवयतालो. लेखिका वेळ-काळ-कामां विसरली. मन आनी हात हांचो ताळमेळ बरोब्बर जमून आयिल्लो. शेगीत बरोवपांतल्यान अर्दी कथा जल्मली. फुडलो विचार करतनाच फोन वाजलो. पेनाक बुकल लावन ती वारांदावेल्यान सालांत धांवली. फोन कानाक लावन 'हॅलो' करचे पयलींच बायचीं तापार उतरां कानांत रकलीं.

"खंय गेल्ली गे सकाळीं सकाळींच? धा फावट तरी फोन केलो तुका."

"बाय मात्शें बरोवंक बशिल्लेकडेन तंद्री लागली, तातूंत आयकलीच ना हांवें तुजी रिंग."

"तुजें हें बरोवपाचें दळदिरें पिशें मगे संगल्यांचो घात घेतलें पळय."

"बाय पूण कितें जालां तें तरी सांग?"

"हांव म्हजो हिस्ट्रीचो नोटबूक विसरलां. मदले सुटये मेरेन शाळेंत पावय तो." फोन कट. हाच्या मेजावेलो नोटबूक घेवन शेजारच्या सखूगेर धांवली आनी ताचे सुवादीन करतकीर ती सुटली. तें मदले सुटयेचो माध्यान्ह आहार वाटपाक दिसपट्टें शाळेंत वता.

लेखिकेच्चें ल्हान ल्हान बरोवप खंयच्च्या खंयच्च्या दिसाळ्यांनी छापून येवंक लागिल्लें तेन्नाची गजाल. अचकीत एक दीस एके बायलेचो फोन आयलो. तिणें लेखिकेचे बरोवपाचे शैलीची, तिच्या विचारांची खूब तुस्त केली. लेखिका खुशाल जाली. तेच बायलेन लेखिकेक दोन-तीन प्रस्न केले.

''आगो तूं सुंदरच बरयता. एक सांग तुजें लग्न जालां काय जावंक ना?''

''हॅलो म्हज्या लग्नाचो आनी बरपाचो कितें संबंद?'' लेखिकेन पिकार जावन विचारलें. ती बायल थंडसाणेन उलयली.

''बाय तुका खंयच कितेंय दुखचें हो म्हजो हेत ना. प्लीज मनांत कांयच दवरिनासतना म्हाका जापो दी.'' लेखिकेन मनाची तयारी करून घेतली.

''हय म्हजें लग्न जालां. म्हजो घोव बँकेंत काम करता आनी आमकां एकूच धूव आसा.'' एक व्हडल्या उतरान लेखिकेन आपल्या पुराय फामीलीची म्हायती दिली.

उपरांत ते बायलेन लेखिकेकडेन खूबवेळ तोखणायेच्यो खबरो केल्यो. ''पळय तूं संवसारी आसुनय खूब बरें बरयता. तुका नामनाय बरी मेळटली हें शेर्त. हांव तुका खूबच तोखेतां. कारण संवसारभर पळय, स्त्रीस्वातंत्र्याच्यो कितल्योय आड्ड्यो आयकपाक येवं पूण बायलेक नामना मेळटा ती फकत एकसुरी आसल्यारच. म्हळ्यार एक तर आयुश्यभर आंकवार ना जाल्यार विधवा. कांय, चुकूनशो थोड्यो दोनीयकडेन बॅलन्स करून नामना मेळयताय बी. तातूंतलें तुंवय एक जावंचें अशें हांव देवालागीं आवंडेतां.'' तिचें व्हडलें शेर्मांव वोग्गी रावन लेखिकेन आयकून घेतलें. वाद घालो ना. दरेकाचीं मनां आनी मतां विंगड-विंगड आसतात म्हणून तिणें फोन दवरलो. आयज धुवेचो फोन येतकीर ते बायलेचो लेखिकेक खूबच उगडास आयलो. हे घटकेक लेखिकेक बरी नामना मेळिल्ली. तिका फुडें-फुडें करपाचो अजिबातच सोस नाशिल्ल्यान ती डायरेक्ट प्रसिध्दी पासून जरी पयस आसली तरी तिच्या मोबायलाच्या इन-बॉक्सांत दिसपट्टीं तिच्या तोखणायेच्यो मेसेजी वाडत आसल्यो. केन्नाय चार लोकांमदीं तिचें नांव कळ्ळ्यार 'अरेच्च्या! अमूक अमूक म्हळ्यार तुमीच? म्हाका तुमचें बरप खूब आवडटा.' अश्या अजापीत म्होवाळ

उतरांनी लेखिकेक सार्थक जातालें आनी ती हांसत कुशीक सरताली.

एक दिसा तिनसांजेर घरचो फोन वाजलो. लेखिकेचो घरकार घरांतच आशिल्ल्यान ताणेंच फोन घेतलो. कोणा वांगडा तरी खूब वेळ ताची भासाभास चलताली. 'हय' आनी 'ना' हीं दोनूच उतरां रांदचे कुडींत काम करपी लेखिकेच्या कानार पडटालीं. धायेक मिणटांनी फोन आपटिल्लो आवाज कानार पडटां पडटांच घोवाचो तापार उलो तिचे कानार पडलो.

"आगो भायर यो पळोवया!"

कितेंतरी गडबड आसा हें चिंतून तिणें सोमतो गॅस बंद केलो.

"आत्तां एके बाईचो फोन आयिल्लो." ताणें सुरवात केली.

"हयऽ, खंयची ती बाई? शाळेंतली काय कॉलेजांतली?"

घोव बरोच चाळवल्लो.

"तुजें तोंड बंद कर आनी हांव सांगतां तें आयक. पयरच्या दिसाळ्यांत आयिल्ली तुजी काणी खंय तुवें हे बाईचेर रचल्या?"

"बाईन काणी वाचली तुमचे? घडये कितेंय साम्य आसूं येता!"

"ना बाईन वाचुंना पूण तिच्या बऱ्या मागप्यान खंय तिका फोन करून कळीत केलें. आनी वयल्यान बरोवपी म्हळ्यार तूं म्हजी बायल हेंवूय कळोवन आमचो फोन नंबरय दिलो खंय!"

"बाईक इतलीय अक्कल ना काय कितें? की दोळे आनी कान हातूंतल्या कोणाचेर विश्वास दवरचो? हेरशीं दोळे आनी कान हातूंत चार-पांच बोटांचें अंतर आसलें तरी पळयिल्ले आनी आयकल्ले गजालींत कितलो फरक आसता हें न समजूं शकपी तुमचे बाईन नव्यो पिळग्यो घडयल्यो काय बिघडयल्यो ही गजाल विचार करपा सारकी."

फुडें लेखिकेचो आनी घोवाचो खूबच वाद जालो. शेवट सदचेवरी लेखिकेन आपली चूक मान्य करतकीरच जालो. लेखिका चिंतताली. घरकाराची बाई घडये तकलेन सुटल्या आसतली. खरें पळयल्यार खंयचोय बरोवपी आपल्या सरभोंवतणी घडपी घडणुकांचो आदार घेवन आनी आपली कल्पनाशक्त वापरूनच ती काणी रचता. देखून कोणायचोय दाखलो घेतलो तरी ती काणी

पुरायपणान तांचेच जिणेर आदारून नासताच. बरोवपी अशा खूब घडणुकांचो मेळ घालून जी साखळ करता तीच ताची सृजनशक्त आसता. तीच घटना चाबडायत रावन हेर करतात ते गॉसिपिंग. फकत बरोवप्याक हें लेखनांत बदलपाक जमता. कारण सरस्वतीदेवीन तांच्यांतली सृजनशक्त वळखुनच तांच्या माथ्यार हात दवरिल्लो आसता.

लेखिका बरोवप विसरली. चिंतेंत पडली. घडये अशीच घडणूक घरकाराचे 'ते' बाईचे जिणेंत घडल्या आसतय! पूण ते बाईक इतलीय बुद्ध ना की बरोवपी आपलो विद्यार्थी न्हय तर ताची बायल आसा. तेन्ना फोनार डायरेक्ट आपल्या विद्यार्थ्या परस ताचे बरोवपी बायले लागीं उलोवप योग्य हेंवूय बाईक कळ्ळें ना? लेखिकेचें दुसरें मन मदींच फुतफुतलें. खरें-खोटें देव जाणा. बाई अशीच कितें उलयल्या? काय 'ते' लेखिकेचो घोव म्हणून नवी वळख मेळटल्या घोवाच्या मनांतलो दुस्वास जागो जाला? एक व्हडलें प्रस्नचिन्न. ह्या प्रस्नचिन्नान लेखिका भायर-भितरल्यान निखळून गेली. गडबडली, गोंदळ्ळी. 'पांच पयशे लेगीत मेळनांत ह्या बरपांतल्यान. फुक्याचीं नांवां कितें कामाचीं?' हो घरकाराचो नित्त्याचो थोमणो तिका याद जालो. घरच्यांचीच साथ ना जाल्यार नसतें नांव मेळोवंचे परस संवसार सांबाळप म्हत्वाचें. म्हणून लेखिकेन आपल्या पेनाक कायमचें बुकल लायलें. आपलें बरोवप थंयच थांबयलें...सोंपयलें. एक लेखिका अशेतरेन अकालीच घुसमटून सासणाची सोंपली... सोंपोवन उडयली...



# जस्ट टायपास

हांव अश्माकडेन लग्न जातलों हें सगळ्यांनी शेर्त मानून घेतिल्लें. आमची एकामेकाकडेन वागपाची, उलोवपाची रीत, दोळ्यांतल्यान दिसपी, व्यक्त जावपी भावनां हें सगळ्यांक समजतालें. आमी दोगांयनींय आमचेमदीं लेगीत मोग तोंडान उक्तावंक नाशिल्लो. पूण तरी तो जगजाहीर जालो हें मात खरें. म्हाकाय हाचेवेल्यान म्हजीं जावपी फकाणां जाय जायशींच दिसतालीं. शिकप सोपोवन शिर्वीस मेळ्ळी की अश्माचो हात ताच्या घरा वचून रीतसर मागप हें हांवें मतींत दवरिल्ल्यान ताका म्हज्या तोंडान केन्नाच मोग उक्तावन दाखयलो ना. कॉलेजिचें निमणें वर्स सोंपत आयलें. परिक्षे उपरांत हांव शिर्वीस सोदपाक लागलों. म्हजें पास जावप हें काळ्या फातरावयली धवी रेघ जाल्ल्यान दोन कडच्यान म्हाका 'फक्त सर्टिफिकेट दाखय आनी दुसरे दिसा जॉयन जा' अशीं आश्वासक उतरां मेळिल्लीं. अश्माक डबल सरप्रायज दिवंक ॲपोयंटमेंट लेटरा वांगडाच मागणी घालप हें चिंतून हांव सपनांनी रंगलों. हांवें हांगा कळाव केलो अशें मात रोखडेंच म्हज्या ध्यानांत आयलें.

रिजल्ट जावचे पयलींच म्हज्या नांवार पोस्टांतल्यान एक लग्नपत्रिका आयली. "आई कोणाची गे व्हींवळीक?"

"बाबू, खबर ना रे. पोस्टांतल्यात आयल्या. हांवें उगडूंक ना. तूंच पळय."

तो मेरेन पत्रिका म्हज्या दोळ्यां मुखार आयिल्ली आनी वाचनाफुडें म्हज्या दोळ्यां सामकार खिणभर काळोखसो दाटलो. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांक पत्रिके वयली 'चि.सौ.कां. अश्मा' हीं अक्षरां मात स्पश्ट दिसतालीं. म्हजें

जावपाचें म्हणून हांव चिंततालों तें अश्मा आतां दुसऱ्या कोणाचें तरी जातलें हो विचार म्हजो मेंदू पोखरावंक लागलो. कांय खीण म्हाका दिसता हांव बेसूद जालों जातलों. कारण आई म्हज्या तोंडावेलें उदक पदरान पुसताली आनी बडबडटालीय. ‘‘वताक फिरूं नाका म्हणून सांगल्यार आयक नाका. दीस लागतात रे हे! बाबाक फोन करून आफोवं दुकाना वयल्यान?’’

‘‘नाका गे. कांय जावं ना म्हाका.’’ हांवें सावशिद जायत म्हळें.

दोन तीन दिसांनी अंजू शारांतल्यान मुद्दाम म्हजे घरा आयलें.

‘‘राजस, कितें जालें रे तुमचे मदीं? म्हयन्यां भितर अश्मान कोण तरी हेमंत म्हणटा ताचे कडेन लग्न शें थारायलें?’’

‘‘अंजू, प्लीज आमी भायर वचून उलोवया.’’ हांवें बायक काडली आनी अर्दवर तोंड धांपून दामीत कॉलेजिकडेन गेलीं. अंजून थंयच्यानच अश्माक फोन करून आफयलें. पंदरा-वीस मिन्टां भितर तें आपले स्कुटीन पावलेंय. तें पावचे पयलीं अंजू आनी हांव उलयतालीं.

‘‘राजस, घडये ताच्या घरच्यांनी तुका विरोध करून ताचें जबरदस्तीन बी लग्न थारावं ना मरे?’’

‘‘बाय गो तकली खावं नाका. तें येतगीर विचार ताका.’’

तें आयलें तेन्ना आमी आमच्याच तोंडाक पळयत उरलीं. खंयच जबरदस्तीची खूण नासली. तें तर पुराय तरेन हेमंतमय जाल्लें. सामकें खुशाल फुलपाखरा भशेन फुरफुरतालें. म्हणचे सगळें हाच्या मनानुसारच जालां आसतलें! हांव शिटकावलों आनी वोंठ घट्ट चिड्डून घेतले. तोंड एकदम बंद.

‘‘अश्मा, तुवें अशें करपाचें न्हय. राजसाचें काळीज कित्याक तोडलें तुवें? आमी तर तुमी एकामेकाचींच जातलीं म्हणून समजतालीं.’’

सरळ मनाचें अंजू फडफडटालें.

‘‘डोंट बी फनी यार. विचार राजसाक, हांवें केन्ना तरी ताका म्हज्या मोगाविशीं सांगलां जाल्यार. इट वॉज जस्ट टायम पास. हांव शाळेंत शिकतालें तेन्ना सावनच म्हजो आतेभाव हेमंतालागीं एन्गेज्ड आशिल्लें. मुद्दाम येयात लग्नाक. राजस तुवंय यो आं.’’ आनी अश्मा भुर्रकन गेलेंय बी. त्या खिणाक

म्हजे मैत्रिणीच्या नात्यान अंजून खूब आदार दिलो. हें फेरीद पेखपाक खूब तेंप लागलो खरो. एका जानी दोस्ताभशेन म्हाका साथ दिवपी अंजू म्हज्या काळजांत केन्ना रिगलें तेंच म्हाका कळ्ळें ना. आतां अजिबात वेळ होगडाय नासतना हांवें अंजूक प्रपोज केलें. म्हजे वेंगेंत कॅडबरीवरी वितळिल्ल्या अंजूक ताच्या तोंडांतल्यान हयकार घेवनच हांवें सोडलें. बरी शिर्वीस, भरभक्कम पगार आशिल्ल्या म्हाका अंजूचे फामिलीन उर्बेभरीत येवकार दिलो. आजय अंजूच्या सहवासांत हांव खूब-खूब सुखी-समाधानी आसां.

आयज ऑफीसांत बॉसान कॅबीनांत येवपाचें फर्मान धाडलें. ''राजस, यु आर अ ॲफिशियंट पर्सन. आमचे कंपनीन दिल्लीक जावपी इंटरनॅशनल सेमिनारांत सहभागी जावपाक तुका आमचो रिप्रेजेंटेटिव्ह म्हणून चूज केला. एन्जोय वीथ युवर वायफ. बाकी सगळी वेवस्था कंपनी करतली. ॲनी प्रोब्लेम?''

हांवें हय ना म्हणचे पयलींच म्हजो खोशेन भरिल्लो चेरो पळोवन मुमुरखो हांसपी बॉस पुटपुटलो. ''एन्जोय वीथ वर्क ॲन्ड वायफ यंग मॅन. गूड लक.''

लग्ना उपरांत साग्रसंगीत हनिमून केल्लोच. पूण तरी नव्या नवलायेच्या जोड्याक पयस गांवांनी फिरपाक, खरेदी करपाक मेळप म्हळ्यार डबल-टिबल मजा.

चार दिसां उपरांत खोशेन भरिल्ल्या अंजू वांगडा हांवें फ्लायट गाटली. पयले दिसा कांयच मिटींग-फिटींग नाशिल्ल्यान आमी जिवाची दिल्ली करपाचें थारायलें. स्पेशल टुरिस्ट टॅक्सी घेवन आमी आग्राचो ताजमहाल पळोवपाक भायर सरलीं. ताजमहालाक तेजोमहालय हे नदरेन आमी दोळ्यांत साटोवन दवरपाचो यत्न केलो. ''ए, राजस मुखार पळय कोण तें.'' हळूच म्हजे बरगडेकडेन कोपरान ढोंसत अंजू पुटपुटलें. मुखार पळेल्यार अश्मा... म्हजो पयलो मोग. ज्याका विसरपाचो यत्न करपाक हांव आतांच यशस्वी थारतालों. पूण एक खरें, म्हजे परस आपले वांगडा आशिल्ल्या घोवा बरोबरच तें सोबतालें. 'मेड फॉर इच अदर कपल.' हांव मनांतच पुटपुटलों. ''अंजू जोडी खरीच सुंदर आसा.'' ''कर्म तुजें. सामको भोटोच तूं. जोडी खंयची? तो ताचो घोव न्हय हें हांव शेर्त सांगतां.''

“अंजू म्हाका खूश करपाक कितेंय उलोवं नाका. पारव्यांची जोडी कशी फोटे काडून घेतात पळय तीं.”

“पिशा, राजस हांव गेल्लें रे ताज्या लग्नाक. अजून म्हजे दोळ्यां मुखार व्हंकल-न्हवरो येतात. हो ‘तो’ न्हवरो न्हय.” तितल्यांत अंजून आपले मोबायलांत तांकां कॅच केलेंच. एक, दोन, चार विंगड विंगड पोजिंतले तांचे फोटो ताणें शूट केले.

आमी आग्रा फिरून, शॉपिंग करून परतीं हॉटेलांत आयलीं.

“राजस, अंजुचे फोटो पळय रे. म्हाका मरे डावट येता.” अंजून मातय दुस्वास मनांत धरिनास्तना अश्माविशीं हुस्को उक्तायलो. आमचेंच एक क्लासमेट घोवाक खबर नासतना हेरां वांगडा गांवभर रंग उधळयता जाल्यार ताका समजिकाय दिवपाचो आमकां हक्क आसा म्हणपाचें अंजून म्हजो विरोध मोडून म्हाका मानपाक लायलेंच. म्हाका खरें तर परती तीं उलटी प्रदक्षणा काडपाची नासली. पूण बालहट्ट आनी अस्तुरेचो हट्ट... व्हडले व्हडले शेणल्यात हांगा. चार पांच दीस भरपूर काम, मिटींगो, भोंवड्यो, खरेदी करून आमी परतीं गोंयां आयलीं. अंजून खंयच्यान तरी लटपटी खटपटी करून अश्माचो पत्तो मेळयलो. लागोलाग आमी ताचें घर गाठलें.

“अंजू, हांव हांगा गाडयेंत रावतां. तूंच चल आनी कर कितें करपाचें तें. म्हाका तो पोरणो चॅप्टर उगडपाचो ना. प्लीज समजून घे म्हाका.”

देवा पाव तूं. मानलें! अंजून म्हजें म्हणणें मानून घेतलें आनी तें एकटेंच गेलें.

पांच मिनटांनी अंजू गाडयकडेन आयलें.

“राजस, अश्मा घरा ना. ताचो घोव एकटोच आसा. यो तूं. आमी दोगांय ताचेकडेनच उलोवया.”

ताचो घोव बरो आसलो. पूण शेर्त ‘तो’ आग्रा आशिल्लो तो न्हय.

“हाय हांव राजस. हाचो घरकार.” आमी हात मेळयले आनी अंजूनच सुरवात केली.

“अश्मा पयस गेलां?”

‘‘हय तें ताच्या ग्रुपा वांगडा मनालीक गेलां. पयर फाटीं दिल्ली आग्रा टूर करून आयलें आनी कालच परतें गेलां.’’ अंजून धीर करून आपलो मोबायल ताका दाखयलो.

‘‘आय ॲम सॉरी. पूण अश्मा दिल्ली आग्रा टूर कोणा वांगडा करतालें तें पळयात तुमी. वायट दिसता. आमचेंच क्लासमेट आपल्या घोवाक फटोवन असले धंदे करता तें पळोवन....’’

तो निर्विकार चेरो घेवन मोबायलावेलो फोटो पळयतालो.

‘‘अच्छा हें दाखोवपाक आयल्यांत तर तुमी? आय ॲप्रेसियेट यू. हो फोटवांत अश्मा वांगडा आसा तो म्हजो बॉस. ह्या भारत देसांतले आमचे कंपनीचे फायनान्शीयल वेव्हार हो पळयता. म्हाका वेस्ट झोनाचो हेड जावपाचो आसल्यार ताची सय खूब म्हत्वाची. ते खातीर अश्माक हांवेंच ताचे वांगडा धाडिल्लें. कालच्यान हांव वेस्ट झोनाचो मुखेल जालां. कॉंग्रेच्युलेट मी.’’

हांव आनी अंजू ताळो वासून एकमेकांक पळयत उरलीं. तरी अंजू पुटपुटलें.

‘‘अश्माक पट्टा हें?’’

‘‘न पटपाक कितें जालां? हांव वचना म्हज्या गर्लफ्रेंडा वांगडा वा म्हजे सेक्रेटरी वांगडा? चार दीस मात्शी चेंज. बाकी सगले दीस, राती आमच्योच. इट्स जस्ट अ टायमपास.’’

त्या फुल्ल एसी घरांतल्यान भायर सरचे पयलींच आमच्या आंगांतल्यान घामाच्यो दोडी व्हावंक लागल्यो. गाडये म्हऱ्यांत पावता मेरेन एक सोबीत सुंदर बायल रस्त्याचे तेऽऽऽ वटेन वताली. दार उक्तें करपाक विसरून हांव दोन चार खीण तिका पळयत उरलों.

‘‘आवयस!’’

मनगटाचेर अंजून चिमटो काडिल्लो.

‘‘राजस नो टायमपास आं!’’

वागीण कशी फुसकारत अंजून म्हाका गाडयेंत धुकल्लो. खो खो हांसत हांवें गाडी चालू केली टायमपास-टायमपास करत. चिमटो अजून चुरचुरतालो.



# एकमुलें

जेवन-खावन सुखी अशा वर्गांतल्या सखाराम आनी द्रोपदी ह्या जोडप्याचें मागणें आयकुपाक सैमान म्हणात वा देव-दैवान म्हणात एकंदर एकोणीस वर्सां घेतलीं. इतल्या तेंपा-उपरांत सैमीक चमत्कार घडचो ते वरीं द्रोपदीक गुरवाचार आयलो. सखाराम तर दोन आंगळां जमनी वयरच्यानच चलपाक लागलो. 'देवा. जावं चलो वा चली. पूण जाता ताका सगले अवयव, बुध्द वेवस्थीत दी.' ह्या मागण्यां खातीर दोगांय देवा मुखार हात जोडून उबीं रावलीं. सखारामान दोतोर आनी देव देवसपण दोगांयचोय आदार घेतलो. देवाची राखण आनी दोतोरालीं वखदां, बरें खाण जेवण, फळां, दूद हाका लागून द्रोपदीन णव म्हयन्यांनी सोबीत, नाजूक आनी पुराय निरोगी चलयेक जल्म दिलो. आशेंवन-आशेंवन जल्मल्लें म्हणून तें थारलें आश्विनी.

दिशीं-माशीं आश्विनी वाडूंक लागलें. ते वटेन सखाराम आनी द्रोपदीच्यो चांट्यो जाण्टेपणाकडेन वळ्ळ्यो. शाळा सोंपतकीर आवय-बापायन ताका कॉलेजीचेंय शिकप पुराय करपाक लायलें. थकत वतल्या आवय-बापायन आपणांक बरें शिकप दिवपाक काडिल्ल्यो खस्ती आश्विनी पळयतालें. भुरगेपणांतच प्रौढ जाल्ल्या ताका आपली जापसालदारकी उमगली. रिजल्ट जावंचे आदींच तें शिर्वीस सोदपाक लागलें. व्हडल्या कंपन्यांकडच्यान रिजल्टाची, सर्टिफिकेटांची आनी अणभवाची मागणी जाली. आश्विनीक तर शिर्वीस गरजेची जाल्ली. देखून एके धाकटुले कंपनीन दिवंक केल्ली शिर्वीस घेवन तें म्हयनोमाल पगाराची तजवीज करून बसलें. आतां आई, आपाक खूब-खूब

सूख दिवपाचें ह्या हेतान तें मर-ऊर करून ओव्हरटायम करून पयशे जोडपाक लागलें. कितलोय ओव्हरटायम कर पयसो कमीच पडटालो. जाण्ट्या आवय बापायचो दोतोर आनी वखदां हांकाच चड खर्च जातालो. तें मात नेटान काम करतालें. केन्नाय तरी हे दीस सोंपतलेच हाची खात्री मनांत दवरून तें उमेदीन काम करतालें.

तेच कंपनींत मार्थाय काम करतालें. फरक इतलोच की आश्विनी रिसेप्शनाचेर तर मार्था पॅकींगांत आशिल्लें आनी फरक आसलोय तर तो दोगांयच्या पगारांचो आशिल्लो. पूण कमी पगार मेळूनय मार्था दिसपट्टे नवे ड्रेस, नवे मोचे, मॅचिंग कांकणां, क्युटेक्स, हेअर बॅण्डस् वापरतालें. घडये पॅकींग सॅक्शनांत ओव्हरटायमाचो पागामेंत चड मेळटा काय कितें ह्या विचारांनी आश्विनीन मार्थाक गाठलें.

"मार्था प्लीज म्हाका रिसेप्शना वयल्यान कितेंय करून तुज्या पॅकींग सॅक्शनांत व्हर गो."

"आगो पूण प्रॉब्लेम किदें जाला गो? तूं तर काय बोरें रिसेप्शनार आहा मुगो! थिंगा पॅकींगा येवन युनिफॉर्म घालोन किद्या मोरों सोदिता?"

मार्थान ताका अजापान विचारलें.

"मार्था घडये थंय तुमकां पगार बी चड आसा अशें म्हाका दिसलें. तूं तर दिसान दीस नवे नवे ड्रेस करता म्हणून म्हण्टां गो हांव. प्लीज म्हाका दुडवांची खूब गरज आसा गो. ट्राय कर म्हजे खातीर."

मार्थान तकली हालयली आनी भेंड मोडीत, सेंटाचो परमळ पातळायत तें फॅक्टरींत भितर सरलें.

खूब दिसां मेरेन मार्था आश्विनीक मेळपाचें टाळटा. मार्थाचो नखरो, ताचो मेकअप, ताचे कपडे पळोवन आश्विनी आपल्याच नशिबाक कोचता आनी एक दीस धीर करून मार्थाक तें गाठताच. मार्था कामा वयल्यान सुटल्या उपरांत ताचो हात धरून एका आयस्क्रीम पार्लरांत वता. आयस्क्रीम खाता आसतना आश्विनी ताका पिडचिता.

"आगो तुजेहून उणो पागामेंत आमगे सॅक्शनांत मेवता. ओव्हरटायम केल्यार लेगीत व्हडसो फरक येयना. हे पागामेंता भितोर कांय जावपाना म्हुणोन हांव एका हॉटेलां वयतां. तिंगा वोर-देड वोर काडल्यार एके फावटी म्हाका म्होयन्या पागामेंत मेवता. वोयल्यान गिरायक खोशी जाल्यार आनीकू दुडु दिता."

ताचें उलोवप आयकतना आश्विनीच्या आंगार कांटो फुलतालो. कुल-शील आनी परिस्थिती हांचो ताच्या मनांत गोंदळ जाता. निमणी परिस्थिती जिखता आनी आश्विनी मार्थान दाखयिल्ले वाटेर पावल दवरता. आपलें मन मारून तें आवय बापायक सूख दिवपाच्या हावेसान कुडिचो उगडो बाजार मांडटा. देखण्या आश्विनीक हांगाय बरीच नामना मेळटा. एक दीस एक देसेंत पयशेकार कस्टमर ताका कॉन्टेक्ट जाता. फायव्ह स्टार हॉटेलाचो रूम नंबर आनी वांगडा भरगच्च आंकडो घाल्लो चेक पळोवन आश्विनी आपले वाडटे किंमतीचो सौदो करपाक हॉटेलार पावता. सराईतपणान रुमाचें बेश्टें आड केल्लें दार उगडून भितर सरता आनी फाटल्या फाटीं 'डू नॉट डिस्टर्ब'चो बोर्ड सरकावन दाराक भितरल्यान बोल्ट लायता. आपलें शालीन रूप विसरून आतां अभिसारिकेची ॲक्टींग करपाची तयारी करतनाच मुखावयल्या गिरायकाचेर ताची नदर पडटा आनी ताचो आवरोच उडटा. कारण तो ताचो कंपनींतलो बॉस आसता.

सद्दां ऑफिसांत एकामेकांक कलिग ह्या नात्यान भेटपी दोगांय एकाएक काचाबूल जातात. पूण बारा वाग पचयिल्लो बॉस रोखडोच सावशीद जाता. "आश्विनी कांयच भियेवं नाका. आमचें तें ऑफिसांतलें नातें वेगळें आनी हें वेगळें. हांगा तूं ना जाल्यार आनीक कोणूय आसतलें आसलें. तेन्ना तूं बिनधास्त वाग."

बॉसा भितरलो नर जागो जाता. तो ताच्या म्हऱ्यांत वचून ताका फुसलायता, फुलयता आनी वेंगेंत घेता. मागीर... दुसरे दिसा ऑफिसांत आश्विनीक चोर चोर शें जाता. बॉसाचे नदरेक नदर दिवपाकय ताका कितेंशेंच जाता. तो हें जाणटा आनी आश्विनीक कॅबीनांत आफयता.

“आमचे मदीं कांयच घडलें ना अशें धर आनी चल. तो फक्त एक वेव्हार. हांवें पयशे दिल्यात, बदल्यांत तुजी कूड भोगल्या. बस्स! हेरशींय हांव हेंच करतां. एक खरें म्हाका तुवें पुराय खोशी केला. आतां आमी परतीं मेळटलीं. तेन्ना बाकी कितें तें हांव सांगतां. हांगा न्हय. आयजय थंयच त्याच हॉटेलांत, त्याच रूमांत मेळुया आमी.”

बॉस ताका ताचे उपरांत प्रोमोशनां दिता. पगारवाडय दिता. आश्विनी खातीर कंपनी एक सोबीत फ्लॅट घेता. म्हातारपणांत धूव खूब सूख भोगयता म्हणून आवय-बापूय आयिल्ल्या गेल्ल्याकडेन धुवेची तोखणाय करतात. आतां आश्विनीचें लग्न करपाचें सपन सखाराम आनी द्रोपदी पळयतात. आश्विनी कंपनींत खूब वयले सुवातेर पावता. पयसो चारूय वटांनीं व्हांवत येता. आवय-बापूय धुवेन लग्न जावपाचें सुचयतात.

“आई, आपा म्हाका अजून खूब गिरेस्त जावपाचें आसा. आनीकय वयले सुवातेर पावपाचें आसा. तेन्ना वर्स दोन वर्सां लग्नाचो विचार बंद.”

जाण्टीं सखाराम आनी द्रोपदी ताची जाप खरीच मानतात. आपल्या आंगच्या गुणांनी स्वताच्या कर्तुबान तें येदें व्हडलें जालें अशें समजून स्वताच्या नशिबाची तुस्त करतात. चलो जावना म्हणून हिणसायतल्या सोयऱ्या दायऱ्यांक धुवेची जाप अभिमानान सांगतात.

रातचें न्हिदपाक बेडरूमांत गेल्लें आश्विनी मात दुकांनी उशीं भिजयता. चिंतता आनी कोंत करता हें सगलें सूख, पयसो, भांगरां-शिंगरां मेळोवंक आपणें कितें कितें होगडायलां! होगडायिल्ल्याची लिस्ट लांबतच वता. बॉस आनी कंपनीक व्हडलीं व्हडलीं कॉन्ट्रेक्टां दिवपी हेर बिझनेसमेनांच्या लिस्टा सामकार लग्न जावन मेळटल्या घोवाचें नांव घालपाक तें अनमनता. लग्न करपा सारकें आपले कडेन आतां उरलां तरी कितें? हो एकूच प्रस्न ताच्या दोळ्यां सामकार चक्रां तयार करता. कितल्याशाच लोकांक भरसून घेवन आपूण आयुश्यभराचें एकमुळेंच ह्या विचारान ताची न्हीद मात पयसावता.



# तूं आवय काय कैकयी?

घडये सकाळचीं अकरा-साडेअकरांची वेळ आसतली ती! तरी भायल्या वातावरणांत बरेंच शीं जाणवतालें. किचनांतलीं कामां सोंपिल्ल्यान हांव भायर वारांदाचेर वॉल्तेरार बसून पुस्तक वाचतालें. अचकीत दारामुखावेल्यान गाडी गेली. सरसर देंवपी गाडयेच्या जनेलांतल्यान सेमीलो पुराय हात आनी पुराय मुंडी भायर सरली.

"हाय, नीना हांव गोंयां पावलों गो."

हांवें 'हाय' म्हणचे पयलींच गाडी वचून ताच्या घरा सामकार थांबलीय बी. ताचे मांयन आनी धाकले भयणीन फाटले पिकपिंतलो कार्गो घरांत व्हेलो. 'धाडकन्न' दार बंदय जालें. हांव म्हज्या पुस्तकांत रंगलें आनी 'घोंऽ' आवाज करीत पिकपय गेली. तिनसांजेर देवा मुखार निरंजन पेटयतनां चलयेन आड्डी मारली.

"माँ, सेमीमामा येता."

हांवें देवा सामकार आनी तुळशी सामकार दिवो पेटयता मेरेन तो बायकडेन तावलां-बावलां करत बसलो.

"आरे, बोटीवेलें सगळें मांस तुवेंच खालें काय कितें रे? बरो फुगला."

"आगो, खारें वारें पोटां उजो पेटोयता. मेळटा तें पोटां भोल्ल्यारी जिरवणय बोरी जावन आंगा लागोता." सेमी हांसत हांसत उलयलो. ताणें एक व्हडली परमळ सोडपी पिशवी बायकडेन दिली.

"चोल, मामीको दी तुगेल्या."

“सेमी, तुका कितले फावट हांवें सांगलें तूं म्हाका कांयच हाडी नाका, पूण तुज्या फुडाराचें चीत म्हणून. तें मागीर उलोवया. मस्त कॉफी करतां हांव.”

“बाये, ही काफी पिवपा वेळ न्हुं.” सेमी उदास, जिवाक हुरहूर लावपी हांसत आपलो आंगठो तोंडाक लायत म्हणटालो. वायट दिसलें म्हाका.

“सेमी, याद दवर. आतां केन्नाय तूं तर्र जाल्लो म्हाका दिसत जाल्यार आमची फ्रेंडशीप द एंडार पावली हें जाणा जा.”

“नां गो, नां गो.” करत तो गेलो.

सेमीन पिवपाचें सोडलें ना हें जरी खरें आसलें तरी सामको तायट आसतनां केन्नाच म्हजे सामकार पावचो ना हाची जतनाय मात तो खूब घेतालो. देखून हांव सगळें जाणूनय चूप रावतालें. केन्नाय मात्सो घेतिल्लो मेळ्ळ्यार हांवें विचारचे पयलींच तो म्हणटालो, “आयज हांयें इल्लो घेयला. सेलींना इसरोवपा ट्राय केल्यार जोमनां. म्हुणोन येदो घेवुं पोडलो.”

आतां एद्या व्हडल्या दादल्याक हांवें कितें सांगपाचें? सोरो कितलोय पिलो म्हणून वर्सभर तरी सांगातान राविल्ली बायल, तिचे वांगडा ऍन्जॉय केल्ले खीण विसरप खूबच कठीण. सोऱ्यान विसरपाच्यो घडणुको न्हय त्यो. हांवच बाबडें जावन तेन्ना कुशीक सरतालें.

“ओके रे सेमी. घेवप सुटचेंच ना तुजें. तरी कंट्रोलांत रावपाचो यत्न कर.”

सोरो पितकीर मनीस सत उलयता हाचेर म्हजो तेन्ना घट्ट विश्वास बसलो.

हाचे वेल्यान आठ दीस गेले जावंये. हांव घरांत भितर कितेंतरी सासपियतालें. मुखार हॉर्न वाजिल्लो आयकून धांवत वारांदाचेर पावलें. दारांत एक निळी स्पार्क गाडी थांबिल्ली आनी सेमी हातांत पेड्यांची काश घेवन गेटी भितर सरतालो.

“नीना, नेवी कार घेतल्या. मांयक जाण्टेपणांक बोशीर फिरों नाका म्हणून घेयली.”

हांवें पेडो घेतलो. ताका कॉंग्रेट्स केलें. दोळ्यांतलीं दुकां म्हाका दिसपाक जायनांत म्हणून ताकतिकेन पर्थून वचपी सेमीची काकूट दिसली. जे आवयक तो इतलो जपतालो तेच आवयन ताचे आनी सेलीनामदीं फूट घालून तांचो

डिव्होर्स घडयिल्लो. आज सेमी जखमी सुकण्या भशेन तडफडटालो आनी आवय घराच्या बल्कांवार बसून फोगेट्यो मारत फोल्गां मारता.

कोसेसांव, सेमीली मांय पिरायेच्या एकोणीस वर्सांचेरच कामीलाकडेन मोग करून काजार जाल्ली. कामीलान दवरिल्लो आपलो धाक, मानसिक दबाव आनी दरवर्साचो बाळंतेर हाका लागून तें मनांतल्या मनांत भियेवनच जगतालें. बेचाळीस वर्सांचे पिरायेचेर कामील भायर पडलो. ताची मेळिल्ली गांठ आनी म्हयनोमाल मेळपी पेन्शन हाका लागून घडये तें हुकूमशा भशेन वागूंक लागलें. पदरांत आशिल्लीं स पोरां जणू ताचीं मांडलीकच. व्हडल्या चेड्याक अठरा वर्सांचेर पायली शिर्वीस मेळ्ळी आनी एक चेडो ताचो कायमचो गुलाम जालो. फाटीं काजार जावन घरा भायर सरतकीरच ताची ते गुलामींतल्यान सुटका जाली. ह्याच वेळार शेजारच्या साक्रामेंत आँकोलान सेमीक बोटीर व्हरपाची तजवीज केली. कारण आँकोलाल्या सेलीनाच्या मोगान सेमी पिसो जाल्लो आनी बेकार सेमीकडेन ताणें काजार करपाची वा चेडवाचें मन दुखोवपाची आँकोलाची तयारी नासली. देखून ताणें सेमीकय शिर्विसेक आपले वांगडा बोटीर व्हेलो. वर्सान पर्थून आयिल्लो सेमी आनीकय हँडसम दिसतालो. आतां स म्हयन्यांची सुटी आशिल्ल्यान ताणें आपलो मोग काजराच्या बंधनांत बांदलो. स म्हयने, फुलपाखी दीस कशे सोंपून गेले. सेमीलो बोटीर पर्थूपाचो दीस, सेलीनाकडच्या विरहाची वेळ लागीं पावली. बोट मुंबय पावतकीर सेमी दाबोळेच्यान उडलो. हांसत-हांसत रकाद दिल्ल्या सेलीनाच्या दोळ्यांची धार सुरू जाली. आतां फक्त मोबायलावेलीच भेट आनी वाट पळोवप इतलेंच. ह्या विचारान ताचें मन काचाबूल जालें. कोसेसांवां वांगडा दीस काडप हेंच चड संकश्ट अशें ताका दिसलें.

कोसेसांव भितरले भितर फुगार जातालें. इतलो तेंप सेमी ताचो गुलाम आशिल्लो. आतां काजरा उपरांत ताचेर चड अधिकार ताचे बायलेचो ह्या विचारान कोसेसांव उबें जळ्ळें. बोटीवेली जोड म्हळ्यार दुडवांची रास. हो आतां सेलीनाचे तावडींत! ह्या विचारानीं कोसेसांव घुसमट्टालें. तातूंत सेमीन सेलीना वांगडा आपलो जॉयंट अकाऊंट उगडून सगळी जोड थंय दवरिल्ल्यान

कोसेसांवांक पेटिल्ल्या उज्यांत पेत्रोलच पडलें. सेलीनाक गाळयो घालप आनी ताचें दिसभर हांगा थंय धुयत रावप हीं कामां आतां कोसेसांवान सुरू केलीं. सेमीलो फोन आयलो की ताका नसत्यो खबऱ्यो सांगून दोगांयमदीं फूट घालपाचो येशस्वी यत्न ताणें सुरू केलो. आठ-णव म्हयन्यांनी पर्थून आयिल्लो सेमी दुबावान पेटुनच आयिल्लो. एक दीस बाजारांत मेळिल्ल्या सेलीनान म्हाका आपली ही काणी सांगली.

''नीना, तूं सेमीगे बेस्ट फ्रेंड म्हूण सांगोता गो तुका. मांय तेका नस्त्यो घडणुको सांगोता. शेजरा आंतोनबाबा हाटल्यान स्कुटीचेर लेगीत येत जाल्यार हांव मिंड कोत्तां म्हूण ही सेमीक फोन मात्ता.''

''आगो पूण सेमी कसो विश्वास दवरता हाचेर? तुमचें म्हणून विचित्रूच गो बाये.''

हांव कांयच करपाक शकनाशिल्लें. एकतर घोव आनी बायलेमदली घटना, तातूंत अविस्वास पातळ्ळा आनी दुसरें कोसेसांवालें तोंड. फाल्यां म्हजे आनी सेमीचे फ्रेंड्शीपेक भलतेंच नांव दिल्यार नसती भानगड. हळुहळू सेमी आनी सेलीना मदली फट पयसावली आनी व्हडली दरी थंय तयार जाली आनी भुरगेपणांतलो, न कळत्या वयांतलो मोग पुरायेन कळत्या वयांत फास्फलो. सेलीनान कोर्टांत अपील करून डिव्होर्स मागलो आनी मांयच्या ताटा खालच्या सेमीन मांयच्या सांगण्यान फाटलो फुडलो विचार करिनासतना सय केली. आतां सेमी बोटीर वता. भरभरून दुडू हाडटा. मांयल्या अकाउंटार ओतता आनी स्वता मात गांवठी सोरो पियेवन ते नशेंत तर्र जावन कणाकणान मरता.

तरी हांवें तांचो डिव्होर्स जावचे पयलीं तांका एकठांय हाडपाचो यत्न केलो. फ्रेन्डशीप ह्या न दिसपी नात्या खातीर हांव इतलेंच करपाक शकिल्लें. पूण सेलीनाचीं उतरां आयकून म्हाका होलमलें की ताचे मनांतले बायलमनशेन कोसेसांवां कडच्यान कितें आनी कसले कसले कितले भोग भोगल्यात ते!

''नीना, म्हजे जिणेंत आयिल्लो एकूच दादलो म्हळ्यार सेमी गो. हांव तेजे बोगोर आनी कोणाकूच चिंतपाक शकपा ना. सेमीन म्हाजेर हलकटपणाचे गुन्यांव घायले. हांव तेदोनां मोडून पोडलें गो. सोंपलें गो हांव तेन्नाचीं.''

हांवें ताका सांबाळपाचो यत्न केलो.

"नीना, हांव आदार सोदतालें. कोण मेळों ना गो म्हाका तेदोनां."

"आगो पूण हांव आशिल्लें न्हीं."

"मांयगे तोणां तुका आनी दिवूं नाका म्हुणोन हांयें आदार सोदीलो. ही बाटली." बापरे... म्हळ्यार थंय सेलीनाच्या विरहान सेमी बाटलीमय जाला आनी हांगा सेलीनाय त्याच रस्त्यान वता. दोगांयनीय आपापलीं जळतीं काळजां सोऱ्याचे नशेंत शांत करपाचो यत्न चलयिल्लो. कांयच करपाक शकनाशिल्लें हांव पराभूत मनान घरा परतलें.

कैकयी परस भयानक वागिल्ल्या कोसेसांवाच्या नखऱ्यांनी आयज दोन आयुश्यां जळटात. तिवूंय एकाकीपणान आनी जेन्ना सेमी नशेंत नासता तेन्ना ताचे वांगडा भाटकान्न कशी गाडयेंतल्यान कोसेसांव हेडटा. अतीऽ समाधानान...



# अभिमान

सतरा-अठरा वर्सांचो नेण्टो अभी आवयचे मांडयेर तकली दवरून लोळटालो. ‘‘माँ, खंयचेंय कारण न दितां कित्याक गो प्रियान म्हाका न्हयकारलो? कितेंय तरी सांगपाचें ताणें. तूं वायट, तूं म्हाका आवडना वा हेर कितेंय. कसलेंय कारण दिवन म्हजो मोग न्हयकारल्यार हांव म्हजे मदलो उणाव म्हणून ओगी रावन कडेक सरतलों आशिल्लों. कमीत कमी एकाद्र्या कारणाक लागून ताणें म्हाका नो म्हळें अशें तरी जावपाचें.’’

अभीच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी हुनहून दुकांचो शर्मिलाचे मांडयेक स्पर्श जालो. तांचें दोगांय मदीं आवय-पूत ह्या नात्या वांगडाच घटमूट इश्टागतूय आशिल्ली. पूण त्या गरम दुकांच्या स्पर्शान शर्मिलाचें काळीज, आवयचें काळीज कुलकुलून गेलें. ज्या दोळ्यांनी फुडाराचो वेध घेवपाचो, नवरंगी सपनां रचपाचीं त्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकांनी शर्मिलाचें मातृहृदय कळवळ्ळें.

शर्मिलाक येवजलो आपलो मोग. ते दीस. ताकाय पयलीं न्हयकारच मेळिल्लो. पूण तोच न्हयकार हयकारांत बदलिल्ल्यान आयज तें खूब खोशी आनी समाधानी आशिल्लें. फकत सतरा वर्सांचें शर्मिला एफ. वायच्या वर्गांत आशिल्लें तेन्नाची गजाल. कमीच उलोवपी, लांब-रूंद हँडसम अनीलाच्या तें मोगांत पडलें. तो आयलो, ताणें पळयलें आनी काळजांत रिगलो अशेंच जालें. भेटी-गाठी वाडल्यो. दोगांयकय मोग कळ्ळो. अनील तोंड उगडना म्हणून शर्मिलानच ताका प्रपोज केलें. पयलीं न्हयकार, मागीर हंयकार. तुका जाय तें समज अशी आशा वाडोवपी जाप दिल्ल्या अनीलान अर्दवरा भितर सणसणीत

न्हयकाराची मेसेज दिवन शर्मिलाचें तोंड आनी मन काळें केल्लें. कवळें शर्मिला आनी आतांचो अभी हातूंत कांयच फरक नाशिल्लो. अनीलाची कितेंतरी मजबुरी आसतली वा ताचेर कसलेंय तरी दडपण आसा हो तेन्नाचो शर्मिलाचो अदमास जुस्त थारलो. केवळ आपले गरिबीक लागून ताका न्हयकारपी अनील ताच्या मनांत सामकोच रोमलो. सतरा ते सत्तावीस अशीं धा वर्सां ताणें अनीलाची वाट पळयली. तो आपल्या पांयांर समर्थपणान उबो रावतकीर तांचें लग्नय जालें. ताचे पयलीं घरच्यांनी हाडिल्ल्यो सोयरिको न्हयकारतना घरच्यांची कितलीं आनी कसलीं उतरां खाल्लीं ताची याद अजुनय शर्मिला विसरूंक नाशिल्लें. आयज अनील आनी अभीच्या सांगातान तें खूब सुखी आनी समाधानी आसा.

विचारांचे हे भिरके भितरच तें उठलें.

''अभी मात्सो प्रियाचो नंबर दी रे.''

''माँ, तूं ताका फोन करूं नाका. उतरान उतर वाडून तुमचो वाद जातलो. म्हाका ताका मात लेगीत दुखोवपाचें ना.''

''आरे, हांव आनी कितें वाद घालतलें? आमचो दोगांयचोय काय ताका अपोज नाच. हांव म्हजें आवयचें काळीज ताचे मुखार उक्तें करतां तरी. म्हजें काळीज तरी ल्हव करतां. सांग तूं नंबर.''

पांच मिन्टां भितर शर्मिलाचो प्रियाकडेन कॉन्टेक्ट जालो.

''हॅलो प्रिया, हांव शर्मिला. अभिली माँ. आगो कितें जालां तुमचे मदीं?''

सारवासारव केल्लेवरी ताकतिकेन प्रियान जाप दिली. ''कांयच जावंक ना.''

''आगो बाये, म्हजो पोर तुज्या न्हयकारान पार कोसळ्ळा. मनोमन हारला गो तो. कितें कमी आसा म्हणून तुवें ताका न्हयकारलो हें तरी सांगपाचें ताका. 'प्लीज डोंट आस्क ॲनी रिजन. बाय!' हे एके बोटभर मेसेजीन तुवें घावो घालो गो ताचेर. ताका सांबाळटासर म्हजे मदली आवय कणाकणान भिरांतेन मरता.''

''अभीली माँ, ताचेमदीं कांयच कमी ना. पूण शिकता आसतना प्रेम करप वा अफेअरां करप म्हाका लायक ना.''

पोर गुणांचेंच. शर्मिलाच्या काळजाक आनीकय लागचें जावंक लागलें तें.

"तुमी प्लीज ताका सपोर्ट करूं नाकात अभीची माँ."

"आगो अशें कशें म्हण्टा तूं? हांवें स्वता मोगाचो अणभव घेतला. धा वर्सां विरहाचोय अणभव घेतला. म्हणून म्हजो अभीक सदांच सपोर्ट आसतलो. तो म्हण्टा आपूण प्रिया बगर हेर कोणाचोच विचार करचो ना. जिणेच्या शेवटा मेरेन तो तुजी वाट पळयतलो."

"अभीची माँ, प्लीज तुमी समजयात ताका. म्हजे परस बरी चली ताचे जिणेंत येतलीच."

"प्रिया आमकां नाका आनीक कोण. ताचें मन जडलां तें चली तूं. शक्य आसल्यार परतो विचार कर. तूं ताचो पयलो आनी ताच्या म्हणण्या नुसार निमणो मोग. तो भुरगो आसुनय ताचो सभाव हांव जाणटां. आतां तूंच पळय आनी थाराय. ताचें आयुश्य घडोवप आनी बिघडावप दोनय तुज्याच हातांत. सो थिंक पॉझिटिव्ह."

शर्मिलान फोन बंद केलो. आपलोच फाटलो काळ आपले सामकार उबो रावला सो ताका भासलो. पूण तो काळ आनी आयचो काळ हातूंत जमीन आनी मळबा इतली दरय आसा हेंय ताका जाणवलें. पयलीं दुसऱ्याक दिवपांतल्यान, दुसऱ्याक सूख, आनंद दिवपांतल्यान समाधान मेळटालें. आयचे स्पीडी जिणेंत बुड्डोवणेंतल्यान वा ओरबाडून घेवपांतल्यान सूख मेळयतात. फक्त विकृती. ना तर एकदम तोकाची भुमिका घेवपाकडेन कल जायत गेला. सादें, बारीक टेन्शन आयल्यार सोल्युशन सोदपाचें सोडून एकतर जीव घेवप वा जीव दिवप होच रस्तो जणएकलो आपणावंक पळयता. अचानक ह्या विचारांतल्यान ताचे मुखार उबो रावलो जाकीनालो बॉबी. आपलो पयलोच मोग फॅनीन न्हयकारलो म्हणून वांवभर नायलॉनचे दोरयेच्या फांसान स्वताचो जीव सोंपयिल्लो बॉबी. ताची ती फॅनाक लोंबकळिल्ली तरणी, नेण्टी, फकत अठरा वर्सांची कूड. त्या जाग्यार शर्मिलाक खिणांतच अभी दिसपाक लागलो. ताचें काळीज कलकल्लें. दोळे व्हावूंक लागले. अभीलो हात ताणें घट्ट धरलो. खिणाखिणांक

मनांतल्या विचारां वांगडा अभीच्या हातावेलो ताचो दाब वाडलो. अभी ताचे मांडयेवयल्यान सट्कन उठलो.

‘‘माँ, तूं रडूं नाका. हांव कांयच वायट करचो ना गो. ना प्रियाचे बाबत ना म्हजे बाबत. हांव जीव बी कांयच दिवंचो ना. हांव ताची वाट पळयतलों. म्हाका लागून ताका वा तुका कोणाकच मान सकयल घालची पडटली असो हांव केन्नाच वागचों ना. माँ, तुवें केल्ले संस्कार खंयचेंच पाड काम करचे नांत. हांव तुज्याच रक्तामासाचो न्हय गो? हांव कशाय कसो कसो वागतलों? तूं तुज्या पुताचेर विश्वास दवर.’’

फाटमोऱ्या अभीकडेन पळयतल्या शर्मिलाक स्वताच्या दुदाचो अभिमान दिसलो. ताचे दोनूय दोळे व्हांवले. तिच्याच रक्तामांसाचो कंवळो गुळो एका न्हयकारान अकाली व्हड जाला तो आनीकय व्हड दिसतालो. एक दोळो अभिमानान भरून ओततालो तर दुसरो दोळो आपलोच भुतकाळ मुखार पळयत दुकां गळयतालो.



# समाधान

अनय तेन्नाच ऑफिसांतल्यान घरा पाविल्लो. हांसत्या मुखामळाच्या अनघाक दारांत पळयतनाच ताका पुरो जाल्लें हाचो सुध्दां विसर पडलो. 'यो रे' ह्या दोनच उतरांनी ताका खूबच खोशी मेळटाली. बॅग अनघाकडेन दिवन बाथरूमांतल्यान फ्रेश जावन ये सर हॉलांतल्या टिपॉयचेर च्या चे दोन मग आनी घमघम पातळावपी कांद्याचे फोव तयार आशिल्ले. अनयान दुश्काळांतल्यान आयिल्ले वरी फोवांचेर झोपय मारली.

''आरे सवकास खा रे बाबा.'' अनघान मुमुरखें हांसत म्हळें.

''अनु डार्लींग, तूं जाणां म्हजो धीर दोनूच कडेन सुट्टा. एक हे कांद्याचे फोव आनी दुसरें म्हजे वेंगेंतलें तूं.''

''पुरो रे आनीक व्हावूं नाका. सतरा वर्सांचे चलयेचो बापूय तूं. तरी अजुनी यौवनांत मी सारखी गत तुजी.''

''चलयेवेल्यान याद जाली. खंय गो जानु?'' तोंडांत फोव भरतनाच अनयान म्हळें.

''अजून येवंक ना तें. अनय, म्हाका मरे बेठोच भंय दिसता. जानु आतां वाडट्या वयाचें आसा. सामकें धोक्याचें वय म्हणटात थंय तें पावलां. ह्या आमच्या समाजांत चोय वटेन गिदांच गिदां आसात. खरीं गिदां मेल्लेंच शरीर खातात. पूण हीं जितीं जागतीं मनशाच्या रुपांतलीं गिदां नदरेनूच पिसुडटात. आनी तांचे तावडींत सांपडल्यार....???''

“अनु, तूं मगो बेठेंच भियेता. म्हजो जानुचेर पुराय विस्वास आसा. आमच्या विस्वासाक तें केन्नाच धोको दिवचें ना ही गॅरंटी तुका हांव दितां.”

अनघा-अनय ह्या जोडप्याची जान्हवी ही एकली एकसुरी धूव. आनीक एक तरी भुरगें जायच ह्या अनघाच्या हट्टाक अनयान फोर्सान न्हयकारिल्लें. जानु हेंच आमचो चलो आनी चलीय बी. वंशाचो दिवो आनी पणतीय तेंच हें पटोवन अनयान अनुक समजायल्लें. निकतेंच बारावीची परिक्षा पास जाल्लें जान्हवी कॉलेजींत ॲडमिशन घेवन सुशेगाद जाल्लें. कॉलेज सुरू जाता मेरेनचे दीस मस्त एन्जॉय करपाचें थारावन दिसभर तें बॅडमिंटन कोर्टार घाम गळयतालें. आयज ताका येवपाक कळाव जाल्ल्यान भियेल्ल्या अनघाक अनयान सावरलें खरें पूण आतां ताकाय मात्सो हुस्को सो दिसपाक लागलो. अनघान तर जानुचो मोबायल दोन-तीन फावट ट्राय केलो. दर खेपे विंगड जापो मेळिल्ल्यान तेंवूय नेटवर्काक गाळयांचो शिंवर घालतालें.

“अनु तूं हुस्को करूं नाका. येतलें गो जानु. फ्रेन्डसांमदीं रंगलां आसतलें तें.”

अनय अनघाक सांगतालो खरो पूण ताकाय आतां हुस्को सो जावंक लागिल्लो. केन्नाच जानुविशीं हुस्को न करतां ताचेर पुराय विश्वास आशिल्ल्या अनयाचें बापायचें काळीज आयज हुस्केतालें. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार आयजच दनपरां लंच अवरांतल्यो गजाली. दनपरां लंच घेतना सगळ्या कलिगांमदीं जेवणांतल्या अदलाबदलीची गडबड चलिल्ली. सगळ्यांनी खावपाक सुरवात करतनाच पराडकारान भासाभाशीक विशय दिलो.

“आयच्या बायलांनी इझी मनी खातीर सगळ्यो मर्यादा पायांपोंदा चिड्डोवन उडयल्यात.”

पराडकारान आपल्या ह्या म्हणण्याखातीर खूबशीं उदाहरणां दितनां पयशांचे भर्कीक पडिल्ल्यो बायलो, चलयो कितेंय करतात हें पटोवंक जायत्या मनशांच्या घरकान्नींचीं नांवां आनी पराक्रमय सांगले. अजाप म्हळ्यार ताच्या म्हणपाक भोवसंख्येन स्टाफान हयकारलें. हातूंत अनय खूबच अजापलो. हाचेर त्या वर भरांत खूबच चर्वण जालें. तातूंतल्यान सार एकच भायर सरलो. जायत्या लग्न

जाल्ल्या बायलांचें शील भश्टलां आनी आंकवार चलयांची व्हर्जिनीटी डाऊटफूल! आंकवार चलयांच्या बाबत तर शंबर टक्के ही शीम स्टाफान शेर्त केल्ली. अनयाच्या दोळ्यां मुखार ताचें कंवळें जानु आयलें... त्या शंबर टक्क्यांमदीं जानुय बी?

ऑफीसांतली सगळ्यांत व्हडली राजेबाई तर हाचे फुडलेंच उलोवन गेली.

''अजाप दिसता इतलेच गजालीचें की हीं असलीं कर्मा करपी चलयांक मात बेस बरे पयशेकार घोव मेळटात आं. फकत पयशांक लागूनच चलयो तशें करिनांत! घडये फुडल्या जोताचो जावपी बरो फुडार पळोवन त्यो तशें करतात जायत!'' राजेबाई फोण्ण मारून कुचित्रीशी हांसली.

अनय ही भासाभास आयकून सामकोच बेजारिल्लो. विचार करतां करतां अनघाचीं उतरां आयकून तो सावशीद जालो.

''अनय, साडेसात जालीं मरे. जानुचो पत्तोच ना अजून. म्हाका आतां मात भंय दिसपाक लागलो रे. मन चिंतता तें दुस्मान लेगीत चिंतना तशें जालां म्हाका.''

''अनु, तूं भियेवं नाका आं. जानुक कांय जावचें ना. तुजो विस्वास आसा मुगो ताचेर? घडये कितेंय अडचण आयल्या आसत ताका. आमी काय पुराय आयुश्य ताका पावचीं नांत. तेन्ना ताका ताची जापसालदारकी घेवंक केन्ना कळपाचें? येतलें तें. हुस्केवंक नाका तूं.''

तीं हॉलांत बशिल्लीं तेन्नाच बॅल वाजली.

''अनु, जानु आयलां आसतलें. बेठेंच रिॲक्ट जावं नाका तूं आं. पयलीं कितें घडलां तें पळोवया.''

अनयानच दार उगडलें.

''पप्पा, आय ॲम सॉरी. मम्मा सॉरी आं. हुस्को जालो मरे तुमकां? स्नेहा वांगडा खेळटां खेळटां वेळच कळ्ळी ना. म्हज्या मोबायलाची बॅटरी लोव जाल्ली आनी स्नेहान मोबायलच व्हरूंक ना. कोणायकडेन बेठेंच ल्हानपण घेवन मोबायल मागपाक म्हाका बरें दिसलें ना. पूण मम्मा-पप्पा सॉरी. परत अशें घडचें ना हाची जतनाय घेतलें हांव. ओ के?''

अनय आनी अनघाचें धुवेच्या मनभुलोवण्या उतरांनी समाधान जालें.

"जानु, तूं न्हावन यो. मम्मान कांदूयाचे फोव केल्यात. हांवें खाल्याच. पूण तुका कंपनी दिवंक हांव आनीकय खातां." सुखाच्या आनी समाधानाच्या झोपाळ्यार ती फामील धोलत रावली. अनयान तेन्नाच मनांत निश्चेव केलो आयज रातचो जेवणाच्या मेजार पराडकाराक चघळोवंक घेवप. टी.व्हीचेर फकाणां जायत वचपी इंडियन आयडॉल्सच्या सिलेक्टींग रावंडांतलीं सवंगां आनी जज्जांचीं नाटकां पळोवन बेजारिल्ल्या अनयान टीव्हीच बंद केली. पेपर चाळील्लेवरी करतां करतांच अनुचो उलो आयलो.

"अनय-जानु वाडटां. भितर येयात."

पेपर आपटून अनय उठलो. आपल्या रुमांत बसून चॅटींग करपी जानुच्या फाटल्यान तो उबो रावलो.

"पप्पा, पळय रे म्हजे फ्रेंड्स. मस्त चॅटींग चल्लां आमचें."

"जानु, चल मम्मान वाडलां."

पट्‌टकन्न जानुन फ्रेंड्सांक बाय केलें.

"अनु आयज मगो ऑफिसांतलो पराडकार पिसाविल्लेवरीं कितेंय बडबडटालो."

"पप्पा, तुज्या ऑफिसांत तूं सोडून सगळे चक्रमच रे." जानुन फोण्ण मारलें.

अनयान कसो तरी मूळ मुद्‌द्‌याक हात घालो. अनयान आनी जान्हवीन कान शेळावन ताची सगळी गजाल आयकली. अनयान शंबर टक्क्यांचेर जोर दितगीर अनघाचो उंडी घेतिल्लो हात तोंडाकडेन पावलोच ना. अनयाक दिशिल्ली तीच भिरांत अनघाच्या तोंडार दिसली. तांची नदर जानुकडेन वळ्ळी. तें मात आपलेच तंद्रेंत भुकेल्लेवरीं जेवतालें. भरपूर खेळून आयिल्ल्या जानुच्या पोटांतले फोण्णे फोव केन्नाच पातळ जावन गेल्ले. आवय-बापूय कितें चिंतता हें ताच्या राज्यांतूय नाशिल्लें. जेवन जातकीर ताणें ताटाक हात जोडले.

'अन्नादाता सुखी भव' म्हणून हांसत आवयकडेन पळोवन ताणें आशीर्वाद दिल्लेवरी हात वयर काडलो.

"पप्पा हांव उठूं रे?"

बापायची हालती तकली पळोवन तें सुशेगाद बेसीनार गेलें. हांगा अनय आनी अनघा हात सुकले तरी तशींच. मेजार जेवणाचें ताटय तशेंच सुकलां. जानून ब्रशार पेस्ट घेवन दांत घांसले. आपलो चेरो हारशांत पळयत तें कांय खीण रावलें.

"पप्पा, तुज्या त्या पराडकाराक शंबर टक्के हो आंकडो रॉंग म्हणून सांग फाल्यां आं. शंबर टक्के मायनस तुजी धूव जानु हांची टोटल कर आनी मागीर परसंटेज डिक्लेर करपाक सांग ताका."

आनी ताणें हातार मॉयश्चरायजर घेवन मान आनी आपल्या चेऱ्याक तें लावंक सुरवात केली.

जेवणाच्या मेजार अनय आनी अनघा एका आगळ्या, जाय जायशा समधानांत दुश्काळांतल्यान आतांच आयिल्लेवरी जेवपाक लागलीं.



# आय वॉज जस्ट कन्फ्युज्ड

सकाळची वेळ. आयज आयतार. सदचे परस संथ आनी सुशेगाद सो दीस. आठवडोभर भरपूर काम केल्या उप्रांत मेळपी हक्काचो, म्हजोसो दिसपी एक दीस. माळयेवेल्या म्हज्या बेडरुमांत हांव अजुनय पांगरूणांत गुरगुटून पडिल्लों. रातीं न्हिदपाकय बरोच कळाव जाल्लो. संवयेन हांवें हांथरूणार सांसपिलें. अरेच्चा स्नेहा खंय? येदे बेगीनच उठलें? वण्टीर नदर पडतकीर कळ्ळें दिसाचीं साडेणव वरां जाल्यांत. सॉरी... हें स्नेहा म्हळ्यार म्हजी घरकान्न, म्हजी धनीण. आमच्या लग्नाक फकत सतरा दीस जाल्यात. लग्ना उपरांतची रजा हनीमून आनी मावोड्यां वा हेर सोयऱ्यांगेर वचपांतच सोंपली. दोन दिसां पयलींच हांव कामाक जॉयन जाल्लों. आयचो हो आयतार दोन दिसांचो आमचो व्हडलो (!) विरह भरून काडपाचो दीस. इतल्यांत बेडरुमाचें दार उगडलें. हातांत झाडू घेवन स्नेहा भितर सरलें. हांव बेसबरें न्हिदेचें सवंग घेवन पडलों. केन्ना तें म्हजे पकडीच्या अदमासांत पावता हें जोखत सावध रावलों. आदर्श घरधनीणी प्रमाण स्नेहा झाडू मारत म्हजे बेडीकडेन पावलें मात, हांवें झोपय मारून ताका तशेंच बेडीर खेचलें. पोर म्हजे वेंगेंतसून सुटपाक धडपडटालें. हांव म्हाका जाय तें मेळयतलोंच हाची ताका खात्री पटिल्ली. ताच्याय दोळ्यांत म्हाका आव्हान दिसतालें. ''आरे, अश्वीन दार उगडेंच आसा पळय.'' खिणांत म्हजी ताचे भोंवतणची वेंग सढळ पडली आनी तें चानये सारकें पिटपिटीत धांवलें. बंद आशिल्लें दार उगडून दाखयतनाच म्हाका जीब दाखोवन तें गेलें. त्या म्हज्या स्नेहाक पळयतनाच फाटलें सगळें आयुश्य दोळ्यां सामकार उबें जालें.

पिरायेचीं अठरा वर्सां. कॉलेजांतले भिरभिरते, फुलपांखी दीस. क्लासीनी कमी आनी कॉरिडोरांतल्यान पासयो चड, अशा वेळार त्याच जाग्यार म्हाका स्नेहाचें पयलें दर्शन घडलें आनी कुछ-कुछ होता है, दील तो पागल है, हम तुम्हारे है सनम सारकीं पदां ओठांतल्यान भायर पडलीं. त्या खिणासावन ताचो सभाव, ताच्यो आवडी-निवडी, सवयीं, येवपा-वचपाची वेळ हाची टेळणी सुरू केली. फ्रेंडसर्कलामदीं यो-वच कमी जायत आयलें. अस्ताव्यस्त केंस, अर्दकुटें वाडिल्लें खाड हांची निशाणी पुसून हांव झकपक जावन पडलों. 'आतां अश्वीन बरो भुरगो जाला रे. खंयतरी घुस्पला सो दिसता.' फ्रेंड्स शाल जोडिंतले अहेर दिवंक लागले. म्हाका ह्या अहेरांचें, कुचिद्रांचेंय कांयच दिसलें ना. म्हाका म्हत्वाचें आशिल्लें स्नेहा. ताचो हयकार आयकपा खातीर म्हाका पुराय बदलोवपाची म्हजी तयारी जाली. म्हज्या ह्या भुतावळ फ्रेंड्सां सामकार स्नेहाचें नांवय तोंडांतल्यान भायर पडचें ना. तशेंच म्हजी ताचेकडेन पळोवपी ती खाशेली नदर तांचे नदरेक येवची ना हाची जतनाय घेतना म्हाका घाम फुट्टालो. कारण म्हाका म्हजेपरस स्नेहाचें मन आनी मानय जपपाचो आसलो. बायलमनीस ही भोग घेवपाची फक्त एक वस्त न्हय तर आमच्याच बरोबरची, एक संवेदनशील मन आशिल्लें एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व ह्या म्हज्या तेन्नाच्या मताचेर हांव अजूनय ठाम आसां. खरेंच हांव खूबच बदलत वतालों. न्हय, तर पुराय विचारांनी हांव म्हाका बदलयतालों. फकत ताचे खातीर. स्नेहा खातीर.

आमच्या दोगांयच्या सभावांतय खूब फरक आशिल्लो. हांव पयसुल्ल्यान स्नेहाचे नदरेक न येतां ताची टेळणी करतालों. कारण म्हाका स्वताक ताचे योग्य बनोवपाचें आशिल्लें. तें खूब हुशार. हांव सगल्यो राटावळी करूनय हायर सेकंड क्लासा मेरेन पावपी गड्डो. ताका लागून केन्ना कॉलेज लायब्रींत पांय न दवरपी हांव तासन तास पुस्तकां मदीं घुस्पवपाक लागलों. फर्स्ट क्लासय काडलो. पूण म्हजो सभाव बदलवप म्हाका मात लेगीत शक्य जालें ना. हांव बडबडो आनी खूबशा मित्र-मैत्रीणींमदीं रमपी बोलबच्चन. जाल्यार तें खूबशें अबोल. एक-दोगांवांगडा फिरपी वा चडशें एकटेंच वावुरपी. आतां मात ताकाच बडबडें करपाचो चंग हांवें बांदलो. खिणभरांत फाटल्या काळांतल्यान

एकदम वर्तमान काळांत पावलों हांव. हय... आयज स्नेहा म्हजें जालां आनी हांव पुरायपणान ताका समर्पीत. फकत ताजोच. स्नेहाचोच.

म्हजो पप्पा पयलींय म्हणटालो आनी आतांय तेंच म्हणटा. 'आमचो अश्वीन सभावान सामको ताचे आवयचेर गेला. भायर-भितर अशें कांयच ना दोगांयचेंय. छक्केपंजे करप दोगांकय जमना. कारण तांचीं निवळ मनां.' पप्पालें बरोबरच! आमी दोगांय छक्केपंजेय करिनांत आनी कसल्याय लफड्यांतय वचनांत. पूण कोणूय आमचे वाटेक आयल्यार मात आमी सरळ शिंगार घेतात. आमी आमच्या मना-काळजान जगतात. म्हणूनच सदासुखी ह्या गटांत पडटात. पप्पा बाराय म्हयने मेंदवाचो गुलाम. परिणाम कपलाचेर मिरयांचें जाळें आनी तकलेर पुनवेचो चंद्र. आसूं! छक्केपंजे वेल्यान याद जाली. म्हज्या एका क्लासमेटान झक्कास - सुंदर गर्लफ्रेंड पटकायलां. हो दिसापाक सामको फाटीं. आमी ताका पॅटनेम दिल्लें कोळहुंदीर. हाचेवयल्यान ताचो अदमास येता. काळो, मोटवो आनी मोटोय बी. पूण ताची इश्टीण पंचवीस-तीस जाणांमदीं उठून दिसपा सारकी. हांवें एक दीस ताचे फाटीर थाप मारली आनी ताचे पसंतीची दाद दिवन ताच्या नशिबाची तोखणाय केली. ताचीं ते वेळचीं उतरां अजूनय याद येतात म्हाका. 'आरे नशीब-बिशीब कांय ना हांगा. हांवेंच प्लॅन करून ताका मेळयलें. गांवभर आनी कॉलेजभर म्हजें आनी ताचें कितें कितें चल्लां म्हणून बेठीच फकाय सोडली. हात लायिल्लें चली म्हणून बोवाळ जातकीर कोण वता थंय? आपसूक म्हज्या जाळांत अडकलें.'

एकाद्रे चलयेक मेळोवपा खातीर इतल्या सकयल्या थरार देंवप? घडये ताची कूड हाका मेळटली. पूण मन? तें मेळटलें हाची खात्री आसा ह्या माकडाक? खंयचेय वाटेन जावूं पूण आपल्याक जाय ती वस्त मेळोवपाक धडपड करतात तेच भशेन जिती जागती, स्वतंत्र मन आनी मत आशिल्ली अस्तुरी मेळोवंकय त्याच थरार देंवप? ह्या विचारांनी म्हजी मत मेल्लेवरी जाली. खंयची हांवें म्हजे इश्टाच्या नशिबाची तोखणाय केली काय दिसली म्हाका.

तेन्नाच हांवें थारायलें म्हज्या खंयच्याच इश्टाक वा इश्टीणीक स्नेहाविशीं कांयच कळीत जावंक दिवप ना. म्हजी ताचेविशींची भावना चुकून लेगीत हेरां

सामकार उचंबळ जावंची न्हय म्हूण हांव हेरां वांगडा आसतना ताका सरळ टाळपाक लागलों. तें म्हजें जावचेंच. पूण म्हज्या दुर्दैवान तशें न घडल्यार तें निश्कलंक आनी बेदाग उरून सुखी आसचें ही म्हजी इत्सा. तेन्नाचीय आनी अजुनय... मदींच तें रस्त्यांत एकटेंच वता शें पळोवन ताच्या फाटल्यान वचपी हांवें ताका फोन केलो.

"हॅलो स्नेहा. हांव अश्वीन."

"कसो आसा रे तूं?"

"स्नेहा, म्हाका तुका कितें तरी सांगपाचें आसा."

"सांग रे तूं. आयकतां हांव."

"स्नेहा, हांव सरळ उलोवपी मनीस. म्हाका साखर बी घोळोवंक येना. एक सांग तूं कोणायकडेन एंगेज आसा?"

"ना."

"स्नेहा, आय लायक यू. व्हॉट अबावूट यू?"

"सॉरी नो."

काळजाचेर कचकचीत सुरी फिरयल्लेवरी जाली.

"स्नेहा खरें सांग."

"हय रेऽऽ हय."

हांवें परतें एकदां विचारलें.

"खरें मुगो?"

"हय, तुका जाय तें समज."

"म्हाका जाय तें म्हळ्यार हयकार धरूं मुगो?"

"ऊं" फोन बंद.

"य्या..." हांव खुशाल.

शिळोणी घालत घरा पावपाक आयलों. 'बीप बीप' मोबायलान मेसेज आयला म्हणून सुचयलें.

'सॉरी, माय आन्सर इज नो. प्लीज डोंट आस्क ॲनी रिजन. बिकॉज देर इज नो रिजन. बाय.'

काळीज बंद पडटा काय जालें. फकत पंदरा मिन्टांभितर आपलें डिसीजन बदलपा सारकें कितें घडलें काय? तें आनीक कोणायकडेन एंगेज ना हें कन्फर्म केल्लें हांवें. तरी कसलें प्रेशर पडलें काय? चिंतून- चिंतून तकली फुटली. कितें चूक आशिल्ली म्हजी? मोग करप हो गुन्यांव काय तो उक्तो करप हो गुन्यांव? काय हांवें बऱ्याची अपेक्षा धरली ही म्हजी चूक? हांव बरो म्हणीनासतना स्नेहा बरें म्हणून ताची आस्त धरली हें म्हजें चुकलें? एक ना दोन. विचारांनी मन कळवळटालें. भर म्हणून मोबायल स्वीच्ड ऑफ केल्लो ताणें. दनपरां जेवणाची उंडी ताळ्या सकयल देवना जाली. म्हजी अस्वस्थताय म्हजे माँ क जाणवली. माँ म्हजी सगळ्यांत लागींची मैत्रीण. म्हाका नदरेन जोखताली. जेवता मेरेन कांयच उलयली ना ती. सगली काणी आयकून तिणें म्हाका डोस पाजलो. उपदेशाचो न्हय तर स्नेहाक मेळोवपाच्या उपायांचो. तिणें सांगिल्लें सगळें आयकलें म्हणून स्नेहा आयज म्हजें जालां.

सहज सांगतां, आमचें लग्न जाल्या उपरांत रातचीं आमी एकांतांत मेळ्ळीं. थंय वान्सा नासली तर स्नेहाक म्हजेपसून कोणेंय पयसावचें न्हय हीच इत्सा आशिल्ली. म्हज्या पयल्याच त्या स्पर्शान सामकें आंग गुठलावन घेतिल्ल्या स्नेहाक हांवें विचारलें.

“स्नेहा, खरें सांग. म्हाका तुवें पयले फावट कित्याक नाकारिल्लो? कसलें प्रेशर आशिल्लें तुजेर?”

काचाबूल जाल्लें स्नेहा म्हजे छातयेर दुकां गळयत उत्तरलें.

“अश्वीन आय वॉज जस्ट कनफ्यूज्ड. बट हांवें तेन्नाच थारायल्लें रे. हांव तुजी वाट पळयतलें आयुश्यभर आनी हांव रावलें तुजे खातीर. फकत तुजे खातीर. आय लव यू अश्वीन.”

“बाप रे. ह्या जस्ट कन्फ्युज्डाक लागून हांवें पांच-स वर्सां कशीं काडलीं आसतलीं हाची कल्पना कर स्नेहा.”

“सॉरी.”

आतां त्यो फाटल्यो गजाली चितपाची वेळ न्हय हें म्हाका शितीद आशिल्लें आं. सो, तो विशय थंयच सोडलो हांवें आनी...

आतां म्हजे माँ कडेन वळटां. माँ न म्हाका खूबसो समजायलो.

"अश्वीन, स्नेहावेलो तुजो मोग खरो आसल्यार तें तुजेंच जातलें. आमच्या आशिर्वादाचेंय फाटबळ तुका आसतलें. पयलीं तूं शिकप पुराय कर, आपल्या पांयांर उबो राव. मागीर आमी तिगांय ताचे पप्पा-मम्मीक मेळून मागणी घालुया."

माँ च्या ह्या उतरांनी उमेद आनी ईर्शाय वाडली. दोळ्यां सामकार अर्जुनाचो आदर्श दवरलो. शिकलों, नोकरीय मेळयली. तो मेरेन म्हाका लागून वा म्हजेकडसून स्नेहाचें मन खंयचेच तरेन दुखचें ना हाची खूब खूब जतनाय घेतली. कारण मन हो शरिरांतलो न दिसपी अवयव खूबच नाजूक आसता. एकवेळ शरिरावेलें फेरीद भरून येता. तें विसरलेंय वता. पूण मनावेली जखम मात आयुश्यभर ओली उरता. भळभळत व्हांवता. सामकी महाभारतांतल्या अश्वत्थाम्याच्या कपलावेल्या फेरिदा भशेन! हेर खंयचेय गजालीं परस माँ लो स्नेहाचें मन सांबाळपाचो सल्लो हांवें पाळ्ळो आनी ताणें मनांत रिगपाचो म्हजो रस्तो मेकळो जालो. स्नेहा मना-कुडीन म्हजी धनीण जाली. आमचें लव्हमॅरेज तेंवूय अशें जगावेगळें हें कळतकीर म्हज्या खूब इश्टांक आनी इश्टीणींकूय धक्को बसलो. पांच वर्सां, म्हळ्यार हांव आयुश्यांत सेटल जाता मेरेन स्नेहाकडेन एक अक्षर उलयलों ना, ताका फोन केलो ना वा फेसबुकार ताका मेळ्ळों ना. हें आयकून म्हजी एक इश्टीण घुंवळ येवन पडली.

"स्नेहा इज अ लकी चॅम्प." शुध्दीर येतकीर ताचें हें पयलें उतर आयकून स्नेहाय खूब हांशिल्लें.

हांव शिर्विशेक लागतकीर माँ आनी पप्पा रितीन मागणी घालपाक स्नेहाच्या घरा गेलीं. स्नेहाचे मम्मी-पप्पाक तेन्ना आमचो जगावेगळो मोग समजलो.

"तरी हें आयिल्ले सोयरिकेमदीं दोश काडटालें तें हाकाच लागून दिसता!"

स्नेहाले मम्मीलें हें तोखणायेचें उतर माँ परत-परत म्हाका म्हणून दाखयताली. बरी शिर्वीस आशिल्ल्यान तांणीय म्हाका आपणायलो. सगल्यांच्या हयकारान सगळें गोड जालें. गोडावेल्यान याद जाली. आयताराची सुरवात गोडानच करपाची. इतल्यांत हळूच उगडपी दाराचेर नदर पडली. सादुरतायेन स्नेहान

दाराक भितरल्यान खिळी घातली. 'अब आया ऊंट पहाड के निचे' मनांतच म्हणत हांवें मस्त न्हिदेचें सोंग घेतलें.

"अश्वीन, अजूनय न्हीद जावंना रे?"

आंगावेली चादर ओडतल्या स्नेहाक हांवें झोपय घालून वेंगेंत ओडलें. मनसोक्त गोडाचो अणभव घेवन तृप्तीचो धेंकर दीत हांव तोंड धुवपाक उठलों. आनी साग्रसंगीत आयताराची सुरवात जाली.



# क्लायंट

**घो**-घो कोसळपी पावस, पिसावल्लेवरी काळीज हालोवपी वारो, चोंयवटानी भरून आयिल्लो कुंदपणा हाका लागून सरभोंवतणी एकेतरेचो ताण, तणावसो जाणवतालो. रस्त्याच्या कुशींतले गुलमोहराचे रूख पिशांवरी धोलत वाऱ्याच्या पिसाटपणाक साथ दियत पावस झेलताले. पयसुल्ली दोंगुल्ली घरंदाज अस्तुरे भशेन, जणकाय माथ्यार पदर घेवन राविल्लेवरी दिसताली. ह्या सगळ्या, खरें पळयल्यार कंटाळवाण्या तरीकय ताज्यातवान्या वातावरणाक 'वॉव' ह्या उतरांनी दाद दिवपी संदीपाचे यादीन स्मिताच्या काळजांत सामकें कुलकुलून आयलें. लग्ना उपरांतचो हनिमून पार दक्षिणेकडल्या केरळांत, तोवूय धुवांधार पावसांत साजरो करपी संदीप-स्मिताची ही जोडी दैवाच्या एकाच फटकाऱ्यान वर्सा भितर तुटली. ॲक्सीडेंटांत जाग्यारच सोंपिल्लो संदीप स्मिताच्या दोळ्यां सामकार आयलो आनी अचकीत पावसांत फासपियिल्ल्या उदका वांगडा ताणें आपले दोळेय पटकन् पुसून घेतले.

त्याच मॉलाच्या सोपणांचेर पावसा पसून स्वताक वाचोवंक धावन आयिल्ल्या एका तरनाट्याची नदर ताचेर गेली. दोनूय हातांत सामानांच्यो पिशव्यो घेवन भिजपी हे अस्तुरेक पळोवन त्या तरनाट्यान आपली सत्री पेटयली आनी फाटल्यांतल्यान येवन स्मिताचे तकलेर धरली. स्मिता अचकीत सांवरलें.

"सॉरी आं म्हज्या ह्या पावसपिशापायीं तुमकां त्रास पडलो."

"ना. तातूंत त्रास कसलो? तुमी खंयच्यातरी विचारांत सगळ्या जगाक विसरून गेल्लेवरी दिसतालीं. म्हाका तर कन्याकुमारींतलो मीनाक्षीचो स्टॅच्यू याद जालो."

‘‘म्हाका मात्शी तुमची सत्री दियात. म्हजे स्कुटरींतलो रेनकोट हांव घेवन येतां.’’ स्मितान ताका सांगनाफुडें ताणें सत्री स्मिताचे सुवादीन करून वयर धांव मारली. स्मितान रेनकोट घालून सत्री त्या तरनाट्याक दिली. स्मिताच्या हांसकुऱ्या थँक्साक हांसून दाद दिवन तो गेलो.

दिसपट्टी नोकरी, बाकीच्यो हॉबीज आनी रुटीन लायफ हातूंत स्मिता पुरायेन घुस्पून उरलें. मदीं केन्ना तरी दोन-तीन फावट ताका तो तरनाटो दिशिल्लो. जस्ट वळखीचें हांसून तें गेल्लें. ह्या वर्सा संदीप गेल्यार तीन वर्सां जातलीं. ताका विसरपाचो यत्न करपी स्मिता आतां-आतांच स्वताक सावरपाचे वाटेर आशिल्लें. पूण हो तरनाटो मात ताचें मन मात्शें मात्शें चलबिचल करतालो. ताका हय न्हयसो तो ओडलायणो जावंक लागिल्लो.

ते दिसा स्मिताची स्कूटर सर्व्हिसिंगेक व्हरून दिल्ल्यान तें शेअर रिक्षा वा पायलटाची वाट पळयत ऑफिसाच्या भायर रस्त्याचे कुशीक राविल्लें. इतल्यांत भन्नाट स्पिडीन फुडें गेल्ली मोटार अचकीत थांबली आनी रिव्हर्स आयली. ‘हाय’ मोटारीच्या अर्दकुट्या उगडपी जनेलांतल्यान आवाज आयलो. तोच तरनाटो. ‘अरे हाय’ स्मितान रिस्पॉन्स दिलो.

‘‘खंय वचपाचें? काय कोणाची वाट पळयता?’’

‘‘ना. ना. हांव घरा वचपाक पायलट वा रिक्षाची वाट पळयतां.’’

‘‘चल यो. हांव सोडटां तुका घरा.’’

स्मितान मनांतल्या मनांत देवाचे उपकार आटयले आनी तें गाडयेंत बसलें. घराकडेन देंवतना स्मितान ताका भितर येवंक आग्रो केलो.

‘‘भितर येवन कॉफी घे इल्लीशी.’’

‘‘ना. ना. म्हाका पंदरा मिनटां भितर पावंक जाय. क्लायंटाक वेट करपाक लावप म्हजे शिस्तींत बसना. निमणो बिझनेस तो म्हजो. बाय.’’ स्मिताक आतां जाणवलें की ‘तो’ मेळ्ळो की आपल्या मनांत, काळजांत कितेंतरी वेगळेंच घडटा. संदीपाकडेन, ताचे यादींकडेन आपूण प्रतारणा करतां काय कितें ह्या विचारांत तें कासावीस जालें. बाथरूमांत वचून थंड उदकान न्हातकीर ताचें मन आनी कुडय थंड जाली.

मर्दी खूबशे दीस गेले. तो मेळ्ळोय ना आनी दिसलोय ना. अचानक एके दमळ अशे पावसाचे सांजेर आपल्या घराचें दार उक्तें करतनाच स्मिताच्या फाटल्यान हॉर्न वाजलो. तर तोच.

"यो. हांवय ऑफिसांतल्यान आतांच येतां. पावसान कंटाळो हाडला. गरम कॉफी घेवपाक कंपनी दी आतां."

"आयज कॉफी वांगडा खावंकय कितें चलतलें."

हांसत स्मितान ताका तुवालो दिलो आनी तें भितर गेलें. कपडे बदलून गावन घालून, तें कॉफी करी मेरेन तो हॉलांत सभ्यपणान चुपचाप बसून रावलो.

"घरांत तूं एकटेंच? आनीक कोण ना?"

"हय हांव एकटेंच रावतां. म्हजी मांय-मांव आनी आई-बाबा गांवांकडेन आसतात आनी म्हजो घोव संदीप..." आनी स्मितान टेबलावेल्या हार घाल्ल्या संदीपाच्या फोटवाकडेन बोट दाखयलें.

"सॉरी. आय ॲम सो सॉरी. तुका दुखोवपाचो हेत नासलो म्हजो. सॉरी."

"इट्स ओके. चल कॉफी घेवया."

मदभरी तिनसांज, एक प्रकारचें गुढशें वातावरण, आंगार शिरशिरी हाडपी थंडगार वारें... अचानक कान फोडपी आनी घराच्यो वण्टी लेगीत हालोवन उडोवपी गडगड मारलो. फाटोफाट मळबांत एक उज्याचो लोळ सो फुटलो आनी स्मिताची किळांच.

"संदीप म्हाका भंय दिसता रे ह्या गडगडाचो."

त्याच वेळार ताचे कुडीभोंवतणी दणकट हातांची वेंग पडली. मानेचेर तेंकिल्ले गरम वोंठ... तीन वर्सां उप्रांतचो दादले मनशाचो हो असो पयलोच स्पर्श... जे खातीर स्मिताचें रुंवान रूंव तानशेल्लें! कुडीन खूब फावटी बंडखोरी केल्ली पूण ताच्या संस्कारी मनान ताचेर बंधन दवरिल्लें. पूण आयज त्या संस्कारी मनान शरणागती घेतली. कुडीची भूक व्हड थारली. जायजायसो वोंठांचो, हातांचो स्पर्श आनी स्मिताचो रिस्पॉन्स. वेगळेच ओढीन, पुराय समर्पणाचे भावनेन तें आपल्या मना-कुडीसयत ताचे सुवादीन जालें. पावस,

गडगड, वारें कांयच कांयच आयकुपाक येनाशिल्लें ताका. थंय फक्त अतृप्त कुडीची शांत चलिल्ली.

''मॅडम, म्हजे हजार रुपया दी. हांव चल्लों.''

''व्हॉट? कसले हजार?''

त्या तरनाट्याची मागणी आयकून अचकीत स्मितान विचारलें.

''मॅडम, म्हजो फिक्स रेट तो. कोणाकय विचारात दरेका क्लायंटाकडच्यान हांव इतलेच घेतां.''

''व्हॉट?''

अजापीत स्मिता आनीकय अजापलें.

''कसलो फिक्स रेट सांगता तूं?''

''मॅडम, आतां आमचेमदीं जें कितें घडलां ताचो. मॅडम होच म्हजो बिझनेस आनी तुमचे सारख्यो एकाकी बायलो ह्यो म्हज्यो क्लायंट.''

स्मितान हजारांची नोट ताका दितगीर ताणें आपलें कार्ड दवरलें.

''मॅडम केन्नाय गरज आसल्यार फोन करात. पंदरा मिन्टांभितर सर्वीस हाजीर. बाय.''

थकिल्लें.. कुडीन तृप्त जावनय हरिल्लें आनी मनान पराभूत जाल्लें स्मिता आपल्या बाथरुमांत शाबू लावन-लावन परतें परतें सगली कूड धुयतालें. व्हांवत्या उदकांत ताच्या दोळ्यांतलीं दुकांय भरसतालीं.



# गिरेस्तकाय

भुरगेंपण.... दरेकाचें भुरगेंपण दरेकाच्या काळजांत लिपोवन दवरिल्लो एक खजिनोच आसता. त्या तेंपार अणभविल्ल्यो आंबट-गोड यादी आयकून मन भरून हाडटात. मैत्रीणी वांगडचीं झगडीं, कट्टी-गट्टी, चिमणेभाशेन ल्हवूच दातांनी तोडून खाल्लीं पेरां-तोरां, रबरबॅन्डाचो उपेग करून शेवटयिल्लीं बोरां. एक गजाल याद जावंची आनी यादींचो घसघसोच कोसळचो अशें घडटा. कितल्योशोच यादी त्या कुरकुटांतल्यान भायर सरतात. गोड, आंबट-चिंबट यादीं वांगडा म्हाका भुरगेपणांत सतावपी मैत्रिणींची याद आयली की दोळ्यां मुखार उबें रावता चारू. परिस्थितीन तें गरीब आशिल्लें तरी जाचेकडेन गिरेस्त मन आशिल्लें तें चारू.

म्हज्या सगळ्या मैत्रिणींमदीं वयान धाकटें तें हांवच. देखून सगल्यांचो टायमपास म्हणजे म्हज्यो टिवल्यो-बावल्यो करप. शाळेंत वतना वाटेर एक व्हडलें भिंडेचें झाड आशिल्लें. थंय भुतां रावतात ही आमची तेन्नाची समजीकाय. आमकां तेवटेन एकटें-एकसुरें वचपाचो भंय घालतालीं. म्हज्यो हेर मैत्रिणी म्हजेकडेन चिकानां करून म्हाका फाटीं सोडून थंयच्यान ग्रुपान पासार जातालीं. हांव रडत-रडत शाळा गाठतालें. म्हजे तांबडेगुंज दोळे पळोवन शाळे लागसार रावपी चारूच म्हाका आदार दितालें. केन्नाय ह्या मैत्रिणींच्या ग्रुपांत हांव दिसलें ना जाल्यार चारू म्हजे खातीर डॅरींग करून त्याच भिंडीमुळांत उबें रावन म्हजी वाट पळयतालें. ताच्या ह्या डॅरींगान हांवें भुतांचो भंय मनांतसून काडून उडयलो.

चारू म्हळ्यार एका मुंडकारालें चली. हांव स्वता एका भाटकाराच्या घरांतलें चली आसूनय, म्हजो आजो वा बापूय जातभेद न पाळपी जाल्ल्यान

चारूक आमच्या घराचीं दारांच न्हय तर आयदनां लेगीत येवकार दितालीं. आमी भायलीं, भितरलीं असो भेद पाळी नाशिल्ल्यान हांव पियेतां त्याच पेल्यान चारूय च्या पितालें. केन्नाय तें आपलो पेलो विसळूंक गेल्यार म्हजी आजी ताचेर धेंगसो घालताली.

“चारू पेलो स्नेहाच्या पेल्या शेजरा दवर.”

अशें हें चारू आनी हांव सांगातानच वाडलीं. ताच्या आवय–बापायन स्वता त्रास भोगत चारूक कॉलेजीचें शिक्षण दिल्ल्यान आमची जोडी अतूट रावली. कॉलेजींत ‘फेव्हीकॉलका पक्का जोड’ अशे फिशपाँडय आमकां मेळ्ळे. वयानुसार वाडटां वाडटां सैमान आमचे कुडी वांगडा मनाचेर मोरपिसां फिरोवंक सुरवात केली. मन हुळहुळें जावपाच्या ह्या टायमार संजीव आमचे मदीं भरसलो. आनी त्या वर्सा आमचीं नांवां घेवन आमकां फिशपाँड पडलो. ‘दो फूल एक माली’ आमी ताका किकोंत करून आमची दोस्ती, आमीजाद आनीकय घटमूट केली.

तशें पळयल्यार संजीवाच्या मना–काळजाची ओढ म्हजेकडेनच आसा हें म्हाका जाणवतालें. तोवूय चडांत चड यत्न करून म्हाका जाणोवपाचें काम करतालो आनी चारूचें मन संजीवा लागीं ओडटा हें म्हाका उमगतालें. संजीवान आपलो मोग उक्तायलो नासलो तरी ताची नदर दर खिणाक म्हाका सांगताली, ‘हय, संजीव तुजेर मोग करता.’ करतां करतां कॉलेजीचें निमणें वर्स सोपपाक पावलें. संजीव आमकां दोगांकय आवडटालो हें ताकाय कळिल्ल्यान ताचीय गत गडबडिल्लेवरी जावन तो घुस्पून गेल्लो. संजीव म्हजे खातीर पिसो जाला हें समजुनय हांवेंच काळजार फातर दवरपाचो निर्णय घेतलो.

“संजीव, चारू आयज आमचो हो कॉलेजींतलो निमणो दीस. आमच्या मदीं जो कितें ट्विस्ट आसा तो आमी तिगांय बेसबरी जाणटात आनी तिगांय भोगतातय.” मदींच म्हाका थांबोवपाचो यत्न करपी संजीवाक हांवेंच थांबयलो.

“नो संजीव. एक उतर उलोवं नाका तूं. म्हाका म्हजी आनी चारूची नकळत्या भुरगेपणांत सावन चालू आशिल्ली इश्टागत तिगोवंक जाय. कितेंय घडलें तरी हांव चारूचेर अन्याय जावंक दिवचें ना. येतां हांव दोन मिन्टांभितर.”

हांव तरतरत पेस्ट्री शॉपार गेलें. थंयच्यान तीन पेस्ट्रीज घेवन आयलें. तातूंतल्यो दोन पेस्ट्रीज एक सारक्यो तर एक विंगडच आशिल्ली.

"चारू, संजीव, ह्या दोन सारक्यो दिसपी पेस्ट्रीमदीं हांवें एक चार आण्याचें कॉयन खोचलां. ह्यो पेस्ट्री आमचे खातीर. म्हजे आनी चारू खातीर. आनी ती सेपरेट तुका रे संजीव. कॉयन आमचे भितरल्या जाका मेळटली ताणें संजीवाचें लायफ-पार्टनर जावपाचें."

संजीवान गार्डनाच्या कट्ट्यावेल्यान मान फाटीं वळयली.

"स्नेहा, म्हज्या आयुश्याचो तुवें सौदो सुरू केला गो?"

"ना रे. मैत्री आनी मोग हांचे खातीर जातली ती परिक्षा रे ही. एकच सांगतां, तुजें मत आनी मन कितेंय सांगत आसलें तरी तुका हांगा येतलो तो रिजल्ट स्वीकारचो पडटलो हें सांगपाचो हक्क म्हाका आसा. हें तूं नाकारचो ना हाची म्हाका खात्री आसा."

चारून तो मेरेन बशयेंतली आपली पेस्ट्री हांसत हांसत खावन सोंपयली. ताका कॉयन मेळ्ळी ना. म्हळ्यार...

संजीवान पिसाविल्लेवरी वयर उडी मारली.

"स्नेहा, म्हज्या नशिबान मन जाणलें. थँक गॉड. यु आर मायन फॉर एव्हर. आय लव्ह यू स्नेहा." हांवें आनी ताणेंय आमच्यो पेस्ट्री खाल्यो. म्हज्या दातां सकयल आयिल्ली कॉयन संजीवान वयर हवेंत भिरकायली. संजीवाचे वेंगेंत म्हज्या दोळ्यांक हुंवार आयलो. चारू मेकळेपणान हांसत आमकां पळयतालें.

कांय वर्सां उपरांत आमी आपापल्या आयुश्यांत थिरावलीं. अशें जातकीर घरच्यांच्या हयकारान आमच्या लग्नाचें थारलें. संजीवान उमेदीन साकरपुड्याची जंगी कार्यावळ करपाचो आग्रो धरलो. चारूनय ताका सपोर्ट केलो. सांगपाची गजाल म्हळ्यार हांव आनी संजीव लग्नबंधनान एक जावपाचीं थारून लेगीत आमची तिगांयचीय इश्टागत मात्शीय हाल्ली ना. वेल्यान आनीकय घट जाली म्हळ्यार अतिताय न्हय.

साकरपुड्याच्या हॉलांत अजून चारू पावूंक नाशिल्ल्यान हांव उमळशिकेन ताची वाट पळयतालें. इतल्यांत मंद पावलां उडयत चारू भितर सरलें आनी हांव सव्यार संजीवाक एकटोच सोडून दारांत धांवलें. चारूक वेंग मारून परतें येवन मागीर मुदी घालपाचो सुवाळो पुराय केलो हांवें. लोकांची आमकां वीश





करपाक झुंबड उडली. (खरेंतर तांकां चिकन-मटनाचो वास अस्वस्थ करतालो जावये!) मात्शी गर्दी कमी जातकीर चारू आमचे म्हऱ्यांत आयलें. दोगांयकय मनापासून ताणें वीश केलें.

"स्नेहा, खरें तर साकरपुड्याक व्हंकलेक वा न्हवऱ्याक लागच्याच मनशांनी गिफ्टां दिवप आसतात. म्हणून हांवें तुमकां कॉमन गिफ्ट हाडलां. घे."

आमी दोगांयनी हांसकुऱ्या मुखामळान ताचेकडसून गिफ्ट घेतलें. एक ल्हानशी सॅटीनची, चंची कशी भितर एक डबी आशिल्ली पोती ताणें दिली. हांवें ती तशीच संजीवाच्या कुर्त्याच्या बोल्सांत घाली.

सगळें फंक्शन सोंपतकीर आमी आमच्या दुखऱ्या पांयांक आराम दीत सव्यार बशिल्लीं.

"संजीव, चारूली डबी उगडून पळोवया रे." ताणेंय उमळशिकेन डबी दिली. डबयेच्या मखमली पोटांत दोन काळ्योश्यो कॉयनी आशिल्ल्यो आनी वांगडा एक चिड्डून कोंबिल्ली चीट.

'मोगाळ स्नेहा, संजीव तुजेर मोग करता हें जाणून आनी तुजेंय मन ताचे करतां ओडटा हें समजुनच हांवें तुमचे मदल्यान भायर पडपाचो निर्णय घेतिल्लो. आमीजाद आनी मोग हातूंत त्याग होच म्हत्वाचो आसता. तुवें तर आमीजादी खातीर आपलो मोग पणांक लायिल्लो. हांव इतलें बेशरम आनी सुवार्थी न्हय गो की तुजें आनी संजीवाचें मन हांव समजूंक शकचें ना. तुमच्या दोगांयच्याय सुखा खातीर हांवें एक सारक्या दिसपी त्या दोनूय पेस्ट्रीमदीं चार आण्यांच्यो कॉयनी तुजी नदर चुकोवन खोंचल्यो. तुज्या बऱ्या नशिबान दोन कॉयनी आशिल्ली पेस्ट्री म्हज्या वाट्याक आयली. तुमची दोगांयची निर्मळ खोशी पळयतां पळयतांच हांवें दोनूय कॉयनी परत्यो म्हजे पर्सींत दवरल्यो. त्योच ह्यो कॉयनी. सदांच सुखी समाधानी राव आनी संजीवाकय सुखी दवर. तुजेंच चारू.'

चारूची चीट वाचतना म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

"संजीव, आमचें चारू मनान कितलें गिरेस्त पळय रे."

संजीव म्हजो हात कुरवाळत चारू दिसता काय पळयतालो.



# चॉयस इज युवर्स

**स**काळीं-सकाळीं भुरगीं शाळेंत वचपाक गेलीं आनी घरकार शिर्वीसेक भायर सरलो. आतां दनपार मेरेन म्हजेंच राज्य. हांवें बेगोबेग टी. व्ही. लायलो. एक बायल थंय लोकांचें भविश्य सांगून स्वताचें भविश्य घटमूट करताली. घडये मानसीक रितीन मात्शे फ्राक लोक तें आयकून बरें कितेंतरी आजतरी घडटलेंच ह्या विचारांनी उत्तेजीत जायतय बी! हांवें सरळ दुसरो चॅनल लायलो. खरेंच, ज्योतीश, भविश्य हांचेर सेंट परसेंट विश्वास दवरप? तशें हें अंकगणितीय शास्त्र अशें म्हणटात. पूण शंबर टक्के विश्वास दवरून वागप काय आपले तांकीचेर विश्वास दवरप हो जणेकाचो प्रस्न.

ज्योतिशावेल्यान म्हाका येवजली ती लग्नावेळावेलीं जातकां पळोवपाची आनी गूण जुळपाची कटकट. खूब फावटीं दोन जिवांचीं काळजां-मनां एक जाल्लीं आसुनय जातक आनी थंयचे चौकटींतले गिरे हांच्या नाखुशेन तांच्या मोगाक लग्न ह्या सामाजीक सर्वमान्य नात्याचें नांव मेळना. घरच्यांच्या फोर्सा खातीर हे दोनूय जीव कोणायकडेन लग्न जातात आनी एकंदर चार जिवांचें आयुश्य मातये भरवण जाता. धर्तरे पसून लाखो प्रकाशवर्सांचे दुरायेचेर फिरपी गिरे साद्या मनशाच्या आयुश्याचेर खरेंच इतलो प्रभाव घालतात? आयच्या ह्या विज्ञानयुगांतय आमी असल्या गजालींचेर विश्वास दवरप म्हळ्यार नव्या वर्साचो ज्योकच! 'पाडा पडूं त्या भविश्यवाल्या चॅनलांचें. म्हज्या दिसाची सुरवातच विचारांच्या चक्रव्युहांत घुस्पून जाली आयज. पाडापडिल्लो तो चॅनल लागनाशिल्लो जाल्यार कितेंय ढिंका-चिका पळोवन उमेद तरी येवपाची.'

हांव विचारांत घुस्पत वतालें. इतल्यांत म्हज्या मोबायलान किळांच मारली. स्क्रिनाचेर म्हजी लागची मैत्रीण निशाचें नांव झळकलें.

‘‘आरे निशा, कितले दिसांनीं आयज याद आयली गो म्हजी.’’

हांव म्हजो शीण काडत रावलें. ताका उलोवंकच दिनासतना हांव म्हजो ओघ कमी जायसर ताका रागान, मोगान तापयत, ताचेकडेन उलयत रावलें.

‘‘कशी जाली गो दिवाळी? अक्षय, शलाका आनी तुजो भोळासांब कसो आसा?’’ म्हजी गाडी ताचे फामिलेचेर पावतकीर हांव थांबलें.

‘‘अंजु, जालें तुजें उलोवन? सगलो शीण काडलो? आतां हांव उलोवं?’’

निशाच्या ह्या उतरांनीं म्हजें विमान सामकें जमनीर देंवलें.

‘‘सॉरी निशा. म्हजें जाणां तूं. ब्रेक नाशिल्ली सुपरफास्ट गाडी कशें बडबडलें हांव. आतां तूं उलय हांव आयकतां. भुरगेपणांतल्या भशेन हाताची घडी आनी तोंडार बोट. चल.’’

‘‘अंजू आमी सगळीं खुशाल आसात. पूण एक प्रॉब्लेम जाला. देखून तुजी मजत जाय. ल्हानपणा सावन म्हजी पाठराखपीण कशें तूं जाल्ल्यान दर एके चिंतेंत तुजीच साथ मेळ्ळ्या. आतांय हांव तेच आशेन तुजे लागीं पळयतां.’’

घडये म्हजें भविश्य आयज हेरांचे प्रॉब्लेम सोडोवचे पडटले अशेंच आसूं जाय शें म्हाका येवजलें. खंयचो तो चॅनल लागलो आनी मन भविश्य आनी ज्योतिशाच्याच विचारांत घुस्पलें अशें जालें. मनांतल्या मनांत हांव हांसलें.

‘‘निशा, उलय तूं. आयकतां हांव. पळोवया तुजो प्रॉब्लेम सोडोवपाचो यत्न करून.’’

‘‘अंजू, फोनार सांगप शक्य ना गो. तुका मेळुनच उलोवंक जाय म्हाका. परवां सकाळींच येतां हांव तुजेकडेन. चल बाय.’’

फोन दवरून हांव म्हज्या दिसपट्टी कामांनी घुस्पलें आनी परवांची वाट पळोवंक लागलें. ह्या-हू करून फाल्यांचो आयज जावन सोंपलो आनी निशाचो परवां फाल्यांचेर पावन आयजय जालो.

सकाळीं सकाळीं म्हळयार बेगीनच पावणेआठांकच निशा म्हज्या घरा पावलें. एकाच शारांत पूण विरूध्द दिकांनीं रावपी आमी फोनाचेर मदींमदीं

मेळटालीं खरीं पूण आमने सामने भेट म्हळ्यार दुदांतली साकरच. दोगांयनी एकामेकांक गच्च वेंग मारून ही भेट सजयली. हांसकुरेंशें ताजें मुखामळ म्हाका भितरले भितर दुखिल्लेवरी दिसलें. हांवें ताका सालांत बसोवन पयलीं मूळ मुद्याक हात घालो.

"निशा, च्या-पाणी मागीर पळोवया. पयलीं तुजो प्रॉब्लेम सांग. यत्न करूया तो सोडोवपाचो."

हांवें मेकळेपणान केल्ले सुरवातीन निशाय सुशेगाद शें जालें. घडये म्हजो आत्मविश्वास पळोवन ताका ताच्या प्रॉब्लेमाचें सोल्युशन मेळटलेंच हाची खात्री पटली आसतय.

"अंजू, तुज्याच भरवंशार हांगा धांवत आयलां गो हांव. अक्षय आनी शलाका तुजें बेसबरें गुणगान गायतात. म्हणटात, 'मम्मी, अंजुमावशेक पळय गे आपलें नॉलेज कशी अपडेट दवरता ती.' ती म्हळ्यार तूं गो. 'अंजुमावशीकडेन उलोवंक सुध्दां बरें दिसता.' म्हाका सदांच थोमणे मारतात, हांव कचरापेटी जालां म्हणून. हांचे खातीर जालां न्ही गो हांव घरकोंबडी! प्लीज अंजू तूंच मात्शें अक्षयाक समजाय. तुजे उतरा भायर तो वच्चो ना."

म्हणल्यार प्रॉब्लेम अक्षयाचे बाबतींत आसा हें कुवाडें सुटलें. हांव आनी निशा वांगडाच शिकतालीं. पूण एकदां लग्न जालें आनी जिवाचें अर्दें सार्थक जालें. भुरगीं जल्मतकीर तर आनीक कांयच उरूंक ना हे भावनेन निशान सामकेंच काकुबायचें रूप घेतलें. संवसार संवसार करीत आनी घरकार-भुरगीं हांचे भोंवतणी घाण्याच्या बैलावरी गिरगिरतना स्वताक साप्प विसरलें. स्वताच्या व्यक्तीमत्वाचो स्वताच खून केलो म्हळ्यार अतिताय न्हय. निशाकडेन पळयल्यार म्हाका काकूटशी दिसली. सामकें हाताकडचें बोतर कशें जाल्लें.

"आगो, पूण अक्षयान केलें तरी कितें अशें?" हो म्हजो प्रस्न वोठांतल्यान भायर पडलो मात, निशा धबधब्यावरी कोसळ्ळें.

निशाचो गुणवंत पूत मनाचो कलाकार. हाताबोटांनी चित्रकला भरून व्हांवताली. तो एके चलयेच्या मोगांत पडलो. पुराय तरेन एकतर्फी मोग म्हणपा सारको. ताका ती चली खूबच आवडली. दोगांय मदीं इश्टागतय वाडली.

आवय-पुता मदल्या मेकळ्या नात्याक लागून अक्षयान आपलें मन आवय सामकार मोकळें केलें. निशाचे नदरेन चलये मदीं वा फामिले मदींय कांयच खोट नाशिल्ली आनी ताचे मतान तर अक्षयाची आवड हीच गजाल फायनल आसा. देखून निशा वा घरकाराचो विरोध हो प्रस्नच नाशिल्लो आनी जेन्ना घरची लक्ष्मी खंयचेय चलयेक सून म्हणून स्वीकारपाचेर ठाम रावता तेन्ना तो निर्णय पुरायपणान त्या घराचोच आसता हातूंत दुबावच ना. हरशीं घरच्या पुतान एकाद्री चली पसंद करची आनी जुस्त आवयन नकार दिवंचो ही पुरातन परंपरा! आयजूय हें शंबरांत णव्वद टक्के तरी घडटाच. निशान ते चलयेची सगली चवकशी काडली आनी अक्षयाक ताची आवड खूब योग्य आशिल्ल्याचें सांगलें.

खरें म्हळ्यार खंयचेय मांयक आपलो पूत सुनेचे सुवादीन करप कठीणच जाता. इतलो तेप आपलो आशिल्लो पूत आतां सुनेचो, एके परकी बायलेचो जातलो ह्या विचारांत, भंयान आवयांक चल्याचें लग्न सुखदायक आसलें तरी मनोमन भेसडावपीच थारता. निशाच्या घरांत मात वातावरण उलटेंच आशिल्लें. स्वता मांय चल्याचे पसंतीक तेंको दिता. खरेंच कोण त्या अक्षय मोगांत पडिल्ले चलये, तूं भाग्यवंतच थारतलें गो ह्या घरांत पावल्यार! हांव मनोमन चिंततालें. निशा उलयत आशिल्लें आनी हांव कानांत जीव हाडून आयकतालें. धाडस करून अक्षयान एक दीस ते चलयेक प्रपोज केलेंच. तें चली हय ना करत करत 'तुका जाय तें समज' मेरेन पावलें. पूण निमणेमेरेन ठाम आनी शेर्त अशें उतर दिलें ना. अक्षय मात ते चलये खातीर पागल जालो. तशें पळयल्यार अक्षयाक चलयांची वानवा ना. पूण ताणें मना-काळजांत फक्त 'तें'च रूजलां, आयुश्य वांगडा काडल्यार ताचेच वांगडा ना जाल्यार आयुश्यभर एकोडोच रावतलों हे अक्षयाचे प्रतिज्ञेन निशाच्या मातृह्रदयाक धक्को बसला. वयाच्या मानान बरो समंजस आशिल्लो अक्षय आपल्या विचारांचेर ठाम रावतलो हें निशा वांगडा म्हाकाय खबर आसा.

हाचे उपरांत निशा स्वता ते चलयेक मेळ्ळें. अक्षयाची सगळी काणी ते चलये मुखार ताणें सांगली. पूण ती चली कांयच उलयनासतना चलत रावली.

अक्षयाची पसंदी म्हळ्यार पुराय फामिलीचो तेंको, प्लीज पोजीटीव्ह चीत, तो तुजे खातीर आपलें आयुश्य वाऱ्यार सोडपाक तयार जाला. विचार कर हें सांगून सुद्दां तें चली बदलें ना ताका. मनांतल्या मनांत हांव म्हणटालें, 'भाव खाता आसतलें ना जाल्यार रूपा-गुणांचो माज चडला आसूं येता!'

फट्कन वोंठार उतर आयलें. "माज आयला आतांच्या चलयांक. चलये गर्भाची हत्या जायत वता देखून चलयो कमी जातात आनी लग्नाच्या बाजारांत हांकां डिमांड वाडला देखून भाव खाता जातलें. पूण हांव तरी हे चलयेक मुर्ख मानतां. कारण तें पयशा-भांगराची गिरेस्तकाय सोदत अक्षया सारको गुणवान भुरगो आनी तुमचे फामिलि सारकी फामील न्हयकारता जाल्यार मुर्खांतलें मुर्खच तें चली."

अजाप, म्हज्या ह्या उतरांनीं आपले तोखणायेन खुशाल जावपाचें सोडून निशाच दुखावलें. "ना गो अंजु ते चलयेक कांयच म्हणूं नाका. खरेंच गुणी आसा गो तें. हांव तर मनोमन ताका सून मानपाकय लागलां."

हांवें कपलार हात मारलो.

"अंजु, तें म्हळ्यार म्हज्या अक्षयाचें काळीज जालां गो. ताका किदेंय म्हळ्यार अक्षयाक दुखतलें म्हणून म्हाकाय दुखता."

विचित्र अशे मायेचो तो अविश्कार पळोवन हांवय अजापलें. ताच्या दुकांनीं भरिल्ल्या दोळ्यांत पळयत हांव सवकाश उलयलें, म्हजेंय काळीज दाटिल्लें न्हय?

"निशा, येत्या आयताराक हांव तुमचेकडेन येवन अक्षयाकडेन उलयतां आनी समजायतां ताका. ओके?" निशाक च्या-नाश्तो दिवन हांवें ताका पर्थून वचपाचे गाडयेर बसयलें.

अक्षयाक ह्या टॉपीकाचेर हांव कांयच आनी कशेंच समजावंक शकचें ना हाची म्हाका पुराय खात्री आशिल्ली. पूण म्हजें म्हणणें तो आयकून घेवन घडये ताचेर कितेंय पॉझीटिव्ह चित्तलो हाची मात्र मनोमन खात्री आशिल्ली.

"अक्षय बाबा, तूं ते चलये खातीर स्वताक दुर्दैवी बी समजूं नाका. खरें म्हळ्यार 'तें' कोण पळय आसा न्ही तें मुर्खच न्हय तर खरेखुरें दुर्दैवी म्हणपाचें.

कारण येद्या ल्हान वयांतूच स्वताची वळख निर्माण करपी तुजे सारको भुरगो ताणें न्हयकारला. प्लस मांयपण न गाजयतां मैत्रिणीभशेन वागपी तुजे आवयकय ताणें धुडकायलां. 'तें' चली गुणी आसुनय ताचे सारकें दुर्दैवीय तेंच.''

हे असले सागणेन हांव अक्षयाक सावरपाक शकन पूण ताचे प्रतिज्ञेकडच्यान पयसावपाक शकन हाची म्हाकाच खात्री ना.

जेन्ना एकाद्रया चल्याची आवय आपल्या पुताची आवड जपपाक एकाद्रे चलये लागीं वता तेन्ना ते चलयेक समजूंक जाय की त्या घरांत आपल्यो खूबच खूब अर्थी जातल्यो. हांव चिंततालें, घडये ते चलयेच्या वा ताच्या घरच्यांचे फामिलीच्या मनांत अपुरबाय, तोखणाय, माया-मोग हाचे परस वयलो वयलो भपको, गिरेस्तकाय, वैभव हांकां म्हत्व आसतलें. म्हाका येवजलें म्हजें तरणेंपण. म्हजें लग्न जालें तेन्ना म्हज्या घरकाराकडेन थोडेशे पयशे आशिल्ले. ते गरिबींतय हांवें समाधान अणभवलें. आयज देवादयेन सगळें आसतनाय हांव तशेंच सुख-समाधान भोगतां. घडये सूख पयशांनी मेळोवं येता... पूण समाधान? विकतें मेळटा तें? समाधान मेळोवंक पयसोच जाय काय घरांतल्या मनशांची माया मोग पुरता? ह्या प्रस्नाच्यो जापो मेळोवंक तें चली येशस्वी जाल्यारच तें साल्वार. शेवटी च्यूज करप ताच्याच हातांत आसा. वयले वयले सूख-समृध्दींत लोळपाचें काय उपाट समाधानान जगपाचें.... चॉयस इज युवर्स बेटा... थिंक पोझिटीव्ह चूझ द बेस्ट.



# भावार्थ... काय सासाय?

जल्मा उपरांतच आवयक होगडायिल्ल्या काशीक व्हडलो भाव, अण्णा म्हळ्यारच आवय जाल्लो. ह्या जाल्ल्या बाळकाचें पोट भरलां हें पळोवपा पासून ताचें हागू-मुतू काडपाची जापसालदारकी धा वर्सांच्या अण्णान आपल्या खांदार घेतली. भाटकार बापायन काशीक कांयच उणें करूंना तरी ताणें बापायकडेन कसलोच हट्ट केलो ना. सगले हट्ट तें करी अण्णाकडेन. जुस्त भुरगीं आवयकडेन करतात तश्शीं. त्या तेंपावयल्या रिती प्रमाण काशीचें लग्न चवदाव्या वर्साक केलें. इतलो तेंप मेरेन अण्णा-बाबाचें आशिल्लें काशी शेजारगांवच्या धनवंत आनी गुणवंत भाटकाराच्या घरची सून जावन लक्ष्मीबाय जालें. ह्या भाटकार मांवान आपले मेल्ले धुवेच्या जाग्यार लक्ष्मीबायक धूव मानून घेतली. आदलो तेंप आसुनय सुनेक घरा भितर बंधनानी दवरिनासतना भायर मेकळेपण दिलें. लोक तर तांकां मांव-सून मानिनासतना जाण्टेपणांत भाटकाराक जाल्ली धूव म्हणुनच तोखेताले. लक्ष्मीबायच्या पोटाक पिकील्ल्या दोन नातरांची चार वर्सां अर्थ-अपुरबाय करून भाटकारान सुखान प्राण सोडलो.

ही लक्ष्मीबाय म्हळ्यार म्हजी खास्सा आजी. तिज्या पुताची हांव एकटी एकसुरी धूव. आपल्या मांवाच्या मरणा उपरांत सगल्या संवसाराची जापसालदारकी तिणें पेलली. म्हज्या आज्याक आनी म्हज्या बापायक सांगाताक घेवन संवसार चलयलो. भाटां-बेसां फुलयलीं. शेजाऱ्यांची नड सांबाळ्ळी. कुळवाड्यांच्यो-मुंडकारांच्यो होटी भरल्यो. सगल्यांक व्हनीबाय म्हळ्यार देव जाली. जेन्ना जेन्ना कश्ट करतनाय संकश्टां आयलीं तेन्ना गांवचे देवतेची भावार्थान आराधना

करून कामांक वेंग मारली आनी संकश्टांय पयसावलीं. हें यश देवतेचे कृपेचें फळ हें येवजून देवते वयलो तिजो भावार्त आनीकय घट जालो. तेन्ना सावन आयज मेरेन आमच्या ह्या देडेक हजार लोकवस्तेच्या गांवांत ग्रामदेवीचें सुपुल्लें पूण शांत अशें एकूच देवूळ आसा. खरें फट देवताच जाणां पूण अशें म्हणटात की हे देवतेक फकत पांच फुलांची आंगवण केल्यार लेगीत ती हटकून पावता. आज्जेन हे देवतेक दर सोमाराक पांच फुलांची लावण लायिल्लेवरी केलें. पूण त्या वेळार सावन खंय आमच्या घराक बरकत येत गेली. बडा घर पोकळ वासे अशें जाल्लें घर आज्जेन नांवारूपाक हाडलें.

त्या तेंपार आज्जेन दर सोमाराक एके वाटयेंत घरावें तूप आनी एका केळीच्या चोळक्यार पांच तरांचीं विंगविंगड फुलां घेवन देवीच्या दर्शनाक वचपाचो धरिल्लो नेम कुडीन सांगात दिता मेरेन पाळ्ळो. दारांतच ल्हानशें पोरसूं करून थंय हीं फुलां ती फुलयताली. दर सोमारा घरावें तूप कढयलें की भरणेंत ओतचे पयलीं देवतेची वाटी भरप हो नेम तिणें चुकयलो ना. स्वता शिपून वाडयिल्ल्या पोरसांत आबोल्योच दोन-तीन तरांच्यो आशिल्ल्यो. दसणी तर रंगारंगांच्यो. अनंताच्योच साबार तरा. ते भायर देवकेळ, कुंजी, जाय-जूय, मोगरी, बटमोगरी हीं सिजनल फुलां आसतालींच. कमीत कमी तीं पांच फुलां व्हरतालीच. पूण वांगडा देवतेक एक फातीय आसताली. भरपूर आबोलीं आसल्यार मोतयांचो सोर करतालीच ती! तिनसांजेर फुलपी शब्दुल्यांचो हातार गुंथून केल्लो सोर तर नंदादीपाच्या उजवाडांतल्या देवतेचें रूपच खुलयतालो. सुटयो पडल्यो की म्हज्या आत्यालीं भुरगीं आमगेर येतालीं. आमच्या चार-पांच जाणांच्या आवाजान ती खोशी जाताली. 'म्हजें गोकूळ आतां भरलें.' ह्या एकाच उतरांत तिचें समाधान सगल्यांक जाणवतालें.

तेन्नाच्या तेंपार तिनसांजेर काडिल्लें गायचें ताजें दूद मातयेच्या कुळण्यांत ती तापयताली. तें विरजणाक लावन ताक वा धंय करपाची तयारी जाली की ह्या कुळण्यांतली दुदाची खरवड खावंक आमची झुंबड पडटाली. आयजूय ती रूच याद आयल्यार जिबेक उदक सुट्टाच. पूण दोळ्यांतय उदक दाट्टा. अपुरबायेन हांवें फाटीं म्हज्या चल्याक मुद्दाम मातयेच्या कुळण्यांत तापयिल्लें

दूद पिवंक दिलें आनी वांगडाच त्या कुळण्याचे वण्टीक जमिल्ली खरवड कुलेरान काडून दिली. चल्याच्या तेन्नाच्या उतरांनी म्हजें काळीज जळ्ळें. साप्प करपलें. 'मम्माक भिकेचे दुवाळे लागल्यात.' फास्ट फुडाची रूच नाचपी जीब ओरिजीनल रूचच विसरल्या. हांवें तेन्नाच कुळण्याचें विसर्जन केलें. 'तुमच्या नशिबांत आलमिनां आनी स्टिलांच.' हांव मनांतच फडफडलें. आसूं त्यो गजाली!

आंबे काडपा पसून ते तणांत घाल्यात तांतले खंयचे पिकल्यात तें सोदपी आमी नातरां पळोवन आज्जी खोशी जाताली. मोटवें आनी गोरेंपिट्ट आज्जेचें तें रूप, ते धादोस दोळे आयजूय म्हाका याद येतात. आमचे ग्रामदेवीचें नंदादीपाच्या उजवाडांत दिसपी रूप आनी म्हजे आज्जेचें रूप हातूंतलें साम्य म्हाका तेन्नाय अजापीत करतालें आनी आयजूय करता. आमी तेन्ना तिका हांसतालीं. कारण कितलेंय काम आसूं वा घरांत, भाटांत कामेरीं, मानाय आसूं ती वेळांत वेळ गाठून पांच फुलां आनी तुपाची धाकटुली वाटी घेवन देवळांत वचून येतालीच. घडये देवतेन मायेन आपल्या रूपाची सावली तिचेर दवरिल्ली काय? हो विचार आतां म्हजे मनांत येता.

पावस आसूं, शीं पडूं वा सुर्यो तापूं, आज्जेन आपलो नेम मोडलो ना. सोमार, सांजची साडेपांच-पावणे स ची वेळ आनी हातांत फुलां-तूप घेवन देवळांत वचपी म्हजी आजी हें एक समीकरणच जावन पडिल्लें. हेरशींच्या दिसांनी ती हेर बायलां भशेन हांचें तांचें धुवपाक कोणायच्याय सोप्यार वचून बी बसनाशिल्ली. कामांतल्यान वेळ उरलोच जाल्यार वाती करप, गोधड्यांचीं कपयाळीं जोडप, शेवयो, कणगांचे घोस करून सुकोवप, सांडगे, वडयो-पापड करप असलीं आपल्याच संवसाराचीं कामां करी. कांयच ना जाल्यार तांदूळ वेचून दवरताली ना जाल्यार आंगणभर शेण सारयताली. वयाच्या फकत साठाव्या वर्साक तिका कांक्र जाल्ल्याचें कळ्ळें. म्हजें साप्प भुरगेंपण जाल्यान म्हाका कांयच कळ्ळें ना. पूण तिका उतेराचो कांक्र जाल्ल्यान यमयातना भोगच्यो पडल्यो. आज्यान, म्हज्या बापायन तिका दोतोरासरी व्हरून ऑपेरेसांवाची तयारी केली. पूण दोतोरान पोट उगडून खंय परतें शिवलें. कारण कांक्र

सगळेकडेन फाफसल्लो. चलूंक जाता मेरेन आजी देवळांत सोमाराचो नेम पाळपाक वताली. तेन्ना मात सतत चलप जायना जाल्ल्यान तिका हांच्या-तांच्या सोप्यार मात्शें तरी तेंकचेंच पडटालें.

कांय दिसां उपरांत तिज्यान हांथरूणाचेर लेगीत उठून बसपाक जायना जालें. सोमाराक बाबान तिज्या हांथरूणांसरींच फुलां दवरलीं आनी तूप घालून दिवली पेटयली. हांसकुऱ्या मुखामळान आपल्या पुताक तोखेयत आज्जेन ग्रामदेवीक थंयच्यानच हात जोडले. मागीर तिणें तीं फुलां आनी दिवली तुळशी सामकार दवरूंक बाबाक फर्मायलें. दुसरे दिसा सकाळीं हांव उठलें तेन्ना म्हाका कळ्ळें की आजी सोंपली. कोणाकच न सांगतां, न कळयतां आजी गेली. न्हिदेंतच केन्नातरी तिका मरण आयलें. अजापाची गजाल, काल बाबान तुळशीपेडार दवरिल्लीं पांचूय फुलां तिचे छातयेर आशिल्लीं. तिवूंय तशींच टवटवीत. मात लेगीत बावूंक नाशिल्लीं.... आनी आज्जेचो चेरो तसोच... देवतेच्या नंदादीपांतल्या उजवाडांत दिसपी चेऱ्यावरी.



# राखीचें बंधन!

**शि**पु भाटकाराचे घरकान्नीन चल्याक जल्म दिलो तो दीस तांचे खातीर भांगराळो थारलो. व्हडल्या दोन धुवां उपरांत जाय-जाय म्हणून खूब तेंपान जल्मल्लो चलो म्हळ्यार त्या घराण्याचो वारस, भावी भाटकार. 'घर दार भरलां पूण खावपाक कोण ना' ह्या मांयच्या थोमण्यांनी बेजारिल्ली भाटकान्न चल्याच्या जल्मान सुखावली. मनांतल्यान तिका खूब वायट दिसतालें मांयच्या थोमण्यांचें. लक्ष्मुमी-सरस्वतीसारख्यो दोन धुवो आसुनय 'खावपी कोण ना' हो मांयचो थोमणो तिचें काळीज चिरत वतालो. आसूं! घराण्याक वारस मेळ्ळो म्हणून भाटकार खोशी, घरांत धाकटो बाबू आयलो म्हणून ताई-दीदी खोशी, भायर पडिल्लो आपलो घोव पर्थून जल्मलो म्हणून जाण्टी मांय खोशी आनी आतां आनी बाळंतेराच्या पिडेंतल्यान वाचतली म्हणून भाटकान्न खोशी. एकंदर बाबुच्या जल्मान शिपु भाटकाराचें घर खोशेन भरलें.

भाटकारान गडगडाटान सटी केली. मस्त नुस्त्याचो भूस मारून वाडो बाबूक आशिर्वाद दीत घरा गेलो. सटीमांयन त्या दिसा बाबुच्या कपलाचेर आपलो लेख बरयलो. ताई-दीदी बाबू भोंवतणी घिट्ट्यो घालतालीं. जाण्टी आजी सुवेर जाल्ल्यान बाबूक हात लावंक दिनाशिल्ली. न्हावंक वचचे वेळार दोगांय बाबू म्हऱ्यांत बसून, ताका हात लायत पदां म्हणटालीं, 'कोंबलेबाबानों साद रे घालात, आमगेर एक बाबू जाला.' बाबुलो दोळे उक्ते करून न्हिदांतच हांशिल्लेवरी करतालो आनी ताई-दिदी खोशी जातालीं. घरच्यो चार बायलो, एक दादलो आनी हेर नोकर चाकर हांच्या मेळ्यांत बाबुलो दिशीमाशीं व्हड

जावंक लागलो. वंशाचो दिवो, वंशाचें आनी आज्या-पणज्याचें नांव फुडें व्हरपी वारसदार म्हणून बाबुल्याक घरांत खाशेली वागणूक मेळटाली. घरचें दूद, वेळावेळार दोतोरान दिल्लीं टॉनीकांक लागून बाबुलो घसघशीत वाडटालो. पूण वाडटां-वाडटांच सगल्यांक समजून आयलें की बाबुल्याची बुध्द वाडच ना.

हें समजून येतकीर शिपु भाटकाराचे आवयन आकांत मांडलो. "एका चल्याचेर बंद करिनाकात म्हणून सांगल्यार दोगांय आयकलीं नांत. ऑपरेसांव करून भुरगीं जल्मांक येवचीं ना ही तजवीज केली आनी हो असो जालो. म्हजेंच नशीब फुटकें." आवयचो आकांत, सुनेक चलिल्लो गाळयांचो शिंवोर आयकून शिपु भाटकार फुर्रऽ जालो. "तीन-तीन बाळतेरांनी ती थकल्या ती दिसना मगे तुका? हे वेळार कॉम्प्लीकेसांव जाल्ल्यान दोतोरानूच बंद केलां. आनीक बाळंतेर म्हळ्यार तिचें मरण हें दोतोरान सांगतकीर आनीक मार्ग आसा?" शिपु भाटकारान चल्याक जाग्यार हाडपा खातीर दुडवांचें तोंड पळयनासतना दोतोरांचीं दारां झरयलीं. एका व्हडल्या दोतोरान सगली तपासणी केली ताची आनी चार दिसांनी आपलें म्हणणें सांगलें,"शिपुबाब, ह्या भुरग्याक तुमी भरभरून फकत मोगच दियात आनी तोवूय ताचे कडच्यान मात कसलीच अपेक्षा धरिनासतना. ताका देव बुध्द दिवंकच विसरला. ताची कूड वाडटली. पूण मत केन्नाच वाडची ना." शिपु भाटकार आनी ताचे घरकान्नीचे दोळे भरून आयले.

आंगान बेंगरूळ कसो वाडपी बाबुल्याचीं भुरगेपणां तोखेयत-तोखेयत आज्जेन दोळे धांपले. इतलो तेंप आजी बाबुल्याक बाबा-पुता करून ताचीं कामां जमता तशीं ताकाच करपाक लायताली. आतां सगलो भार भाटकान्नीचेर आयलो. हेर कामां भितर तिका बाबुल्या खातीर वेळ होगडावप अशक्य जाल्ल्यान तिणें ताचीं दिसपट्टीं कामां आपणेंच करपाक सुरवात केली. च्या-नाश्तो, खावोवप-पिवोवप तें ताका न्हाणोवप लेगीत आवयूच करूंक लागली. पयलींच कमी बुध्दीचो बाबुलो आतां गोडाचो गणपती जालो. शिपु भाटकर भाटां-बेसांचीं कामां आनी कोर्टांत गुंग! ताई बी.ए. फायनलीक जाल्यार दिदी बारावेंत जाल्ल्यान त्या वर्सा बाबुल्याची आवय जाम जाली. तें पळोवन ताईन बाबुल्याचीं थोडीं कामां आपले आंगार घेतलीं. ताणेंय आज्जे भशेन बाबुल्याक आपलीं

कामां आपणेंच करपाक शिकोवपाचें मनार घेतलें. ताचेर सामकी नदर दवरून ताईन ताका सादारण तयार केलो. आवयकय ना म्हळ्यार बरोच सुशेग जालो.

एक दीस ताईन कॉलेजींतल्यान येवन बाबुल्याचीं कामां करपाक घेतलीं. ताका आनी वांगडा आपल्याकय आवयकडच्यान वाडून घेवन दोनूय ताटां घेवन तें सालांत आयलें. बाबुल्याक वेवस्थीत जेवपाक लायतना ताका खूब समाधान भोगतालें. आवय दारा फाटल्यान रावन भावा-भयणीं मदलो निर्मळ मोग तोखेताली. ''बाबुल्या, चल हात धुवून येवया.'' ताईन सांगले बराबर तो आंवपाक गेलो.

''बाबुल्या, आतां तूं मात्सो न्हीद. हांव हांगाच अभ्यासाक बसतां. मागीर तुका हांव तेल लावन न्हाणयतलें आंऽ!''

नंदीबैला भशेन मान हालोवन बाबुलो मांद्रेचेर आड पडलो. ताई अभ्यासांत रंगलें. तीन-सव्वातीनांक आईन च्या केली.

''आगो, आयज दिदी बेगीन येवचें ना म्हणटालें. कॉलेजींत प्रेजेंटेशन आसा म्हणटालें! तें आयल्यार ताका च्या करून दी. हांव मात्शें वयल्या वाड्या वयल्या वीजुबायेगेर वचून येतां आं.'' दोनूय रिकामे पेले भितर विसळून दवरून आई भायर सरली.

''ताई च्या दी.'' बाबुल्याच्या आवाजान ताईली तंद्री भंगली. ताईन ताका थर्मासांतली च्या पेल्यांत घालून दिली. फुर्र-फुर्र करून च्या पिवपी बाबुल्याक पळयतना ताईच्या दोळ्यांत दुकां दाटलीं.

''जाली च्या. सोंपली.''

''चल तर तुका न्हाणयतां!''

ताई ताका घेवन न्हाणयेंत गेलें. ताईन ताच्या फाटी-पोटाक तेल लावंक घेतलें. आयज बाबुल्याची मती वेगळेंच कितें चिंतताली. ताईल्या स्पर्शामदीं ताका भयणीची माया लागनाशिल्ली... अस्तुरेच्या कुडीचो वास ताका येतालो. मती कमी आसली तरी कूड व्हडल्या दादल्यावरी वाडिल्ली ताची. ताईच्या स्पर्शान ताचे मदलो दादलो जागो जालो, पेटलो. पयलींच बुध्द कमी आनी आतां तर सांवार आयिल्लेवरी मंदबुध्द ताका साथ दिवंक लागली. मुखावेल्या

ताईमदीं ताका फकत एक मादी दिसताली. झोंपय मारून ताणें ताईक आड घालें. राकेसी तरेन कुडीची वान्सा भागोवन बाबुलो शांत जालो.

पंदरा मिन्टां उपरांत घरांत पाविल्ल्या आवयक न सांगतांच सगली गजाल कळ्ळी! 'आई तोंडांत पदर कोंबून कित्याक रडटा? ताई आपल्याक न्हाणय नासतना जमनीर पिंजके कपडे घालून कित्याक न्हिदलां?' हे प्रस्न बाबुल्याचे मंद बुध्दीक पिडावंक लागले. न्हावपाक आग्रो करपी बाबुल्याक कशें समजावप आनी ताईक, जें मना-कुडीन मोडून-तुटून पडलां ताका कशें सांबाळप हें आवयक कळना जाल्लें. कशेंतरी ताईक सावशीद करून ती घरांतल्या कामांत रमली. घरा फाटल्यान नाल्लांच्या लॉजांतल्यान धुंवराचो लोट येता म्हणून ती ताकतिकेन फाटल्या दारांतल्यान लॉजाकडेन पावली...

लॉजाचें दार भितरल्यान बंद हें जाणवतांच ती थर्त भियेली. एक जनेल तिणें धुकल्ल्यार भितर उज्यान पेटिल्लें ताई सैरभैर धांवता... जणू पेटती मशाल फरफरता. तोंडांतल्यान एक उतर लेगीत काडी नासतना वळवळत मर्णाक तोंड दिवपी आपलेंच रक्तामांसाचें पोर पळोवन आईचें काळीज सामकें फुटलें. काळेंकिट्ट जावन पडिल्लें ताई आपणें हालयल्यार कित्याक उठना? आई, बाबा आनी दीदी रडटात कित्याक हें समजनाशिल्लो बाबुलोय हुयेल्यो मारून रडूंक लागलो. म्हज्या एका हाताक दिदी राखी बांदतलें. दुसऱ्या हाताक ताई उठलें ना जाल्यार राखी कोण बांदतलो? हो प्रस्न बाबुल्याचो मेंदू पोखरायतालो. ज्या हाताक राखी बांदिल्ली त्याच हातांनी आपली राखण न करतां त्या हाताच्या धनयान, प्रत्यक्ष आपल्या भावाच्या राकेसी कुडीन भोग घेतिल्ल्याचो धक्को ताई पचोवंक शकलें ना हें बाबुल्याक कोण सांगतलो?



# प्राजक्ता

**त्या**च वर्सा म्हजी मॅट्रीकेची परिक्षा जाल्ली. पास जावप हें शेर्त आशिल्ल्यान म्हज्या फुडल्या शिकपाचेर घरांत भासाभास जाताली. आजो कर्तो पुरूश जाल्ल्यान हेरांच्या मताक मोल तें नाशिल्लेंच. म्हाका तर मतच नाशिल्लें. 'आत्यागेर दवरूया. चली भुरगें म्हळ्यार काचेचें आयदन. फुटल्यार साधचेंना.' आतां चली आनी काचेंचें आयदन हाचे मदलें नातें तेन्ना म्हाका समजच नाशिल्लें म्हणा.

"नाका नाका, परक्यांगेर दोनूच दिसांची अपुरबाय." काकाचो थोमणो.

"मामागेर रावंदी ताका." बाबाच्या मतार आजेचो धेंगसो.

"घरचें सोडून आजोळची पोटली खावंक आयलां म्हणूंक?"

ह्या आनी अशा उतरांचो मारो म्हज्या काना-मनार पडटालो.

"देवा बेतुबाबा म्हज्या मनांतलें हे फावट तरी खरें कर रे!" हांवें म्हजो आराध्यदेव वेताळाक उलो मारलो. ताणें आयकलो आनी म्हज्या मनांतलें खरें थारपाचें शेर्त जालें. शारांतल्या लेडिज हॉस्टेल आशिल्ल्या कॉलेजींत म्हाका ॲडमिशन घेवपाचें थारलें. हांवें बेतुबाबाक हात जोडले. 'देवा, सदांच असोच म्हजो राखणो जा रे सायबा!' घरचो आनी घरच्या सगल्यांचो विरह सहन करतलें. पूण हॉस्टेलांतच रावपाचें हें मतींत घट्ट दवरून हांवें मनाक घटसाण दिली.

ॲडमिशनाच्यो लटपटी-खटपटी सोंपल्यो आनी कॉलेज सुरू जावपाचें फाल्यां-परांचेर पावलें. म्हजी साटली-पोटली गुटलावन सगल्या सामानांसयत

म्हाका हॉस्टेलांत पावोवन आजो आनी बाबा घरा आयले. हांव सामकें उकाशी, एकोडें. म्हज्या रूमपार्टनरा मदीं मिसळून रावपाची तयारी करूंक लागलें. म्हज्या रुमांत म्हाका दोन पार्टनर मेळ्ळीं. एक रिया... नाजूक जुयेचें फूल कशें आनी दुसरें प्राजक्ता... लांबरूंद आल्त मानांय कशें. हांव दोगांयच्या मदल्या सायजीचें. आमकां रूमांत विंगडविंगड खाटी, टेबलां आनी कपाटां मेळिल्लीं. पयले दोन-चार दीस घरच्यो यादी काडपांत आनी आमचे भितरच भरसून वळखी वाडोवपांत गेले आनी हळुहळू आमी कॉलेज आनी हॉस्टेलाच्या वातावरणांत रूळत गेलीं. आमची तिगांयचीय जोडी मस्त जमिल्ली. तातूंतल्या तातूंत प्राजक्ता आनी रिया एकमेकांकडेन सामकीं तुप-साकर कशीं चिकटून वागतालीं. अशांतच आमची इकरावेची फायनल परिक्षा जाली. प्राजक्तान सामकीं दोळ्यांत दुकां हाडून म्हाका आनी रियाक रकाद दिलो. रियाक तर ताणें घट्ट वेंगेंतय घेतलें. जणुकाय तीं दोगांय मोगीच. तिगांयनी एकामेकांक फोन करपाचीं उतरां दिलीं-घेतलीं. आनी आपापलीं घरां गाठलीं. जुनाच्या मध्यार आमच्यो परत्यो भेटी जातल्योच देखून म्हाका व्हडलेंशें कांय दिसलें ना. पूण प्राजक्ता मात भगभगीत तांबडे सुजरे दोळे घेवन घरा गेलें.

विरहाचे देड-दोन म्हयने फोनाफोनींत सोंपून आमी परतीं हॉस्टेलार पावलीं. प्राजक्ता रूमार आमची, खास करून रियाची वाट पळयतालें. अंदू वर्सा प्राजक्ता रियाक खूबच जपतालें. तें रियाची खूब खूब अपुरबाय तर करतालेंच, म्हाकाय तांच्या ह्या जगावेगळ्या मैत्रीची अपुर्बाय दिसताली. घडये हाका फाटलीं-फुडलीं भाव-भयणां ना देखून हें रियाक सामकें व्होडकेता जावंये! अशेंच म्हाका दिसतालें. पावसाच्या गडगडाची भिरांत दिसता म्हणून प्राजक्तान आपली खाट रियाचे खाटीक तेंकोवन दवरली. लांबरूंद प्राजक्ता आनी ढेंचेभर रिया ते खाटीर न्हिदतकीर हांव पोट धरून हांसतालें. "रिया, सांबाळ गो. भिमाचो एक पांय तुजे पांयार पडल्यार पांयच लांब जातलो गो तुजो." रियान हांसत हांसत आपल्याक पांगरूणांत घुस्पावन घेवप. जाल्यार प्राजक्तान म्हजेर धेंगसो घालप. "एऽ न्हीद गो बेगीन." निळो मंद बल्ब पेटतो दवरूनच आमी न्हिंदेचे वेंगेंत वतालीं.

एके राती म्हाका गडगडाच्या व्हडल्या आवाजान जाग आयली. जमीन, वण्टी इतलेंच न्हय तर हांव न्हिदिल्ली खाट लेगीत हालिल्लेवरी जाली. अचकीत म्हजी नदर प्राजक्ता आनी रियाचे वटेन वळ्ळी. एकामेकांक जोडिल्ले ते खाटीर दोगांय एकमेकांचे वेंगेंत घुस्पून गेल्लीं. शी... नदर तांचे वयल्यान काडपाचो यत्न करपांतय हांव अपेशी थारतालें. मन शी-शी करतालें पूण नदर तांचे वयल्यान पयसावंक तयारच जायनाशिल्ली. तांच्या दोगांयच्याय आंगार एक लेगीत कपडो नाशिल्लो. भुरगेपणांत शेतांत एकामेकांक घुस्पून नाचपी व्हडल्याची जिवाणी पळयिल्ली याद आयली. सवणीं कशीं चोंचीत चोंच करतात तशींच हिंवूय करतालीं. दोगांयचेय हात एकामेकांच्या आंगावेल्यान फिरताले. आपलेच तंद्रेंत दंग दोगांय. ना पावसाचो उटंगार तांकां समजतालो, ना जोगलांचो चकचकाट तांकां दिसतालो, ना गडगडाचो आवाज तांच्या कानार पडटालो. तीं दोगांय आपापले कुडीचे धुंदींतच आशिल्लीं. ओंठार आयिल्ली किळांच हांवें म्हज्याच हातांनी तोंड बंद करून चिड्डीली. हांव दोळे धांपतालें. पूण मन म्हजो हुकूमच मानी नासतना तांचो तो वेगळोच शिरंगार पळोवंक दोळ्यांक हुकूम दितालें. थोड्या वेळांत तीं कपडे करून न्हिदलीं. हांव मात रातभर वळवळतच उरलें.

कोणाकय सांगू, काय प्राजक्ता आनी रियाकूच विचारूं! ह्या विचारांतच दुसरो दीस सोंपलो. तिनसांज जातनाच म्हाका थरथरो सुटलो. आयज हांवें बेगीनच न्हिदपाचें थारायलें. मन मात पुरायतरेन जागें रावपाचे तयारेंत आशिल्लें. कुडीच्या हट्टा सामकार मनाचें कांयच चल्लें ना. रातीचे अर्दकुटे न्हिदेन शिणिल्ली कूड हांथरूणाक फाट तेकना बरोबर विसावो घेवन न्हिदेचे सुवादीन जाली. बारावेची परिक्षा सोंपता मेरेन हांवें अदीमदीं हांचे मदल्यो 'त्यो' घडणुको खूब फावट पळयल्यो आनी म्हजी कूड हांवें जळोवन घेतली हेंवूय हांव मनाथावन कबूल करतां. बारावे उपरांत फर्स्ट इयराकय आमीच रूममेट उरलीं. आतां हांवय घसघशीत वाडिल्लें. पूण म्हाका असल्या लेस्बियन्सांविशीं आनी तांच्या संबंधाविशीं कांयच देणें-घेणेंच नाशिल्ल्यान तांकां विकृत मानून हांवें रातीकडेन ढराढूर न्हिद काडपाचें पसंद केलें. तांचे चाळे चालू आशिल्ले काय

बंद जाल्ले हें लेगीत म्हाका खबर उरलें ना. पूण वेसनच तें एक... बंद जावप अशक्यच. हें जाणिल्ल्यान हांवें सरळ तांच्या जॉयंट खाटीवटेन फाट करून न्हिदप बरें म्हळें.

एफ.वायक आमचे तिगांयचे सब्जेक्ट चेंज आशिल्ल्यान आमी फुटून पडटालीं. परतीं क्लासींत पावलीं की प्राजक्ता रियाक पातये नासलें. एके रातीक गाढ न्हिदेंतल्या म्हज्या कानार मात्सो व्हडलो आवाज पडिल्ल्यान हांव जागें जालें. पळयल्यार प्राजक्ता आनी रियामदीं झगडीं पेटल्यांत. प्राजक्ता सामकें पेटलां आनी रिया ताका तशें करपाक दिना. रिया ताचेर तापतालें, ताका खोटो घालतालें आनी प्राजक्ता ताच्या पायां पडटालें. हांव चादर तोंडा भोंवतणी गुठलावन ओग्गी पळयतालें. ''प्राजक्ता, इनफ इज इनफ. चल आमी कॉटी सेपरेट करुया.'' मागीर खाटी ओडिल्ल्याचो आवाज. ''ए... व्हडा रातचीं किंळचतात कित्याक गो?'' म्हज्या ह्या उतराचेर प्राजक्तान म्हाका मूठ दाखयली. ''तूं चूप न्हीद. आमचे मदीं पडूं नाका.'' हांवें पांगरूण गुठलावन फाट केली. कांय वेळांत सामसूम जाली.

दोन-तीन दीस रिया भायले-भायरशें वावुरतालें. गरजे पुरतें वा रातचें न्हिदपा पुरतेंच रूमांत येतालें. हेर वेळ आनीक कोणायच्याय रूमांत सारतालें. प्राजक्ता वांगडा म्हजीय दखल घेनाशिल्लें. पूण भायर मात म्हजेकडेन बेसबरें वागतालें. एक दीस आमकां पिरियेड ऑफ आशिल्लो आनी प्राजक्ता आपले सबजेक्ट पिरीयेडाक दुसरे क्लासींत गेल्लें. हांवें रियाक डायरेक्ट विचारलें, ''रिया, घोव-बायलां झगडलीं गो? टेंपररी वेगळोचार काय परमनंट डिव्होर्स गो?''

''एऽ निकी आमकां घोव-बायलां कितें म्हणटा गो तूं? आनी डिव्होर्स बिव्होर्स कितें चल्लां? कितें म्हणपाचें आसा तुका?''

हांव चार-पांच खीण ओग्गी रावलें. थंडसाणेन विचार करत जोखून-जोखून हांव उलयलें, ''रिया, तुमच्या दोगांय मदलीं हाथरूणांतलीं रिलेशन्स हांवें म्हज्या दोळ्यांनीं पळयल्यांत. हांवें तुमकां जायते फावट तशीं पळयल्यांत.'' रियाचो चेरो साप्प उतरलो.

“आगो पळय, कितें बरें कितें वायट तुमी थारवपांचें. कारण लायफय तुमचें, कुडीय तुमच्यो आनी जिणय तुमची. कशी जीण जगपाची हें जण एकल्यान थारावपाचें. हांवें तुमचे मदलीं ‘तसलीं’ रिलेशनां पळयल्यांत म्हणूनच डिव्होर्स हें उतर वापरिल्लें. आतां सांग कित्याक झगडली आमची तोता-मैना की जोडी?”

उपरांत रियान म्हाका सगली गजाल सांगली. रियाचें मन टी-वायच्या जयंता लागीं ओडिल्लें. एकमेकांवेलो मोग उक्तोय केल्लो ताणीं. हांव अजापलें. जेन्ना हें एकाद्रया दादले भुरग्याकडेन आकर्शीत जाता तेन्ना ताची मानसिकता तसली न्हय तर.

“मागीर तूं हांथरूणांत प्राजक्ता लागीं तशें कित्याक वागतालें गो?”

“पयलीं विचित्रच दिसलें गो म्हाका पूण खरें सांगतां, मागीर मागीर ताचे ते चाळे सुखदिणें दिसले गो म्हाका. म्हणून हांवेंय सपोर्ट केलो ताका.”

“कर्म तुमचें सुखदिणें. विकृती काय प्रकृती हें आपणेंच चूज करपाचें. आतां तूं जयंतालागीं ओडलां म्हणून प्राजक्ताचे फाटीर खोंट!”

प्राजक्ताची एकल्याचीच चूक न्हय ही. हीं दोगांय समसमान वांटेकार आशिल्लीं, जर ती चूक जाल्यार. आयजमेरेन तें रियाकडेन अधिकारान वागतालें. आतां जयंत आनी रिया मदलें नातें समजतकीर प्राजक्ता चाळवलें. आपल्या अधिकारा मदीं वांटेकार येवप ताका सहन जालें ना आनी जुस्त त्याच वेळार रियाक प्रकृतीची ओड लागिल्ल्यान ताणें प्राजक्ताच्या चाळ्यांक विरोध केलो. इतले मदीं रियान आपलो रूम बदलून घेतलो आनी तें आमचे पसून पयसावलें. हांव आनी प्राजक्ताच एका रुमांत उरलीं. म्हाका चार दीस न्हीद लागली ना. घडये प्राजक्ताचे विकृतीचो हांव बळी बी थारत ह्याच विचारान. हांवें जागें आसून लेगीत न्हिदेचें सवंग घेतिल्लें. पूण प्राजक्ता मात वळवळत पडिल्लें. बऱ्या वेळान कुसुकुसू करून घुसमटत रडिल्ल्याचो आवाज आयलो. “प्राजक्ता कितें जालें गो? रडटा कित्याक? ताप बी आयला काय कोणूय घरचो बी दुयेंत आसा?” हांव प्रस्नार प्रस्न विचारत रावलें. जाप म्हाका खबर आसुनय.

प्राजक्ता कांय उलयलें ना. ओग्गी हांथरूणार पडलें. चार-पांच दिसांनीं तें सावरलें.

ख्रिसमसाची सुटी पडपटाचे वेध आमका लागले. डिसेंबराच्या एकवीस-बावीस तारखेकच आमी घरा वचपाक भायर सरलीं. अचकीत पंचविसावेर रियाचो फोन आयलो. "निकी, प्राजक्तान फांतोडेर फॅनाक गोळ घेवन जीव दिलो. निकी म्हाका गिल्टी फील जाता गो. कितें करूं?"

हांव तोंड उक्तें आशिल्लें बंद करपाकच विसरलें. येवजिल्लें सुध्दां नाशिल्लें सादी एक विकृती एक फुलती जीण अशी सोंपयतली म्हणून. आतां हें नसती बडबड करून आनीक इश्यू करिना जाल्यार पुरो.

"निकी उलय गो. म्हाका गाळी घाल गो. ताच्या मरणाक हांवच जापसालदार गो."

"चूप चूप सामकें तोंड बंद कर आनी ओग्गी राव. गिल्ट बिल्ट सगलो प्राजक्ता वांगडा सोंपलो. तूं सामकें चूप रावतलें. हांव येतां. मागीर उलोवया."

हांव आमची स्कुटी घेवन रियाकडेन वचपाक भायर सरलें. मन चिंततालें. दोगांयच्याय नसत्या फकाणांमदीं एकट्याची जीण सासणाची सोंपली तर दुसरें आयुश्यभर घुसमट भोगतलें. 'देवा प्राजक्ताच्या आत्म्याक शांती दी. आनी रियाचे बुध्दीक थाकाय दी.' आनीक कितें मागूं?



# दुस्वास

समिता आनी हांव दोगांय नकळत्या वयांतल्यान घट इश्टीणी. बालवाडी, प्राथमिक शाळा तें कॉलेजमेरेन आमी साथसाथच. आमकां सगलीं जाणां 'दिस-रात' म्हणटालीं. कारण तें पाखलीण कशी गोरेंपिट्ट तर हांव काळ्याकडेन झुकपी. बरेंच सांवळें. इतलें आसुनय सगले लोक समिताक अळणी म्हणटाले तर म्हाका 'शिऽऽर आसा गो!' म्हणटाले. तेन्ना सावन समिता म्हजो भितरले भितर दुस्वासच करतालें. वयल्यान गोऽऽड आनी काळजांतल्यान करपट समिता म्हाका समजतालें पूण तरी म्हजें मवाळ मन ताका दुखोवंक तयार जायच नाशिल्लें. म्हाका मनां-काळजांतल्यान समिता जाय आशिल्लें. हांव निवळ आनी नितळ हेत मनांत दवरून ताची इश्टागत मागतालें. आनी तें मात धुर्तबुध्दीन शाळेंत यो-वच करपाक म्हाकाच वापरतालें. अभ्यासांत आमची सामकी फाटींफुडें शर्यत लागताली. खूब फावट हांव पयलें तर तें दुसरें येतालें. एक फावट तर ताणें म्हाका चुकिच्यो जापो सांगून पेपरांतल्यो म्हज्यो खऱ्यो जापो खोडपाक लेगीत लायिल्ल्यो. म्हाका कळच नाशिल्लें तें म्हजो असो दुस्वास कित्याक करतालें तें!

शाळे उपरांत आमी हायसेकंडरीचीं दोन वर्सां सोंपोवन कॉलेजींत चांटी दवरली. अजूनय समिताचो मूळ सभाव मात लेगीत बदलूंक नाशिल्लो. कोणच ना तेन्नाच हांव हें अजूनय तशेंच चलतालें ताचें. त्याच् वर्सा आमकां एका वर्सान सिनीयर आशिल्लो अतिश समिताच्या मनांत रूजलो. म्हाका दोन-तिनदां ताणें हें जाणवून दिलें. हांवें ताका फ्रँकली आनी फ्रँडली ॲडव्हायज

दिलो. ‘‘पळय समिता. चड इन्व्हॉल्व्ह जावचे आदीं हय-ना किदें तें सारकें थाराय. एके फावट मनान घुस्पल्यार तुका हातूंतल्यान भायर सरप कठीण जातलें.’’ अतिश सगल्यांकडेन फ्रेंडली आनी फ्री वागतालो. आमचे क्लासीचे भायर तर तो चडूच घुटमळटालो. म्हाका दिसलें होवूय समितामदीं इन्टरस्टेड आसा. उपरांत आमचें फर्स्ट सॅम जालें. दिवाळेची म्हयनोभर सुटी पडली. सुटये उपरांत कॉलेजींत गेल्यार दोन दिसां भितर समिता म्हजेरच फुगलें. म्हजेकडेन उलोवप ना, हांवें जाप दिल्यार फुगून वचप. जालें हाचीं सुकती-भरतीचीं नाटकां सुरू जालीं म्हणून हांवेंय लेमडेपणां न करपाचें थारायलें.

दोन-तीन दिसांनी लायब्ररींत गेल्लें तेन्नां अचकीत अतिश येवन म्हऱ्यांत बसलो. ‘‘जिया, तुजें तें पाखलें फ्रेंड तुजेर रागार जावंक कारण हांव. आय ॲम सॉरी. हांव सेगीत दोन-तीन दीस तें तुजेकडेन कशें वागता तें पळयतां. सॉरी.’’

‘‘आंवय, तूं कित्याक घुस्पता बेठोच? ताचें सदचेंच वेसन म्हळ्यार जाता तें. हांव ल्हानपणां सावन ताका वळखतां. चंद्रा परस चंचल अश्यो ताच्यो कला हांव जाणतां. तूं बिनदास्त राव. चार दिसां भितर तें नॉर्मल जातलें.’’

‘‘ना... ना... जिया हे फावट तें बदलुचें ना. हांव जाणतां. जिया ताणें आपलो म्हजे वयलो मोग उक्तो केल्लो.’’

‘‘हय हांव जाणतां तें. शी रियली लव्हस यू. म्हाका म्हणिल्लें ताणें....’’

‘‘पूण हांवें ताका सॉरी सांगलें.’’

म्हजें उतर मदींच तोडून ताणें म्हळें, ‘‘बट व्हाय?’’

‘‘बिकॉज आय ॲम इन्टरेस्टेड इन यू जिया. आय लायक यू. व्हॉट अबाऊट यू?’’

हांव थक्कच उरलें.

‘‘च्यॅ. पिशांवरी कितें करता रे तूं? सी अतिश आय डोंट लायक टू डू ॲनी अफेअर्स व्हायल लर्नींग. सो बाय.’’

‘‘जिया, आय वील वेट फॉर यू टील द ॲण्ड ऑफ माय लायफ.’’

हो अतिश शिकप पुराय जातकीर आपल्या पांयार उबो रावन आपल्या आवय बापाय वांगडा आमगेर येवन म्हाका मागणी घालून आपलें करूनच थांबलो.

शिकतना अतिशान समिताचो मोग नाकारतनाच म्हजे वयलो मोग उक्तायिल्ल्याचो सूड म्हणून ताणें म्हजे कडचें नातेंच तोडलें. भुरगेपणांतली इश्टागत म्हजी कसलीच इन्व्होल्व्हमेंट नासतनाय तुटली. आमच्या लग्ना पयलींच समिताचें बऱ्या घराण्यांत आनी पयशेकार घराब्यांत लग्न जालें. म्हज्या चल्याच्या जल्मा उपरांत समितागेर चली जाल्ल्याचें पेपरांतल्यान कळ्ळें. घडये मागीर मागीर ताचो राग मात्सो-मात्सो उणावपाक लागलो आसतलो. कारण आताशें खंयीय देवळांनी वा कोणाच्याय लग्नाक बी मेळ्ळ्यार म्हाका हटकितालें तें. अतिश म्हजे वांगडा आसल्यार मात बोचो फुगोवन वतालें. अजुनय....

मदींच एका लग्नाक आमी दोगांय एकोडींच गेल्लीं. देखून दोगांयनी ताण खबऱ्यो मारल्यो.

‘‘जिया, देव दिल्यार मुगो छप्पर फाडके दिता म्हणटा तें तुजे बाबतींत खरें गो. पळय तूं सावळें आसुनय गोरो-धवो, देखणो घोव तुका मेळ्ळो. जालो तो वंश वाडोवपी चलोच जालो. तोवूय बापायवरी गोरो पिट्ट.’’

‘‘आगो समिता किदें पिशांवरी वंश, चलो, चली घेवन बसलां तूं? गोरो-काळो, चलो-चली कितेंय जालें तरी आमचेंच रगत मगो तें? चल समिता चलो जायच जाल्यार दुसरो चान्स घे. पूण वंशाक दिवो जायच म्हणून कबड्डीची टीम मात करूं नाका.’’ हांवें ताचो हो दुस्वासय फकाणांनी घेतलो.

उपरांत दीस गेले, म्हयने सरले. वर्सांय परतलीं. आमचो सुदीप एम. बी. ए. जावन आमच्याच बिझीनेसाचो भार व्हावोवंक लागलो.

‘‘अतिश, सुदीपाक सव्वीसावें वर्स लागचे पयलींच ताचें लग्न करुया आं. एके फावट वय गेलें जाल्यार उरतलो तो तसोच.’’

‘‘जिया, वो मेरा बेटा है. कोणाय खातीर वेट बी करता जाल्यार पळोवया.’’

सुदीप लागसारच आपले कान लांब करून आयकतालो.

‘‘मम्मा खरेंच सांगतां म्हज्या मनांत एक चली आसा. हांवें ताका कांयच विचारलेंय ना आनी सांगलेंय ना. आनी पप्पा, हांवें ताका वेट करतां म्हणूनय सांगलें ना आं. तांची परिस्थिती आमचे भशेनूय ना. मिडलक्लासवालीं तीं.

तुमकां तें आवडल्यार आनी चवकशी बरी मेळ्ल्यार फुडलें सगलें तुमीच थारायात. हां ताचें नांव निकीता.'' सुदीपान सांगिल्लो सगलो नामो हांवें कागदार बरोवन काडलो.

अतिशान आनी हांवेंय आमच्या कॉन्टेक्टांतल्या मनशांकडच्यान निकीताचें इन्फोर्मेशन मेळयलें. 'रुपा-गुणांनी भांगर' हें दरेकान सांगलें. देवाचे दयेन आमकां कमी कांयच नाशिल्लें. सुदीपाचें मन हेंच आमचें सर्वस्व आनी ताची आवड हीच आमचीय निवड जाल्ल्यान आमी दोगांयनी वचून ताच्या आवय-बापायकडेन मागणी घालपाचें थारायलें. एका आयतारा सांजचीं आमी तांच्या घराकडेन वचपाक गेलीं. रस्त्याकडेन ल्हान-ल्हान बंगले आशिल्ले. मदल्यान गेल्या रस्त्यावयल्यान मात्शें भितर निकीताचें घर हें जाणून आमी कुरवेचो सांगिल्लो बंगलो टेळ्ळो आनी अतिशान गाडी भितर घेतली. थंय सगलींच ल्हान ल्हान घरां जाल्ल्यान आमी मात्शीं घुस्पलीं.

''जिया, ह्या बंगल्यांतल्या पोर्चांत एक बायल आसा तिका मात्शें विचार गो.''

हांवें दार उगडलें आनी देंवलें. तेवटेन वचचे पयलींच फाटल्यान कानार उलो पडलो.

''जिया, खंय गो तूं हांगा?''

फाटल्यान पळयल्यार एका देखण्या, व्हडल्या बंगल्याच्या तेर्रासार उबें रावन समिता म्हाका उलो मारता.

''आगो, ताकतिकेन खंय वता? यो पयलीं आमगेर भितर सर.'' समितान म्हणलें आनी हांवें किदेंय सांगचे पयलीं तें सकयल येवंक परतलें. धांवत-धांवत दोन मिन्टांभितर गेटीकडेन आयलें.

''समिता, हांव एकलें ना. वांगडा अतिश आसा.'' हांवें हळूच ताका म्हळें.

''आसूं ताकाय आपय तूं. घरपण म्हणून कितेंय आसा मगो म्हाका?''

''हय बाये. ए अतिश यो रे दोनूच मिन्टां खातीर समितागेर वचून येवया.''

आमी ताच्या बंगल्यांत भितर सरलीं. घर खूबच सुंदरतायेन सजयिल्लें. आमी बसलीं आनी बेगोबेग ताणें आमचे सामकार सरबताचे लांबट ग्लास हाडून दवरले.

''जिया, आमच्या बंगल्या फाटले वटेनशें वतालें?''

सरबताचो घोट घोटीत हांवें म्हळें, ''आगो आमचो सुदीप आतां लग्नाचो जाला. ताच्या मनांत खंय निकीता म्हणून चली गेलां. ह्या बंगल्याचे फाटले वटेन ताचें घर म्हणून कळ्ळां आमकां. आमी ताका मागणी घालपाक आयल्यांत. आतां तूं मेळ्ळें. सारकी चवकशी मेळटली आनी नामोय वेवस्थीत मेळटलो.''

''बरें साल्वार जालें गो तूं जिया. हांगा आमगेर पयलीं येवन.''

ताचें उतर आयकून हांव आनी अतिश सादुरतायेन कान शेळावन रावलीं.

''अजून फुडलें कांय जावंक ना हें बरें म्हण तूं जिया. आगो त्या निकीताचें पयलीं बरेंच फें फें वाजलां आं. कोणायकडेन सारकी चवकशी कर. आनीक कोण कित्याक? हांव सांगतां ताचेर पुराय विस्वास दवर!''

आमचेंय मन डळमळ्ळें. दुबावच तो. दाटपाक कळाव लागना. आमी थंयच्यानच घरा परतलीं. मूड ऑफ जाल्लो आमचो चेरो पळोवन सुदीप बाबडो निर्शेलो. घडये निकीताची घरची परिस्थिती पळोवन आमी पिकार जाल्यांत जावये अशा अदमासान तो फुडें सरलो.

''मम्मा, निकीता पसंत पडलें ना गे तुमकां?''

''आरे बाबा आमी निकीतागेर पावलींच ना.''

''म्हळ्यार? कितें घडलें तर गे?''

''सुदीप, निकीताविशीं थंयचेच एके बायलेन डाऊटफुलशी म्हायती दिली रे. मन चलबिचल जाल्ल्यान आमी परतलीं.''

''मम्मा, निकीताचो कॅरेक्टर आनी सभाव हाची गॅरंटी हांव दितां. हे बाबतींत कितेंय फुडें बरें-वायट घडलें तरी ताची जापसालदारकी पुराय म्हजी. तरी मम्मा कोणें दिली तुका अशी म्हायती?''

उतरिल्लो, टेन्स जाल्लो पुताचो चेरो पळोवन म्हज्या काळजांत कुलकुल्लें. ''मम्मा थंयचीच कोण मनशां गे तीं?'' सुदीप म्हाका किचनांत येवन परतो परतो विचारतालो.

''निकीताच्या घराकडेन वचचे पयलीं तो 'तथास्थु' म्हणून बंगलो आसा तो जाणां तूं? त्या बंगल्यांत म्हजी बालमैत्रीण समिता रावता.....''

“आनी तुजे हे मैत्रीणीची चली शिवानी. मम्मा, ताणें कॉलेजीचीं तिनूय वर्सां म्हजो जीव खाल्लो. इतलेंच न्हय तर आपले धुवेचें वर्णन करून ताका म्हाका गळ्यांत बांदपाक तुजी ती बालमैत्रिण समिता म्हाका शेरमांव दिवन गेल्ली. हांवें तिका डायरेक्ट सांगिल्लें की हांव तुजे धुवेमदीं इन्टरेस्टेड ना. ताचो सूड ती अशी घेता पळय. आतां फुडें कितें करपाचें तें तूं थाराय. हांव तुज्या उतरा भायर ना.”

“अतिश, पळय रे. आमकां भोगयलां तेंच समिता आतां आमच्या पुताकय भोगोवंक सोदता. आरे फाल्यां दोगूय कामाक वचुनाकात आं. आमी सकाळींच निकीताक मागणी घालून सोमतो शगुनय दिवन येवया.”

भितर वचून हांवें मांयन म्हाका लग्ना पयलीं शगून म्हणून दिल्लो पोवनांचो हार पर्सींत दवरलो. उमेदीन मन फुलिल्लें तरी समिताच्या विचारान मात्शें करपलेंच तें. खरेंच समिताच्या मनाक एकूच वेसन लागिल्लें. हेरांचो दुस्वास करपाचें. वेसनच तें... निमणे मेरेन सुटप कठीणच.



# आयडिया..!

**रा**तच्या देड पावणेदोनांक तें अजस्त्र विमान विमानतळार देंवलें. टायर तेकतना मात्शें हालील्लेवरी जाल्ल्यान जागे जावपाक पाविल्ले मनीसूय टक्क जागे जाले. कांय खिणां भितर तें आपल्या थारायिल्ल्या जाग्यार वचून पाखां पातळायिल्ल्या व्हडल्या गरूडा भशेन थिरावलेंय. तुरूतुरू गाडयो निसणीचें वजें घेवन विमाना लागसार धांवल्यो. आनी विमानाच्या उकत्या जाल्ल्या दारांतल्यान गोरे-धवे कातीचे फॉरेनर टुरिस्ट देवंक लागले. कायदेशीर सोपस्कार सोंपोवन तांची तळाभायर सरपाची ताकतीक सुरू जाली. नताशाच्या वांगडा आशिल्लें नेण्टें तान्या चोंयवटेन भिरभिरे नदरेन तेळपाक लागलें. आं... हें नताशा आनी तान्या म्हळ्यार रशियन पर्यटक. आनी हें विमान फकत युरोपेव टुरिस्टांक घेवन आयिल्लें एक चार्टर विमान. तान्यान आमच्या ह्या भांगराळ्या गोंयची किर्त आपल्या बर्फान गोंठून गेल्ल्या देसांतय आयकल्ली. व्हडलीशी कांयच कटकट जायनासतना दोगांय कस्टमवाल्यांच्या आनी इमिग्रेशनवाल्यांच्या तावडींतल्यान सुटलीं. तान्याक समजनाशिल्ल्या भाशेंतल्यान म्हळ्यार हिंदी मिक्स इंग्लीशींतल्यान नताशा थंयच्या अधिकाऱ्यां वांगडा उलयलें आनी ताणें बेगोबेग तांचो चेकअप करून तांकां मेकळीं केलीं. तळा भायले वटेच्यान नताशान आपल्या मोबायलावेल्यान कोणांक तरी फोन लायलो. 'चल तान्या, आमची गाडी पार्कींग लॉटांत आमची वाट पळयता.' अजापीत अठरा-एकोणीस वर्सांचें तान्या नताशाकडेन पळयतच उरलें.

आलिशान अशा इनोव्हांतल्यान दोगांय एके मस्त अशे कॉटेजीकडेन पावलीं. एक मनीस बेगोबेग चावी घेवन आयलो आनी तांचें सामान घेवन तांकां

कॉटेजींत सोडून आयलो. नताशा फाटलीं दोन-चार वर्सां सेगीत गोंयांत यो, वच करतालें. टुरिस्ट व्हिसाचेर येवन वचून तें गोंयांतच आशिल्लें म्हळ्यार जाता. हे फावट तें तान्याक घेवन गोंय दाखोवंक आयिल्लें. रुमांत वचून दोगांयनी न्हांवन धुवन मस्त ताणून दिलें. दुसरे दिसा तांकां जाग आयली तेन्ना सूर्यो बरोच वयर आयिल्लो. तान्यान सहज जनेल उगडलें... ताची अजापीत नदर आनीकच अजापली.. कारण ताचे नदरे सामकार कांय मेत्रांच्या अंतराचेर दर्याची वेळ चकचकताली. कॉटेजीचे भायलेवटेन रुपें फाफुडिल्ल्यावरी रेंव चकचकताली. अजापीत तान्या भोव खुशाल जालें. नताशा आनी तें भरपूर नाश्तो करून भोंवडेक भायर सरलीं. कालचीच गाडी घेवन तोच ड्रायव्हर हाजीर आशिल्लो. दिसभर फिरून सांजचीं तीं कॉटेजींत परतलीं. फ्रेश जावन दुसऱ्या पांच नखेत्री हॉटेलांत वचपाची तांणीं तयारी सुरू केली. मस्त मेकअप, पारदर्शक-झिरझीरीत काळो ड्रेस घालून नताशा नटी कशें नटिल्लें. ड्रिंक आनी मस्त जेवण घेवचे पयलीं नताशा खूब जाणां वांगडा त्या हॉटेलांत नाच नाच नाचलें. अजापीत तान्या ताचो सराईतपणा पळोवन आनीकय अजापलें. थोड्या वेळान भरपेट जेवन तीं दोगांय आपले कॉटेजीर परतीं आयलीं. दोगांयचे तकलेंत ड्रिंकाची धुंदी झणझणटाली. आंगावयले कपडे काडून तीं तेच अवस्थेंत हांथरूणार पडलीं. नशेची धुंदी अणभवपी तान्याच्या आंगार नताशान आपलो हात आनी पांय उडयलो. धा-पंदरा मिन्टांनीं ताचे हात तान्याची कूड पोशेवंक लागले. हळुहळू उत्तेजीत जावपी तान्यानय ताका प्रतिसाद दिलो. तान्याक हो अणभव नवो आशिल्लो खरो पूण तें दादल्यां पासून पयस आशिल्लें अशें न्हय. ताणें तो अणभव आपल्या मुक्त संस्कृतायेच्या देसांत, जंय दमन ह्या शब्दाक मातयेभरवण करून शमनाचेर भर दिल्लो, थंय खूब फावट घेतिल्लो. नताशान ताका एके विंगडच धुंदेंत पावयलें. पूण तें समाधानी जालें ना... वयल्यान आनीकच पेटलें. अणभवी नताशान आपलें काम साधलें आनी तें सुशेगाद घोरेवंक लागलें. नेण्टें तान्या रातभर वळवळत उरलें. ताचे कुडींत उजो पेटिल्लेवरी जातालो. अशें वळवळपी तान्याक पळोवन नताशा मात खोशेन न्हिदून गेलें.

दुसरे दिसा सकाळींच तान्यान नताशाक आपली गरज सांगली. खोशयेन नताशान कोणाक तरी फोन मारलो.

"तान्या सांजवेळ मेरेन धीर धर." आनी कालचीच गाडी घेवन दोगांय भोंवडेक गेलीं. आयज तीं सांजचीं बेगीनच कॉटेजीर आयलीं. बरीं न्हेसून, सेंटाचो परमळ सोडीत तीं तिनसांजेर एका सेव्हन स्टार हॉटेलांत वचपाक भायर सरलीं. पांच मिन्टां भितर त्या हॉटेलाचो लोगो मारिल्ली गाडी तांचे कॉटेजी भायर येवन थांबली. हॉटेलाच्या कावंटरावेल्या मनशान तांकां दोन चावयो दिल्यो. लिफ्टान तीं सतरावे माळयेर पावलीं.

"तान्या, चल ही रूम तुजी. एन्जॉय युवरसॅल्फ. सगली रात तुजीच आतां!" नताशा ताका सोडून आपल्या रुमांत गेलें. कांय वेळान तान्याच्या रुमाच्या दारार टक-टक जालें. तान्यान उगडिल्ल्या दारांतल्यान एक देखणो तरणाटो भितर सरलो. फाटले फाटीं दार धांपत ताणें तान्याक वेंग मारली. पेटिल्लें तान्या आनीकूय पेटलें... आनी... कांय वेळान दोगांयनी बाथटबांत एकठांय न्हाण घेतलें. इंटरकॉमावयल्यान जेवणाची ऑर्डर दिवन दोगांयनी ड्रिंक घेवंक सुरवात केली. भाशेची अडचण कुरवो आनी स्पर्श हाचे खातीर तांकां जाणवलीच ना. ड्रिंक, जेवण आनी वासनेची चडिल्ली धुंदी तांकां थारो दिना जाली. तान्याक खूबच सूख मेळ्ळें. फांतोडेर त्या तरनाट्यान कपडे केले. तान्याचो गुडबाय कीस घेतनाच ताणें ताच्या हातांत एक जाडजूड एनव्हेलॉप दवरलो. 'पर्थून मेळुया. मजा आयली. बाय.' आनी तो तरनाटो भायर सरलो. तान्यान एनव्हेलॉप उगडल्यार तातूंत नोटांचें मोठ्ठें बंडल आशिल्लें. आयजमेरेन ताणें आपले कुडीच्या समाधानाक सूख भोगिल्लें. आयजूय ताची तीच इत्सा आसून तें आयिल्लें. पूण हांगा सुखा वांगडा पयशे पळोवन तें आनीकूय खोशी जालें.

आतां नताशा वांगडा तान्याय ह्या धंद्यांत रुळ्ळें. दोगांय आपल्या राबित्याचो दीस नी दीस जोडून काडपाक गूंग जालीं. आतां तांचो पितृदेसांत पर्थून वचपाचो दीस लागीं पावंक लागलो. नताशान तान्याक आपल्या देसांत पावतकीर आनीक जोड कशी मेळटली हाची आयडिया सांगली. दोगांय

आयज कमीत कमी कपडे करून वेळेर भर दनपरां सनबाथ घेवंक गेलीं. थंय आमचे गांवठी काळे हिप्पी–नीज गोंयकार, बेकार तरनाटे उगड्या नागड्या गोऱ्या कातीक दोळ्यांत सांठोवंक हेडटाले. तातूंतल्या एका सणसणीत तरनाट्याक तान्यान दोळो मारलो. पयलींच माकोड आनी तातूंत सोरो पियेला अशी गत जाल्लो तो तरनाटो सोमतोच येवन तान्याक भिडलो. तान्यान आपल्याक जाय तें ताचेकडल्यान मेळयलें आनी मागीर तेच अवस्थेंत ताका घट्ट धरून हुयेल्यो मारपाक सुरवात केली. शाबुद्देर येतल्या त्या तरनाट्यान तान्याच्या वेंगेंतल्यान सुटपाची जायती धडपड केली. पूण चीज आनी मांसार पोशिल्ल्या तान्यान ताका सोडलो ना. हेवटेन तेवटेन पातळिल्ले लोक, कांय फॉरेनर्स आनी नताशाय त्या झिपटां आड पावलें. कोणेंतरी पुलीशेक फोन केलो. उगड्या नागड्या तान्याक धांपून घालून लेडी पोलीस हॉस्पीटलांत घेवन गेल्यो. दोन हवालदारांनी त्या तरनाट्याच्या कानपटार सणसणीत चार पांच फुलयलीं. ताका पुलीस स्टेशनार व्हरून केस रजिस्टर केली.

ते केसीची एफ. आय. आर. कॉपी, रेप जाला म्हणून सांगपी मेडीकल रिपोर्ट घेवन तान्या आनी नताशा आपल्या पितृदेसांत पावलीं. थंय वचून सगळे सोपस्कार करून ताणीं इन्शुरन्स कंपनीकडेन क्लेम केली. भायल्या देसांत बलात्कार जाल्यार पितृदेसांत नुकसान भरपाय मेळटा ह्या कायद्याचो आदार घेवन तान्यान सणसणीत दुडू एकठांय केले. कांय परसेंट नताशाकय दिले. दुसऱ्या सिजनांत पयल्या चार्टर विमानांतल्यान नताशा हेच सर्गभुयेंर देंवलें तेन्ना ताचे वांगडा आंद्रीया आशिल्लें. तो नीज गोंयकार तरणाटो बाबडो अजुनय पुलीस आनी कोर्ट ह्या गिरगिऱ्यांत घुस्पत आशिल्लो.



# प्रश्नचिन्न????

"एऽऽ न्हेसून बरें तयार राव आं. हांव घराकडेन वचून फ्रेश जावन येतां. ओके?"

ग्रावंडफ्लोरा वयल्या आपल्या फ्लॅटाच्या दारांत उबी राविल्ले आपले भावी घरकान्नीक, स्नेहाक एक फ्लाईंग कीस सोडत अश्वीन इस्कादीवेल्यान वयर धांवलो. ताचे फाटीकडेन पळयत राविल्ल्या स्नेहाच्या दोळ्यां सामकार भुरगेंपण उबें जालें. बालवाडींतल्यान स्नेहा आनी अश्वीन सामकीं आमीग. हातांत हात घालून बालवाडींत यो-वच करप, एकामेकांचे बशयेंतलें एकामेकाक खावोवप, वांगडा खेळप आनी वांगडाच बिल्डींगेकडेन पावलीं की 'बाऽय' करून आपापल्या घरा वचप. प्राथमीक शाळेंत पावलीं तरी तांचो होच रुटीन चालू आशिल्लो. हायस्कुलांत पावल दवरलें तेन्नाय दोगांय यो-वच बरोबरच करतालीं. णववेंत-धावेंत पावतनां अचकीत 'व्हड' जाल्ल्या स्नेहाक सैमान तांच्या नात्यामदलें वेगळेंपण जाणोवन दिलें. ताका जाणवलें की ही जोडी तुटप म्हळ्यार आपलो जीव वतलो. आतां स्नेहाक अश्वीनाच्या सामकार वतना लज-लज शी दिसताली... पूण अश्वीन दिसलोना जाल्यार जिवाची हुरहूर जाताली... काळीज चुटपुटू जातालें.

अश्वीनाकय हो जाय-जायसो बदल जाणवलो. ताचेंय मन स्नेहाविशींच्या मोगान भरून ओततालें. शाळा सोंपली आनी ताणीं वांगडाच कॉलेजींत चांटी दवरली. आतां खऱ्या अर्थान तांचे जिणेंत मोग आयलो. इतलो तेंप समजून न आयिल्लो मोग ताणी केल्लो... आनी आतां दोगांय समजुतीन मोग भावना





फुलयतालीं. तिवूय अव्यक्त तरेन. तांणी आपलो मोग तोंडांनी उक्तायल्लो नाशिल्लो तरी दोगांय मनोमन जाणटालीं की तीं एकामेकाचेर मोग करतात. दोगांयल्याय घरचीं तर तांकां ल्हानपणा सावन घोव-बायलच म्हणटालीं देखून तांच्या मोगाक घरांतल्या आडमेळ्यांचोय हुस्कोच नाशिल्लो.

अश्वीनाचें शिकप जाल्या उप्रांत ताका कॅम्पस इंटरव्ह्युतच मस्त जॉब मेळ्ळो. स्नेहाक शिर्वीस करप, कोणायचीय गुलामी करप बिल्कूल आवडनाशिल्लें. ताचें मन कविता करपांत आनी वाचपांत रमतालें. अश्वीन ताचें मन जाणटालो आनी जपतालोय. देखून ताणें स्नेहाक नोकरी करप वा ना करप हाची पुराय मेकळीक दिल्ली. अश्वीनाचें समर्थ फाटबळ आनी मुमुरखो अव्यक्त मोग हाका लागून स्नेहाची प्रतिभा फुलून आयिल्ली. दोन-तीन दीस अश्वीन कामा खातीर शारा भायर गेल्यार तो विरह सहन न जावन स्नेहाच्या पेनांतल्यान विरहगीतांची निर्मणी जाताली.

दोगांयच्याय घरच्यांनी फुडाकार घेवन हांच्या अव्यक्त तरी जगजाहीर मोगाक एका नात्याच्या बंधनांत बांदपाचें थारायलें. पुरोहितालागीं वचून लग्नाचो म्हुर्त थारायलो. तेर्म जावन सरकारी नदरेन घोव-बायल जातगीर दोगांय मेकळेपणान, नव्या नात्याच्या आदारान भायर उगडपणान फिरूंक लागलीं. अचकीत स्नेहाक याद आयली अश्वीनान रेडी जावन रावंक सांगलां. तें बेगोबेग भितर वचपाक परतलें. आनी पंदरा मिन्टां भितर तयार जावन अश्वीनाची वाट पळोवंक लागलें. धा मिन्टां उपरांत फ्रेश जाल्लो अश्वीन घरांत घुसलो.

''काकी आमी वचून येवं?''

''देखल्या देवा नमस्कार रे तुजो. तुमचें थारलां भायर वचपाचें. ओगीच म्हाका ओडटात मदीं. आतां स्नेहा आमचें खंय उरलां रे? तें तुजेंच जालां. संत स्नेहा जालां तें. संताक जळीं-स्थळीं देव दिसतालो तसो आमच्या स्नेहाक वता थंय तूंच दिसता.'' स्नेहाले मम्मीन हांसत-हांसत दोगांयकय बाय केलें.

आतां तर तांचें लग्न सामकें दोन म्हयन्यांचेर पाविल्लें. एक दीस गाडयेंतल्यान भोवंक वतनां अश्वीनान स्नेहाक म्हऱ्यांत ओडलें.

''ए... पिसावला रे? आयज कोण भरला रे आंगान तुज्या?''

आयज मेरेन केन्नाच अशें न केल्ल्या, आचरटपणान केन्नाच न वागिल्ल्या अश्वीनाक स्नेहान तापयिल्लेवरी केलें. एकेवटेन पयल्याच, जाय-जायशा लागसारान लजेल्ल्या स्नेहाचे पोले तांबडेगूंज जाल्ले. तर दुसरेवटेन लक्ष्मणरेशेच्या भायर चांटी वचत ह्या भंयान सावशीद जाल्ल्यान रागय पोल्यांचेर देंविल्लो. तरी अश्वीनान आपली वेंग सोडयली ना.

"किदें करता गो तूं सामकें अडाण्यावरी? हांव परकी गो तुका?"

"ना रे... तशें न्हय... हांव तुजें आनी तूं म्हजोच... पूण... तरी... म्हाका आवडना रे."

"ए... स्नेहा एक सांगूं...?"

"हय.."

"आगो, तकली तरी वयर करून उलय गो."

तांची गाडी आतां पयसुल्ले दोंगुल्लेकडच्या आंब्यापोंदा थांबिल्ली.

"स्नेहा... यु नो हाऊ मच आय लव्ह यू? आयजमेरेन म्हजेकडसून कितेंय आगळीक घडल्या?"

स्नेहान न्हयकारी तकली हालयली.

"लव्ह.... म्हाका मुगो तुका एकफावट 'तशें' पळोवपाक जाय..."

"चल किदेंय उलोवं नाकां... आमी वचुया... चल."

"आगो स्नेहा हांगा आनी आतां न्हय गो."

"अश्वीन... आमचो मोग इतलो चीप रे? हांगा, थंय, खंयतरी फ्रेंडाच्या रूमार वा हेरांनी वापरिल्ल्या हॉटेलांच्या रूमांमदीं वचपा इतपत? आतां लग्ना उपरांत आमी एकामेकांचींच.. चल या आतां... मुडच गेलो म्हजो." अश्वीनान गाडी सुरू केली.

"हांव किदें बळजबरी करतलों आशिल्लों? म्हजे फ्रेंड्स आपले विल बी वांगडा किदें किदें करतात तें सांगतात म्हाका. हांवें काय केन्नाच तशें तुका म्हणलेंय ना आनी तुजेकडेन कांयच मागलेंय ना. इतल्या वर्सांच्या म्हज्या सहवासांत केन्नाय तरी वासना दिसली गो तुका? अजून लेगीत हांवें तुजो कीस घेतलो ना. तूं आसा तशेंच पवित्र उरचें हेच भावनेन वावुरलों मुगो हांव? आतां

जस्ट थ्रील म्हणून तुका तशें पळयतां म्हळ्यार तुजो न्हयकार... स्नेहा खरें सांगतां हांवें अजून 'तसली' एक लेगीत फिल्म पळोवंक ना... शपथ, तुजी शपथ... तुजो मान, तुजो जागो हो फकत तुका आसा म्हजे जिणेंत... इतलीच भावना... चल पावलीं आमी घरा... बाय....''

बिल्डींगेचे पार्कींग प्लेसीर पावता मेरेन अश्वीन एकलोच उलयलो आनी स्नेहान फक्त आयकलें. स्नेहा ताकतिकेन घरांत वता.

हाचे उपरांत दीस वतात. पूण अश्वीन आपलो राग अबोल रावन व्यक्त करता. हेरां सामकार कांयच देफेत दाखोवन दिनासतना तीं दोगांय अलिप्त कशीं वागतात. स्नेहाच्यान ही घुसमट सहन जायना. सांजचो येता त्या अश्वीनाक तें भायरच आडायता. ''अश्वीन... बेगीन यो आमी भायर वचून येवया.'' हॉलांतले मम्मीचेर ताची नदर वता...

''ओ. के. पांच मिन्टां भितर येतां.''

अश्वीन येतगीर दोगांय भायर सरतात. मोन्यांनी गाडी चलोवपी अश्वीनाक स्नेहा पळयता. ताची थीर नदर विंडस्क्रीनाचेर आसा.

''अश्वीन... हांव रेडी आसां. आत्तां... हांगा जाल्यार...''

''शी... स्नेहा पिशांवरी करूं नाका. तुजे मना विरूध्द म्हाका कांयच नाका.''

''ना रे... हांवेंय चिंतलें आतां हांव आनी तूं एक जावंक दीस उरल्यात तरी कितले? चल आय ॲम रेडी.''

''ना... ना तूं तें सिरीयसली घेवं नाका गो.''

''तुजें अशें रागार-फुगार म्हज्यान सोसवनां रे. हांव घुसमट्टां रे सामकें.'' स्नेहा तोंडार हात धांपून रडपाक लागलें. अश्वीनान ताचो राग सोडलो आनी बेसबरी करून भोंवन दोगांय सदचेवरी घरा आयलीं.

आतां तांचें लग्न म्हयन्यार पावता. दोनूय घरांनीं खाणां करपाची आनी जवळी काडपाची गडबड सुरू जाता. देवाक व्होंवळीक दिवन आतां सोयऱ्यांगेर व्होंवळीक दिवपाक सुरवात जाता. एक दीस सांजच्या चार-साडेचारांक

अश्वीनान स्नेहाक फोन केलो. ‘‘स्नेहा, मात्शें घराकडेन यो गो.’’ स्नेहा चिंतपाक पडटा. किदें जालें काय हाका? चार दिसांपयलीं कॉन्फरन्साक भायल्या शारांत गेल्लो हो. उदक बी बादून ताप आयलो काय? चितनेंतच तें दाराची चावी घेवन वयर धांवता. बेल मारल्यार अश्वीनच दार उगडटा. ताच्या कपलार, गळ्यार उमथो हात धरून स्नेहा हुस्क्यान विचारता, ‘‘किदें जालें रे? ताप बी आयलो काय दिसलो!’’

‘‘स्नेहा घरांत कोणूच ना... म्हज्याय आनी तुज्याय. हें जाणूनच हांव बेगीन घरा आयलां. स्नेहा... म्हज्या मोगा... म्हाका आत्तां तुका तशें पळोवंक जाय.’’ दार धांपून घेतना अश्वीनान म्हणलें.

लजून तांबडें जाल्ल्या स्नेहान आपलो चेरो आपल्याच हातांनीं धांपलो. अश्वीनान ताका घट्ट वेंगेंत घेतलें आनी ताच्या कानांत कुजबुजलो, ‘‘जबरदस्तीन न्हय... खोशी आसा जाल्यार... तुजी खोशी म्हाका म्हत्वाची.’’

ताच्या हड्ड्यार तकली तेंकोवन स्नेहा चित्ता. किदें फरक पडटलो, किदेंय घडल्यार...? लग्नाक तर पंदरा वीसच दीस उरल्यात. फाल्यां-परवां आमी एकामेकांचींच तर जातलीं. ताचो मोनो हयकार समजून अश्वीन ताका तशेंच उखलून बेडरुमांत व्हरता. जनेला वयले पड्डे ओडून घेवन तो बंद दाराक तेंकून रावता. स्नेहा एकेक करून आपले आंगावेले कपडे देंवयता. अश्वीन सैमाची ती सुंदर घडवण आपले कलावंताचे नदरेन पळयता. संगमरवरी तिजुल्यांची कशी ही कूड, हे कुडीची धनीण आपली मालकीण जातली, आपली घरकान्न जातली... अशा आनी अशाच विचारांत गुंतिल्लो अश्वीन फुडें चांटी मारता.

आतां तो म्हऱ्यांत येतलो, आपल्याक वेंगेंत घेतलो... उमो घेतलो आनी फुडें... समर्पणाचे तयारेंत आनी अभिसारीकेचे भावनेन स्नेहा दोळे धांपता. अचकीत ताचे भोंवतणी ओढणी वेढयली वता. अजापीत स्नेहा दोळे धांपता. ताची खाडकी धरून अश्वीन उबो रावला.

‘‘स्नेहा, चल बेगीन कपडे कर तो मेरेन हांव बरें आलें घालून च्या करतां... मागीर आमी भायर फिरपाक वचुया आनी सोमतें डिनर घेवनूच येवया. चल हे

कपडे घाल.'' आपल्या हातांतलो नवो कोरो चुडीदार ताचेकडेन दिवन अश्वीन भायर वता.

अश्वीनाची ती नदर पळोवन किदें किदें चिंतपी स्नेहा... सामकें फुलून आयिल्लें स्नेहा अश्वीनाकडच्यान आक्रमक चांटी अपेक्षतालें. ताचें वागणें पळोवन तें चक्रावता... ''देवा... हाचे भितर उणाव तर ना न्ही?'' ह्या प्रस्नाची जाप सोदपी स्नेहा कपडे करपाचेंच विसरता.



# फेसबूक फिव्हर

वैशणवी तल्लीन जावन मोबायलार आपल्या नाजूक बोटांची करामत करत आशिल्लें. मदींच खुदखुदून हांसतालें. जाल्यार मदींच फुरंगटून गेल्लेवरी करतालें. ना... ना... गैरसमज करून घेवं नाकात. वैशणवी आमचें पिशें न्हय. तें हातांतल्या इडियट बॉक्सावेल्यान (मोबायलाचें ताचे आवयन केल्लें बारशें) कोणाकडेन तरी संपर्क... सॉरी चॅटींग-बिटींग करतालें. ताच्या, टीनेजरांच्या कॉमन शब्दांत सांगपाचें तर मेसेजीस दी-घे करतालें. ताका ना अभ्यासाची चिंता आशिल्ली, ना जेवणाखाणाचें भान. फकत फेसबुकमय जावन चेऱ्याचेर चित्रविचित्र भावनांचें प्रदर्शन सुरू आशिल्लें म्हळ्यार अतिताय न्हय. आनंद, दुख्ख, राग, मोग, सगल्यो भावना ताच्या तोंडार ताच्या बोटांचे हालचाली वांगडा नाचताल्यो. ''विनय, एक दिसा ह्या पोराक पिशांच्या हॉस्पिटलांत व्हरून घालपाची वेळ येना जाल्यार पुरो.''

''आसूं गो विद्या.''

''आरे फेसबुकाचें आनी त्या मोबायलाचें अशें ॲडिक्शन जालां ताका की तें हाताचेर घडयाळ आसतना वा हांगा वण्टीर घडयाळां आसतना मोबायल ऑन करून टायम पळयता.''

''आसू गो. ह्या वयांत आसतात एकेक क्रेज. आपोआप कमी जातलें ताचें ॲडिक्शन. नवोच टी.व्ही आयिल्लो तेन्ना आमी कितें केल्लें? हेंच मुगो? आतां आमकां टी. व्ही.चो आयला बेजार. ताचेंय तेंच जातलें.''

''बापूय आनी धूव एकाच सारकीं. बी तशें भात.''

फडफडत विद्या भितर गेलें. विनयान भराभर आपलें रुटीन आटोपलें आनी तो ऑफिसांत वचपाक गेलो.

''भाटकान्नी, कॉलेजींत बी वतलें काय मोबायलाचेर थोबाड चोपडी पळयत रावतलें?''

''कमिंग मम्मा.'' वैशणवीची जाप आयकून विद्यान ब्रेकफास्ट हाडून मेजार दवरलो. कळकट जीन्स आनी मळकट टॉप घाल्लें वैशणवी मोबायलांत दोळे खुपसुनच खुर्चेर बसलें. मुखार आशिल्ल्या बशयेंतलो ब्रेकफास्ट कितें हें समजून लेगीत घेनासतना ताणें तो गिळ्ळो. नदर मात एकाग्र सामकी मोबायलार.

''बाय मम्मा.''

''बाय गो आतां तरी ती इडियट पेट बोल्सांत दवर. ना जाल्यार ॲक्टीव्हा कोणाकय ठोकशीत व्हरून.''

ताणें आयकलें काय ना देवाक खबर. दोन मिन्टां भितर ॲक्टीव्हा सुरू जावन पयस पावली सुद्दा. भन्नाट स्पीडीन स्कुटर दामटुवपी धुवेक कांय खीण विद्या पळयतच उरलें.

विचारांचो घोळको थंयच सोडून तें घरांत धांवलें. एकाफाटल्यान एक कामां ताचींच वाट पळयतालीं. स्वताच्या बेडरुमासावन ते चप्पलांच्या रॅकामेरेनचो सगळो अस्ताव्यस्तपणा आवरतना ताका आपलें भुरगेंपण येवजलें. हात कामां साकशिताले आनी मन भुरगेपणांतल्या यादींचे खीण वेंचतालें. लगोऱ्यो, कबड्डी, गड्डे, गोंजो-बार, मिठानी, बडयांनी, हातार फातर घेवन खेळप, घुलांनी खेळप, चोर-पोलीस एक ना दोन यादी ताच्या मनांत दाटल्यो. मस्त मेकळेपणान ताणें भुरगेंपण भोगिल्लें. ना कसली चिंता ना फाल्यांचो हुस्को. खेळप, अभ्यास करप, पानार पडटा तें खावप आनी कुंभकर्णाचे वारसदार कशें ताणावन दिवप. आयज? भुरग्यांक आसा भुरगेंपण? ह्या टॅक्नोलॉजीच्या वाडट्या प्रमाणांत भुरगीं नेण्टेपणूच होगडावन बसल्यांत. नाका त्या वयार आनी न्हय त्या विशयांनी मात जाण्टीं जावन पडल्यांत.

आतां आनी ह्या फेसबुकान धुमशेणां सुरू केल्यांत. हातांत मोबायल वा मांडयेर लॅपटॉप-टॅबलेट आनी तोंडांत चिप्सांचो भोकणो भरून आयुश्यांत

केन्नाच एकमेकांचो थोबडो पळोंवनाशिल्ल्या (खऱ्या काय खोट्या देव जाणां) मनशांकडेन वरांचीं वरां चॅटींग करप ही आतां तरूणाईची आवडती हॉबी जाल्या. हांकां शाणीं म्हणप काय पिशीं? विद्याची मती चिंतताली आनी हातांनी आपलीं सगलीं कामां सोंपयल्लीं. जेवण तयार जालें. विद्यान डायनींग टेबलार सगळें मांडलें आनी तें एक पुस्तक वाचपाक बसलें. वाचतां वाचतां तें पुस्तकामदीं रंगून गेलें. बऱ्या वेळान वैशणवील्या स्कुटरीची सुलूस लागली आनी बेगोबेग विद्या भायर धांवलें. हाती-पांयीं धूव सुखरूप आसा हें पळोवन तें सुखावलें.

"मम्मा, आय ॲम बॅक."

"हय बाये. सिंगल पार्ट आयलें हे देवालेच उपकार."

"मम्मा पुरो आं! लेक्चर दिवं नाका. वाड बेगीन."

भकाभक वाडिल्लें गिळून वैशणवी आपल्या रुमांत गेलें. घडये अभ्यास आसतलो चड... मनांत चिंतत विद्यान मेज आवरलें. आपल्या बेडरूमांत वामकुक्षी घेवंक वचपी विद्यान सहज वैशणवील्या रुमांत नदर मारली. आवयस... वैशणवी भकास नदर घेवन ताचे कडेनूच पळयतालें. सामकी दुख्खी, वित्रागिल्ली अशी ताची ती नदर पळोवन विद्या भियेलें. पेपरावयल्यो बातम्यो आनी टीवीवेले हायलायटस पळोवन चलयांच्या आवयांची काळजां सद्याक घपघपतातच.

"वैशु, शाण्या कितें जालें गो? कोणा फ्रेंडाक बी कितें जालें गो?" ताच्या हातांत चकचकपी मोबायल पळोवन विद्यान म्हळें.

"मम्मा, आयज फेसबुकाचेर हांवें दिल्ले एकूय मेसेजीक कोणें लायक करूंक ना आनी एकूय कॉमेंट ना."

विद्याक सूऽ जालें.

"आगो पूण कितें मेसेज दिल्ली तुवें?"

"गोईंग टू कॉलेज."

मनांतल्या मनांत विद्यान कपलार हात आपटून घेतले आनी फेसबुकाक आनी त्या झुकेरबर्गाक कळटात तितल्योय गाळी घाल्यो.

दीस वताले. वैशणवीच्यो कला चंद्रा परस चंचल जायत वताल्यो. तें दिसान दीस मुडी जायत वतालें. केन्नाके न्नाय धबधब्याभशेन बडबडटालें तर केन्ना केन्ना एकूय उतर तोंडांतल्यान भायर काडिनासलें. विद्यान सगली गजाल विनयाच्या कानार घाली.

''विनय, म्हाका वैशणवीचीं लक्षणां बरीं दिसनांत. दीस काडल्यार तें पिशें जातलें अशें भंय दिसता रे म्हाका.''

वैशणवीचे वागणुकेंतलो वेगळेचार विनयाकूय जाणवूंक लागिल्लो. हरशीं तें बापूय घरा पावलो की सामकें लागसारच्या फ्रेंडा भशेन ताचेकडेन वागतालें. हालीं हालीं धुवेकडचीं उतरां आयकपाक विनय वळवळटालो म्हळ्यार अतिताय न्हय. पळयता तेन्ना मोबायलांत खुमणें खुपसून तें बशिल्लें आसतालें.

''विद्या, हांवेंच लायटली घेतलें गो तुजें म्हणणें. हेरशीं कसलीय ताची क्रेज दोन-चार म्हयने तिगताली. तशेंच हांगाय जातलें शें दिशिल्लें म्हाका. पूण... आय ॲम सॉरी विद्या.''

''आरे. सॉरी बिरी करचे परस वैशुक परतें मनशांत हाडपा खातीर कितें करूया तें चिंतप आतां म्हत्वाचें.''

''तूंच डिसीजन घे. हांव आसा तुजे वांगडा.''

शेवटीं हय-न्हय करीत विद्यान आपलें म्हणणें विनयाक पटयलें आनी वैशणवी खातीर सायकियाट्रिस्टाची ॲपॉयंटमेंट घेवपाची थारली. बोवाळ तर जावंक जायना. कारण आजुनूय सायकियाट्रीस्ट म्हळ्यार पिशांचे दोतोर हें समाजमनाचेर घट्ट बशिल्लें आसा आनी वाडट्या वयाचें चली. ताचें फाल्यांचें कल्याण चिंतून ट्रिटमेंटय गरजेची आनी वांगडा बोवाळ न जावप तर चडूच गरजेचें. शेवटाक विद्यानूच दुसऱ्या शारांतल्या दोतोराली ॲपॉयंटमेंट घेतली. वैशणवीक कशेंय तरी फुसलावन विद्या आनी विनयान दोतोराक भेटपाक तयार केलें. ताचे पयलीं वैशणवी कॉलेजींत गेल्या उपरांत ताका नकळत विद्या-विनय त्या दोतोराक मेळून आयलीं. सगली केस हिस्ट्री तांच्या कानार घाली. दोतोरान दिल्ल्या धिरान दोगांय बरींच सावरलीं.

वैशणवीक घेवन तीं दोगांय दोतोरागेर गेलीं. दोतोरान दोगांयकय भायर बसपाक सांगून वैशणवीक एकट्याकच भितर घेतलें. फाटभूंय जाणून घेतिल्ल्यान दोतोरान एकदम फेसबूक ह्या विशयाचेरूच उलोवंक सुरवात केली. मेकळेपणान वैशणवीन आपलीं मतां दोतोरा सामकार मांडलीं. इतलेंच न्हय तर आपल्या मेसेजीक दिसपट्टे लायक मारपी आपले फेसबूक फ्रेंड्स ताणें दोतोराक मोबायलार दाखयले. आनी दोतोरान मनांतल्या मनांत आपल्या कपलार हात मारून घेतलो. माथ्यावयले केंस हुमटायले... तेवूय मनांतल्या मनांत. कारण वैशणवीन दाखयिल्ले ताचे दिसपट्टे लायक मारपी बाराय फ्रेंड्स मेंटल हॉस्पीटलांत ॲडमीट आशिल्ले. ह्याच दिसांत ह्याच दोतोरान तांकां थंय धाडपाचो निर्णय घेतिल्लो. देखून वैशणवीचे दिसपट्टे लायक बंद जाल्ले. वेळेर पाविल्ल्यान 'तेरावें' जावपा पसून वैशणवी वाचलें.

दोतोरान वैशणवीक आनी ताच्या आवय-बापायक घेवन हॉस्पीटल गांठलें. हॉस्पीटलांत पिशांचे चाळे करपी आपल्या बाराय फ्रेंडांची हालत पळोवन वैशणवीचें अवसान गळ्ळें. फेसबूक फिव्हरान जवळजवळ पिशांच्या दरबारांतलीं रत्नां जाल्ले आपले हे फ्रेंड्स पळोवन वैशणवीन आपलो ॲकाऊंटच बंद करपाचो निर्णय दोतोराक थंयच सांगलो. विद्या आनी विनयान सुटकेचो सुस्कारो घेतलो. दोतोरान मात वैशणवीक ह्या निर्णयापसून आडायलें.

"पळय, फेसबुकाचेर भरपूर नॉलेज मेळटा. बऱ्यो-बऱ्यो पेजी लायक कर. हेल्थ टीप्स शेअर कर. आयज आमी टॅक्नोसेव्ही जावंकच जाय. पूण टेक्नोफिव्हर येवंक दिवंक जायना. ओके?"

हयकारी मान हालयतल्या वैशणवीचे तकलेर दोतोरान मायेन थापटिलें. घरा वतना पयलीचें वैशणवी मेळ्ळें ह्या आनंदान विद्या-विनय खोशी जालीं.



# सत..... काय किदें ?

कालची शीलाची वागणूक येवजून कमलेश परतो-परतो अजापीत जातालो. सद्दा शांत, अर्दकुट्या फुलिल्ल्या फुलाभशेन उरपी शीलाचो रातीचो ॲग्रेसिव्हनेस..... खरेंतर तो ॲग्रेसिव्हनेस कमलेशाक जाय-जायच दिसतालो. लग्ना उपरांत सावन लजत-लजत साथ दिवपी शीला रातीं सांवार अयिल्लेवरी वागलें ताचे लागीं. आतांय त्या जाय-जायशा यादीनी कमलेशाच्या आंगार शिरशिरून कांटो फुललो. आयतारचे ते सकाळीं सकाळीं हांथरूणार लोळपी कमलेश रातीच्या यादीनीं रंगून गेल्लो. न्हांवन धुंवन नितळ जाल्लें शीला च्याचो कप घेवन ताचेसरी पावलें. ''ए उठ मरे. आयज आयतार म्हणून ताणून दितलो दिसभर?'' हळूच उगडिल्ल्या दोळ्यांनी कमलेशान पळयलें की शीलान आपल्या हातांतलो कप टिपॉयचेर दवरला. ताणें झोपय मारून शीलाक वेंगेंत ओडलें. तें लजून तांबडें जालें. ''सोड रे म्हाका प्लीज.'' अर्दकुटी फुलपी कळी कशें लजेत तें कमलेशाची विनवण करतालें. ''ए, रातीं वागीण जावन खालो म्हाका आनी आतां सोड रे म्हणटा? म्हाका जाय तें दी. मागीर सोडटां.''

''शी.... सकाळींच?''

कमलेशान 'हय' म्हणटगीर ताका खातखुतल्यो करून तें ताचे वेंगेंतल्यान सुटलेंच.

सकाळीं च्या नाश्तो करून दोगांय जाणां आवटींगाक गेलीं. भायरच हॉटेलांत लंच, मल्टीस्क्रीन्ड थियेटरांत नवोच रिलीज जाल्लो पिक्चर, वांगडा

तिनसांजेर पोटभर खांवन दोगांय घरा परतलीं. हांथरूणार पडटनां कमलेशान कालच्या शीलाचीं चित्रां, रूपां मनांत रंगोवंक सुरवात केली. पूण बेडरूमांत आयिल्ल्या शीलामदीं कालचें सुतभर लेगीत शीला ताका सांपडलें ना. मेळ्ळें तें सदचेंच लजत काळखांत साथ निभावपी शीला. कमलेश दिसपट्टो 'त्या' शीलाक आशेतालो. खूब दीस ताणें निराशेंतच घालयले. खूब रातीं उपरांत एक फावट पर्थून शीला पेटलें, सामकें चाळवलें. अशें शीला ताका म्हयन्यांतल्यान चार-पांच फावटीं सापडलें. कमलेश तें सूख एँजोय करतालो. अ‍ॅग्रेसिव्हनेसाकय एक लिमीट अशें आसता. पूण कांय तेंपान शीलाचो कमलेशाक जाय जाय दिसपी अ‍ॅग्रेसिव्हनेस ताचेच खातीर त्रासदिणो थारपाक लागलो.

शीलाची 'ती' भूक वाडत वचपाक लागली. काळ-वेळ, बंधन कांयच ना. जेन्ना कमलेश दिसता तेन्ना तें गरजवंतावरी कमलेशाक शरण येतालें. चोवीस तास एकच भूक.... वखवख फक्त. ह्या अतीसुखाच्या अतिरेकान कमलेश अर्दमेलो जावन पडलो. काल-पयर मेरेन जाय-जाय दिसपी शीलाच्या अ‍ॅग्रेसिव्हनेसाचें ताका अजीर्ण जालें. कमलेशाक घराची, ताच्या अपुरबायेच्या शीलाची भिरांत दिसूंक लागली. ताणें ओव्हरटायम करपाक सुरवात केली. कांयच काम ना जाल्यार दर्यादेगेर वचून वेळ सारप वा बेकार -लवडी कसो हेडप सुरू केलें. कशेयतरेन घरांत कमीत-कमी वेळ रावप हें ताचें आद्यकर्तव्य कशें जालें. थकल्या-भागल्या कमलेशान आपली जीण सावरपाक निमणे आपल्या एका आमीगाची मजत घेवपाची थारायली. समीर..... एक पॅरासायकोलोजिस्ट. हय होच ताचो ल्हानपणासावनचो आमीग.

समीरान ताची सगली कथा मन लावन आयकून घेतली. चार-पांच दिसां उपरांत तो कमलेशाचे कंपनीतलो एक कलीग जावन ताच्या घरा गेलो. शीलाचें वागप-करप, उलोवणें हाचें ताणें बारीक निरीक्षण केलें. सांजचें ताका पावोवपाचें निमित्य करून कमलेशय ताचे वांगडा भायर सरलो.

"कमलेश, शीला इज पर्फेक्टली नॉर्मल. आतां ताचें मन, तातूंतल्यो धांपून उरिल्ल्यो घडणुको तूंच जाणून घेवंक शकता. कारण ताका सगल्यांत लागसारचो म्हणटा तो तूंच आसा. बेस्ट ऑफ लक."

पयलीं सद्दां रातची आतुरतेन वाट पळोवपी कमलेश ह्या दिसांनीं रात म्हळ्यार थर्त भियेतालो. घरा पावता म्हणटासर ताणें शीलाक फोर्स करून भोवंक वचपाची टुम काडली. गाडेयन दोगांयनी पयलीं दर्यावेळ गांठली. भेळ, आयस्क्रीम खावन, देगेर फिरून दोगांयनी सांज सोबयली. वेळ पडटां-पडटां शीलान कमलेशाकडेन घरा पर्थून वचपाचो हट धरलो.

''चल रे वचुया घरा. म्हाका रांदपाक जाय न्ही?''

कारण खरें तरी कमलेशाच्या पोटांत सुकलें. कमलेशाचें मन भियेवन आपले कुडीची तुळा मुखावेल्या चरकांतल्यान पिळून भायर सरपी ऊसकांड्याकडेन करपाक लागलें.

''शीला, आयज आमी भायरच जेवया, मस्त पिक्चर पळोवन घरा या. ओके?''

सहजतायेन ताणें हय म्हळें. आनी कमलेशान हुस्कारो सोडलो.

वेळेवयल्यान हातांत हात घालून फिरतना ताणें शीलाक सहजतायेन विचारलें. ''शीला, एक विचारतां. रागार जातलें?''

''विचारतां म्हणपाची फर्मालदाद नाका. पटकन विचारच.''

''शीला, तूं पयले फावट पळय ॲग्रेसिव्ह जावन म्हाका खावन उडयतालें पळय तें म्हाका खूबच आवडटालें...... ''

''चल रे खंयच्याय वेळार किदेंय उलयता.'' शीला लजून तांबडेंगूंज जालें.

''शीला, आयकय. पूण शीला आतां म्हाका तुज्या 'त्या' अतिरेकाची थर्त भिरांत दिसता. तुज्या त्या ॲग्रेसिव्हनेसाच्या अतिरेकान हांव थकलां, सामको जाम जालां. म्हाका घरा येवप नाका जालां. म्हणून हांव चडांत चड वेळ भायर रावतां, तुजेपासून पयस पळटां...... घडये हांव जीव दियतय बी.''

एकाएकी शीलान ताका गच्च वेंग मारली आनी तें वझऱ्यावरी रडपाक लागलें. कमलेशान ताचो ओघ व्हावंक दिलो. ताचे भोंवतणी आपल्या घटमूट हातांची वेंग गच्च करून आपलो आधार ताका जाणवयलो.

''राणी... किदें जाता तुका? किदें तुजें दुःख म्हाका सांग. हांव तुका पुराय सुखी करपाक शकना म्हणून तूं ॲग्रेसिव्ह जाता?''

“ना रे कमलेश... तुजे वांगडा हांव सदांच सुखी आसतां आनी आसतलेंय. खरें सांगता रे हांव. हांव तुका त्रास दिवंक तशें करना. तो..... तो करून घेता तशें म्हजेकडच्यान.... तूं दिसलो की तो घुसता म्हज्या आंगांत आनी तुका म्हजेपसून पयसावपा खातीर तशें करून घेता तो.”

“कोण तो... नांव सांग ताचें. आमचे मदीं काडी पेटयतल्याक काबार करतां हांव.”

“कमलेश तो जितो ना. ताचें भूत म्हज्या आंगांत येता आनी म्हजे कडसून तुका त्रास दिवपाक लायता.”

‘भूत?’ हो शब्द आयकतकीर कमलेशय काचाबूल जालो. तरी नेटान ताणें पर्थून-पर्थून फुसलावन सगळी घडणूक जाणून घेतली.

मनाच्या एकाद्र्या कोनशांत लिपिल्ली एकाद्री घडणूक मनशाक किदेंय करपाक लायता हाचें हें एक उदाहरण थारपाचें. शीलाचो मामेभाव संतोष ताचेर उपाट पूण मनोमन मोग करतालो. आपलो मोग ताणें केन्नाच उक्तायलो नासलो. आनी शीला जस्ट भावा-भयणीच्या रिलेशनान ताचे लागीं वागतालें. अचकीत धडधाकट संतोष जोराच्या निमतान आडवो जालो तो सासणाचोच. फुडल्या टेस्टीनी समजलें कीं ताका रक्ताचो कांक्र जाला आनी कांय दीस, घडये कांय म्हयने ताचें जिवीत उरलां. वयावेलो भुरगो आड पडला म्हणून सोयरेदायरे यो-वच करताले. अचकीत एक दीस शीला कॉलेजींतल्यान भायले भायर मामागेर गेल्लें. ताचेच खबरेक म्हणून.

“बाबा, हांवें मनासावन म्हजी घरकान्न म्हणून शीलाक वेंचिल्लें. ताका कांयच सांगूंक नासलें हांवें. आतां म्हज्या जाग्यार ताकाच मानून तूं ताचो फुडार बरो जातलो हें पळय. बाबा म्हाका उतर दी.”

भितर सरपी शीला हीं उतरां कानार पडतकीर फाटीं सरलें. आयज मेरेन जाका आपूण फक्त भाव मानतालें ताणें आपणाविशींची ही भावना ताच्या मनांत रोमून आनी लिपून उरली. कांय दिसां उपरांत संतोष देवागेर गेलो. शीलाचें शिकप पुराय जालें. मामानच फुडाकार घेवन कमलेशाची सोयरीक ताका हाडली आनी मोठ्या दबाज्यान शीलाचें लग्न जालें. स्वताचे धुवेची

करची ते तरेन मामान ताची अर्थ-अपुरबाय केली, भांगरां-शिंगरांय घालीं. मना-कुडीन तें कमलेशाचें जालें खरें पूण ताच्या मनांत लग्ना राती सावन एक अपराधीपणाची भावना जल्मली. आपले भोंवतणी वेंग पडपाची ती संतोषाची, आपले ओंठ, गाल, कूड एकरूप जावपाची संतोषाकडेन. पूण आतां हांगा कमलेश आसा. आपल्याचेर संतोषाची आस आशिल्ली हे भावनेन शीलाच्या मनांत एक गिल्ट कसो जालो. स्वता कांयच गिल्टी नासूनय ताच्या मनांतलो गिल्ट वाडत गेलो. फुलून आयिल्लें शीला बावलें. नव्या नवलायेच्या कमलेशाकय दिसलें, नवी व्हंकल देखून लजता. संवकळीन खुलतलें आनी फुलतलेंय बी. काणी आयकत आनी फाटल्यो घडणुको आपापले तरेन मनांत येवजत दोगांय घरा पावलीं.

घडये मन मेकळें जांवन गिल्ट कमी जाल्ल्यान जावये पूण सदचेवरी नॉर्मल वागून तीं दोगांय न्हिदून पडलीं. ताचे पयलीं कमलेशान हाचेर कितेंयतरी उपाय करचोच पडटलो हें थारायलें. दोन दिसां उपरांत कमलेशान शीलाच्या मनांतलो गिल्ट समीराच्या कानार घालो.

''तें मनान मेकळें जालां खरें. पूण पर्थून तें अँग्रेसिव्ह जावचें ना अशें न्हय. घडये न जायतय बी! पूण आमी सादुरतायेन ताच्या मूळ कारणाक ना करपाक जाय.''

कमलेशान समीराक तेंको दिलो. पंदरा वीस-दिसां उपरांत समीर आपले घरकान्नीक रिनाक घेवन तांगेर आयलो. ताचे पयलीं कमलेशान समीराच्या सल्ल्याप्रमाण मदींमदीं संतोषाचो विशय काडत रावन ताची याद शीलाच्या मनांत ताजी दवरिल्ली.

''कमलेश, मीट माय वायफ रिना. हें मरे प्लँचेट करून मेल्ल्या आत्म्या लागीं काँटेक्ट करता. तुज्या आवय-बापायकडेन वा हेर कोणायकडेन काँटेक्ट करतलो जाल्यार सांग.''

कान लावन आयकुपी शीला पटकन् भितर गेलें. तिगांय अजापीत नदरेन एकामेकांक पळोवंक लागलीं. समीरान ताका धिराचो आंगठो दाखयलो.

''कमलेश, मात्सो वयलो डबो काडून दी रे.''

शीलाच्या ह्या उतरांनीं समीराच्या चेऱ्याचेर हांशें फुल्लें. ताणें कमलेशाक भितर वचपाक सांगलें आनी भायर व्हडाव्हडान तो आपले बायले वांगडा उलोवंक लागलो. भितर सरपी कमलेशाक शीलान हाताक धरून ओडून व्हेलो.

"आरे. तें रिना प्लँचेटां करता खंय न्ही रे... तिका विचारून संतोषाची आय मिन ताच्या आत्म्या लागीं काँटेक्ट करूं येता तर पळय रे.. प्लीज."

कमलेशाक समीरान सगलो प्लॅन समजायिल्लो. तो भितरले भितर खोशी जालो.

"पळयतां तांकां विचारून. तुंवय यो भायर. सांगुया तांकां की तुजो एक मामेभाव भायर पडला ताच्या आत्म्या लागीं तुका काँटेक्ट करूंक जाय. चल यो."

दोगांय भायर आयलीं. हांसपी आनी कितेंतरी उलोवपी समीराक कमलेशान शीलाची इत्सा सांगली.

"बस्स इतलेंच? भावा-भयणीची भेट घालपाच्या पुण्यकर्माक रिना न्हयकारचें ना."

"आरे पूण प्लँचेट अशें दनपरां करिनांत... धड दीस न्ही धड रात न्ही अशा तिनसांजेर करतात तें. आमी आयज तिनसांजेर बसुया...."

शीला दनपारच्या जेवणाची तयारी करपाक भितर गेलें. ताका मजत करपाक रिनाय भितर सरलें. बडबड्या रिनान शीलाक रोखडेंच जिखून घेतलें.

तिनसांजेर प्लँचेटाचो मांड मांडलो. एक प्लेन पाट, ताचेर रिनान कुरवो केल्यो. मदीं एक वाटी दवरली. चोवगांय जाणां मंद दिवलेच्या उजवाडांत ते वाटयेर बोट तेंकोवन रावलीं. कांय वेळान वाटी फुडें-फाटीं हालील्लेवरी जावंक लागली. संतोषाच्या आत्म्याक आवाहन करपी रिनान सांगलें "आत्मो वाटयेंत आयलो. प्रस्न विचार" शीलान पयलो प्रस्न केलो. "संतोष तूंच म्हणून कशें मानप?" वाटी थंयच थांबली. रिनान म्हळें. "तुवें आत्म्याक दुखयलें. ताका फक्त हय वा ना इतलेंच सांगपाची शक्त आसता. तुजे प्रस्न विचार आनी वाटी हेवटेन आयल्यार हय आनी तेवटेन गेल्यार ना समज. परतें

आवाहन करून पळयतां."

बऱ्या वेळा उप्रांत वाटी हालली.

"संतोष तुका मोक्ष मेळ्ळा? तूं तृप्त आसा?"

वाटी चार-पांच सेंकदां भितर हयकाराचे वटेन गेली. व्हडलो हुस्कारो सोडून शीलान कमलेशाच्या खांदार तकली दवरली. ताच्या गरम दुकांनी ताचो खांदो भिजलो. समीरान ताका रडूंक दिवपाची कुरू केली. पांच मिन्टां भितर सावरिल्ल्या शीलान सगळ्यां खातीर कांदे-पोहे आनी इलायची कॉफी केली. उपरांत समीर-रिना आपले घरा गेलीं.

ते रातीकडे मात कमलेशान आक्रमक तरी शालीन शिणगाराचो अणभव घेतलो.



# मेड फॉर इच अदर

**बा**बुभायन आपल्या मेजावयल्या आयडी फोनाकडेन पळयलें. वाजपी त्या फोनाचे स्क्रिनीचेर ताच्या घरचोच नंबर आशिल्लो. ताणें बेगोबेग आपल्या चार-चार मुदयांच्या वजनान जडाविल्ल्या हातान फोन कानाक लायलो. ''रज्जु डियर. सांग.''

''हय गो घडयाळ आसा वण्टीर. हांव टायमार खातलों गो बाये.''

''नाका नाका आयज दबो धाडूं नाका. बद्रीक आनीक किदेंय कामां सांग.''

''हय गो. आयज क्लायंटा वांगडा म्हत्वाची मिटींग आसा. राणी, तुका किदेंय उलोवपाचें आसल्यार सव्वाबारा मेरेन फोन कर. मागीर मोबायल ऑफ आसतलो.''

''हय हय साडेतीन मेरेन हांव घराच येतलों. ओके डियर बाय.'' हांसकुऱ्या मुखामळान बाबुभायन फोन दवरलो.

'कितली मोगाळ घरकान्न सराची... दोगांय नशिबवान. ना तर आमचो हो... जळवणो... दोन बरीं उतरां मेळपाचीं मारामार.' फोनावेल्या बाबुभायच्या भाशणान भाराविल्ली ताची मध्यम पिरायेची सेक्रेटरी चितताली.

आपलीं सगलीं कामां... कामां कसलीं फकत हाचेर ताचेर सयो मारपाचीं बाबुभायन सोपयलीं. आतां तो परती परती मोबायलाचेर नदर मारपाक लागलो. सव्वाबारांक दोन-तीन मिन्टां आसतना मोबायलान 'बीप' केलें. उमळशीकेन ताणें मॅसेज पळयली. H.A.531. त्या बराबर ताणें बॅल मारली. दामू प्युन

धांवत पळत आयलो. ब्रीफकेस घेवन भायर गेल्ल्या दामून ड्रायव्हर केशवाक कुरू करून गाडी ऑफिसाच्या दारांत घेवंक लायली. ब्रीफकेस दवरून दामू परतलो. ताकतिकेन येवपी बाबुभायक पळोवन केशवान दार उगडून धरलें. तो बसतकीर केशवान गाडी चालू केली. 'केशव हॉटेल अप्सराकडेन गाडी घे. हो घे तुजो ओव्हरटायम.' पाचशांची नोट बोल्सांत दवरून केशवान ॲक्सलेटर दामून दिलो. गाडयेन हॉटेल अप्सराची वाट धरली.

रूम नंबर ५३१च्या दारार कुरवेचो आवाज आयकून भितरल्या रिमान दार उगडलें. भितर सरपी बाबुभायच्या गळ्याक वेंग मारून ताचेर उम्यांचो मारो करून रिमान ताका हुनहुनीत येवकार दिलो. टचटचीत कुडिचें रिमा आनी पारदर्शी ताच्या हातभर कपड्यांतल्यान आव्हान दिवपी ती कूड पळोवन बाबुभाय पेटलो. हातांतली ब्रीफकेस एकीकडेन, दोळ्यांवयलें वकल दुसरेकडेन.. गळ्यांतलो टाय भलतेकडेन.. बाबुभाय सडसडीत मेकळो जावन रिमाचे कुडीकडेन झोंबपाक लागलो. पंदरा-वीस मिन्टां भितर रितो जाल्लो बाबुभाय फ्रेश जावंक बाथरूमांत धांवलो. रिमाचे आवडी प्रमाण फोनावयल्यान मचमचीत जेवणाची ऑर्डर दिवन दोगांय एकमेकांच्या गोपांत रिगून खबऱ्यो मारपाक लागलीं.

"सायबा, विचारतां म्हणून रागार जावं नाका. मोग करून तूं लग्न जालो... तरी म्हजे सरी येता. तुजी घरकान्न तुका सुखी करपाक शकना? काय जस्ट टायमपास, चेंज म्हणून हांव जाय पडटां तुका?" रिमान बाबुभायच्या गळ्यांत पडून विचारलें.

"रिमा... हांव तुका चंचल सो दिसतां? खरें सांगतां म्हज्या आयुश्यांतल्यो दोनूच अस्तुऱ्यो म्हळ्यार रज्जु आनी तूं."

"तरीपूण सायबा..."

"आयक गो... हांव मोग करून रज्जुकडेन लग्न जाल्लों. सुखाच्या झोपाळ्याचेर झुलतल्या रज्जुन बाळंतेरा उपरांत आपली कुयदाद घेतली ना... तें सुटत, फुगत गेलें. ताचेकडेन शिरंगार करतना म्हाका बटाट्याचे पोतयेची याद जाता. गृहस्थधर्म म्हणून हांव तेंवूय करतां."

इतल्यांत दारार टिकटीक जाली. 'येस कम इन' बाबुभायन बेडी वयल्यान उठत परमिशन दिली. वेटरान मेजार जेवणाचो सरंजाम मांडलो. जेवणाचेर ताव मारतकीर पर्थून बाबुभायचें चाळवलें. रिमाचे कुडीकडेन झोंबाझोंबी करून मेळटा तितलें सूख ताणें मेळयलें. कपडे केल्या उपरांत ताणें घडयाळीकडेन पळयलें. तिनांक धा मिन्टां उणीं आशिल्लीं. वेवस्थीत भेस जालो हाची जतनाय घेवन बाबुभायन ब्रीफकेस उगडली. भितरल्यान कांय नोटी रिमाचे उगडे कुडीचेर उडोवन तो भायर सरलो. केशवान उक्त्या केल्ल्या दारांतल्यान गाडयेंत बसतकीर ताणें रज्जुक फोन लायलो. ''डार्लींग... मिटींग आत्तांच सोंपल्या. पंदरा मिन्टां भितर हांव घरा पावतां. वांगडाच च्या पियेवया.'' केशवान गाडयेचें तोंड बंगल्याकडेन वळयलें.

आंगार कपडे चडयिल्ल्या रिमान बेडीर फाफसून पडिल्ल्यो नोटी एकठांय केल्यो. सात आशिल्ल्यो.

'ह्या म्हयन्याक म्हाताऱ्याक वट्ट अठरा हजारांची तोपी चडयली. मात्शें पोशेवन घेवंक इतलो दुडू मेळ्ळ्यार दोन-तीन वर्सां भितर म्हज्या लग्नाचो खर्च सुटावो जातलो.' मनांत अशें चिंतत रिमा आपल्या ऊंच टाचांचे बूट टॉक-टॉक वाजयत भायर सरलें. कोणातरी तरनाट्या वांगडा आपल्या सुखी संवसाराक कितें कितें जाय आसतलें हें चिंतत तें वचत रावलें.

तेवटेन सकाळच्यान रज्जुय खोशी आशिल्लें. घरकारान दबो नाका म्हळो तेन्नाच ताणें सपन पळयलें. ही ड्युटी नाशिल्ल्यान नेण्टो बद्री आयजय बेकार. आयज बरो चान्स मारपाचोच ह्या विचारान रज्जु फुरफुरतालें.

''बद्री... हांगा राव. काम आसा तेन्ना उलो मारतां.''

रज्जु बेगोबेग आपल्या बेडरुमांत धांवलें. आंगावेली घरंदाज साडी सोडून ताणें आपल्या जाडजूड कुडीचेर फिट्ट बसपी पारदर्शी गावन चडयलो. दार अर्दकुटें उक्तें दवरून बद्रीक आवाज दिलो. खाटीर अस्ताव्यस्त पडिल्ल्या रज्जुचेर बद्रीन आपलें तरनाटेपण उधळयलें.

''बद्री... कितना अच्छा है रे तू. एकदम सॉलीड हां.''

''मॅडम... साहब को पता चला तो?''

''कौन तू बतायेगा? मैं तो नहीं बाबा. अब साहब का नाम मत लो. चल एक बार और मझे लेते है. आजा.''

''मॅडम... साब मुझे छोडेंगे नही.''

''अरे तेरे साब अब बुढे हो गये है... लेकीन दम दिखाते है नौजवान जैसे.... तु आजा... मत डर यार.''

हाडान हाड दुखपी रज्जुन साडयेचो गुठलो आंगार ओडटनाच बद्रीच्या आंगार कांय नोटो उडयल्यो.

''चल जा. जरूरत पडी तो बुला लुंगी.'' खोशी बद्री नोटी मेजत भायर सरलो.

''साला भैंस के साथ सोना भी अच्छा होगा शायद... लेकीन ये गांधीबाबाने पागल करवाया है.''

हातांतल्यो धायेक नोटी मेजत बद्री मनांतल्या मनांत बडबडटालो.

''साली को इस महिने वीस हजार का चुना लगवाया. गांव में घरवाले खूस तो होंगे.'' त्या नोटींचो उमो घेवन ताणें बोल्सांत उडयल्यो.

न्हांवून-धुवून तयार जाल्ल्या रज्जुन च्याची सगली तयारी केली. हॉर्नाचो आवाज आयकून तें ताकतिकेन म्हाल दरवाजो उगडून भायर गेलें. बाबुभायच्या हातांतली ब्रीफकेस घेवन भितर येतना ताणें केशवाक ऑर्द सोडली.

''केशव फाल्यां मात्सो कळावच करून यो. आयचे मिटींगेन सायबाक पुरो जालां. फाल्यां लेट वतलो तो ऑफिसान.''

तकली हालयत केशवान बोल्सांतली सायबान दिल्ली नोट सासपिली आनी मुमुरखें हांसत ताणें आपले घरची वाट धरली. ताच्या दोळ्यां सामकार ताचीं दोनूय भुरगीं नाचतालीं.

रज्जु च्याचो सगलो सरंजाम, वांगडा बिस्कुत्यो बी घेवन आयलें.

''आगो... तूं अजून च्या पिवंक ना?''

''ना... तुमी येता म्हणिल्लें म्हुण हांव वाट पळयतालें. आतां दोगांय वांगडाच घेवया.''

च्या पितां-पितां दोगांयनी बेंगळुरूक आशिल्ल्या आपल्या एकसुऱ्या पुताच्या शिकपाचेर भासाभास केली. चल्याचें शिक्षण, ताचें भविश्य, भवितव्य हाचेर उलयतनाच बाबुभायक याद जालें....

''रज्जु डियर काँग्रेट्स.''

''कित्याचें काँग्रेट्स? सोर्त लागल्या भास आनीक किदें?''

''आगो... आमच्या क्लबाच्या चॅरमेनाचो फोन आयिल्लो. अंदुचो 'मेड फॉर इच अदर कपल' हो ॲवार्ड आमकांच फावो जाला खंय! हॅट्रिक मुगो आमची. येत्या आयतारा जंगी पार्टी आसा. ताचे पयलीं पार्लरान वचून तूं आनीकूय ब्युटीफूल जावन यो.''

बाबुभायक गळवेंग मारून रज्जुन आपली खोस परगटायली.



# चेकमेट

अर्पितालो तो फोन येतसावन क्षमाचें मन मातूय ताळ्यार नाशिल्लें. केन्ना पोरणें फेरीज ताजें जावन व्हांवतालें तर मदींच ताचें... आवयचें मन हुळहुळतालें. वयाच्या विशींतच स्वताच्या आयुश्याचो निर्णय स्वता समर्थपणान घेत, हांचो दोगांयचोय विरोध आसतनाय दुसरे जातीच्या अतुला वांगडा आपलें घरदार, जल्मदातीं आवय-बापुय, माया-मोग, मोह-पाश सगळें तोडून-सोडून गेल्ल्या अर्पिताचो उलो फोनांतल्यान आयकून क्षमाचें काळीज कळवळील्लें. आमची याद येवन पोरान फोन केला काय परिस्थितीन ताका त्रास बी दिलो काय? काय कसल्या संकश्टान घेरलां ताका? नाना विचार आनी नाना प्रस्नांनी क्षमाचो घुस्पागोंदोळ वाडतच गेलो.

लाडा-अपुरबायेची, जायनां-जायनां म्हणटा आसतना जाल्लें भुरगें म्हणून क्षमा आनी विकासान ताका बिनधासपणान वाडयिल्लें. ना कसलें बंधन वा कसली जापसालदारकी. भुरगेपणासावन स्वतंत्रतायेन जगपाची संद दिल्ल्या अर्पितान अतुलाच्या मोगा मुखार तांकां फोंडांत उडयलीं. ताच्या अशा वचपा उपरांत समाजाचो बहिश्कार, विरोध आनी थोमण्यांचो मारो सहन करत थकून गेल्ल्या क्षमाच्या आयुश्यांत आतां... तें सावरत आसतनाच अर्पिताच्या फोनान धुंवाळ उडयलो. क्षमाचें... आवयचें काळीज दोशीवटेन ओडटालें. तिच्या मनान अर्पिताचें परत येवप स्वीकारलें तरी विकासाचो विचार ताका घपघपो हाडटालो. 'त्या' दिसा सावन विकासान अर्पिता हें उतरच आपल्या आयुश्यांतल्यान वजा केल्लें. क्षमा सामकार विकासाच्या विरोधाचो मोठ्ठो प्रस्न उबो जालो. ताणें तिरमिरींतच येदोळ अर्पितान दिल्ल्या नंबरार फोन केलो.

“हॅलो मम्मी” अर्पिताचो म्हौंवो आवाज आयकून क्षमाच्या आंगार कांटो शिरशिरलो. ‘बाबा... शाण्या तूं आनी थोडे दीस हांगा येवं नाका. अजून पप्पालागीं कांयच, उलोवं ना हांव. आमचीं उलवणीं जालीं की सांगतां हांव तुका... तूं आयलें अचकीत आनी पप्पा किदेंय भरभरल्यार... नाकाच तें लफडें... तूं राव थोडे दीस...’

“मम्मी उलयल्यार उलोवं गे पप्पा. निमणो म्हजोच पप्पा तो.” क्षमाक एकेवटेन धुवेच्या निर्णय क्षमतेचें कवतूक दिसतालें... तरी विकास? ह्या दोगांयच्च्या आडकित्यामदीं तें बाबडें सुपारी जालें.

“बाबु... थोडे दीस राव. पप्पाकडेन उलयतां मेरेन.” धुवेन आनीक उपदेशामृत पाजचे पयलींच ताणें फोन दवरलो.

रिटायर्ड वांगड्या बरोबर सांजवेळ खर्चुन विकास घरा परतल्या बरोबर क्षमान ताचे सामकार च्याचें कोप दवरलें. “च्या पिवची ती म्हज्याच बायलेच्या हातची. फायव्ह स्टार हॉटेलांतली पांचशीं रुपयांची च्या लेगीत तुज्या हाता मुखार किंकोत गो.”

“व्हय व्हय तुमकां बायलेची याद येवप घरा परततगेरूच. बायल सामकार दिसता तेन्ना. हेरशी तुमच्या रिटायर्डांच्या घोसाळ्यांत बायलेचो विचारूय येना. तुमी रिटायर्ड म्हणून भायर वचून वेळ सारतात. पूण रिटायर्ड बायलेचो वेळ कसो सरता काय हाचो मात लेगीत विचार करिनांत तुमी.”

हळव्या मनाच्या क्षमाक म्हऱ्यांत घेत विकासान आपली चूक मनोमनीं कबूल केली.

“क्षमा... तुका आयजमेरेन हांवें खंयच... किद्‌याकच आडायलें ना. आतांय तूं लायब्ररी जॉयन कर. महिला मंडळांत जाय तर वच. वा... तुका जाय तें कर. आमचे लागीं पयसो भरपूर आसा आनी आमकां एकामेकांशिवाय कोण ना. आतां आमी मरता मेरेन मनाक जाय तशीं जगुया.”

“आयकात... आमचे शेजारचे बिल्डिंगेंतलें सुमनबाय म्हणटाली की सगल्या रिटायर्ड बायलांनी आनी रिटायर्डांच्या बायलांनी घरच्चेघराच पाळणांघरां सुरू करपाचीं. पयशां खातीर न्हय. तर नवे पिळगेचेर बरे संस्कार घडचे म्हणून.”

''हय गो. बरोबर आसा तुमचें म्हणणें. शिर्विस करपी आवयांक आपल्या धाकटुल्या भुरग्यांक भाड्याच्या पाळणांघरांनी सोडचें पडटा. आमी आपापल्या घरांनी तांकां आजो-आज्जेचो मोग दिवुया.''

विकासाच्या अशा अनपेक्षीत प्रतिसादान क्षमा खूब सुखावलें. धा-पंदरा दीस सहज गेले. एक दीस सकाळींच विकास बाजारांतल्यान भाजी-नुस्तें घेवन घरा पाविल्लो. दार उगडतल्या क्षमाचे हांडीर बशिल्ली एक सफरचंदी - टॉमेटी पोटली पळोवन तो उडलोच. इतलो गुबगुबीत, तांबडोगुल्ल... दोन-अडेच वर्सांच्या त्या चल्याक पळोवन विकास पिसावलोच. हांतांतल्यो पिशव्यो ताणें थंयच सोडल्यो. ''आगो ही पोटली कोण?''

''हो टिंकु आमच्या पाळणांघरांतलें पार्सल हें.''

''आरे व्वा!'' आनी विकासान ताका आपल्या ताब्यांत घेतलो.

''आंती-आंती... हो तोण?''

''ए आंती-आंकोल ना हांगा... हांव आजो आनी ही आजी. कळ्ळें पोटले?''

दीस वताले... म्हयनेय गेले. आतां टिंकु आनी विकास वडा-पावागत एकमेकांमदीं घुस्पल्ले. अचानक एक दीस तो आयलोच ना. विकास ताची वाट पळयत भायर-भितर काडाओडी काडत आशिल्लो. ''अगे आज टिंकु आयलोच ना सो? ताचे घरा फोन लावन चवकशी कर गो.'' विकासान निमणें क्षमाक सांगलें. पदराक हात पुसत क्षमा किचनांतल्यान भायर आयलें.

''तुमकां सांगपाक विसरलें. कालच टिंकुच्या पप्पान सांगिल्लें की ताची बदली जाल्या दुसऱ्या शारांत. आमची संवय सुटची म्हणून टिंकूक आतां तीं दुसरेकडेन दवरतलीं थोडे दीस.''

विकासान आपलें खाड-बोड खराखरा खरपिलें आनी फडफडतच तो भायर सरलो. ''बाण सारको लागला.'' म्हणून मुमुरखें हांसत क्षमान फोन फिरयलो.

''बाबु गो, पप्पा मिरमिरत भायर सरला. बाजारांत वतां सांगलां. तूं फुडलो प्लॅन फॉलो कर.'' अर्दवरा भितर विकास किटकिटत आनी बडबडत पर्थून घरा आयलो. क्षमान दार उगडल्यार विकास आपले वांगडा टिंकूक घेवन आयला.

"आंवय-आंवय. तुमी टिंकुच्या घरा वचून ताका घेवन आयले?"

क्षमाच्या प्रस्नाची जाप न दितांच तो घरांत घुसलो. इतल्यांत भितरलो फोन वाजलो.

"टिंकुले मम्मी. हय-हय टिंकु आमगेरच पावला. भिंवू नाकात तुमी. हांगाच येयात."

"आतां सोदत येयात म्हण तांकां हांगा. म्हजेपासून ताका पयस करतालीं? हो बाजारांत मम्मी-पप्पा वांगडा आयिल्लो. म्हाका पळोवन पळून आयलो... आज्या आज्या करत आनी हांव निट्ट घरा शेंवटलों." इतल्यांत घराची बॅल वाजली.

बॅलीचो आवाज आयकून विकास टिंकूक घेवन भितर गेलो.

"आयकलां तुमी. टिंकुले पप्पा-मम्मी आयल्यांत. ताका व्हरपाक. भायर येयात."

"आमी येनांत भायर."

विकासाच्या ह्या सुरांत टिंकुलो चोचरो आवाज मिस्तुर जाल्लो. हे जापेचेर हांसत सगळीं भितरल्या बॅडरुमांत गेलीं. तर टिंकुमहाराजान विकासाक घोडो केला आनी दिमयांनी चलपी विकासाचे फाटीर बसून टिंकू गायता. 'चल मेरे घोडे टिक् टिक् टिक्'

दारांतल्यान भितर सरपी क्षमाचेर नदर पडतकीर टिंकू चिवचिवलो.

"आज्ये घोड्याक पुरो जालां... ताका खावंक दी."

इतल्यांत थकून उदारो पडिल्ल्या विकासाचें लक्ष दारांतल्या टिंकुच्या जल्मदात्यांचेर पडलें. आपली धूव अर्पिता आनी वांगडा ताचो घोव अतुल. सावशिद जाल्ल्या विकासान टिंकूक... आपल्याच रक्ताच्या अंशाक घट्ट वेंगेंत धरलो.

"घरकान्नी तुजो हो सॉलीड चेकमेट म्हाका आवडलो... किदें टिंकुमहाराज?"



# चिऊ... म्हजें चिऊ

**आ**मचें चिऊ फाल्यां हनिमुनासांवन येवपाचें... हांव ताका येवकारपाचे गडबडींत आसां. आंवय... चिऊ कोण काय म्हणटात? शी... सामके गडबडींत आसां हांव न्ही? विसरलेंच. तर चिऊ म्हळ्यार आमची धूव. एकली एकसुरी धूव. जाय जाय म्हणून जल्मल्ली आमची धूव. चिन्मयी. पंदरा दिसां आदीं ताचें लग्न जालें आनी दोनूय घरचीं आरती-परती जेवणावळ करून धूव-जांवय हनीमुनाक गेल्यांत. मुन्नार. केरळांतल्या बॅकवॉटरांतले हावसबोटीचेर राबितो केला तांणी. थंयच्यान दिसपट्टी धा-बारा फावट आमकां फोन करी चिऊ. आमी दोगांय खो-खो हांसतालीं. ''पोरां हनिमुनाकच गेल्यांत न्हीं?'' चार फावट हांणीं म्हाका विचारलें लेगीत. हांवें पदर तोंडार धरून हांसचें. फाल्यां गोंयां येवपाक रेल्वेंत बसतात. हो फोन आयला.... ह्या वेळार म्हळ्यार रातच्या साडे धा-पावणे इकरांक केलो ताणें. आमी खूब हांसलीं आनी दोगांयनी वांगडाच म्हटलें... ''खरेंच हीं दोगांय हनीमुनाकच गेल्यांत कायऽऽऽ?'' आमच्या दोगांयचो हांसो केदो वेळ लेगीत थांबलो ना.

आमी न्हिदपाक गादयेक फाट लायली मात, हांचें घोराख्यान जोरजोरान सुरू जालें. वय जाल्ल्यान पयलींच दोळो लागप कठीण आनी तातूंत हांचो हो बँडबाजा जोरजोरान. देवाक हात जोडले. ''सगल्यांचें बरें कर रे सायबा. धुवे-जांवयाक बरी बुध्द दी आनी बरें कर तांचें.'' फाल्यां सकाळीं आमचें चिऊ पर्थून येवंक भायर सरपाचें. काणकोण रेल्वेस्टेशन आमकां लागींच. फकत पांच मिन्टांचे वाटेर. जांवय पणजेचो. करमळे देंवन वचचे परस पयलीं हांगाच येतलीं

तीं शेर्त! चिऊक तांदळाच्या पिठाची कांदो, कोथमिरे पालो घालून भाकरी आनी घरावें लोणी आवडटा. जांवयाकय बीन. फाल्यां घरांत पावलीं की आल्याची च्या आनी भाकरी पळोवन पोरां खुशाल जातलीं. जांवयाक पुन्नपोळयो भोव आवडटात. फाल्यां सांजचो सवितबायेक आफोवन पुन्नपोळयांचो बेत करतां. सकाळीं चार चकल्यो आनी डबोभर शंकरपाळयोय करतां. पोर पुरो जावन येतलें तें म्हज्या गळ्यांतच पडटलें पळय. चिंततां चिंततां केन्नातरी दोळो लागलो म्हजो.

दुसरे दिसा सकाळसावन म्हजी धांवधपट सुरू जाली. पुरण तयार करपाची तयारी केली. मैदो चाळुनच दवरलो. शंकरपाळी, चकल्यो पटापट करून डब्यांनी घाल्यो. दोन सेपराद पाकीटां करून चिऊच्या घरा व्हरपाक दवरलीं. चिऊ आमची एकली एकसुरी धूव. लाडा-कोडान वाडयलें तरी संस्कार खूब बरे दिल्ले ताका आमी. शिकोवन न्हय तर आमचे वागणुकेंतल्यान दाखोवन. 'दिल्ले घरा बरें करतलें तुमचें चली.' हें तोखणायेचें उतर जायते आमकां सांगताले आनी जालेंय तशेंच. तोंडा-तोंडांनीं चिऊच्या गुणांची तोखणाय जावन चिऊचे मांयन आमच्या घरा येवन चिऊक मागणी घाली. ''तुमी किदें घालचें-करचें हें हांव सांगना. पूण तुमकां विनवणी करतां की कितें घालतात तें आमकां कळीत करात. आमचे सुनेक आमकांय दोन वस्ती करपाक जाय.'' ताचे मांयच्या ह्या एकाच उतरान तिचें सुपायेदें काळीज आमकां समजलें.

खरें सांगतां तुमकां... चिऊक बऱ्या संस्कारा वांगडाच हांवें एक विखारी शिकवणय दिल्ली. 'आमचें घर हेंच तुजेंय घर.' एकलीच धूव... आमच्याच म्हऱ्यांत आयुश्यभर रावचें इतलोच हेत आसलो म्हजो. आनी इतलें आयुश्य ह्या घरांत काडून लग्न जाले उपरांत लेगीत ताणें केल्ल्या फोनावेल्या उलवण्यांत जाणवतालें की म्हजी शिकवण ताच्या रक्तांत भरसुनच गेल्या. केरळच्यान येवपी फोन लेगीत तशेच. ''हांवें आमच्या घरा खातीर हें घेतलां आनी तांचे घरा खातीर तें.'' हांव आमचीं आनी तांचीं हीं उतरां आयकून खुशाल जातालें.

चिऊच्या लग्नादिसा आमचे हे धरण फुटिल्लेवरी रडले. पूण म्हज्या दोळ्यांतल्यान एकूय थेंब आयलो ना. कारण हांव जाणतालें म्हजें 'वीश' खंय

मेरेन पावलां तें. चिऊ आमकां सोडचें ना हें हांव जाणतालें. आमचो हो येऽऽदो व्हडलो तीन बेडरुमांचो फ्लॅट... आनी तांचो तीन बेडरुमांचो आमचे फ्लॅटा एदोच बंगलो. आमच्या घरांत आमी तिगांच. तर तांचे थंय मांय-मांव, देर-जाव तांचीं भुरगीं आनी हीं दोगां. विस्कळ जगण्याची सवंय आशिल्ल्या चिऊक कचकच आवडचोच ना. हाचेर हांव शेर्त. हे चिंतनेन म्हजो जीव घुसमटतालो. पूण हे मात शांत... थीर आसले.

''आमचें चिऊ साकर आनी ताचे घरचीं... मांय-मांव, देर-जाव दूद कशें. सामकें भरसून वतलें चिऊ थंय.''

हांचें अशें उलोवणें आयकून हांव तिडयतालें.

''आमकां म्हातारपणांत कोण?''

हांवें मनांतले मनांत फडफडत हो प्रस्न करप.... मनांतच.

हा... हु... करून आयज सोपून फाल्यां उदेलो. हांव व्होडविकायेन रेल्वेच्या टायमाची वाट पळोवंक लागलें. सकाळ सरली. दनपार वयर चडली. हांवें हांकां विचारलें, ''आयज गाडयो लेट काय किदें?''

''जाणां कोण!'' हांणीं टि. व्हीवेली नदर न हालयतां जाप दिली. निमणो बापुयूच तो! दादलो. आवयचें काळीज कशें कळटलें? हांवें डायरेक्ट चिऊचो मोबायल ट्राय केलो. ''हॅलो'' अनवळखी आवाजांतली जाप आयली. ''कोण?''

''हांव दिया गे. भैय्या आनी भाभी सकाळीं पावलीं. आतां न्हिदल्यांत तीं. तांकां डिस्टर्ब करपाक नाका म्हणून हांवें घेतलो फोन. भाभी उठली की सांगतां हांव.'' फोन कट.

हांवें फोन आपटिलो. म्हज्या आंगांतल्यान हुमेच्यो दोडी व्हांवपाक लागल्यो. आमचें घर पयलीं आसुनय हें हांगा न देवतां डायरेक्ट करमळे देंवलें आनी घरा गेलें ह्या विचारान म्हजें मन-काळीज गोठलें. प्रेसांव वयर-सकयल जालें. हांव रडटां तें पळोवन हे धांवत आयले.

''आगो जालें किदें? चिऊ बरें आसा मुगो?''

''चिऊ सकाळींच घरा पावलें खंय ताच्या.''

'ताच्या' ह्या उतरांवेलो म्हजो जोर जाणवून हांकां किदें तें समजलें.

‘‘आगो चली म्हळी की मनाची तयारी दवरपाक जाय ताका पयस करपाची. म्हजें-तुजें करचेपरस चिऊक आमच्या दोन घरां आसात अशें चिंतपाक जाय आमी. दोन घरां... चार आवय-बापूय अशें चिंतल्यार चिऊय सुखी जातलें आनी तुंवय. चिऊ साकर कशें भरसतलें आनी तोखणाय तुजीच जातली. धुवेक आवयन बरी शिकवण दिल्या म्हणून. पूस ते दोळे. आनी सांबाळ स्वताक. हाचे फुडें म्हाका तूं आनी तुका हांव. चिऊ आपुणूच फोन करतलें पळय आमकां.’’ हांणी म्हाका समजायलें.

खरेंच... हांचें म्हणणें साप्प खरें. म्हाका पटलें. दोळे पुसून हांव चिऊच्या फोनाची वाट पळोवंक लागलें.



# भुतांची जात्रा!!!

अंदु वर्सा काजुच्या झाडांक बरीं फुलां-बिबे धरिल्ल्यान चिटमिट्या गांवचे लोक भारी खोशी जाले. सरकारी काजुमळांची पावणी घेतना एकामेकांच्या आंगार न पडटां, पावणी चड न वाडयतां समजीकायेन सरकारी लूट करप हें अख्ख्या चिटमिटकारांनी थारायिल्लें. पावणे दिसा अजापीत सरकारी ऑफिसरांनी दोन-तीन शेकडे वाडोवन पावणी साऽऽ केली. पावणी बोल्सांत उडोवन खोशयेन घरा येतल्या चिटमिटकारांमदीं मोर्तुय आशिल्लो. अंदु वर्सा काजुबियो बंपर येतल्यो अशा अदमासान मोर्तुचें सपनरंजन सुरू जालें. पर्तगाळची रामनम, माशेची चैत्रपुनव, सगल्यांत पयलीं जावपी चावडेवयलें फेस्त... अंदु बंपर खरेदीचीं सपनां तो रचतालो.

दुसरे दिसा सावन मोर्तुन कामेरीं लावन आनी तांचे वांगडा आपणेंय घाम घालून काजुरान संवकाळून साफ केलें. थोड्या दिसां उपरांत सगळो वाठार अमुरपिक्या मुट्ट्यांच्या वासान परमळून गेलो. हुर्राक, काजुफेणी आनी क्विंटलांनी जाल्ल्यो बियो... मोर्तुलीं बोल्सां चारीयवटेन भरून गेलीं. संवसारी मनीस पयशे किरवटीक बांदूंक लागले, तर आंकवार भुरगे फोल्गां मारपाक लागले. कांय विम्याच्या एजंटांनींय हांचे खुस्तार खोजने फुलयले. मोर्तुन थोडे पयशे बँकेंत दवरले. बायलेक दोन वस्ती केल्यो, घरांत कांय उपेगी सामान घेतलें, घराचो मदेरामेंत केलो.

पावसा दिसांनी कांय काम मेळ्ळें ना तरी मोर्तुक पर्वा नासली. एक तर अंदू काजुचो सिजन बरो गेल्लो आनी पावसांत खंडीभर बियांचें शेत पिकयल्यार

आठ म्हयने पोटापाणयाची चिंता नाशिल्ली. घरचें जोत आशिल्ल्यान कसपाचो देसपेस कांयच नासलो. फकत नाट लावपाक, नडपाक आनी लुवणीक कामेरीं लावपाचो आनी मळणेक दोन-तीन मानायांचो दिसवडो फारीक करपाचो. सहजतायेन दोन-अडेज कुंभ भात घरांत पडपाचें. तर अशा ह्या मोर्तुक वेसन आशिल्लें एकूच. जात्रा आयली की थंय हाजेरी लावन रातभर गडगडो खेळपाचें. हां... हां तसो तो होगडायनासलो. तर घरकान्नीन दिल्ल्या पांचशाचे पांच हजार करून पर्थून तिचेचकडेन दितालो.

पावसाळोभर चिखलांत-रेब्यांत लोळून मोर्तुन शेतां, कामतां फुलयलीं. म्हण्टासर अश्टम आयली. अश्टमीचे जात्रेक तिरकण्याँ वचपाक मोर्तुक फुरफुरो आयलो. ही तिरकर्णे गांवची जात्रा भोव फामाद. तिची एकूच खासियत म्हळ्यार ही जात्रा गांवचे मुसुंडेंत जाता. मांडकार हातानींच सारयेचीं लाकडां कडेक सारून मांड लायतात. जात्रा लागीं पावतासर मोर्तुन आपल्या संवसाराचीं कामां लागीं हाडलीं. शेतां लुवून गडगंज गुडवीं घालून तांकां काटयांची शिरीं लावन आडसार केलो. जात्रे उपरांत मळणी करपाचें चिंतून खळ निवळ करून मेढ पुरून दवरली आनी बायलेन दिल्ले दुडू घेवन जोडिचे आशेन मोर्तुन तिरकर्णेची वाट धरली.

मोर्तुन लोकांमदीं भरसून सगली जात्रा पळयली. गडगड्याचे मांड खंय खंय आसात हाचो अदमास घेवन तो थीर मनान चिंतपाक लागलो... खंयच्यान सुरवात करची? ताच्या मनान दिल्ल्या कौला प्रमाण गर्दी आशिल्ल्या गडगड्याच्या मुखार तो पावलो. अर्दवरा भितर शंबराचे पांचशें केले ताणें आनी थंयसून तो हाल्लो आनी गडगडेकारान सुटकेचो उस्वास घेतलो. धा-बारा गडगडेकारांक भिकेक लावन मोर्तुन उस्कारो सोडून खेळपाचें बंद करपाचें थारायलें. जोडिल्ली जोड... उणे तर दोन - अडेच हजारांची मोड ताणें आपल्या कळकट पिशवेंत कोंबली. एका हॉटेलांत वचून मस्त मटन बीन चापलें. आतां ताच्या दोळ्यांर झेम येवंक लागली. ती कळकट पिशवी उशागत तकलेपोंदा दवरून एका झाडापोंदा मोर्तुन ताणून दिलें.

जात्रेच्या बोवाळांतूय जोडिचे खोशयेन मोर्तुलो रोखडोच दोळो लागलो. बऱ्या वेळान ताका जाग आयली. पळयल्यार जात्रा सामकी गर्देन भरल्या. दरेका मांडाचेर हीऽऽ गर्दी. खेळणी, खाजें, काकणां-कुकूम मांडांतल्यान भरून ओततालें. सगळे जात्रेंत पर्थून एक फावट ताणें फेरी मारली. गरम गरम चणे-भिकणां खालीं. पयलींच खाजें आनी भुरग्यां खातीर घेतिल्लीं खेळणीं चोंदिल्ल्यान पिशवी जड जाल्ली. हेऽऽ गर्देंत फिरतना ते पिशवेची अडखळशी जावंक लागली मोर्तुक. ताणें एका खाज्याच्या मांडावयल्या जाण्ट्याश्या बाप्पाकडेन सूत जुळयलें.

"बाप्पा, म्हजी ही पिशवी तुजे मांडार दवरशी? पोरांक खेळणी-खाजें आनी घरकान्नीक घेयलीं काकणां आसात तितूंत. गर्देंत भोंवतना काकणां भोव जायत ही भिरांत दिस्ता बाप्पा." जाण्ट्या बाप्पान पिशवी घेवन भितर दवरली.

"सुशेगाद भोंव बाबा तूं. जायो तेन्ना यो नी व्हर तुजी पोती."

बरोऽ वेळ भोंवून-भोंवून मोर्तुले पांय तुटून आयले. आतां ताणें चिंतलें निट्ट वचपाचें आनी त्या खाज्याच्या मांडा फाटल्यान आड पडचें. त्या मांडा सामकार येतकीर बाप्पान ताची पोती फुडें धरली.

"बाप्पा, हांव तुज्या मांडा फाटल्यानच आड पडटां. पोती तुजेच फुड्यान दवर. मागीर घेतां हांव... फांतोडेर रथावेळार"

सगळ्या जात्रांनीं रथ फांतोडेरच जाता ह्या नेमा प्रमाण मोर्तु उलयलो. बाप्पान ताची पोती पर्थून भितर धांपून दवरली.

मांडा फाटल्यान न्हिदिल्लो मोर्तु जागो जालो तो कोणेंतरी गदागदा हालयतगीर. दोळे चोळीत उठिल्ल्या मोर्तुन पळयल्यार सुर्या बरोच वयर चडिल्लो. सादारण साडेणव-धा वरां तरी जाल्यांत हाचो अदमास ताका आयलो. धडपडत तो उठलो. चोंयवटेन नदर मारल्यार मोर्तु आनी ताका उठोवपी हांचे शिवाय थंय जितो मुंसय नासलो. मोर्तुलें आंऽ जाल्लें तोंड तशेंच उरलें.

"आरे पापया तूं रातभर हिंगाच रंवलो?" त्या दादल्याचो हो प्रस्न आयकून मोर्तु साबुद्‌देर आयलो.

“आरे... हांव जात्रेक येयल्लों. म्हाजी पोती हिंगा आसल्या खाज्या मांडार दवरोन हांव मांडा फाटल्यान लवंडल्लों... आरे म्हाका फटयलो त्या खाजेकारान. म्हागे पोती घेवन गेलो मरे. पाडा पडो तेजें... मरों तो. आतां पुलीशें वैतां हांव.” मोर्तु व्हडाव्हडान रडत बोबो मारपाक लागलो.

इतलो वेळ ताचें म्हणणें... उलोवणें आयकुपी त्या दादल्यान आतां तोंड उगडलें.

“आरे पापया हिंगाची जात्रा रातीचीं इकरा वरां मेरेन सोपोवन सगले लोक... खाजेकार, पिड्डुककार, चितारी लेगीत आपलें सामान घेवन वयतात आनी तूं रातभर हिंगाच? आतां पुलीस-बिलीस सोड आनी पोतीय सोड. तूं वाचलो हें नशीब समज पापया तुजें. आरे.. रातच्या बारा उपरांत हांगा भुतांची जात्रा भरता.”

आतां मोर्तुलें विमान बऱ्यापयकीं जमनीचेर देंवलें. मोर्तुक पयशांची याद आयली आनी तो हुंडहुंडक्यांनी रडपाक लागलो.

“म्हाजे पयशे आसले रे ते पोतयेंत.”

हो... हो करून रडपी मोर्तुच्या फाटीर त्या दादल्यान हात फिरयलो. “बाबा... तूं अजिबात भिरांत धरों नाका. तुवें जेचेकडेन पोती दवरल्या तो तुजे पांच पयशे लेगीत खावचो ना. मुनीस न्हुं तो हरामी करोंक. भुतां आसलीं तरी तीं हरामी करनांय. तुका तुजी पयशांची पोती जायी तर फुडाराक हे जात्रेक बारा उपरांत हिंगा यो. तो खाजेकार तुका पोटली दितलो. येवशी मरे तूं?”

आपणें पोती दवरल्या तो खाजेकार मनीस न्हय तर भूत हें कळिल्ल्या मोर्तुच्या पोटांत कुंय-कुंय जातालें. आतां एकतर फुडारा जात्रेक येवपाचें नातर पयशांचेर... आलायत्या गडगड्याचे जोडीचेर उदक सोडपाचें हे चिंतनेन मोर्तुक फीट मारपाक आयली.



# तर कोण हांव? कोऽहंऽऽ?

नभान दोळे उक्ते केले तेन्ना ताका आपलो हात पोशेवपी घोव, हर्षद दिसलो. जडशीळ जाल्ली मान दुसरेवटेन वळयल्यार दुसरो हात धरून बशिल्ली मम्मी, ताची मांय दिसली. फाटलेवटेन उबो आशिल्लो पप्पा आनी आई बाबाय ताका दिसलीं. सगल्यांच्या तोंडार मातशी... हय न्हयशी खोशी ताका दिसली. नभाक मात बरोच वेळ आपूण खंय आसा हेंच कळ्ळें ना. चोयवटेन नदर फिरयतगीर ताचे मतींत आयलें की हें हॉस्पिटल. पांचवे पड्डे आनी म्हन्यांत आशिल्लो सलायनाचो स्टँड पळोवन ताका समजलें की तें सोरांचेर आसा. उलोवपाचो यत्न केल्यार जीब खूबच जड जाल्लेवरी दिसली. तरी सगल्यांच्या तोंडावेलो हांसो पळोवन कांयच वायट घडुंना जातलें अशें ताणें चिंतलें. उलोवंक शक्तच ना जाल्ल्यान चितपा बगर कांयच ताच्या हातांत नाशिल्लें. ताणें दोळे धांपून घेतले.

दुसरेवटेन घरच्यांची परिस्थिती कठीणच जाल्ली. नभा सावशीद जालें, शाबुद्देर आयलें म्हणून खोशी मानची काय...? तांची अवस्था शिंव आयलो आनी गड गेलो अशी जाल्ली. बेसुध्द जाल्ल्या नभाक हॉस्पिटलांत हाडी मेरेन सगलेंच सोंपिल्लें. एक कळी फुलचे पयलींच, ह्या संवसारांत येवचे पयलींच सासणाची सोंपिल्ली. धांपल्या दोळ्यां आडच्या नभाच्या मनांत सट्कन जाणविकाय आयली की आपूण बेडरुमांतल्यान सकयल देंवतना इस्कादिवयल्यान गडगडलें... बस्स... उपरांत... भयानक विचारान ताका शेळो घाम फुटलो आनी ताणें

धडपडत उठपाचो यत्न केलो. शादूर आशिल्ल्या हर्षदान आनी मम्मीन ताका पर्थून हांतरुणार घालें. नभा आपलो सगलो फोर्स गेल्लेवरी दोळे धांपून पडलें. हे धडपडींतल्यान ताका जाणवलें आपलें रिकामें पोट. मना-पोटांतल्यान ताणें किळांच मारली... आवाज भायर फुटलोच ना. तें मात पर्थून बेसूद्द जावन पडलें.

दोतोरान हर्षदाक भायर आपोवन व्हेलो. ''हर्षद, नभान आनी तुवें तुमचें भुरगें होगडायलां हें आमी ताका सांगचे परस तुवें सांगप बेस जातलें. आतांच नाका सांगूंक. तें विचारतलेंच. म्हणून तूं तयारेंत राव.'' हर्षदाचेर आकांत आयलो. चली गेलें हें दुख्ख मानू, नभा वांचलें हें सूख मानू काय करूं किदें? नभाक खंयच्या तोंडान आनी कशें सांगूं? पयलें भुरगें संवसारांत येतलें म्हणून कितलीं सपनां रंगयल्लीं दोगांयनी. सगलीं सपनां कागदाच्या उफेवपी कुडक्या भशेन उडून गेलीं.

न्हिदेच्या इंजेसांवाची धुंदी मात्शी मात्शी देंवत गेली तशी नभा मदीं उलोवपाची शक्त आयली. ''हर्षद... आमचें भुरगें खंय रे?'' अचकीत शाबुद्देर आयिल्ल्या नभान प्रस्न केलो.

''नभा.. तूं विसव घे. मागीर उलोवया आमी.'' हर्षदान ताका थोपटायत सांगलें.

मम्मीचे भरून आयिल्ले दोळे, पप्पा आनी बाबान फिरयल्ली फाट आनी आईचो तोंडांत पदर कोंबपी हात पळोवन नभाचें काळीज फुटलें. आपलो मोगाचो कोंब झडलो हें जाणवून सामकेंच रिकामें जाल्लें नभा काळजांतल्यान मोडून गेलें.

''हर्षद सांग रे म्हाका, किदें जालें रे आमच्या भुरग्याक?''

हर्षद तकली सकयल घालून ताका पोशेत रावलो. पप्पान हर्षदाच्या खांदार हात दवरून ताका भायर येवपाची कुरू केली.

''हर्षद... नभा मोडून गेलां. तुजीं‌य सपनां तुटल्यांत हें खरें तरी ताचे आई-बाबा वो आमी हांचे परस तूं नभाक सामको लागींचो. आतां धीर करून तुवेंच सत ताचे कानार घालपाक जाय.''

''पप्पा... कशें आनी कितें सांगू हांव ताका? म्हजेंच काळीज रडटा तें हांव कशें थोपोवूं?''

''पळय.. तूं काळजांतल्यान दुखला पूण विसरूं नाका नभा मानसीक आनी शारिरीक दुखापत भोगता. पयलीं इस्कादिवेल्यान पडिल्लो मार, मागीर बेसुदपणांतच केल्लो फोर्साचो बाळंतेर प्लस आपलें भुरगें होगडावपाची मानसीक दुखापत. तुजी परिस्थिती सांबाळून ताचो विचार कर.'' नभाची आई-बाबाय तांचे म्हऱ्यांत आयलीं.

''हर्षद... आमचें नभा धडपडेंच खरें. पूण ताका आपल्या धडपडण्यान आपूण निसरलें आनी पडलें... ताका लागून तुमचें भुरगें गेलें हें कशेंच सहन जावचें ना. उपकार करून ताका सांबाळून घे.''

आनी नभाची आई हर्षदाच्या पांयार पडली. पप्पा-मम्मीन तिका सांबाळ्ळी.

''हें पळय, नभा तुजें चली तशें आमचेंय चलीच मानतात ताका. ताणें आपूण जावन हें करूना. वेळच ती. यो म्हळ्यार येना आनी आयली की राव म्हळी की रावना. हर्षद, आमी भायर आसात. तूं सांबाळ सगळी परिस्थिती. गरजेक आमी चोवगांय आसात.''

हर्षदान रुमांत येवन दार बंद केलें.

''हर्षद... चूक म्हजीच रे. म्हजे एके चुकिचे चांटयेन आमच्या मोगाची कुरू हांवेंच नानपश्चात केली. तूं रागार जाला मरे म्हजेर?'' दोळे भरून व्हांवपी नभा हर्षदाक वेंग मारून रडपाक लागलें.

''नभा.. जें घडपाचें तें घडून गेलेंच. आतां चूक कितें, बरोबर कितें हाचे परस हे परिस्थितीक तोंड दिवन उबें रावप म्हत्वाचें. तो जीव आमच्या रिणांत नाशिल्लो देखून आमचे कडसून अर्थ-अपुरबाय करून घेवचे पयलींच सोंपलो. तूं साल्वार जालें... तुका कांयच जावंक ना हें म्हजें... आमचें सगल्यांचें नशीब. तूं रडूं नाका. बेगीन बरें जा. पप्पा-मम्मी आनी आई-बाबाक आमी सांबाळपाचें. तांचेर आज आमकां सांबाळपाची वेळ आयल्या.''

हुंदकुट्यांनी हर्षदाचे घट्ट वेंगेंत रडपी नभा हळुहळू स्वताक सांबाळपाची तयारी करपाक लागलें. स्वताचें रितेंपण स्वताच्या मनांत लिपोवपाची तयारी

करपाक लागलें. दारार टकटक जातकीर हर्षदान ताका हांथरूणार न्हिदयलें. पांच मिन्टांभितर दोतोर रावंडाक येता म्हणून रकाद आयिल्ल्यान पप्पान दारार आवाज केल्लो.

दुसरे दिसा सावन नभान स्वताच्या ओंठांक आपल्या भुरग्याविशीं कुलूप घालें म्हळ्यार जाता. हो एक विशय सोडून हेरांचेर तें उलोवंक लागलें. दोतोरालो त्रातामेंत, घरचें जेवण-खाण.. नभा सात-आठ दिसांभितर उबें जालें. ताची आई बाबा ताका आपणांगेर व्हरपाक सोदतालीं. पूण हर्षदान फोर्सान ताका थंय न धाडटां घराच व्हेलें. दनपरां रूमांत वतकीर नभान पांच-स दीस धापिल्लें तोंड उगडलें.

"हर्षद खरें सांग रे म्हाका. आमचें भुरगें हांव पडटांच गेलें काय जल्माक येतगीर?"

स्वताक इतले दीस सांबाळिल्लो हर्षद आतां एकांतांत पुराय कोसळ्ळो.

"नभा.. तूं जे रितीन पडलें तें पळयल्यार दोतोर अजाप की कांयच मोडतोड न जातां तूं वाचलेंच कशें? नभा... आमकां चली जाल्लें गो. आपलो जीव दिवन म्हज्या सोनीन तुका वाचयलें गो."

आनी दोगांय एकामेकांचे वेंगेंत घुस्पून ढग फुटिल्लेवरी रडपाक लागलीं. रडून-रडून दोगांयचीं काळजां ल्हव जाल्लीं आतां.

"हर्षद... आमचें बाय कोणावरी दिसतालें रे?"

"कळ्ळेंच ना गो कांय... स-सात म्हयन्यांचो गर्भ तो. कितें कळटलें? आनी पळोवंक तरी जायत आसलें गो?"

हर्षद आपल्या हड्डयार तकली दवरून पडिल्ल्या नभाच्या माथ्यार हात फिरयतालो.

"मागीर रे.. फुडें किदें केलें ताचें?"

हर्षदान ताका वेंगेंत घेतलें. ताचीं दुकां पुसलीं.

"नभा मन घट्ट कर. पप्पान आनी बाबान फुलांची इल्लीऽऽशी परडी घेवन ताका तातूंत दवरलें. मम्मी आनी आईन ताच्या ओंठार साखरेची चिमटी दवरली आनी मसुंडेंत व्हरून हांवें म्हज्या हातांनी ताचेर माती घाली."

आनी धरण फुटिल्लेवरी हर्षद रडपाक लागलो.

“पुरो रे आनीक उलोवं नाका आतां.”

“उलोवपाचें आनी उरलां कितें? हांवें माती घाली, फातोर दवरलो आनी म्हजें काळीज पुरून घरां पावलों.”

घुसमटून रडपी नभा अचकीत थांबलें.

“हर्षद... पूण तुमकां कोणाकच म्हजी याद आयलीच ना रे? स-सात म्हयने म्हजे कुडींत वाडपी तो जीव, म्हज्या रक्ताचेर पोसपी तो जीव म्हाका एक फावट तरी दाखोवचो अशें कोणाकच सुचलें ना रे? तूं बापूय म्हणून तुवें ताका पळयलें. पप्पा-मम्मीन, आई-बाबान आजी-आजो म्हणून खुमो केल्यो. हांव... हांव कोणूच न्ही रे त्या गर्भाचें?”

नभा काळीज फुटिल्लेवरी रडटालें. हर्षदाक आपली चूक कळटाली... कळ्ळी. पूण तरी ते चुकिचें समर्थन करप ताका जमनाशिल्लें. भायर झाडार कोगूळ रडटाली... कुऽऽहुऽऽऽ कुऽऽहुऽऽऽ... घुसमटून रडपी नभाक आवाज येतालो कोऽऽहं....? कोऽऽहंऽऽ?



# सोशिकताय

भुरगेपणा सावन हिडीस-फिडीस करून घेवप हो म्हज्या जिविताचो एक भाग कसो जाल्लो. घरांतल्या कोणांच कडच्यान हांव कांयच अपेक्षा धरिनासलें. कारण? जाणां कोण! म्हजी चूक इतलीच की हांव चली म्हणून जल्मल्लें. घरच्या वंशाची वाल फुडें वाडोवपी, तांच्या आडनांवाचीं पोरांबाळां जल्माक घालपी, तांच्या वंशाचो दिवो पेटयत दवरपी चल्याचो जल्म हांवें घेतलो ना... हीच म्हजी चूक. खेळप, नाचप, अभ्यास करप, गिळप आनी न्हिदो काडप हातूंतच भुरगेंपण सोंपलें. कांयच कळनाशिल्लें... कांयच समजय नासलें... आनी कांयच दिसनाशिल्लें घरांतल्यांच्या थोमण्यांचें. वाडटां-वाडटां सगल्याचो अर्थ कळून म्हजो धाकटुलो मेंदू झिणझिणटालो. कांय उतरां अजून काळजांत कुसकुसतात.

‘एकमुळें आयलां जल्मांक. फाटल्या-फुडल्यांची वाट आडावन बसलां रांडूल.’ बापायच्या जाण्ट्या आत्याची... आकाचीं हीं उतरां अजुनय कानांत घुमतात. आतां म्हाका आनीक भावंडां जावंक ना ही म्हजीच चूक? पूण घरच्या फोगाक तोंड दिवपाची म्हाका कापाजदाद नासली. तातूंत तो काळ... साठ-पासश्ट वर्सां फाटलो. आयच्यो चलयो जाल्यार... सगल्यांक तांची लायकी दाखयतल्यो आसल्यो. सगल्यां कडच्यान शी...थू करून घेत शिकलें. रूपागुणांनी बरें आसून लेगीत चलीभुरग्याक चड शिक्षणाची गरज कितें... ह्या प्रस्नाची जाप म्हणून शाळाय बंद जाली. व्हड जालें रे जालें.... वयाच्या पंदरा-सोळाव्या वर्सा म्हजें लग्न करून दिवन घरच्यांनी आपलें कर्तव्य पुराय केलें म्हणून आपल्योच फाटी थापटिल्यो.

हांगाचे भोग सोंपले. आतां घोवाघरा सूख भोगतलें... हो विचार मनांतच कुसलो. जाणटी मांय चोवीसय वरां म्हारकावळ्यावरी हुयेल्यो मारपी. म्हाका जळोवन-जळोवन ती मांयचें कर्तव्य पुराय करताली. घडये तिचे मांयन तिका त्रास केल्ले आसतले... ताचो सूड ही मांय जावन आपले सुनेचेर म्हळ्यार म्हजेर घेताली जावंये! हांगा आदार मेळपाचो खरोतर घरकाराचो. तो पुराणांतल्या जमदग्नीचो दुसरो अवतार. तातूंत वयाच्या सतराव्या वर्साचेर आयिल्लें गुरवारपण. हेंऽऽऽ नगाऱ्यावरी वाडिल्लें पोट घेवन फिरपी ढेंचेभर हांव. हेरांगेर गुरवार सुनांची अर्थ-अपुरबाय जावची आनी हांवें.... हांवें मात घरचे घश्टे काडत रावचें. कर्मभोग म्हजे. नवव्या म्हयन्यांत म्हज्यान चलूं नजो जाल्लें. मांयच्यो बोबो म्हाका तेंकपाक दिनाशिल्ल्यो. एके राती पोटा-फाटींतल्यान वेणो मारून आयल्यो. जाण्टे सुईणीच्या आदारान हांवें बाळंतीकुडींत जुळव्यां भुरग्यांक जलम दिलो. नशीब म्हजें.. जुळव्यांमदीं एक चलो जल्मलो. ना तर...

घरचीं... कुळारचीं सगळीं-सगळीं खुशाल जालीं. कुळारच्या वंशाची वाट आडोवन बशिल्ल्यान घरच्यां खातीर दिवो पेटयलो. आतां थोमणे पडचेनांत ह्या हेतान कुळारचीं खूश आनी घरच्यांचो तर एक हात दुदांत तर दुसरो धंयांत. स म्हयन्यां उपरांत हांवें सहज हांकां विचारलें, ''आयकलां, समजा म्हज्या पोटांत एके फावट जुवळ्यो चलयोच जल्मल्ल्यो जाल्यार... तुमी.. तुमचें मत कशें-किदें आसतलें आशिल्लें?''

''आगे... बरें किदेंय उलय. दोनूय चले जाल्यार हांव आनीकय खोशी जावपाचों. तुजें नशीब बरें म्हणून एक चलो पिकलो तुज्या पोटाक. आनीक... दोनूय अवलक्षणी चलयोच जल्मल्ल्यो जाल्यार तुमची तिगांयचीय भालकी हांव पंढरपुराक सोडून येतलों आशिल्लों.''

तोंडांत पदराचो गुड्डो मारून हांव थरथरत उरलें... केदोवेळ. पोरां रडटगीर सूद आयिल्लेवरी जाली. म्हजी पिराय तेन्ना सतरा-अठराची. आनीक भुरगीं जल्माक येवचीं नांत हाची तजवीज करपाचें हांवें तेन्नाच थारायलें.

बाकी किदेंय आसूंदी... घरच्या सगल्यांनी म्हजे धुवेचें वयलेवयर केलें. कारण ताणें आपले फाटल्यान अर्दवरांत जुंवळ्या भावाक... घरच्या वारसाक

आफयलो अशें घरच्यांचें म्हणणें. दीस... म्हयने.. वर्सांय सोंपलीं. म्हजी जळवण पुराय जाली अशें दिसतना मांयन हांथरूण धरलें. तो मेरेन नणंदेचें लग्न जाल्लें... मांयचो अपुरबायेचो धाकलो पूत... म्हजो देर लग्न जालो तसो बायलेक घेवन शारांत बिराडाक गेलो. नणंदेक आनी देराक आपले आवय खातीर पांच मिन्टांची लेगीत फुरसत नासली... इतलीं तीं तांच्या संवसारांत घुस्पल्लीं. निमणें उरलें हांव... तिचो शेवट जाता मेरेन हांवें तिची सेवा केली. तिचे भोग सोंपले आनी ती गेली. आतां तरी सुखा-समाधानाचें जीवन देव दितलो काय?

पूण ना... नशीब म्हजें. मांयचो अतृप्त आत्मो घोवाच्या आंगांत घुसलो काय नकळों हांव... इतलें त्या दादल्याचें केंचकेंच वाडलें. हें अशेंच कितें? आनी तें तशेंच कित्याक? मांयची उरिल्ली जळवण हाचेकडेन दिवन ती गेल्ली जातली. हरशींच जमदग्नी आनी तातूंत दुर्वासाची साय मेळिल्लेवरी ताचें वागणें जाल्लें. आतां दोगांय भुरगीं व्हड जाल्लीं. म्हाका खूब समजून घेतालीं. म्हजें मन मारून, जळून जगप तीं पळयतालीं आनी तांकां शक्य जाता तितलें म्हजें मन राखतालींय. आमचो जमदग्नी आयलो... वो ताची सुलूस लागली रे लागली आमी तिगांय लजेव्हंकलेचे वाली भशेन आपुणूच धांपून घेतालीं...

घरांत आयिल्ल्या त्या दादल्याक उदकाचो पेलो लेगीत म्हऱ्यांत व्हरून दिवचो पडटालो. उपकार इतलोच की 'पेलो लाय म्हजे ओठांक' ही ऑर्दर अजून भायर पडूंक नासली. मागीर आमी तिगांय ताची सेवा करपाक बसपाचें... दिसपट्टे... 'पांय खूब उसळटात' म्हळें की हांवें पांय चेपपाक सुरवात करपाचेंच. फाट उसळटा, तकली कणकणटा... हीं उतरां आयकलीं की पोरांय लागतालीं सेवेक. बोबो जावन... किंळच्यो आयकून वाडो मजा पळोवंक येवंचो न्ही इतलेंच चिंतून आमी ताचें उतर वयलेवयर धरतालीं. रातचें न्हिदचे पयलीं ताची गादी निव्वळ, नितळ आसप ही म्हजी जापसालदारकी. एकूय मिरी आसूंक जायना... ना तर म्हजे आयमायचो उध्दार सुरू. पुराय निर्व्यसनी हो दादलो तकलेंतल्या जमदग्नी-दुर्वासाक लागून भिरांकूळ दिसतालो आमकां.

सगल्यांक आनी सगल्यांचें हांव जाता-नजो करून सांबाळटां. आयज सकाळीं दोळे उक्ते केल्यार पुराय जागो अनवळखी. मंद निळसर-पांचव्यो वण्टी, वयर तेर्रास. आमचें घर न्हय हें. हांव आसां तरी खंय? तकली घुंवडावंक केल्यार जायना. दोळेच घुंवडावन पळयलें. पांयांकडेन हे उबे आसात आनी दोशीवटेन दोनूय पोरां म्हजीं येदेंऽऽ तोंड करून म्हाकां पळयतात.

"बाबा... बाबा... आई साबुद्देर आयली."

हांणीं येवन म्हज्या कपलार-माथ्यार हाथ फिरयलो आनी व्हडलो सुस्कारो सोडलो.

"चार दीस जालें तूं हॉस्पीटलांत आसा. हीं दोगांय रातदीस तुजे म्हऱ्यांत पडून आसात."

हांचे दोळे भरून आयिल्ले. इतल्यान नर्सीन आफयल्ल्यान दोतोर आयलो.

"आतां कशें दिसता तुका? चार दिसांनीं सावशीद जाल्या तूं. घरा वतकीर सारकी काळजी घे स्वताची."

आतां हांवें दोळे धांपून घेतले. तरी दोतोरालीं उतरां कानांत वतालीं.

"इतले केरलेस, दिदलेशाद मनीस तुमी... हांव चिंतपाकच शकना. समजतां तुमकां... कळटा तुमकां? तुमचे घरकान्नीन कितलें आनी केन्ना सावन सोसलां तें? कमीच म्हळ्यार सात-आठ वर्सां जातलीं तिका प्रेसांवाचें जाल्यार. तातूंतल्यान तिका स्ट्रोक मारलो. नशीब तुमचें ती पॅरालायज्ड जावंक ना. आतां तुमकां ती जाय तर तुमी तिची कुयदाद घेवची पडटली.. नाजाल्यार सगलें देवाचेर सोडात."

"दोतोर.. तशें म्हणूं नाकात. आमची आई आमकां जाय. आमी दोगांय करतलीं तिची सेवा. तिची कुयदाद आमी दोगांय घेतलीं."

दोनूय पोरांक वेंगेंत घेतिल्ले हेवूय म्हणटाले.

"दोगां न्ही आमी तिगांय."

हांचें हें उतर आयकून व्हांवतल्या दोळ्यांक हांवें मेकळे सोडले.



# रुठे रुठे पिया...

अंदुच्या पावसाळ्याची सुरवातच पावसान नाटकांनी केल्या. हेरशींय वेधशाळा आनी पावस... एकामेकांक फटींग करपाक नाचतालींच. वेधशाळेन अदमास सांगचो... मान्सुन पांच जुनाक केरळाक धडकता आनी पावसान एकतर आठ दीस पयलींच वा धा-बारा दीस उसरां येवचें. अंदु वेधशाळेन अदमास उक्तायल्लो- बरो मान्सुन जावपाचीं चिन्नां नासलीं तरी वेवस्थीत पावस पडटलो. मनीस आशेर जगपी प्राणी... आज येतलो, फाल्यां येतलो करी मेरेन जून सोंपलो. वट्ट ५१% कमी उदक ओतोवन पावसान पयले फावट वेधशाळेक बळगें दिलें.

पावसाची चातकपक्षी लेगीत पळोवचो ना इतले आतुरतायेन हांव वाट पळयतां. खूब जाणांक पांय म्हेळे जाता, चिखल-रेबो पांयांक लागता म्हणून पावसाळो आवडना आनी म्हाका मात धोपरभर रेब्यांतल्यान... (फकत पावसान केल्ल्या हां...) फिरपाक आवडटा. मज्जा येता ती पायांतली व्हाण रेब्यांत पुरवली की हात घालून ओडाओडी करपाक. घडये हे वेळार चप्पल हातांत येता तेन्ना रेबो चेरोभर जाता. वाऽऽ मस्त 'मड थेरपी'चो अणभव घेतां हांव तेन्ना. झक मारता तो मुलतानी मिट्टीचो फेसपॅक हांगा. नितळ कांत मेळपाक ह्या पावसानय म्हाका खूब मजत केल्या... करताय.

खरें तर हो पावस म्हजो बेस्ट फ्रेंड. हांव ताचेलागीं उलयतां लेगीत. 'ए पावसा. तुजेर विस्वास आसा म्हणून सत्री घेनासतना भाटांत पासयेक आयलां. प्लीज रे येवं नाका हां.' भाटांतले पडिल्ले सुके नाल्ल हातांत धरून हांव

पावसाची जाहीर विनवणी करतां. अनवळखी कोणूय तेन्ना गेल्यार शेर्त चिततलो... 'सुटल्या दिस्ता' आनी म्हजो हो फ्रेंड मानून घेता. आनी येना... तसो केन्नाय म्हाका भिजोवंक येता. पूण मात्शें भिजलें की वता... म्हज्या मोठ्या केल्ल्या दोळ्यांक भियेता तो! केन्ना केन्नाय म्हजेकडेन पावस आनी सुर्यो थारावन धांवाधांवी खेळटात. म्हळ्यार म्हाका भायर-भितर धांवडायतात. पावस मळबांत काळीं कुपां घेवन आसतनाच सुर्यो चकचकीत वत फांकयता आनी हांव सुवार्थान ड्रायरांतले कपडे पोरसांतले दोरयेर घालून येतां. घरांत येता म्हणसर हो म्हजो फ्रेंड उदकाचो शितोड आरंब करता. धांवत वचून दोरयेवेले कपडे ओडून घरांत येता मेरेन सुर्यो दांत दाखयत हांसता. केन्नाय कपडे सुकतात... केन्ना केन्ना चिप्प भिजतात. आमची आपालिपा, धांवांधांवी चालूच उरता. ही जाली पोरूं मेरेनची गजाल. अंदु? पळोवया... म्हजो पुराय विस्वास आसा ह्या म्हज्या इश्टाचेर.

पयरूच कोणें वार्ता दिली.... कळकीच्या झाडांक फुलां आयल्यांत... शेर्त दुश्काळ पडपाचो. सांगतल्यान हड्ड्यार हात धाडावन दुश्काळाची गॅरंटी दिली. म्हज्याय पोटांत कांय-कूंय जालें. कारण हे वेळार पावसाचो थेंबो लेगीत पडूंक नाशिल्लो. आनी वेधशाळेनय अलनिनो जागो जाला म्हणून पातळायिल्लें. सगल्या वार्तांनीं म्हारगाय आनीक वयर वचपाचीं चिन्नां. आंगणांत उबें रावलें आनी जमता तितलें पावसाकडेन झगडलें. मोठ्यामोठ्यान ताका उलयलें. कळटात तितल्यो पोजड्यो-पोजड्यो गाळी ताका मारल्यो (देवाच्यान सांगतां ह्यो मात मनांतल्या मनांत. कारण आमचेमदीं टेलीपथीय चलता) खरेंच... हो पावस यार है मेरा... बेस्ट फ्रेंडच तो. आयलो बाबडो धांवत. चार-स दडको ओतून मेकळो. तोंड आसल्यार शेर्त तो म्हाका विचारपाचो... 'खुश???'

तसो पळयल्यार अजुनमेरेन कमी आसा तो. पूण हांवें ताका उगती धमकी दिल्या. 'हांव जितें आसासर म्हाका दुश्काळाक तोंड दिवंक पडूंक जायना. जर घालतोच दुश्काळ... तर उखल म्हाका आत्तां' बाबडो थर्त भियेलो. जुलै लागलो मात... हो आयलो... सरीवर सरी... दडकेर दडक करत. एकावन्न

टक्क्यांची पिछाडी युंऽऽ भरून काडटा पळय म्हणून म्हाका चॅलेंज करत. वेलकम दोस्ता.

एकंदर किदें? पावस रागार... रूठे रूठे पिया... जापसालदार? हांव... तुंवय.. तुमी... आमी... सगलींच. कापात झाडां... मारात व्हडले रूख... करात रस्त्यांचीं रूंदीकरणां. खणात धर्तरेच्या गर्भामेरेन... तासून उडयात दोंगुल्ल्यो... लःसात रानां-वनां... फोडात दोंगराच्या बरींनी जिलेटिनां... आनी घालात न्हंयतल्या नुस्त्यांचेर त्या जेलेटिनांची घुरी... करात पयसो... भरात पोटां... सरकारी रक्षक खातीं पोटभरू भक्षक खातीं जाल्यांत. रानाखात्याचे कृपेन चार झाडांचें लायसन घेयात... चिरिमिरीचेर कापात जाय तितलीं. करात सरसरीत कत्तल झाडांची. आनीक जें कितें करून ह्या पावसपियाक आडवणूक करपाक जाता तितली करात आनी मागीर मारूया बोबो... आनी हुयेल्यो.

अचकीत याद आयली चाळीस वर्सां फाटली एक सकाळ. म्हजे शाळेचो पयलो दीस. ७ वो ८ जून. नव्या पुस्तकांचो... नव्यातल्ल कादेर्नांचो वास नाकांत भरून पुलमांवां मेरेन पाविल्लो. शाळेंत वचपाची... नव्यो वळखी करपाची... पोरूंची आमीजाद घटमूट करपाची उमळशीक आशिल्ली. नवो युनिफोर्म भिजूंक नजो म्हणून पयल्याच दिसा रेनकोटांत गुठलावन घेवन हांव शाळेंत वतालें. दोन मिटरांफुडचें दिसनाशिल्लें असो पावस तेन्ना ओततालो. भुरगेपणांतलें हांवच म्हजे नदरे सामकार आयलें. कारण? म्हज्या घराच्या मुखावेल्यान अंदुच्या जुनांत शाळेंत वचपी भुरगीं. जुनाच्या दुसऱ्या सप्तकांत सुर्याचे हुलपे सहन न जावन हीं भुरगीं वता पासून स्वताक राखपाक सत्र्यो फुलोवन वतालीं. कितली ही विसंगती? पयर... काल आनी आज हातूंत?

खूब संदी दिल्यो आमकां सैमान. खरेंतर संधी... चान्स हो मेळटनाच कॅच करपाक जाय. पूण आज दरेकाची नदर 'कॅश' करपाचेर आसा हें सैमाचें... न्हय आमचेंच दुर्दैव. आमी सैमाचेर अन्याय करतात. पूण सौ सोनारकी... एक लोहारकी. याद धरात. सैमाचें एक थापट आमकां न विसरपा इतली याद उरता. फाटल्या कांय वर्सां पयलींचो २ ऑक्टोबर... काणकोणकार विसरत? उत्तराखंडातले अजुनय मेळपी सांगाडे... ती घटना विसरूंक दियत?

अशा वेळार एक हिंदी पद कानांत घोळटा. 'रूठे रूठे पिया मनाऊं कैसे?... कैसे?...' हांवें म्हजे परीन पावसाक समजायलां. मोगान आनी धमकावनय. त्याच वांगडा दरवर्सा भशेन आठ-धा वडाचे ताळे दोंगुल्लेर पुरून आयलां. दरेकल्यान इतलेंच करून तातूंतलीं चार झाडां जरी तगयलीं तरी बस्स. ह्या रूठे हुये पियाक चड मनयनासतना तो आपखोशयेन येतलो. म्हजे हे इत्सेक, पावसा प्लीज तथास्तू... तथास्तू म्हण रे. म्हणटा मरे? काय म्हजी बाराखडी सुरू करूं? कानां-मनांत म्हज्या ह्या पियाचें तथास्तू.... घुमता...



# कर्मभोग!

**हा**लींच... फाटल्या जुनाच्या म्हयन्यांत हांव आमच्या विमा-पॉलीसीचे पयशे भरपाक तांच्या ऑफीसांतले लायनींत उबें राविल्लें. हीऽऽ गर्दी आशिल्ली. दरेकाक आपल्या फाटल्यान आपली फामिल खोशी आसची अशें दिसता. देखून लोक आपलो भरपूर... जावं परवडटा तसो विमो देवोंवन आपलें कर्तव्य करतात. पयलीं कॅशर हातांनी बरोवन कामां करतालो तेन्ना तरी लायन बेगीन काबार जाताली. आतां कॉम्प्यूटर जाल्ल्याक ताचे परस फास्ट जातलेंशें दिसतालें. पूण धत्... तरी तो केरलायट कॅशर जाता तितले फास्ट बटनां दामून काम बेगोबेग करपाचो यत्न करतालो. हांव मुयेच्या चांटयांनी लायनींत फुडें सरकतालें. इतल्यांत ह्या कावंटराचे फाटले वटेन... ऑफिसाच्या भितर आशिल्ल्या डेस्काचेर बोवाळ जालो. "आयज हांव भरपूर पयशेकार जातलों. गिरेस्त जातलों. वीस लाखांचो धनी जातलों. होऽऽ होऽऽ" आकांतान रडत एक जाण्टो दादलो क्लेम कावंटरावेले बायले सामकार हातांतल्या कागदांचो गुड्डो सोडयतालो. म्हजे फुडली-फाटली लायन हांगच्यान भितर धांवली. हांवय धांवलें. हांव पावतां मेरेन लायन परतली. हांव मात आंऽऽ करून थंयच उरलें. कारण तो रडपी दादलो म्हळ्यार आमचो दोतोर... धा वर्सां फाटीं आपल्या दोन अकरा-तेरा वर्सांच्या चल्यांक आनी घरकान्नीक घेवन आमच्या गांवच्या हेल्थ सेंटराचेर आयिल्लो सरकारी दोतोर.

दोतोर आमच्या गांवांत फकत तीन वर्सां रावलो. ताची बदली जाय मेरेन ताणें गांवकाऱ्यांक बरी... बेसबरी सेवा दिली. रात-दीस, दनपार-तिनपार

केन्नाय उलो मारात दोतोर 'ओ' दितालो. कावळ्याच्या गळ्याक चीट बांदून एकाद पावल्यार लेगीत दोतोर गरजवंतां म्हऱ्यांत हजर जातालो. गांवकारांनी दोतोरा मदींच देवाचें रूप पळयल्लें म्हळ्यार अतिताय न्हय. देव जाणां आसत दोतोरान कितले जीव वाटायले आनी कितल्या जिवांक ह्या संवसारांत येवंक हात दिलो. दरेका गांवकाराचे जिणेंत दोतोराक एक खेरीत... सुगूर केल्ली सुवात आसली हें शेर्त. निमणो दोतोर बदलेर गांव सोडटना दोळ्यांतल्यान दुकां काडुना असो एकय गांवकार उरलो ना. हो दोतोर वचून कितलेशेच नवे-नवे दोतोर सेंटराचेर आयले-गेले. पूण ह्या दोतोराक लागपी एकलोय ना हाचेर गांव अजुनय ठाम आसा. असो हो आमचो दोतोर काळीज फुटिल्लेवरी रडटालो तें पळोवन म्हज्या काळजांतल्यान कुलकुलून आयलें. विम्याच्या कावंटरा मुखावयली लायन पर्थून जमली. कॅशीयर काम करूंक लागलो. हांव मात लायन सोडून दोतोरासरी गेलें.

"दोतोर... दोतोर... किदें जालें तुमकां?"

"बाय स्नेहा"

दोतोर म्हजो हात धरून हो... हो... रडपाक लागलो. म्हज्या बापायचे पिरायेचो दादलो रडटना पळोवन काळीज कलकल्लें.

"दोतोर तुमी मात्शे शांत जायात. मागीर उलोवया." हांवें ताका हाताक धरून भितरल्या एका रिकाम्या सोफ्याचेर बसयलो. म्हजेकडचे उदकाचे बाटलेची गुड्डी काडून ताचे सामकार धरली. गटागट ती रिकामी केली दोतोरान.

"स्नेहा... हांव पिशांवरी वागलों मुगो?... वयावेलो पूत गेलो गो म्हजो."

दोतोर टिपॉयचेर तकली दवरून मोन्यांनी दुकां काडूंक लागलो. कांय खीण रडून घेतले उपरांत दोतोर मातसो मेकळो सो जालो. ताणें आपल्या बोल्सांतल्यान लेस घेवन तोंड खसाखसा पुसलें.

"दोतोर... आतां बरें दिसता न्ही तुमकां? तुमकां दिसता जाल्यार तुमी तुमचें मन म्हजे मुखार मोकळें करूंक शकतात."

दोतोर सावशीद जालो. व्हडलो उस्कारो सोडून दोतोरान आपली काणी सुरू केली.

आमच्या गांवांतल्यान बदलून दोतोर शारांतल्या व्हडल्या हॉस्पीटलांत नोकरेर पावलो. थंय ताका रावंक बरो क्वार्टर मेळ्ळो. चोंयवटांनी नावास्तिक, बरो रिजल्ट दिवपी शाळा, कॉलेजी आशिल्ल्यान दोतोराल्या चल्यांच्या पुराय शिक्षणाचो प्रस्नय सुटावो जालो. दोतोराची घरकान्न शिकिल्ली तरी शिर्वीस न करपी जाल्ल्यान भुरग्यांक बरी देख, बरी शिकवण मेळून दोगूय जाण बरे गुणसंपन्न जाले. व्हडलो पूत दोतोरकी शिकपाचे तयारेन सायन्साक जॉयन जालो. जाल्यार धाकल्या पुतान टुरिजम ॲण्ड हॉस्पीटेलीटी जॉयन करून कुकींगांतलो डिप्लोमा घेतलो. दोतोर आनी घकान्न दोगूय चल्यांच्या भविश्याचीं सपनां रंगयत नातरां-पोतरांचीं चित्रां पितारपाक लागलीं. अचकीत दोतोराल्या धाकट्या पुताक भरगच्च युरोंची पॅकेज मेळून तो असिस्टंट शेफ म्हणून येवरोपांत पावलो. सात नखेत्री हॉटेलांत कामाक आशिल्ल्या पुतान घरांत लक्ष्मीचो राबितो आनीकय घटमूट केलो. एका वर्सा उपरांत म्हयन्याभरचे लिवेर आयिल्ल्या आपल्या ह्या पुताक पळोवन दोतोर आनी बायल पळयत उरलीं. चोवीस वरां एसींत राविल्ल्यान तोवूय पाखल्यांवरी दिसपाक लागिल्लो. भुर्रकन्न म्हयनो सोंपलो आनी पर्थून तो येवरोपाक वचपाक उडलो. लक्ष्मी आनी सरस्वती हातांत हात घालून रावपी त्या घराक मातलेगीत माज तो आयलो ना.

व्हडलो पूत शिकून इंटर्नशीप सोंपोवन प्रायव्हेट प्रॅक्टीसेक लागलो मात… तांचे घराकडेन इत्सूक आवय-बापूय चलयांचे फोटू घेवन यो-वच करूंक लागले. चट मंगनी पट ब्याह करून उडोवपाचे तयारेंत दोतोरान धाकट्याक रितसर व्होंवळीक धाडून ताणें इमर्जन्सी येवपाची तयारी केली. लग्नापयलीं चार दीस आदीं धाकटो पावलो. हे फावट पुताचीं चिन्नां मात्शीं वेगळींच दिसलीं तांकां. त्रास जालो… कस्टमरांची गर्दी जाल्ल्यान काम चड पडलें… आनी कितें कितें आवय बापायक पटोवन दिवन धाकटो पर्थून गेलो. वर्सा भितर दोतोर आजो जालो. व्हडल्या पुतागेर चली जालें. घरची पयली धूव. धाकटो व्हडल्याचें लग्न आटपून गेल्यार देड वर्स जायत आयलें तरी येवपाचें नांव काडिना. धाकट्या नातीचे फोटू दोतोरान धाडले… फोन केले. व्हेब

कॅमेऱ्याचेर ताका मेळपाचो यत्न केल्यार ताणें येवप ना. दोतोर आनी घरचीं चिंतेंत पडलीं. फोन करून वरां-वरां उलयतालो तो. घडये गोऱ्या मॅडमीच्या मोगांत बी पडला जावंये! म्हणून दोतोरान आनी घरकान्नीन ताका पिडचिलो. निमणें स्वता दोतोराचे घरकान्नीनच ताका फॅक्स धाडलो... काळजार फातोर दवरून ते सवायशीण बायलेन मेसेज दिलो. 'पप्पा एक्सपायर्ड'. इमर्जन्सी ॲक्झीट पासाचेर धाकटो विमानांत चडलो.

येतलो-येतलो म्हणून वाट पळोवपी व्हडल्या पुताक आनी सुनेक धाकटो दिसलोच ना. विमान तर हेंच सांगिल्लें ताणें. चुकलें काय? फोन करुया म्हणून मोबायल काडपाक कानार आवाज पडलो. 'भैय्या' अजापीत दोळ्यांनी तांणी वळखिच्या आवाजा वटेन पळयलें. आवाज तोच. पूण कूड मात सुकून चामडी हाडांक चिकटल्ली. कांयच उलयनासतना तिगांय घरा पावलीं. दारांतच उब्या आशिल्ल्या आपल्या जित्या बापायक पळोवन धाकलो खोशी जालो. पूण ताची दशा पळोवन बापायच्या-दोतोराच्या दोळ्यांनी सगलें जाणलें. दोतोराची घरकान्न घुंवळ येवन बेसूध्द जाली.

दोतोराच्या अणभवी नदरेन पारखिलें की आपलो हो सुसंस्कारीत पुत घुंवळे वखदांच्या जाळांत अडकला. चल्याची मानसीक तयारी आसल्यार ताका आपूण ह्या वेसनांतल्यान मुक्त करपाक शकतां ह्या विश्वासान दोतोरान चल्याक सरळ विचारलें, ''किदें घेता तूं? हेरॉईन?''

''पप्पा हांव आतां घेतां हें खरें. पूण हांवें जावन ही सुरवात करूंना.''

दोतोराचो हो पूत आपल्या रांदपाचे कलेन हॉटेल मॅनेजमेंटाच्या गळ्यांतलो मोती जालो. भायलो हो निगर इंडीयन आपल्या गोऱ्यांच्या देसांत आमचो बॉस जालो हें ताच्या हाता सकयल्या थळाव्या तरनाट्यांक आवडूं ना. तांणी हाच्या क्वार्टर्साचेर येवन हाका शिरेंतल्यान हेरॉईन तोपलें. चार-पांच दीस ते घुंवळींत उरिल्ल्या ह्या धाकट्या पुताक उबें रावपाक पर्थून हेरॉईनच जाय पडलें. हें एक फावट रक्तांत भरसलें की कशीच फाट सोडिना ही हेरॉईनाची खासियत. मानसीक तयारी जाल्ल्या चल्याचे जावपी शारिरीक हाल, ताच्यो बोबो पळोवंक, आयकूंक जायना जावन दोतोरा मदल्या बापायन काळजार फातोर दवरून

चल्याक बांदिल्ले खाटीवयलो सोडयलो.

कुरवेचें उतर सांगून धाकट्या पुतान आपलो डोस मेळयलो आनी हेरॉईनानच निमणो ताचो जीव घेतलो. ''दुस्वासान थंयच्या थळाव्या तरनाट्यांनी म्हज्या सुसंस्कारीत, गुणवान आनी निर्व्यसनी पुताचो बळी चडयलो. ताच्या विम्याच्या पयशांचेर आयज हांव लाखोपती जालां. हो म्हजो कर्मभोग...'' दोतोर वयल्यान कोसळपी घसघश्यावरी रडटालो. हांव मात म्हजे व्हांवते दोळे पुसपा बगर कांयच करपाक शकनाशिल्लें.



# अमानत

खरें म्हळ्यार अमित... हांगा देशांतच बऱ्या पागामेताची नोकरी सहज मेळपाची. अर्विल्लें... उंचेल्या पावंड्यावेल्या ताच्या शिकपान खऱ्यांनीच ताका डिग्री मेळतां-मेळतांच बरी नोकरी मेळ्ळीच. जर्मन मल्टीनॅशनल कंपनीन ताका ह्याच देसांत ताच्या गांवगिऱ्या वाठाराच्या लागसारच शिर्विस दिली. घरांत तो आनी बापूय. दोन-चार वर्सांफाटीं ताची आवय भायर पडिल्ली. बापायक पुताचें लग्न बेगीनच करून घरांत बायलमनीस हाडपाची आसली. पूण अमित सव्वीस वर्सां उपरांतच लग्न जातलो हाचेर ठाम राविल्ल्यान बापायचो उपाय चलना जालो. चल, आनीक दोन वर्सां सहज सोपतलीं म्हणून बापायनय चड फोर्स केलो ना.

बऱ्या पयकीं शिर्वीस, भरपूर पगार आनी घरांत इन-मीन दोन मनीस... अमिताक रोखड्योच सोयरिको येवंक लागल्यो. ना... ना करून अमितान वर्सभर लांबयलें. पूण ताणें उपरांत एके चलयेक पळयतनाच... फकत जातका वांगडा दिल्ल्या फोटवांतलें हां... अमिताच्या काळजांत कुछ... कुछ होता है जालेंच. दोन वर्सां रोखडींच वर्साचेर पावलीं. बापायन कांयच भाव न दाखयतां तरी भितरली खोशी भितरच दामून दवरून पुताच्या हयकाराक तेंको दिलो. पल्लवी हुंबऱ्यावेलें तांदळाचें माप हुपून अमिताच्या घरची लक्ष्मी जालें. पल्लवी बँकेंत नोकरी करतालें. दोन-तीन कि.मी. भितर दोगांयच्यो शिर्वीसो जाल्ल्यान दोगांय वांगडाच यो-वच करतालीं. पल्लवी सकाळीं रांदून बँकेंत वतालें आनी दनपरां केन्नाकेन्नाय अमिता वांगडा येतालें. ना जाल्यार दिसपट्टी पल्लवी

दनपरां घरा येतालेंच. पप्पाकय चार वर्सां फाटीं लागिल्लें रांदपघर सुटिल्ल्यान सुऽऽ जाल्लें. नव्या नवलायेचे कांय म्हयने मज्जेन... हांसत खेळत सोंपले. आनी अचकीत अमिताचे कंपनीन ताका ट्रेनिंगाक वर्सभर जर्मनीक वचपाचें फर्मान काडलें.

नवे नवलायेचे बायलेक सोडून वचप अमिताच्या जिवार येतालें. पूण इतली बऱ्या पागामेंताची शिर्वीस सोडपाकय मन धजना आशिल्लें. देखून काळजार फातर दवरून आपलो मोग, आपलें सर्वस्व, अमानत कशी बापायच्या हातांत सोपोवन अमित विमानाचे पावंडे चडून गेलो. 'एकच वर्स युऽऽ सोंपतलें. मागीर आमी एकठांयच रावचें... एकामेकांक एक खिणय सोडचें न्हय.' अशें सांगून पल्लवीची समजूत घटोवन अमितान फाट केली आनी ल्हवूच आपले दोळे पुसून विमानाचे दिकेन चलपाक सुरवात केल्ली. रातचें हांथरूणार पडतकीर पल्लवीच्या दोळ्यां सामकार हेंच चित्र नाचतालें. चिंततां चिंततां केन्नातरी ताचो दोळो लागलो. दुसरे दिसा सावनच पल्लवी कामार वचपाक लागलें. ताणेंय पप्पाची सगळी जापसालदारकी आपले खांदार घेतली. अमित ना तरी ताची कमी खंयच भासूंक दिवंक फावना हाची जाणीव ताका जाली.

अमिताचो बापूय... रिटायर्ड फौजी अधिकारी. स्वता एक स्पोर्ट्समन. वयाच्या अवघ्या विसाव्या वर्साक जम्मुंतले चलयेच्या मोगांत पडून जम्मु-काश्मीराचो जांवय जाल्लो. हो शिपाईगडी पंदरा वर्सांच्या सैनिकी शिर्वीसे उपरांत व्ही. आर. एस. घेवन गांवगिऱ्या वाठारांत आयिल्लो तेन्ना अमित तेरा वर्सांचो आशिल्लो. हांगा येवन ताणें स्वताची सॅक्युरिटी एजन्सी सुरू केली. दिसपट्टो व्यायाम आनी सांजचो मैदानी खेळ हांका लागून अमिताचो पप्पा म्हळ्यार लोकांक ताचो व्हडलो भावच कसो दिसतालो. पयलेच फावट पळयिल्ले मनीस तांकां फाटले-फुडले समजून हटकिताले आनी मागीर तांचें बापूय-पुताचें नातें समजतकीर शॉकादय जाताले.

पल्लवी आनी अमित दिसपट्टीं मोबायल, स्कायपावेल्यान एकामेकाक कॉन्टेक्ट करतालीं. एकमेकांचें विरहदुख उलोवपांतल्यान भरून काडपाचो यत्न करतालीं. दीस वता तशे अमिताक समाधान जालें की पल्लवी पप्पाची बेसबरी

कुयदाद घेता. पप्पाच्याय फोनार पल्लवीची तोखणाय आसताली. आपूण आनी पप्पा जशे इश्ट तशेंच पल्लवीय आतां पप्पाचें इश्ट जालां ह्या समाधानान अमित आपल्या ट्रेनिंगांत रमलो. पल्लवी मनासावन पप्पाची सेवा करतालें. शेनवार-आयतार शेजराच्या गांवच्या आपल्या कुळारा वचून रावतालें. केन्ना-केन्नाय ताच्या कुळारचीं मनशां येवन-वचून तांगेर रावतालीं. आपूण नासलों तरी एकंदर पल्लवी दोनूय वटेनच्या मनशांमदीं सुखी आसा हें आयकून अमित धादोस जालो.

अमिताचें ट्रेनिंग आनीक फकत दोन म्हयन्यांनी सोंपपाचें आसलें. ताणें घरा फोन करून कोणाक कितें हाडपाचें हें पल्लवीकडेन थारोवन दवरिल्लें. पल्लवीक खबर आसलें अमित आनीक दोन म्हयन्यांनी अमुकच एक तारखेर पावतलो म्हणून. तेवटेन अमित पल्लवीन दिल्ल्या लिस्टाप्रमाण एकेक एकेक गजाल खरेदी करतालो. अचकीत ताका बॉसान कॅबीनांत आफयलो. बॉसान एक एनव्हेलॉप ताच्या हातांत दिलो. कामांत रंगून गेल्ल्या अमिताक घरा पावतकीर एनव्हेलॉपाची याद जाली. ताच्या कामाचेर.... ट्रेनींग घेवपाच्या हावेसाचेर खूश जावन बॉसान ताचें ट्रेनींग पुराय जाल्ल्याचें सर्टिफिकेट दिल्लें. आनी वांगडाच पांच दिसां उपरांतचें लुफ्तांसा कंपनीचें विमानाचें टिकीटय दिल्लें. खोशेन पल्लवीक ही खबर कळोवंक अमितान मोबायल घेतलो. मागीर तसोच तो धरून ताचो उमो घेतलो. 'सरप्रायज फॉर यू माय डियर पल्लवी'

दोन दिसां भितर अमितान खरेदीचें लिस्ट पुराय करून पॅकींग केलें. पल्लवी खातीर तर ताणें दोन बॅगां भरून भेटवस्तू घेतल्यो. घरा वचपाचो दीस फाल्यांर पावलो. ते रातीकडेन अमित सपनांत रंगलो. पल्लवी... वर्सा उपरांतची तांची जावपी भेटगांठ. हेरांच्यो नदरो चुकोवन जाल्ल्यो त्यो नदरेच्यो कुरवो... चिंततां चिंततां अमित दोन-तीन फावट बेडीवयल्यान सकयल पडलो लेगीत. कशीबशी रात सोंपून दुसरो दीस उजवाडलो. अमित सांजची वाट पळोवंक लागलो... कारण ताची फ्लायट सांजची आसली. सगले सोपस्कार जायी मेरेन रात उदेली आनी ताच्या विमानान भारतांत येवपाक सूर मारलो. भारतांतल्या कंवळ्या सकाळीं ताणें मुंबय एअरपोर्टार पांय दवरलो.

मुंबयच्यान कनेक्टेड फ्लायट मेळोवन दाबोळे... गोंयां पावता मेरेन दनपार जाली. टॅक्सी करून विमानतळ सोडलो आनी अमित सपनां पळोवंक लागलो. आयज शेनवार... पल्लवी एकटेंच घरा आसतलें. बँकेक हाफ डे न्ही? पप्पा दनपरां जेवन एजन्सी ऑफीसांत आसतलो. आयज पल्लवीक, आत्तांच कचाकचा खावन उडयतलों... चिंततां चिंततांच तो घराकडेन पावलो. घड्याळ पळेलें. पावणे-तीन... ताणें बेल मारचे पयलीं सगळीं बॅगां दारांत दवरलीं. बॅलीचें बटन दाबलें. आतां पल्लवी येतलें... आपणांक पळोवन अजापतलें... हांव ताका तसोच घट्ट वेंगेंत धरतलों... आनी.. आनी... मुमुरखें हांसतनाच दार उगतें जालें. कमराक तुवालो बांदिल्ल्या पप्पान दार उगतें केलें. केन्नाच असो न रावपी पप्पा असो कसो? चिंतता मेरेन भितरल्यान आवाज आयलो... ताच्या मोगाळ पल्लवीचो म्होंवाळ आवाज... 'पप्पा यो मरे बेगीन.' आनी आनी आवाजाचे दिकेन अमित धांवलो. आपल्याच बेडरूमांत... आपलेच बेडीचेर... जे बेडीर अमित-पल्लवीचो शिणगार फुलिल्लो... थंय... पल्लवी हेरांनी पळोंवचें न्हय त्या रुपान पातळिल्लें. ताच्या दोळ्यांतले पप्पाची वाट पळोवपी भाव पळोवन अमित तसोच उरलो. जाल्यार अमिताक दारांत पळोवन पल्लवीन लागसारचे चादरीन आपली लज धापपाचो यत्न केलो.

सणकील्ले तकलेन अमित रूमा भायर परतलो. हॉलांत पप्पा सोफाचेर बोडार हात धरून रडटा. विस्वासाच्या दोनूय मनशांकडच्यान जाल्लो विस्वासघात कंवळ्या काळजाच्या अमिताक सहन जालो ना. विचारशक्त पुरायपणान होगडायिल्लो अमित अचकीत खदाखदा हांसपाक लागलो. आपले कपडे ताणें पिंजून उडयले... मोबायल... गॉगल पांयांपोंदा रोंदले. 'म्हजी अमानत... म्हजी अमानत... चोरांनी फारायली' करून हांसत-रडत उडक्यो मारपाक लागलो. भरिल्ले नदरेन... आपली चूक उमगल्लो पप्पा हीं पिशेपणां पळोवपा खेरीत कांयच करपाक शकनाशिल्लो.



# समाधान

**ता**रीपाण्ट्याक खेटुनच आसल्ल्या रंगू भाटकाराल्या भरगच्च माडांनी भरिल्ल्या थळ्यार धा-पंदरा मनीस मोन्यांनीच हालचाली करताले. आवयले दीस करतना रवळू भटमाम सांगता तशें करतालो. तीन फातरांची चूल मांडून ताचेर पिंडांचें चटक शिजतालें. खाडबोड ताशिल्लो रवळू धोपरांवयर पावपी वालो गुठलावन उकांडो बसून वाऱ्यान फुरफुरपी उज्याकडेन पळयतालो. फुडल्या क्रियां खातीर भटमामान आफयतकीर तो फुडें सरलो. भटमाम ताका न कळपी पूण देवांक कळपी भाशेंतले मंत्र म्हणटालो. रवळू आनी ताचो बापूय... आब... मोर्तु भटमामाकडेन भावार्तान पळयताले. भटमामाले सांगणेनुसार रवळून हुनहून अशा त्या चटकाचें... शीताचें पिंड वळ्ळें. शास्त्रांत सांगिल्ल्यो सगल्यो क्रिया भटमामान रवळु कडसून करून घेतल्यो. 'पिंडाक कावळ्यान चोंच लायली की आत्मो मुक्त जातलो.' भटमामान सांगतकीर रवळू आनी मोर्तू व्हडा आशेन कावळ्यांक होरावंक लागले. 'वायस...वायस...' इतले म्हणटासर न्हंय पलतडच्यान एक कावळो उडत आयलो. तिरक्या दोळ्यांनी ताणें हांकां पळोवन आपली म्होर तांचेवटेन केली. धडेवयल्या बिंबटी रुखाचेर बसून ताणें 'कांव... कांव' करून आपली वर्दी दिली. हांचो दोगांयचो भटमामावेलो विस्वास अदीकच वाडलो. कारण तांकां न कळपी भटमामाली भास कावळ्याक दिस्त कळ्ळी म्हणून. 'सायबा... बेगीन यो आनी पिंडाक मात्शी चोंच लाय.' मोर्तून आनी रवळून रूखावेल्या कावळ्याक हात जोडून विनवणी केली.

मोर्तुली घरकान्न... भागें... दोन वर्सांवयर हांथरूण धरून पडिल्लें. घरकार मोर्तू आनी पूत रवळू दोगांयनी दोन वर्सां ताचें गू-मूत भरलें. ताचे कुडीक खंय खिण-फेरीज जावचें ना अशी जतनाय घेतली दोगांयनी. कांक्र.. हें नांव पडिल्ल्या भाग्याच्या दुर्येसाक आनीक कांयच उपाव तो नासलो. घश्टत... परवंत... दीस काडपाचे हें भाग्याच्या नशिबांत तर ताचे वळवळे पळयत रावपाचें बापूय-पुताच्या नशिबांत. भाग्याचो गळो कांक्रान अंदिल्लो. कुलेरभर उदक लेगीत ताळ्या सकयल वचपाक वरां घेतालें. गरीबकायेंतय अन्नपुर्णा कशें पेजेक लेगीत रूच हाडपी भागें बाबडें आयज शीताच्या गोट्याक आनी उदकाच्या थेंब्याक वळवळतालें. सुरवेक गिळपाक त्रास जाताले तरी सवकास करून तें चाबून गिळटालें. मागीर जेन्ना सुकें वा घट खावंक जायना जालें तेन्ना मोर्तू पेजेंतली कुयां निवळांत मुड्डून ताका पाजयतालो. शेवटाक तर पातळ आलीमेंत घेवंक लेगीत कठीण जावन पडिल्लें. एक थेंबो उदक ताळ्या सकयल देंवतना तोंडांतल्यान गर-गर आवाज येतालो.. अर्दो थेंबो भायर तर अर्दो ताळ्या सकयल. मोर्तू-रवळुच्या दोळ्यांतलीं दुकां मात आवाज न करतांय सरसरीत देंवतालीं. हेरांक पोटभर अन्न खावोवपी भागें अन्नाच्या कणाक पातिशेर जाल्लें. हांथरूण झरोवन-झरोवन निमणें एकदाचें भागें सुटलें.

तें मेलें म्हणून दुख्ख करचें काय सासणाच्या भोगांतल्यान सुटलें म्हणून खोशी मानची ह्या विचारांत मोर्तू आनी रवळू घुस्पले. सुकून-सुकून काडी कशें जाल्ल्या भाग्याक शेजरापाजऱ्यांनी आनी दायजांनी बरें पांचवें णववारी नवें कापड न्हेसयलें. चार-स केंस आशिल्ले तकलेर तरेतरेच्यो फातयो माळयल्यो. कपलभर कुकूम आनी तोंडभर साखर घालून सवायशीण बायलांनी मेल्ल्या भाग्याची होटी भरली. उदकाच्या थेंब्याक वळवळिल्ल्या भाग्याचें साखरेन भरिल्लें तोंड पळोवन मोर्तू आनी रवळू एकामेकांक वेंग मारून पोटभर रडले. मसुंडेंतल्या सरणाचेर दवरिल्ल्या भाग्याक दोगांयनी दोळे भरून पळोवन घेतलें... निमणें दर्शन तें. आनी भाग्याचेच इत्सेप्रमाण घोव आसतनाय पुतान... रवळून ताका मंत्राग्नी दिलो. कापराची शिर कशें भागें भुरभुरीत जळून गेलें.

'समर्पयामी' भटमामालें हें अंतर आयकून चितनेंत दंगिल्लो मोर्तू सावशीद जालो. भटमामान आपल्यो विधी सोंपयल्यात आनी आतां सगले कावळ्याक आफयतात. मोर्तून बिबटी झाडावयल्या कावळ्याकडेन नदर लायली. कावळो उडत आयलो आनी पिंडासरी बसलो. ''चल... कावळ्यान चोंच लायली की आत्मो मुक्त जालो. मोक्षाक पावलो हें समजुवचें.'' पूण कावळो ढिम्म. कसोच चोंच लायिनां. फकत पिंडा भोंवतणी फेरयो मारता. भटमामान मोर्तू-रवळूक कडेक व्हेले.

'आत्म्याची कांयतरी इत्सा उरल्या दिस्ता. बघा... कावळो वचय ना आनी चोंचय लायना. बघा कायतरी सांगून. नाच तर मग दर्भाचो कावळो लावायचो.' भटमामालीं उतरां आयकून बोडको रवळू आनीकय बाबडो दिसपाक लागलो. दोळ्यांतल्यान दुकां काडत ताणें आवयची विनवणी केली. कावळ्यान कांव-कांव केलें पूण पिंडाक चोंच न लायतां प्रदक्षिणा सुरूच ताच्यो.

'मोर्तू आतां सुर्यो वयर चडलो. दर्भाचो कावळो लावचोच पडतलो आतां.' भटमामान टकलावेलो घाम पुसत म्हळें. इतल्यांत मोर्तुच्या कानांत कसलोतरी आवाज पडलो. नदर वयर केल्यार ताका रस्त्यावयल्यान तारीपाण्ट्यार वचपी 'तो' दिसलो. आतां कानार पडिल्ल्या आवाजाचो ताका अदमास आयलो. 'दामू... ए दामू' दायज्यां मदलोच एक चवदा-पंदराचो भुरगो धांवत आयलो. 'दादो... किदें?' 'दामू... धांव मार आनी त्या आयस्प्रोटकाराकडेन आसाय तितलेय एकेके आयस्प्रोट हाड. वोस धांव मार. हे घे पयशे.' दामू धांव धांवलो. 'ए... कुय राव रे.' आयस्प्रोटवालो थंयच्च सायकलीक ब्रेक लावन रावलो.

मोर्तुच्या दोळ्यां सामकार निमण्यां दिसांतलें... हय न्हय असो आवाज आनी कान तोंडाक लायल्यार उलोवणें समजपी भागें आयलें. 'ताऽऽळो हुऽऽलऽऽपऽऽताऽऽ. आऽऽयऽऽस्प्रेऽऽट एऽऽक मेऽऽल्याऽऽरऽऽ पऽऽळऽऽय माऽऽतऽऽसोऽऽ सुऽऽशेऽऽगऽऽ जाऽऽयऽऽतऽऽ.' वरभर लागून भाग्यान ताच्या कानांत आयस्प्रोटाविशीं आस सांगली. जळतल्या... हुलपतल्या ताळ्याक घडये थंड आयस्प्रोटान थंडसाण मेळत अशी पिशी आशा ताका दिसताली. मोर्तून तेन्ना दुकाना वयल्यान बडयेचो आयस्प्रोट हाडून ताच्या तोंडाक लायलो.

दोन थेंबे तोंडांत तर आठ गालार.... आपल्या दोळ्यांतलीं दुकां लिपयत मोर्तून ताका समाधान भोगोवपाचो जाता तसो यत्न केलो. आयस्प्रोट चोखतां चोखतांच भाग्याचे प्राण गेले.

''दादो हाडलें आयस्प्रोट.'' दामून धांवत वचून खरशेत हाडिल्ले आयस्प्रोट दाखयलें. ''रवळू... पुता हें आयस्प्रोट पिंडाचेर व्हरोन दवर पळोवया.'' बोडक्या रवळून सगळें आयस्प्रोट पिंडाचेर दवरलें. मात्सो पयस उडून गेल्लो कावळो पर्थून आयलो. तिरकी मान करून ताणें मोर्तूक पळयलें. आनी कडक वोतांत वितळपी आयस्प्रोटावेल्यान चोंच मारून पिंड फोडलो. कडकडीत वोतांत मोर्तू आनी रवळुच्या घामान व्हांवपी चेऱ्याचेर आतां समाधान दिसलें.



# शेराक ? ऑफकोर्स सवायशेरच...!

**धा**-बारा वर्सांफाटीं खळबळ उडोवन, गांवगिरो वाठार, थंयचीं घरां, शेतां-भाटां धुवन व्हरून हाहाकार करपी न्हंय आयज शांततायेन व्हांवताली. खरेंतर ही न्हंय सैमान दिल्ली ड्युटी इमाने-इतबारे पाळताली. समुद्रान दिल्लें उदक घेवन सावे न्हंयमेरेन वचप आनी आपले शिमेवेल्यान पर्थून तें उदक समुद्रांत व्हरून पावोवप. सुकती-भरतीच्या ह्या खेळांत न्हंय रंगून गेल्ली. लोकांचेर अधर्म आयलो आनी तिणें तिसरो दोळो उगडून आपलो प्रताप दाखयलो. मेल्लीं गोरवां, सुणीं, माजरां, म्हस... लोकांनी धुकलल्लीं न्हंयेंत. बाबडी न्हंय ह्यो पालख्यो वयर-सकयल घुंवडायता. दर्यो ही घाण आपल्या पोटांत घेवंक तयार ना. करता कितें मागीर न्हंय? घरां मोडून नवीं करपाचीं? ओतलो सगळो कचरो, मोडकीं लाकडां, फुटके नळे न्हंयच्या तोंडांत. निमणें तिचेंय पित्त चाळवलें आनी आपले दोनूय वटांनी हाहाकार घालून न्हंयन सगल्या घरादारांचो कचरो करून आलतड-पलतडच्या मनशांक बेघर करून सोडले. हांगा सुक्याबरोबर ओलेंय जळून भस्म जाल्लें.

चोयवटांनी मजत येवंक लागली. मेळिल्यांक चारपटीन तर मेळनाशिल्यांक कांयच ना अशें जरी जालें तरी पेपरांचेर, टी.व्हीचेर मजतीचो व्हांवतो ओघ दिसून सगल्या राज्यभर मजत वाटतल्यांचो उदो-उदो जालो. हळुहळू सगली परिस्थिती सुदारत गेली. सरकारी मजतीन घरां मोडिल्ल्यांचीय आनी साद्यो खोपी वा संडास मोडिल्ल्यांचींय गडगंज घरां उबीं जालीं. निमणे रूटीन रितीन

न्हंय कित्याक खुबळ्ळी हार्ची कारणां सोदपाक पंच, सरपंच आनी दोन चार सरकारी अधिकारी हांची एक कमिटी स्थापन जाली. न्हंयचें पात्र पुरवून गेल्ल्यान हो अनर्थ जालो ह्या एकाच कारणाचेर सगल्या मेंबरांनी तकली हालोवन रिपोर्टाचेर सय मारली. रिपोर्ट सरकारान स्वीकारलो आनी न्हंय निवळ करपा खातीर टेंडरां मागयलीं. भराभर पोकलेनां, जे.सी.बी., शेवाळीं न्हंयच्या पोटांतलो चिखल खरपुवंक लागलीं. न्हंयचे धडेवेल्या शेतांभाटांनी, न्हंयच्या पोटांतल्या निव्याच्यो (निवो - न्हंयच्या देगांनी सांचिल्ली साकरमाती) राशी उब्यो जाल्यो. साकर निव्याच्या राशिनी न्हंयच्या दोनूय देगांक दोंगुल्यांचें रूप आयलें.

आमच्या गांवांतलो मोर्तु... भयंकर फिन... फिशाल बुध्दीचो धनी. आंवाळ्याचो कुडको दाखोवन अख्खो कुंवाळो कसो फारावंचो हें हाचे कडच्यान शिकचें. ताची नदर ह्या जळामळा पातळिल्ल्या साकर निव्याचेर पडली. ताचे तकलेंत आयडियांचेर आयडिया फुटपाक लागल्यो. शेताभाटांनी युरिया... संपुर्णा ओतपी लोकांक निव्याचें म्हत्व कळनाशिल्लें. पूण मोर्तून तें जाणलें. तकलेंतली आयडिया ताणें एका ॲप्लीकेशनांतल्यान कागदार देंवोवन तो कागद सरपंचाकडेन पावयलो. गांवगिरो वाठार आनी राज्य पंचायतीचें. लोकांक न्हंयचे देगेर वचूंक मेळचें म्हणून आलतडचो सगलो चिखोल आपखोशयेन निवळ करपाची विनवणी करतल्या मोर्तुन आपूण समाजसेवक ही बिरदावली लावन घेतली. पंचायतींत जावपी म्हयन्याचे मिटींगेंत हेर विशयां वांगडा हाचेरूय भासाभास जाली. नामधारी महिला सरपंचान तर अंद् वर्साचो 'समाजमित्र पुरस्कार' मोर्तुकच दिवया अशेंय सुचयल्लें. एका घरच्याच पंचाच्या विरोधान... पुरस्कार दिवंक न्हय तर निवो दिवंक... सरपंचीणबाई आडवली.

हो पंच कोणे एके काळी कुळवाडीपण करतालो. आतां पंच जायतसावन तें बंद. देखून ताका निव्याचें म्हत्व खबर आसलें. तो डायरेक्ट मोर्तुक मेळ्ळो. "सायबा... साकर निवो व्हरून तूं तुजीं भाटां फुलयतलो. म्हाका तेजेर कांयच म्हणपाचें ना. पूण आमीय सात जाण आसाय न्हू? आमकांय मात्शें फुलय." मोर्तु मात्सो न्ही बरोच सावशीद जालो.

“पंचबाब कितें म्हणपाचें आसा तुका?”

“मोर्तुबाब... टेंडर काडून उसपयल्ली रेंव, माती निवो ही सरकारी मालमत्ता.”

खरेंतर टेंडर आसलें फकत न्हंय उपसुपा पुरतेंच. उपरांत तो निवो व्हांवून न्हंयत वचुंदी वा लोकांच्या घरांनी. कोणाकच कांयच पडूंक नासलें ताचें.

“तेन्ना मोर्तुबाब सरकाराक लुकसाण करोन तुका निवो दिवप कशेंच शक्य ना.”

मोर्तुच्या दोळ्यां सामकार चार-पांचशें ट्रकभर निवो गुणीले कमी म्हळ्यार हजारभर रुपयांनी फुगडी घालपाक सुरवात केली.

“पंचबाब... आमचे मदीं सरकाराक किद्या घुसयता? तुमी आमचेच आनी आमी तर तुमचेच. आमचे भितरच थारावया न्ही आमी. ऐशी म्हाका आनी वीस तुमकां. जालें?”

“मोर्तुबाब विसांनी जावचें ना तें. आमी सगले मेळून सात जाण... ते भायर सेक्रेटरी, ग्रामसेवक, क्लार्क आनी शिपाय... हांव सांगतां तुमकां ऐशीं-वीस टक्केवारी नाका. नकद सत्तर हजार उडयात बाकी हांव सांबाळटां.”

घासाघीस जावन आंकडो पन्नासाचेर साऽऽ जालो. पांच लाखांतले पन्नास गेल्यार वचूं. ह्या नसावांक सुररोट म्हणुया... मोर्तुन चिंतलें. आलतडीच्या किनाऱ्यावेल्यो निव्याच्यो राशी पळोवन पंचायतीच्या सगल्या पंचाच्या मतींत आयलें की ते फकत पन्नासांचेर फटवल्यात आनी मोर्तु लाख बोल्सांत वडयतलो. मोर्तु हांगा शेवाळें आनी टिपरींचें भाडें थारावन गिरायकां फिक्स करपाक लागलो. गिरायकां कडच्यान ॲडवान्स घेवंकय सुरू केलें ताणें. अचानक ताचे वॉर्डाच्या पंचाचो ताका फोन आयलो. “आरे... तूं त्रासांत पडटलो मोर्तुबाब. तुजें ॲप्लीकेशन बी.डी.ओ फुड्यांत पावलां. जाऽऽजाऽऽ येवन म्हाका मेळ.” मोर्तुन तोंड उगडचे पयलींच फोन कट. मोर्तुन आपली प्लॅजर डायरेक्ट पंचाच्या दारांत व्हरून थांबयली.

“आरे पापया... तुज्या ॲप्लीकेशनाची गजाल कोणेंतरी गांवकारान बी. डी. ओक कळयली. तेणें सेक्रेटरीक आफोवन तेजेर फोग काडलो. आतां तें ॲप्लीकेशन तेजेफुड्यां पावलां. आतां तेकाय किदें रोट घालचें पडटलें.”

मोर्तुन तोंड बंद केलें. चीत चीत चिंतलें. पांच लाखांतले एक लाख गेल्यार वचूं म्हळें आनी बीडीओ खातीर पन्नासांचो आंकडो फोडलो. ''छे छे.... पन्नासांचेर जावचें ना तें आतां. दोन तरी जाये कमी म्हळ्यार.''

आतां मोर्तुली गाड्डां आवळ्ळीं. सगल्यांक इतलें खावोवन उरतलें कितलें? ट्रक... शेवाळीं हांचीं भाडीं, मानायांचो दिसवडो सगलें दिवन आनी हांकां खावोवन व्हडलेंशें कांय उरचें ना हें ताच्या फिन बोडांत रोखडेंच देवलें. ''सायबा... कशेंय करून तें ॲप्लीकेशन फाटीं घेयसारकें किदेंय तरी कर. पाडा पडों तो निवो. म्हाजे पयशे मोडून हांव समाजसेवा करपाची चिंततालों.'' हो पंचय हुशार. ओगीच शिर्वीस सोडून पंचगिरी करिनासलो तो. ''मोर्तुबाब... पंचायतीक हांव सांबाळटां. आमी सगले समजून घेतात तुका. पूण तें वयले सायबान आयकों नाका? तेका खावड घालचीच पडटली. तेन्ना लाखभर तरी तयार दवर. मागीर तुजें ॲप्लीकेशन हाडुया परतोन.''

मोर्तुक जुस्त कळ्ळें की हो देडशाणो पंच आपल्याक शेंडी लावंक पळयता.

''सायबा केन्ना हाडटा ॲप्लीकेशन? हे हातांत पयशे ते हातांत ॲप्लीकेशन. सांग.''

''आरे भियों नाका रे. फाल्यां-परवां ऑफिसां बंद. हांव वयतां, तुजें ॲप्लीकेशन घेवन येतां.''

''सायबा उपकार.'' मोर्तुन प्लॅजर घरावटेन घुंवडायली. सोमारा पंच पावचे पयलीं मोर्तु बी.डी.ओ. ऑफिसा भायर पावलो. पंदरा मिन्टांनी बुलेट घेवन पंच आयलो. मुमुरखें हांसून मोर्तुक हातान धीर दियत तो ऑफीसांत गेलो. इस्काद चडतना ताणें पंचायतीन दिल्लें मोर्तुलें ॲप्लीकेशन सांसपिलें. बी.डी.ओ. ऑफिसांतल्यान मोर्तूक हात दाखोवन तो आसा न्हय हाची खात्री केली. पंदरा-वीस मिन्टां भितरले-भितर मात्सो घुस्पलो आनी उपरांत इस्काद देंवन मोर्तुसरी आयलो.

''मोर्तुबाब... म्हजेर विस्वासून सायबान ॲप्लीकेशन दिलां. आतां तुजें काम कर.''

''सायबा बस म्हाजे प्लॅजरीचेर. अे.टी.अेमांत वचुया. पयशे घे ॲप्लीकेशन दी.''

फुलून पंच ताचे वांगडा गेलो. मोर्तुन कार्ड घालें. पीन मारली.

"सायबा पयशे तूं मार. हांव ॲप्लीकेशन पळयतां."

पंचान उमेदीन ॲप्लीकेशन मोर्तुक दिलें. पंच पयशांचीं बटनां दामीसर मोर्तुन ॲप्लीकेशनाचे चार कुडके करून तोंडांत भरले आनी चाबून गिळ्ळेय. पंच पयशे पडटले म्हणून दोळे ताणावन पळयतालो. आयलें एक बोटभर कागद, "सॉरी. लो बॅलन्स. अनेबल टू मेक ट्रांझॅक्शन." पंचान मोर्तुल्या कॉलरीक धरलें.

"ॲप्लीकेशन दी चोरा." मोर्तुन तोंडांतलो कागदाचो चाबडायल्लो लगदो ताच्या हातार उडयलो. "घे"



# केमेस्ट्री

खांद्यावयली पर्स आनी हातांतली भरिल्ली व्हडली कॅरीबॅग घेवन हांव आमच्या फ्लॅटांत वचपाक इस्कादी चडटालें. तिसरे माळयेर पावता मेरेन हात, पांय आनी कमरय भरून आयली. दाराक पळयल्यार कुलूप. 'हे' सांजचे पासयेक वचपाक भायर सरल्यात जातले! म्हाका येवंक कळाव जाला हें जाणूनय एक रींग दिलीना ताणी. पूण आपली पासय मातूय चुकयली ना. कॅरीबॅग दारांत आपटून पर्सींतले चावयेन हांवें दार उगतें केलें आनी पयलीं फॅन लावन सोफार जीव घालो. ऑफिसांतल्यान सव्वापाचांक भायर चांटी दवरली. भाजी आनी हेर किरकोळ खरेदी करून घरा पावऽमेरेन साडे स जायत आयलीं. आवयऽऽस... आतां रांदपाचे तयारेक लागपाक जाय. हांकां बरोबर साडेआठांक जेवण तयार जाय. नातर गांव एकठांय करपा इतलो बोवाळ करतले. दुसरे दिसा हेर फ्लॅटवाल्यांचे नदरेक नदर दितना म्हजी नदर म्हाका धोको दितली... अशी गडबड जावचेपरस पाडा पडूं तो विसव. चिंतत चिंतत हांवें सोफा सोडलो.

वराभरान कानार आवाज पडलो. ''आगो काफी जावुना अजून?'' चावयेन घर उगडून हे घरांत आयले हो एक म्हजेवेलो मोठ्ठो उपकार. बेगोबेग काफयेचो व्हडलो मग हाडून हांचे सामकार दवरलो. फॅन लावन हे झेतान काफयेची रूच घेवंक लागले. हांव वाट पळयतालें. आजतरी.... तशें पळयल्यार फाटलीं पंचवीस सव्वीस वर्सांभर हांव वाट पळयत उरलें. कमीतकमी आजतरी हे म्हणत काय? 'हांगाच घेवन यो गो तुजीय काफी' हांव फाटलेफाटीं भितर वचून

गटागटा काफी पियेलें. बेगोबेग नुस्तें उजरायलें, भाजीय फोण्णां घाली आनी शिताचो कुकूर चडोवन पीठ मळपाक घेतलें. रिटायर जाल्ल्याक हाणीं रातचें शीत कमी आनी चार रोटयो खावपाचो नेम केला. रोटयोय ताज्या मळिल्ल्या पिठाच्योच जाय. चलो आनी हांव कितेंय खातात. फकत उदरभरण समर्पयामी करतात आमी. पूण हांचें भलतेंच. दिसपट्टी म्हजें हेंच लायफ. आनी चार-पांच वर्सां ही धांवपळ आसा म्हजे पदराक. हांव रिटायर जाता मेरेन. तो मेरेन सकाळ ते रात हें धांवपळीचें रूटीन.

ना म्हटलें तरी ह्या रूटीन लायफांत बदल जावपाची वेळ अचकीत लागीं लागीं येवंक लागली. चल्याक आमच्या बरी, घसघशीत पगाराची शिर्वीस मेळ्ळी आनी दारांत सोयरिकांची लायन लागली. चल्याक पसंद पडिल्ली चली हांकां पटना. आनी हांकां आवडिल्ली ताका आवडना. म्हाका मात मतस्वातंत्र्यच ना. निमणें हांणी चार पावलां फाटीं घेतलीं आनी चल्याची आवड मानून घेतली. चट मंगनी पट ब्याह जावन हांव, चलो आनी सून आपापले शिर्वीशेक रुजू जालीं लेगीत. सून मात देवादयेन बरें भुरगें मेळ्ळें. म्हाका हातबोट लावन मजत करपी. हे ताका काडी हालोवंक सांगनाशिल्लें. सगलीं फर्मानां म्हाकाच.

हांकां सद्दां सकाळीं घरचो, ताजो नाश्तो लागता. पोळे, भाकरी, फोव, शिरो, चपाती, इडली कितेंय. सुनेन एक दिसा पाव घेतले. ''आगो बाये. पप्पाक चलचेना पाव. आड्डून घर माथ्यार घेतले. हांव चाऽऽर रोटयो करतां तांकां.''

''आई... तूं चिंता करी नाका पप्पाची. हांव पळयतां. सद्दां तुज्यो काडाओडी पळोवं नजो म्हज्यान. आतां हांव आयलां तुका आदार दिवंक. चल तूं तुजी तयारी कर. सुजय सोडटलो आयजच्यान आमकां आपापल्या ऑफिसांत. सांजचीं आमी तुज्या ऑफीसाकडेन येवन पिकप करतात तुका. चल तूं न्हावन यो आनी आमच्या तिगांयचे डबे भर.'' व्हडा उपकाराचे नदरेन हांवें सुनेक पळयलें. ताच्या दोळ्यांत म्हाका म्हजेविशींची माया दिसली आनी हांव पळ्ळें निट्ट बाथरूमांत.

हांव न्हावन हळूच भायर सरलें. मात्शी किचनांत तकली घुसोवन पळयलें... जाल्यार हे सुनेन दिल्ले बटर-पाव चापून-चोपून खातात. हांवें सुस्कारो सोडलो. सुनेन म्हज्या खांदार हात दामून म्हाका धीर दिलो. ''सुजय न्हावन घे रे. आई आनी हांव न्हालीं. गिजर बंद करून यो. मागीर च्या घेवन बरोबर भायर सरूया. पप्पा मागीर जाय तेन्ना न्हातले.''

'आब्बा... पोर कापाजदादीचेंच खरें. म्हाका पंचवीस-सव्वीस वर्सांचे गुलामींतल्यान मुक्तताय दिता हें.' म्हजें मन चिंतपाक लागलें. गीजर लावन बालदी भर उदक मिसळून घालून सारकें करून दवरपाच्या कामांतल्यानय पोरान सुटका केली म्हजी.

'कुलदेवा रामनाथा पाव रे.' हांवें बेडरूमांतल्यान साडी न्हेसतां न्हेसतांच हात जोडले.

''पप्पा येतात आमी. तुमचें जेवण मेजार दवरलां. शेल्फांतली ताट-बशी घेवन वाडून घेवन वेवस्थीत जेवात हां. आनी पप्पा प्लीज तुमची ताटबशी मात्शी सिंकांत दवरात हां. प्लीज पप्पा. येतात आमी.'' सुनेचीं उतरां कानांत पडतना हांवें सकयल फुज्जो काडली. सांजचीं तिगांय बरोबरच आयलीं.

''आई तूं हातपांय धुवन यो. हांव काफी घेवन येतां. सूजय तूं मात्सो किचनांत यो मागीर. मात्श्यो बिस्कीट्यो बी बशयांनी घाल.''

हांव हातपांय धुवन किचनांत गेलें. मेजार काफयेचे मग मांडल्यात आनी सुजय डब्यांतल्यो बिस्कुत्यो बशयेंत दवरता. 'हे' तोंड धापून पळयतात. सून फ्रेश जावन आयली आनी आमी गजाली मारत काफी सोंपयली. सुनेन आपलो मग व्हरून सिंकांत धुयलो. अजाप... आश्चर्य... अजुबाच. हेवूय उठले आनी आपलो मग आपल्या हातांनी धुंवन शेल्फान उमथो घालो. म्हाका आतां कुडींत खंयतरी अॅटॅक येतलो हें शेर्त.

आमी दोगांयनी मांय सुनेन मन लावन रातच्या जेवणाची तयारी केली. मस्त मज्जेन चोवगांय हांसत खेळत जेवलीं. आतां, म्हजी ही गृहलक्ष्मी घरांत येत सावन म्हजें रूटीन लायफ बदलिल्लें. जाय जाय शें बदलिल्लें. एके रातीकडेन रांदतना सुनेन म्हाका हळूच विचारलें, ''आई पप्पाचो बड्डे केन्ना गे?''

“बाय गो तुका तारीख, म्हयनो वर्स सामतां. पूण तूं ते भानगडींत पडूं नाका. व्हडलें शेर्मांव दितले तुका हे. सादी पन्नाशी केली ना हांणी.”

हांवें ताका तारीख सांगली.

“आई तूं हुस्को काडी नाका. हांव पळयतां. मैं हूं ना!”

हांच्या येता त्या वाडदिसाक सून थारायता तें फायनल. हाका हांवें आनी पुतान तेंको दिलो. ‘ते दिसा’ आमी तिगांय कामावेल्यान घरा आयलीं. तिनसांजची काफी तयार जाली. मात सुनेन हांकां बुके दिवन वीश केलें.

“पप्पा हॅपी बर्थडे.”

हांव लटपट-लटपट जातालें. म्हणीसर तें म्हजेकडेन पळोवन म्हणूंक लागलें कशें... “आई आयज कांयच रांदप ना. आज पप्पाक तांचे सुनेकडसून ट्रीट. रातचें जेवण हॉटेलांत.”

अजाप देवा... सामकें अजाप. केन्नाच आपलो वाडदीस न मनोवपी, पुताचो वाडदीस लेगीत मनोवपाक न दिवपी हो दादलो.. सुनेक विचारता, “आगो कितल्या वरांचेर भायर सरपाचें? मात्सो शर्ट इस्त्री करून घेतां.”

पोर खरेंच बऱ्या पांयगुणांचें. देवा सद्दां... आयुश्यभर सुखी दवर रे हाका. व्हटी भरभरून सूख ओतय रे देवा. म्हजेंय आयुश्य ह्या पोराक दी. कोण कोणाचें पोर म्हज्या घरची लक्ष्मी जावन आतां म्हाकाच तेंको दिता. म्हजे भरून आयिल्ले दोळे पळोवन तोच आदाराचो हात पर्थून म्हज्या भुजांचेर पडलो. सुनेच्या रूपांत म्हाका धूव मेळ्ळी. तुवेंच दिली रे देवा म्हाका.

‘केमेस्ट्री’ ह्या शास्त्रांतलो एक नेम आसा जो मनशाच्या सभावाक फिट थारता. कांय घटक अशे आसतात जे एकामेकांत पुरायपणान भरसले तरी आपलें खाशेलेंपण खंय सोडनात आनी कांय घटक अशेय आसतात जे मात्शे एकठांय आयले तरी एकामेकांत मिसळून पुराय एकरूप जातात. नेम पयलो आमकां फीट. पळयात लग्न जावन सव्वीस वर्सां जालीं तरी आमचे सभाव जुळ्ळेनात. हाणीं तिसऱ्या मनशाकडेन म्हळ्यार सुनेकडेन जमोवन घेवन दुसरो नेम शेर्त केलो. आगे केमेस्ट्री माये... तूं ग्रेटच.



आशा शानभागाचें हें साहित्य खंयच्या प्रकारांत मोडटा?

तें ललित लेख? त्यो कथा? काय तो साहित्याचो आनीक कसलो प्रकार? जे कोण समिक्षक बी आसात तांकां आशाबायन दिल्ली ही चलेंज, साहित्य समिक्षेंतली आनीक एक नवी फास्की तयार करपाची.

आशा शानभाग म्हणल्यार एक टॉमबॉय. हें हांव न्हय तर सगळे काणकोणकार म्हणटात.

ह्या टॉमबॉयक एक गजाल नक्की होलमल्या ती म्हणल्यार बऱ्या साहित्य निर्मिती पासत समाजांतल्या विंगड विंगड थरांतल्या जिविता विशीं लागसून म्हायती पुंजावंक जाय. टॉमबॉय जावन समाजांत वावुरतना ताणें तेंच केलां. ताच्या ह्या साहित्यांत तीच गजाल वाक्यावाक्या कणकणी वाचतल्याक होलमतली. ताणें रंगयल्लीं सगळीं व्यक्तिचित्रां आपली वळख दाखयतलीं. कोंऽ हंऽऽ अशें प्रस्नचित्र निर्माण करिनासतना.

- दिलीप बोरकार



आशा शानभाग

बिम्ब
प्रकाशन

ISBN 9789384951979




मोल: ₹180